**Sheela-Lekh (Essays)**
By Sheela Kolambkar

# शीला- लेख (ललीत)

शीला कोळंबकार
मो.9819315307

**पयली उजवाडावणी:** नोव्हेंबर 2012

**प्रकाशक:**
**श्री रामेश्वर प्रकाशन**
सारंगधर,
कविता कॉम्प्लॅक्स
आदर्श कॉलनी मुखार
करंझाळें पोस्ट ऑफिस.
गोंय. 403 402



**छापपी:** इंप्रेशन्स, बेळगांव.

**अक्षर जुळोवणी:**
स्वराज्य डीटीपी
9764562133

**मुखचित्र:** प्रसाद नायक

**मोल:** रु. 200/-

हें पुस्तक कला आनी संस्कृती खात्याच्या लेखकांक अर्थीक पालव येवजणे खाला छापलां.

सौ. जलप्रभा (शरयू) मनोहर त्रिंबककर
डॉ. शशिकला चिंतामण अभ्यंकर
सौ. नीला प्रवीण तांबोसकर
सौ. दुर्गा रवीन्द्र कांबळी.
ह्या भयणींक आनी भावोजींक.
लक्तुबायेन...

---

**उपकार**

नूतन साखरदांडे
संजीव वेरेंकार
संजय बोरकार
प्रदीप पाटील
आनी
मुकेश थळी

हांणी घेतिल्ल्या कश्टांक लागून हें पुस्तक मूर्त रूपांत आयलें.

**उपकार** : पूर्वप्रसिध्दी खातीर-
जाग, बिंब, कोंकण टायम्स, कुळागर, कोंकणी, सुनापरान्त, बार्देस दिवाळी अंक.

# मांडावळ

# आमचो दादा

नांव कितें गे तुजें?

शीला.

आडनांव?

नायक.

तुमी खंयचीं?

पणजेचीं.

पणजे कोणागेर?

बाबले नायकागेर...

आगो, अशें सांग मगो. तूं दादाली नात? मागीर तूं आमचेंच मगो. यो, यो...

ल्हान आसतना आमी खंयच्याय दुसऱ्या गांवांत वचत जाल्यार सादारण अशें उलोवप जातालें. बाबले नायकाल्यो नाती म्हळें काय आमकां बाकीच्या परस वेगळी वागणूक मेळटाली. रेस्पेत मेळटालो. इतलो दादा त्या वेळार फामाद आशिल्लो. त्या वेळार बाबले नायकाच्यो नाती म्हळ्यार गोंयच्या खंयच्याय कोनशावेलो लोक आमकां वळखतालो.

आतां खबर ना.

सगळो लोक म्हज्या आज्याक दादा म्हणी. दादा म्हळो काय म्हजे नदरे मुखार उबो रावता तो वालो न्हेशिल्लो दादा. तो घरांत वालोच न्हेसतालो. उंचायेक सादारण. वाटकुळो चेरो. केंस सगळे कापिल्ले. तबल्याची शाय आसता तितले मदीं काळे केंस. ताचे मदीं एक शेंडी. पूण दादा भायर सरून वतना पुडवें न्हेसतालो. धवें लांब हाताचें खोमीस. ताजेर खाकीच्या कोराचो जोधपुरी कोट. ह्या कोटाच्या हाताक आनी मदीं बरें मोटे चकचकीत बुतांव. कोटाच्या बोल्सांत घडयाळ. ह्या घडयाळीची सरपळी बोल्स ते बटन मेरेन हुमकळटाली. माथ्यार तांबडी चवकोनी तोपी. पांयांनी व्हाणो. ताचो कर्र कर्र आवाज करीत पुडव्याचो एक शेव हातांत धरून नाजाल्यार तो शेव बोल्सांत खोवन, हातांत बडी घेवन दादा धोलत धोलत चलतालो.

पूण म्हाका दादा याद आसा तो वालो न्हेशिल्लो आनी दुसरो वालो खांदार घेतिल्लो.

आमी सगळीं साडेधांक सुमार शाळेंतल्यान येतालीं. ह्या वेळार दादा तुळशीक उदक घालतालो. आमच्या घरा दोन तुळशी आशिल्ल्यो. एक व्हड शिमिटान बांदून काडिल्ली. आजुलेती लावन सजयल्ली फुडल्या दारांतली तुळस. ती बरी पांचेक फूट उंच आशिल्ली. तिका व्हडली तुळस म्हणटाले. आनी घराच्या दुसऱ्या कोनशाक एक ल्हान तुळस आशिल्ली. तिका आमी धाकटी तुळस म्हणटालीं. दादा न्हावन धुवन पुजा करतालो. पुजेक दादाक बरें वर, देडवर लागतालें. दादा तोंडान कितें कितें म्हणीत प्रदक्षिणा घालतालो. आनी मदींच म्हणटालो, 'तुजवीण शंभो मज कोण तारी...' ताचे उपरांत दादा म्हणटालो,

'शंभोऽ'

'कृपा करा.' आमी आड्डतालीं. दादालें देवसपण जालें काय दादा म्हणटालो, खंय गेलीं गो तीं आवयखायरीं पोरां?' मागीर आमी

सगळीं धांवत दादा म्हऱ्यांत वतालीं. दादा मागीर आमकां तुळशीच्या पानाक साकर लावन प्रसाद म्हूण दितालो. केन्ना केन्नाय आमकां शाळेंतल्यान येवंक कळाव जालो आनी दादाची पुजा सोंपिल्ली आसत जाल्यार दादा म्हणटालो, खंय मेलीं हीं आवयखायरीं पोरां...

दादा उलयतना पयलीं गाळ घालतालो आनी मागीर उलयतालो. पूण म्हाका दिसता त्या काळार त्या जाण्टेल्यांची संवयूच तशी आशिल्ली.

दादा मुळचो सांत इश्तेव्ह ह्या गांवचो. घरची साप्प गरिबी. दादा धा, बारा वर्सांचो आसलो खंय. काश्टी लावन हांगा थंय हेडप आनी जेवच्या वेळार घरा येवप. एक दीस जेवंक पेज लेगीत नासली. तेन्ना ताची आई साप्प करवादली. तिणें म्हळें येदो व्हडलो रेडो जालो. तरी गांवभर हेडटा आनी गिळूंक घरा येता... कांय काम केल्यार जायना? आयज तुका हांव कितें गिळूंक घालूं? घेऽही म्हजीं हाडां, गीळ...'

दादाक तिगेलीं उतरां खूब्ब लागलीं. आनी दादा पळून गेलो. आनी कोणाल्या तरी घरा बैलां गाडो चलोवंक लागलो. मागीर राण्यालें पयलें बंड जालें. तेन्ना ह्या गाडेकाराक बरो चान्स पडलो. ताणें खासा आपणाले बैल आनी गाडो घेतलो. तकालस केली. एकाचे दोन, दोनाचे चार गाडे केले आनी ते चलोवंक मानाय दवरले.

मागीर केन्ना कसो खबर ना. तो पणजे आयलो. आनी ताणें पयलीं आपले गाडे काम्राचो कोयर व्हरपाच्या कामाक लायले. मागीर तो काम्राचीं ल्हान सान ओब्रां घेवंक लागलो. मेहनत, हिकमत आनी इमानदारी ह्या म्हालवजार दादान खूब पयसो केलो. भाटां बेसां घेतलीं आनी तांबडे तोपयेच्या मानार बसलो.

दादान एक माळयेचें व्हड घर बांदलें. आतां जुन्ता हावस आसा पळय ताचे कुशीक. तेन्ना व्हडलीं घरां चडशीं नाशिल्लीं. घर खूब व्हड. आर्कां आशिल्लें. एके माळयेचें. माळयेर सगळीं फळीं. मजा

म्हळ्यार अजून लेगीत तीं फळीं आशिल्लीं तशीं आसात. घराक माळयेर आनी सकयल दोन सालां. एक ल्हान आनी एक व्हड. खेरीज कितल्योश्योच कुडी. वयर सकयल व्हडलीं लांबचीं लांब वारांदां. माळयेर वचूंक भायल्यान एक आनी भितरल्यान एक अश्यो दोन इस्कादी आशिल्ल्यो. त्योय बी लांकडाच्यो. आमकां ल्हानपणा सावन त्या घराची संवय जाल्ल्यान माळयेक फळी आसून लेगीत आमी धांवल्यार आवाज येनाशिल्लो. आनी परकी मनीस आयलो, आनी तो माळयेर चल्लो जाल्यार ताचो आवाज येतालो.

घरांत भितर सरना फुडें एक हॉल आशिल्लो. थंय इटालियन फरशी आशिल्ली. सागवानी लांकडाचो नक्षीकाम केल्लो स्प्रिंगाचो, तांबड्या कव्हराचो सोफा आशिल्लो. तशीच नक्षी आशिल्लीं कदेलां, दोन वोल्तेरां, मदीं तशीच नक्षी आशिल्लो स्टॅण्ड, ताचेर वाटकुळो मार्बल आशिल्लें मेज. कुशीक एक स्टॅण्ड. ताचे अर्द कुशीक मेज आनी अर्दे कुशीक खण आशिल्ले. तातूंत दादालीं कागदपत्रां आसतालीं.

माळयेर राजा रवी वर्म्याचीं बरीं तिनेक फूट उंच चित्रां आशिल्लीं. घडये त्या काळांत राजा रवी वर्म्याचीं चित्रां लावपाची फॅशन आसूं येता. सरस्वती, महालक्ष्मी, जटायुवध, श्रीकृष्ण शिश्टाय, दोळ्यार हात दवरिल्लो विश्वामित्र आनी भुरग्याक घेवन उबी आशिल्ली ती मेनका, गोपिकांचें वस्त्रहरण, शंकराच्या जटांतल्यान देंवता ती गंगा, लांब केंस मानेर सोडून झोपाळ्यार बशिल्ली बायल, बी. वारांदाचेर सांबराचीं शिंगां आशिल्लीं. ह्यो सगळयो गजाली त्या वेळची फॅशन म्हूण आशिल्ल्यो, काय दादाली सौंदर्याची नदर हातूंत आशिल्ली खबर ना.

आमच्या ह्या घराक दारांच दारां आशिल्लीं. तिंवूय एका मुखार दुसरें हें भाशेन. सगळीं दारां उक्तीं करत जाल्यार भायर रस्त्यार उबो रावन भितर रांदचे कुडी मेरेन कितें चलता तें दिश्टी पड. दारांय कसलीं

जाल्यार चार कुडक्यांचीं. म्हळ्यार सकयलीं दोन दारां लाकडाचीं आनी वयलीं दोन हारशाचीं. धव्या हारशांचेर धव्या गुलाबाचीं फुलां कोंतरायल्लीं आशिल्लीं.

भितरले वटेन बांय आशिल्ली. हे बांयचें उदक आमी वापरतालीं. घरा भायर दसणीचीं तीन व्हड झाडां आशिल्लीं. दोन तांबड्या दसणीचीं आनी एक गुलाबी धवशे कातरे कातरे जाळीदार दसणी फुलांचें. एक अनंताचें झाड आशिल्लें. पावसांत दसणीचीं खूब्ब फुलां फूल... तेन्ना त्या पाचव्या पानांचेर तीं तांबडी फुलां सुंदर दीस. दारांतूच एक रामफळांचें झाड आशिल्लें. ताका वर्सांतल्यान बरीं मोट्टीं रामफळां लागतालीं. पांच नाजाल्यार स. दोन आंतेरीचीं झाडा आशिल्लीं. ताका मात खूब्ब आतेरां लागतालीं. ते भायर ल्हान ल्हान सोबेचीं खूब्ब झाडां आशिल्लीं.

आमच्या घरा कुशीक आनीक एक ल्हान घर आसलें. थंय एक व्हड आफोंस आंब्याचो रुख आसलो. हें ल्हान घर भाड्याक दिल्लें. आमी घरचीं सगळीं भुरगीं आनी त्या घरांतलीं भुरगीं मेळून लंगडी, आपालिपा, आटया पाटया, खो खो बी जायते खेळ खेळटालीं. सांज जाली काय, दादा तुळशीक दिवो लावंक सांगतालो. देवाचे कुडींत लामणदिवो पेट्टालो. दादा खासा आपूण आमचे बराबर बसून आमचे कडल्यान प्रार्थना म्हणून घेतालो. मागीर पाढे. तशेंच आमचे कडल्यान पदां म्हणून घेतालो, नाच करूंक लायतालो. आनी नाच केलो काय मागीर म्हणटालो, 'आवयखायरें पोर नाचता बरें मोडकें विठाय कशें...'

दादा सकाळीं सं क उठ. उठून पासयेक वतालो. येतना जमनीर पडिल्लीं बारीक बारीक तोरां एकठांय करून हाडटालो. तीं तोरां खळाक घालूं जाय आशिल्ली. तीं दादाक पेजे बराबर लागतालीं. आई म्हणटाली, अशी बारीकसाण करूनच मनीस साम्राज्य करूंक शकता.

सकाळीं भोंवन आयलो काय दादा मातसो बसतालो. मागीर

न्हातालो. न्हावन जालें काय ताजें देवस्पण चलतालें. तो उकड्या तांदळाची पेज जेवतालो. पेजे बराबर ताका देंठे घालून केल्लें खतखतें लागतालें. तेचवरी सुंगटां, कल्ली, पेडी नाजाल्यार बांगड्याची राती कडेन तो कडी करूंक लायतालो. तिवूय मातयेचे तवलेंत. ती तवली मागीर रसरशीत इंगळ्याचेर दवरची पडटाली. सकाळीं तें हुमण बोते पडून सुकें जातालें. तसलें तें सुकें हुमण पेजे वांगडा बरें लागतालें. कांयच ना जाल्यार इंगळ्यार भाजिल्ल्यो कुल्ल्यो वा दुसरें कसलेंय नुस्तें.

दादाक तीन धुवो आनी दोग पूत. व्हडली धूव बारा वर्सांची जातकच तिगेलें लग्न करून दिलें. मागीर दोन वर्सांनी आमचो बाबा जालो. बाबा जावचे पयलीं दादान खूब्ब दानधर्म केलो. हरवळ्यां देवूळ बांदलें, मळ्यांत मारुतीगड बांदूंक मजत केली. वळवय, सांतेर भाटांत सांतेरीचें देवूळ बांदलें. हरवळ्या आनी वळवयच्या देवळांक शेतांय दिल्लीं. ह्या शेताच्या उत्पन्नांत भटाची आनी देवळाच्या बाकीच्या खर्चांची वेवस्था जाताली. मळ्यांत फामाद मारूतीची जात्रा जाता. ती दादानूच सुरू केल्ली. खेरीज आनीक कितल्या देवळांक मजत केली खबर ना. सांतीनेज दादान एक मराठी शाळा सुरू केल्ली. ती शाळा दादानूच बांदिल्ली. शाळेचें नांव आशिल्लें श्री रामदास शाळा. आतां ती शाळा आसा काय ना खबर ना. दादा तसो अशिक्षीत. पूण मराठींत सय करतालो. पुर्तुगेज बरी उलयतालो. दादाक लागून आमगेर जुवीज, रेजीदोर, आदमिनिस्त्रादोर आनीक अशे कोण कोण दोर येताले. दादाले आमीग म्हळ्यार श्री. माधव काकुलो आनी दोतोर आत्माराम बोरकार.

दादान आपले जातीच्या लोकांक एकठांय हाडपाक फुडाकार घेतिल्लो. ताजे खातीर 1931 काय 1932 खबर ना, कारवारा भंडारी जातीचें अधिवेशन भरिल्लें. तेन्ना म्हजो जल्म लेगीत जावंक ना. तेन्ना दादाक देशाच्या सगळ्या वाठारांत शिंपिडिल्ल्या जातीच्या लोकांनी

एकठांय येवंक जाय हाची जाणवीक जाल्ली ही गजाल कवतूक करपा सारकी. दादालें खऱ्यांनीच कवतूक करपा सारकें आनी अभिमान बाळगुपा सारकें कार्य म्हळ्यार ताणें जातीभेद ना करपा खातीर केल्ले यत्न. ताणें 1947 तल्यान हरवळेंचें रुद्रेश्वराचें देवूळ सगळ्या जातीच्या लोकांक उक्तें केल्लें. थंय खंयचेय जातीचो लोक येवंक शकतालो. इतलेंच न्हय तर आयज लेगीत महाशिवरात्रेक त्या देवळांत कोणूय गर्भकुडींत वचून अभिशेक करूंक शकता. पूण दादान एक अट घाल्ली. ती म्हळ्यार देवळाच्या कोमिसांवांत बामणाक येवंक दिवप ना.

आमचें घर व्हड आशिल्लें. दादाचे मुस्तींत केपें, काणकोण, पेडणें सावन पणजे कोणूय आयलो जाल्यार ताका त्या दिसा सांजे घरा वचूंक मेळनाशिल्लें. रात तांकां पणजे काडची पडटाली. अशा वेळार जायतो लोक आमगेर येतालो. रात आमगेर काडून सकाळीं वतालो. जायत्या लोकांनी आपले भुरगे शिकपा खातीर दादागेर दवरिल्ले. हे रावंक आनी न्हिदूंक आमगेर आसताले. जेवणखाण भायर. अशे तरेन कितले तरी लोक शिकून गेले. दादान आजयेच्या नांवान शिश्यवृत्ती दवरिल्ली. कोणा खातीर तें खबर ना. इतलें खरें की शिक्षणाक पर्याय ना, हें दादान पारखिल्लें आसूं येता.

दादाचे मुस्तींत दीसपट्टे भिकारी भीक मागूंक येताले. तांकां मूठभर तांदूळ कोणूय हाडून घालतालीं. खेरीज दर एका आयतारा भिकाऱ्यांक जेवण दिवचें पडटालें. मागीर दादान पळयलें, घरच्या बायलांक त्रास जातात. म्हणटकच म्हयन्याचे पयले तारखेक जेवण घालचें अशें थारायलें. म्हयन्याचे पयले तारखेक सोमार जावं शेनवार आसत जाल्यार तांकां शीतरोस एका व्हड दोण्यांत घालून दितालीं. भिकारी वस्ताद. पयले तारखेक सोमार वा शेनवार येत जाल्यार ते येवन सांगताले, आमकां दोन नाजाल्यार तीन तारखेक जेवण दियात. आमकां शीतरोस नाका. आमकां शीतकडी जाय.

त्या तेंपार फॅन नाशिल्ले. तेन्ना तापीच्या दिसांनी दादा करंजाळ्या घर भाड्याक घेवन रावंक वतालो. आमीय दादा बराबर वतालीं. दर्या वेळेर रांपण काडटाले. आमी भुरगीं पोतयो घेवन वतालीं. आनी जळीमळीं पडिल्लें नुस्तें पुंजावन घेवन येतालीं. फडफडटा तें नुस्तें काडूंक एके वटेन भंय दीस आनी दुसरे वटेन मज्जा!

दादालें खांडोळ्या एक भाट आशिल्लें. थंय घराच्या नळ्यांचो कारखानो आशिल्लो. ह्या भाटांत न्हंये देगेर एक घर आशिल्लें. एकेक खेप आमी थंय रावंक वतालीं. ह्या घरा सकयल एक गोड्या उदकाची झर आशिल्ली. ते झरीचें उदक थंड आनी गोड आशिल्लें. ह्या भाटांत आंब्याचीं गारफां आसलीं. ह्या भाटांतले आंबे, घोटां आमकां मेळटालीं. ह्याच भाटांतले गाडो भरून पणस आमगेर येताले. पूण ते विकप असली तरा नासली. ते हागेर तागेर दादा धाडून दितालो. मुखार कुळकायद्यान हें भाट गेलें. कोणें खालें देवाक खबर...

दादा नेल्लेचो जावंय. काळंगाच्या तेंपार पयलीं काळंगां, बरी कळसुलेयेदीं, तांबडी गुंज ह्या जांवयाक येतालीं. कणगांच्या दिसांनी धवीं फुल्ल कणगां येतालीं. आनी कसल्या तरी फेस्ताक हीं ताटायेदीं सान्नां येतालीं. महाशिवरात्रेक पणजे महालक्ष्मीच्या देवळांत नाटकां जाताली. हीं नाटकां करपांत व्हड वांटो दादालो आसतालो. सगळे नाटकी नाटकां जातासर आमगेरूच जेवंक, रावंक आसताले. आमच्या घरांतली चली पांच स वर्सांची जाली काय तिका नांदी म्हणूंक स्टेजीर उबे रावचें पडटालें. तेचपरी संगीत शारदा नाटकांत शारदेच्यो मैत्रिणी, विद्याहरण नाटकांत देवयानीच्यो मैत्रीणी आमी जातालीं. बारा तेरा वर्सां मेरेन आमी सगळ्यांनी नांदी म्हळ्या आनी नाटकांत कामां केल्यांत. आपल्यो नाती नांदी म्हणटा हाचें दादाक कितलें कवतूक!

चवथीक आमगेर गणपती आसतालो. तेन्ना चवथी दिसा दादा म्हणटालो, 'खंय गेलीं गो तीं आवयखायरीं पोरां?' आमकां एकठांय

करून तो फुगड्यो घालूंक लायतालो. आनी आपूण फुगड्यो म्हणूंक शिकयतालो. 'नकुल्या बाये नकुल्या' ही फुगडी आमकां दादान शिकयिल्ली. आनीक एक फुगडी शिकयिल्ली दादान, ते फुगडेच्यो दोन वळी याद जातात.

'भरजरी भरजरी सोन्याचा शेला,
सोन्याचा शेला
सातगांव उडाला तो राजाचा घोडा,
राजाचा घोडा

मागीर दादा आमकां दोगां दोगांक उबीं करून कचे घालूंक लायतालो. कचे म्हणल्यार दोगां जाणांनी घालची फुगडी. आमी दोगां दोगां कचे घाली. आनी दादा म्हणटालो,

'पात बाये पात, बांय वयली पात,
राम सीता न्हावंक गेल्या
थंय जाली रात...

आनी आमी घुंवळ येतासर कचे घाली.

दादा कडेन 'चलतीका नाम गाडी' त दाखयल्या तसली गाडी आसली. ती गाडी चलोवंक 'येल्लो' म्हूण शोफेर आसलो. हो येल्लो बेळगांवचो. दादालो शोफेर आनी उजवो हात. दादान कोयरांची ओब्रां घेतलीं काय कामाक मनशां लागतालीं. हो येल्लो मागीर बेळगांवां वचून घाटयां घेवन येतालो. तीं बांदार खोपटां बांदून रावतालीं. तांचे कडल्यान कामां करून घेवप, तांकां पगार वांटप, घराचें भाडें हाडप सगळीं कामां तो करतालो. येल्ल्या बगर दादालें पान हालनासलें.

दादाली आंगोस्तरांय आशिल्ली. अर्थांत तेन्ना ते प्रतिश्ठेचें लक्षण आशिल्लें. तांचीं भुरगींय आशिल्लीं. तीं केन्नाय आमगेर येतालीं. इतलेंच न्हय तर आमगेर कोणाचेंय लग्न आसत जाल्यार पयलीं आमंत्रण तांकां वतालें. यजमानीणीची, व्हंकलेची पयली व्हंटी भरपाचो तिगेलो

मान.

दादा अशिक्षीत पूण बुदवंत. कर्तृत्ववान. दादाक दोग पूत. एक आमचो बाबा आनी दुसरो म्हजो बापोलयो श्री. विठ्ठल नायक. ताका आमी 'पापा' म्हणटालीं. आमचो बाबा मॅट्रिक मेरेन शिकलो. पापा कितें शिकलो खबर ना. दादाले दोग पूत आनी तीन जावंय. दोगूय पुतांतलो एकलोय दादावरी कतृत्ववान जालो ना. आनी तीन जावंयांतलो एकलो नोकरी करतालो. आनी दुसरे दोगूय, आमी बाबले नायकाले जावंय, आमी नोकरी करपाची? अशा घमेंडींत उरले. दादान सगळ्यांच्या शिक्षणाचेर भर दिलो. म्हजो व्हडलो भाव लिसेवार शिकतालो म्हूण दादाक ताची कितली अपुरबाय दिसताली! ताची खूब तोखणाय जाताली. तो मागता तें ताका मेळटालें. पूण घरांत इतल्यो नाती आशिल्ल्यो, पूण तांच्या शिक्षणाचें तितलें अप्रूप नाशिल्लें. दादाक दिसतालें, म्हज्या भावान दोतोर जावचो म्हूण! दादाली ही इत्सा पुराय जाली. दादालो एक नातू आनी दोग नाती (एक म्हजी भयण शशिकला आनी दुसरी बापोल भयण सरला) दोतोर जालीं. म्हळ्यार दादाल्या घराण्यांत सगळीं मेळून तीग जाणां दोतोर जालीं.

हांव पयलेंत कांय दुसरेंत आसतनाची गजाल. दादाक कोणे तरी एक चीट धाडिल्ली. दादान म्हाका ती वाचूंक लायली. हांवें व्हडान आनी नेटान ती वाचली. रा. रा. बाबलो मर्तो नाईक यांसी... तेन्ना दादान म्हळें, 'आवयखायरें पोर आज्यालें नांव घेता!'

दादान कोणाकूय उलो करीत जाल्यार, ओऽ अशी जाप कोण दिनासलो. पर्थून 'दादा' अशें म्हणी. समजा, दादान बाबाक व्हडान उलो केलो, बाबाऽऽ जाल्यार बाबाय बी तितल्याच व्हडान म्हणटालो, 'दादा'.

दादाल्या तेंपार तुळशीचें लग्न व्हडा थाटांत जातालें. लग्नाक चौघुडो आसतालो. नाजाल्यार बँड तरी आसतालें. खूब्ब लोक ह्या

लग्नाक जमतालो. आमी घरभर पणट्यो पेटोवन लायतालीं. तुळशीच्या लग्नाक एक कुडव चिरमुल्यो आनी एक कुडव फोव प्रसादाक लागताले. घरचीं बायलां म्हळ्यार आई आनी ताईबाय (बापोलयाची बायल) शालू बी न्हेसून, माथेंभर फुलां माळून, सगळें भांगर घालून तुळशी कडेन जोडवीं पेटयतालीं.

दादा पणजेच्या महालक्ष्मीच्या देवळाचो म्हाजन आशिल्लो. एक खेप महालक्ष्मीच्या देवळांत श्री. पुरूषोत्तमबाब केणी हांणी विजयरथ दवरिल्लो. दादाक खाशेलें आमंत्रण आसलें. दादा गेलो. केणयान विचारलें, 'बाबलो नायक, विजयरथ कसो दिसलो तुका?'

दादान म्हळें, 'रथ तुवें बरो सजोवन घेतला खरो... पूण म्हाका विचारशी जाल्यार हो विजयरथ न्ही.'

'कित्याक? कित्याक तूं अशें म्हणटा?' केणयान विचारलें. तेन्ना दादान सांगलें, विजयरथाक मारूती आसता. आनी तसो तो आसूंक जाय. तुज्या ह्या विजयरथाक मारूती खंय आसा?'

व्हडली आई (आजी) पयलीं मेली. तिगेल्या भांगराचें एक पेटूल आसलें. तातूंत आजयेचो भांगतिळो, हातांतलें फीत, गळ्यांतलो हार, कांकणां, गोंट, पांटल्यो, सुरंगा वळसर, कडकडीं फुलां, माथ्यातलीं पिसोळीं, पके, आनी कसलें कसलें भांगर आसलें. खंयचेय नवे सुनेक फुलां माळचीं जालीं काय लोक हो करण मागून व्हरताले, आनी फुलां माळून जालीं की पर्थून हाडून दिताले. ह्या करणा वांगडा सोलूंक नाशिल्ल्या नाल्ला येदो लाडूय हाडून दिताले. असले लाडू मागीर कोयत्यान फोडचे पडटाले. एक व्हड लोखणाचे पाळणेंय आशिल्लें. तें पाळणेंय खूब्ब लोक मागून व्हरताले. दोन तीन म्हयन्यांनी पर्थून हाडून दिताले. पाळण्या वांगडा साकर आनी एक नाल्ल दिवंक विसरनाशिल्ले. आमगेर व्हडलीं व्हडलीं भाणां, तोप आनी तपलीं आशिल्लीं. कोणाल्याय लग्न कार्याक हीं आयदनां व्हरताले आनी लग्न

जायना फुडें परतून हाडून दिताले. लोक इतल्यो भांगराच्यो वस्ती, आयदनां बी व्हरताले पूण केन्नाच एकाद्री वस्त वा आयदन उणें केन्ना जालें ना.

मागीर एक दीस दादा गेलो. खूब जाण्टो जावन गेलो. आपणें राण्याचीं दोन बंडां पळयल्यात अशें तो म्हणी. एका झुजांत तर खासा दादाच लडिल्लो खंय. ताच्यो त्यो तरसादीय आमगेर आशिल्ल्यो. मरतना दादालें वय कितलें आशिल्लें कोणाक खबर ना. कोण म्हणटालो शंबरेक आसूंक जाय. कोण म्हणटालो णव्वद. पूण दादा बरोच जाण्टो जावन गेलो इतलें खरें. दादा गेलो म्हूण कळ्ळे बराबर अख्ख्या गोंयचो लोक दादाल्या मरणाक आयलो. बांदोडेंच्या लोकांनी तर दादाक फुगेट्यो लावन व्हेलो. दादाल्या मरणाचो सुवाळो जालो. दादा गेले उपरांत म्हयनो भर लोक बाबाक आनी पापाक मेळूंक येताले.

ह्यो जाल्यो दादाल्यो गजाली. दादालीं नातरां म्हूण आमकां कितें मेळ्ळें? आमी खंय वता थंय आमकां मान मेळटालो. गजाल खरी. पूण एकूण समाजाच्या मना पसून आमी पयसूच उरलीं. येद्या व्हडल्या भाटकाराल्यो नाती म्हळ्यार त्यो घमेंडखोर, आळशी, सदांच पंचपंक्वान्नां खावपी, झेत दाखोवपी अशीच सगळ्या लोकांची समजूत जाताली. आतां बरें जालें. लग्न जावन आमी चडश्यो नाती मुंबय पावल्यात. हांगा कोणाक खबर ना आमी कोण म्हूण! आमीय केन्ना सांगचे भरीक पडलीं ना. गोंयांतय म्हूण सांगतालीं अशांतली खबर न्ही. पूण खंय वता थंय, आगो, तूं दादाली नात?' अशें लोक विचारी. वेल्यान 'तुका पळेले बराबर आमकां दिशिल्लेंच तूं अमक्याची नात म्हूण!' अशें म्हूण कवतुकान वागोवपी लोक मेळ्ळे. तशेंच, आमी अमूक तमूक म्हूण कळना फुडें 'तीं व्हडलीं तांच्या घरा रे; हांगा सगळो लोक सारको' अश्यो बकच्छायो करपीय लोक मेळ्ळे. आतां लेगीत लग्न करून दिल्ल्या घरा पयलीं सगळीं सारकीं वागतात. मागीर जेन्ना केन्नाय

कोणाय कडल्यान अमक्या घराण्यांतलीं तीं अशें तांकां समजता, तेन्ना तीं आपसूक अंतर दवरून वागतात. ‘बाबले नायकाली नात’ ह्या शब्दवलयाचो असोय परिणाम जाता तर...!! ■

# तोंका वयलें बाय

बी. प्रभाचीं चित्रां पळेतालें. अकस्मात एका चित्राचेर नदर थिरावली. चित्र आशिल्लें आदिवासी बायलांचें. दोन बायलां. एकली कितें तरी कांडटा. आनी दुसरी अशीच उबी. शिसवी लांकडा वरी कांतीव आनी ओतीव. ओंठ मात्शें चड जाडे. इल्लोसो आंबाडो आनी ताचेर एक आंबाड्या परस व्हड फूल. धवी आडवी लायिल्ली साडी. वयल्या आंगांत ब्लावज ना. देंवती चडटीशी कमानदार फाट... पळयतकच याद जाली. असलीच बायल हांवें खंयतरी पळयल्या. खंय?... खंय?...

येवजितां येवजितां येवजलें... ते बायलेलें नांव आशिल्लें- कृष्णा. पूण कोंकणींत तिचें नांव जाल्लें कृशणे. हें म्हजें आतें. अशीच रेखीव, अशीच काळी आनी बारीक. बदामाच्या आकाराचो चेरो, ओंठ मात पातळ आनी बारीक. सादारण तोरा येदो आंबाडो. केंस काळे तिकतिकीत आनी तेल लावन चिप्प तराटून बांदिल्ले. आंबाड्याचेर तांबडेंच दसणीचें फूल. कोयरेच्या आकाराचो कुकूम. कुकमाचो कोर सब्दुली. ती सदांच पान खाताली. ताका लागून तिगेलें आदींच पातळ आशिल्ले ओंठ

अदीक पातळ दिसताले. अर्द्याच ओंठाक लिपस्टिक लायिल्ले वरी. हांसली कांय धवे फुल्ल दांत दिसताले. ती सदांच णव वारी धवे कापड न्हेसताली. ताचेर धवीच आठ कुडक्यांची चोळी घालताली. हें आतें बाबा परस तेरा चौदा वर्सांनी व्हड. ताका लागून काय खबर ना. पूण सगळीं तिका बाय म्हणटालीं. ती तोंकार रावताली. म्हूण तिका तोंका वयलें बाय अशें नांव पडिल्लें.

आमी ल्हान आसतना, आतां जुन्ता हावस आसा, ताचे कुशीक एक व्हडलें एक मजली घर आसा थंय रावतालीं. आतां जुन्ता हावस आसा थंय पयलीं कांयच नाशिल्लें. आमच्या घराचे एके वटेन लायटीचें माक्न आशिल्लें. दुसरे वटेन रस्तो जालो काय एक व्हड खळी आशिल्ली. खळये मुखार व्हड व्हड सुवात आशिल्ली. ते सुवातेर थोडीं घरां आशिल्लीं. एके वटेन एक कपेल आशिल्लें. त्या कपेला म्हऱ्यांत एक घर. तेन्ना व्हडल्यो बिल्डिंगो नाशिल्ल्यान माळयेर उबे रावन पयसुल्ल्यान कोण येता वता तें दिश्टी पड. तेन्ना पयस सावन तोंका वयलें बाय येताशें दिसलें काय आमी एकामेकांक सांगी, तोंका वयलें बाय येता गो... मागीर आमी भुरगीं धांवत सकयल येतालीं. बाय भितर सरलें काय आमीय भितर सरतालीं. भितरले कुडींत म्हजो आजो, ताका आमी दादा म्हणी, तो बशिल्लो आसतालो. बाय भितर सरून दादा म्हऱ्यांत वतालें. आनी 'बापूय' म्हूण उलो मारून दादाल्या पांया कडेन बसतालें. तें 'बापूय' म्हूण उलो मारी तें आयकूंक आमी ताजे फाटोफाट वतालीं, आनी ताणें तशें करूं नाका, खूखूखूखू हासूंक लागतालीं. ल्हान आसतना एक बरें आसता, तेन्ना हांसूंक कारणा लागना. आतांय म्हूण म्हजी ही हांसची संवय वचूंक ना.

तोंका वयलें बाय दादाक 'बापूय' म्हूण कित्याक म्हणी, देवाक खबर! आमचो बाबा, पापा (बापोलयो) बी बापायक दादा म्हणटाले.

बायले कमरेक एक चंची आसताली. तातूंत पान, सुपारी, चुनो

आसतालो. घरांत इतलीं भुरगीं आसात, तेन्ना तांचे खातीर खावंक बी हाडप हो प्रकार नाशिल्लो. पूण बाय पान खातालें. तें पान खावंक आमी ताचे फाटल्या फुडल्यान नाचतालीं. पान चुनो सुपारी घालून खावपाची माणसुकी नाशिल्ली. पान खावन तोंड तांबडे जाल्लें दिसत जाल्यार मार पडटालो. तेन्ना बायन दिल्ल्या पानाचो इल्लो कुडको मेळ्ळ्यारूय आमी खूश जातालीं. बाय काळें पान खातालें. त्या काळ्या पानाचो कुडको लेगीत मिरमिरतालो. जीब दाट जाताली. दोळ्यांतल्यान दुकां येतालीं, पूण तें पान खावचें आमी सोड नाशिल्ली.

बाय दादाली अर्थअपुरबायेची एकूच धूव आशिल्ली. ती बारा वर्सांची जाली तेन्ना तिगेले थाटांत लग्न करून दिलें. लग्नांत तिका भांगरान शिंरगारिल्ली खंय. कमरपट्टो, माळूंक सुरंगा वळेसर, विणीभर फुलां कितें आनी कितें... तेन्ना तिगेले केंसूय बरे व्हड आशिल्ले खंय. खेरीज तिका एक घर, घरा भोंवतणची सुवात, व्हड शेत दिल्लें. बायलें लग्न जालें आनी दोन तीन वर्सांनी आमचो बाबा जालो. आपल्याक भाव जालो. म्हूण ती नाचली खंय. जाल्यार तिगेले मांयन तिका येतिश्ठ बडयली.

लग्ना उपरांत पांच स वर्सांनी बायक चलो जालो. तो आमच्या बाबा परस दोन तीन वर्सांनी ल्हान जाल्यार, दुसरें आतें आनी काका परस व्हड आशिल्लो.

तोंका वयलें बाय दत्तात्रयाचें भक्त आशिल्लें. ताणें आपल्या घराच्या भायल्या हॉलांत एक चौथरो बांदिल्लो. ताचेर एक घुमटी कशी आशिल्ली आनी तातूंत एक दत्तात्रयाची सुंदर मूर्त आशिल्ली. ती मूर्त अजून लेगीत म्हज्या दोळ्यां मुखार आसा. कमंडलू, त्रिशूळ घेतिल्लो, गायक वणखून उबो आशिल्लो दत्तात्रय! ताच्या गळ्यांत रुद्राक्षांच्यो माळा, म्हऱ्यांत एक कुत्रो उबो आनी दुसरो बशिल्लो. ती मूर्त एकदम कलात्मक आनी सुंदर आशिल्ली. ल्हान आसतना कांय

कळनाशिल्लें. पूण दिसतालें दत्तात्रय खरोच असोच आसूं जाय... इतली ती मूर्त सजीवशी दिस. आनी त्या मूर्ती म्हऱ्यांत दोन चांदीच्यो व्हड पादुका आशिल्ल्यो. आनी दोन ल्हान सुमार देड इंची भांगराच्यो पादुका आशिल्ल्यो. ह्यो दोन भांगराच्यो पादुका म्हाका खूब आवडटाल्यो. दिसतालें त्यो चोरच्यो आनी घरा व्हरच्यो... आनीक एक अजापाची गजाल म्हळ्यार बायन जे सुवातेर दत्तात्रय पुजिल्लो, बराबर ताचे फाटल्यान घरा भायर रुमडाचें झाड आपशींच जाल्लें. ह्या व्हडल्या घरांत बाय नुस्तें हाडूंक दिनाशिल्लें. ह्या व्हडल्या घरा फाटल्यान दुसरें ल्हान घर आशिल्लें; ताका खोंप म्हणी. थंय कोणे जाय जाल्यार नुस्तें रांदून खावपाचें.

आमी दत्तजयंतीक बायगेर वतालीं. थंय आनीक कितलेशेच लोक येताले. बायलो घोव ताका ल्हान व्हड भावोजी म्हणी. तो व्हडल्या खलबत्यांत सुंठ आनी खडीसाकर घालून बडयतालो आनी तशें करतना 'दिगंबरा दिगंबरा श्रीपाद वल्लभ दिगंबरा' अशें खलबत्याच्या तालार म्हणटालो. आनी जमिल्लो लोक टाळ मृदंगाच्या तालार दिगंबरा दिगंबरा श्रीपाद वल्लभ दिगंबरा अशें म्हणटालो. आनी तांतल्या 'श्रीपाऽद' शब्दाचो आमकां भुरग्यांक खू खू हांसो फुट्टालो.

दत्तजयंतेक बायगेर एक साधू येतालो. ताका बाय गुरू मानी. तो भगवी कफनी, रुद्राक्षांच्यो माळो खांदाक झोळी आनी पांयांत पादुका घाली. ताका शेंडीय आशिल्ली. दत्तजंयतीक ह्या गुरूक एका चौरंगाचेर बसयताले. आनी ताचे पांय धुताले. आनी हे पांय धुल्ले उदक तीर्थ म्हूण सगळ्यांक पियेवंक दिताले. हांवें तें पळयलें आनी आईक वचून सांगलें आनी विचारलें आतां कितें करूं? आईन सांगलें तूं तीर्थ घे. हळू कुशीक वच, कोण पळयनाशे पळोवन भायर उडय. हात बरे करून धू आनी मागीर सुंठी पिठो घे. हो सुंठी पिठो मात बरो लागतालो. तो तोंडांत घालो काय तिखट, गोड, मिरमिरीत अशी एक वेगळीच रूच

ताका आसताली. दोळ्यांत दुकां येतालीं. जीब सू सू जाताली. तरिकूय तो खावपांत मजा येताली. म्हाका बायगेर जाता ती दत्तजयंती खूब्ब आवडटाली ती फकत ह्या सुंठी पिठ्या खातीर.

तोंका वयलें बाय घरांत पादुका घालून भोंवतालें. केन्ना केन्नाय तें त्यो काडून दवरी. ताणें त्यो काडून दवरल्यो काय त्यो पादुका आमी घालून भोंवतालीं. पूण आमचे पांय एके कडेन आनी पादुका दुसरे कडेन असो प्रकार जातालो. आनी इतलें कारण आमकां हांसपाक पुरो जातालें.

ह्या बायगेर थोडीं गोरवां आशिल्लीं. खंयच्या तरी एका पाडव्याक बाय ह्या गोरवांची पुजा करी. गोड पोळे करून गोरवांच्या गळ्यांत बांदी. गोरवांच्या शिंगांक बेगड लावन ताका गोंडे बांदी. गळ्यांत रोजांच्यो माळो घाली.

म्हजी आजी मेली तेन्ना आठ म्हयने आमी सगळीं तोंकार रावंक गेल्लीं. तेन्ना हांव शाळेंत वच नाशिल्लें. बायगेर वतना वाटेर ताडमाड म्हूण लागतालो. हो ताडमाड रातचो जमनीर पडटा, उबो रावता अशें कोण कोण सांगी. तेन्ना थंय पावलीं कांय आमी व्हडा व्हडान (मनांत) राम राम म्हणी. बायले थंयची जमीन रेंवट. थंय खूब चिंचेचीं, आंब्याचीं झाडां आशिल्लीं. आमी थंय दीसभर पडून रावतालीं. खेळटालीं. चिंचो, तोरां, बोरां खातालीं. थंय ओंवळीणीचीं झाडां आशिल्लीं. थंय ओंवळा पुंजायतालीं. वेळ लागीं आशिल्ली. ते आठ म्हयने कशे सरले कळ्ळेच ना.

बायगेर मे म्हयन्यांत खूब लोक रावंक येताले. बायल्या घरा कडल्यान दर्याची वेळ लागीं आशिल्ली. तेन्ना जायतीं बायलां खारें उदक न्हावंक म्हूण येतालीं. तीं बायगेर रावतालीं. कोण तीन न्हाणां न्हातालीं. जाल्यार कोण पांच. बाय तांकां दवरून घेतालें आनी राती कडेन तांचे कडल्यानय देवाचें नांव वदोवन घेतालें.

बायच्या घोवाक म्हळ्यार भावोजीक नुस्तें खूब्ब आवडटालें, पूण बाय ताका खावंक दिनासलें. भावोजी त्या वेळार सेगुंदग्राव पास जाल्लो. पूण बाबले नायकालो जावंय म्हूण नोकरी करिनासलो. ल्हवू ल्हवू करून बायलें सगळें भांगर शिंगर ना जालें. भावोजीली नुस्त्याची आवड पळोवन आई ताचे खातीर हुमण, सुकें, तळिल्लें नुस्तें कोणाय कडल्यान धाडी. त्या वेळार इतल्यो बसी नाशिल्ल्यो. सायकलीन वच्चें पडटालें. एक खेप म्हजो भाव अशेंच कितें तरी घेवन गेल्लो. पूण बायन तें सगळें परतून धाडलें. ताचें तशें वागप कोणाक आवडलें ना. घरच्यांक सगळ्यांक वायट दिसलें. आनी तेन्ना सावन बाय पयसावत गेलें तें पयसूच गेलें. मदीं केन्ना तरी तें गेलें. कशें, कितें केन्ना कांय खबर ना. घडये हांव आठवेंत णववेंत आसतना तें गेलें. आनी तें वयूच तशें आशिल्लें. आतां सुंठी पिठो, काळ्या पानाचो कुडको वचून ताची सुवात पॅटिस आनी एस्किमोन घेतिल्ली, आनी बायनूय भावालीं भुरगीं म्हूण केन्ना माया दाखयली ना. तेन्ना म्हज्या मनान ताची दखल घेतली ना अशेंय आसूं येता. नाय जाल्यार बाय आनी बाकीचीं भावंडां बसल्यांत, उलयतात, मस्कऱ्यो करतात अशें दृश्य हांवें केन्नाच पळोवंक ना.

तशें पळोवंक गेल्यार बायलो एक फोटोय बी ना. आनी पंचवीस तीस वर्सांनी बी. प्रभालें चित्र पळोवन बायली याद जाली. कित्याक? खबर ना.



# आमचो बाबा

सगळो लोक ताका बाबाच म्हणटालो. ताचें नांव आशिल्लें मर्तो बाबलो नायक.

बाबा. एक सुखी मनीस! काणयेंतल्या सुखी मनशा कडेन सदरोच नाशिल्लो. बाबा कडेन सदरो आशिल्लो. ज्युदये सयत.

बाबाच्या जल्माची काणीय तितलीच सुरस! बाबलो नायक एक श्रीमंत मनीस. ताका एकूच धूव. ती बारा वर्सांची जाली, तेन्ना त्या वेळचे रिती प्रमाण तिगेलें लग्न जालें. सेगुंदग्राव जाल्ल्या एका चल्या कडेन. चलो गरीब. बाबले नायकान ताका घर, घरा भोंवतणी एक ल्हानशें भाट आनीक एक व्हड शेत दिल्लें. मागीर, देवधर्माच्या नांवान खूब्ब दानधर्म केलो. चलयेचें लग्न जाले उपरांत दोन वर्सांनी बाबले नायकाक एक पूत जालो. तो आमचो बाबा. व्हडले भयणी फाटल्यान चवदा वर्सांनी ना ना म्हूण जाल्लो, अपुरबायेचो! तो मरचो न्हय म्हूण ताका नांव दवरलें मर्तो.

नांव दवरलें मर्तो पूण कोणूच ताका नांवान उलो करिनाशिल्ले. सगळे जाण ताका बाबाच म्हणी. करतां करतां घरच्या वांगडा हेर

सगळ्यांच्या तोंडांत बाबाच नांव उरलें. मर्तो हें नांव चुकून कोणूय वापरतालो.

ल्हान आसतना बाबा काळोच आनी गुटगुटीत आशिल्लो. कमराक भांगराची सरपळी, गळ्यांत गोफ, कानांत भिकबाळी. बाबाचेच भाशेंत सांगपाचें जाल्यार, 'म्हज्या काळ्या काळ्या आंगार हळडुवें हळडुवें भांगर बरेंच चकचकतालें'. बाबाक सांबाळूंक दोगां-चवगां मनशां आशिल्लीं. ताका खेळपाक खेंचर लेगीत हाडिल्लें. पांच स वर्सां जाय मेरेन बाबान जमनीक पांय लायला जायत अशें दिसना.

बाबा काळो. ताचे केंसूय काळे, जड्डे आनी मुदयाळे आशिल्ले. बाबा केन्नाच केंस वळय नाशिल्लो. केंसांक वर्सांतल्यान फकत दोन खेपे तेल लागतालें. दिवाळेक एकदां आनी वळवय सांतेरभाटांत जात्रेक वतालो तेन्ना दुसरे खेपे. तेल तकलेक लायना म्हणूनच जाल्यार कितें खबर ना, बाबाली तकली सदांच गरम आसताली. हाका लागून बाबाक कितेंय सांगल्यार पयलीं तो सट करून तापतालो.

बाबा काळो तितली आई गोरी. आईलें नांव रुक्मिणी. आमी बाबाक म्हणचे: 'रुक्मिणी गोरटी कृष्ण तो काळा'.

बाबा काळो पूण शिरवंत! बाबालें नाक, दोळे, तोंड, दांत एकूण चेरो देखणो! काळ्या रंगाक लागून तो लक्षांत येनाशिल्लो ही गजाल वेगळी. हाचे उरफाटे आई गोरीच्च! पूण बाबा सारकी सुंदर न्हय. आमी सात भावंडां. सातूय जाणां बाबालो रंग आनी आईली सुंदरकाय घेवन जल्माक आयलीं.

ह्या सात भुरग्यां मदल्यो पांच भयणी. आपणाक पांच चलयो म्हूण बाबा केन्ना खंती जालो ना. बाबान आमकां सगल्यांक अपुरबायेचीं नांवां दवरिल्लीं. सगळ्यांत व्हडली भयण जलप्रभा. ताका बाबा 'मोरगाद धूव' म्हणी. मदीं दोग भाव. उपरांत आमी चवगी हारोहार भयणी. म्हणजे फुडली भयण शशिकला. ताका बाबा फातिमा म्हणी. म्हजी

फाटली भयण नीला. ताका बाबा चिमोक म्हणी. सगळ्यांत धाकली भयण दुर्गा. ताका माकोड म्हणी. हांव सगळ्या भयणींत चड काळें, हट्टी आनी 'बुर' म्हूण म्हाका 'खांप्री' म्हूण बाबा उलो करी. खेरीज, बाय हें उतर सगल्यांक कॉमन.

बाबा आईक उलो करतना, 'ओऽपा, आयकलां?' अशें म्हणीं. आनी आईन जर तें आयकलें ना जाल्यार आमी कोण म्हऱ्यांत मेळटात तांकां सांगी, 'खंय गो तुजी आई?' मागीर दुर्गान आईक वचून सांगप, 'ओपा, तुका खांडेपार आपयता.'

बाबा परत्या कासाट्यान पुडवें न्हेसतालो. ताचेर वयर खोमीस आनी वयर ज्युदी. माथ्यार काळी तोपी. हांवें बाबाक एक खेपे विचारलें, 'बाबा, तूं काळी तोपी कित्याक घालता? गांधी तोपी कित्याक घालिना?' बाबान सांगलें, 'गांधी तोपी जाय तशी फिरोवंक मेळटा. काळी तोपी फिरोवंक मेळना. ती एकेच वटेन घालची पडटा. बाबा तोपयेक खूब जपतालो. बाबाले तोपयेक आमी कोणेय हात लाल्यार बाबाक राग येतालो.

बाबा तोपी काळी घालतालो, पूण काळ्या रंगाचे कपडे ताका आवडनासले. पयलीं 'परमसूख' म्हूण पुडवीं मेळटालीं. ह्या पुडव्यांचे देगेक सुता इतली बारीक देग आनी ताचे वयर टिंबां नाजाल्यार बारीक कोयऱ्यो आसताल्यो. ही देग पाचवी, तांबडी, निळी आनी काळी आसताली. त्या दिसनाशिल्ल्या काळे देगेचें पुडवें लेगीत बाबा घेनासलो.

बाबाचो तीन गजालींचेर खूब मोग. एक स्वताचेर, दुसरो तबल्याचेर आनी तिसरो टायम्स ऑफ इंडियाचेर. बाबा तबलें सुंदर वाजयतालो. पूण दावखुरो. म्हळ्यार तबलें दावे वटेन तर डग्गो उजवे वटेन. बाबालो गुरू आशिल्लो सर्गेस्त मोहनलाल रामनाथकार. बाबाक पेटीय वाजोवंक येताली. बाबालो हो संगिताचो वारसो म्हजी भयण शशी चलयता.

बाबा आपणाक जाय तसोच जगलो. ताका जाय तेन्नाच तो

सकाळचो उठऽ. ताका जाय तेन्नाच तबलें वाजयी. आनी रातीं कितली तरी वरां मेरेन टायम्स वाचीत बशी. आमी बरी एक न्हीद काडून जागीं जालीं तरूय बाबा वाचीत बशिल्ल्या पेपराचो सळसळ आमकां आयकूंक येतालो. तबल्याचेंय तशेंच. बाबाक हुक्की येताली तेन्नाच बाबा तबलें वाजोवंक बसतालो. एकेक खेपे मोगुबाय कुर्डीकार, केसरबाय केरकार हांगेल्यो ग्रामोफोन एल पी लावन तांच्या गायना वांगडा बाबान तबलें वाजोवचें. दुर्गान म्हणचें, आमगेलो बाबा आईलें कांय आयकना. मोगुबाय, केसरबायलें आयकता... गाणें.'

आमी पांच भयणी. पूण चलयो म्हूण बाबान आमकां केन्ना हेंस फेंस केलें ना. आमकां चल्या भशेनूच वागयलीं. केन्ना एका बोटान लेगीत आमकां मारूंक ना. आमचे मुस्तींतल्यो बाकीच्यो चडश्यो चलयो आपापणाल्या बापायक खूब्ब भियेताल्यो. तेन्ना आमी बाबाल्यो आनी बाबा आमच्यो मस्कऱ्यो करी. हरशीं हांसत हांसत खेळत मस्करी करीत उलोवपी बाबा, पयशे मागल्यार मात कँच करून आंगार येतालो. उपरांत पयशे दितालो.

चलयो म्हूण बाबान आमकां शिकय नासतना दवरलीं नात. उरफाटें आमी खूब खूब शिकचें अशें ताचें मत आशिल्लें. फी आनी फॉर्माचे पयशे भरपाक मात तो रोखडोच ते काडून दितालो. शाळेंत शिकतना हांव 'यथातथा'च आशिल्लें. मदीं मदीं तांबड्यो रिस्को पडटाल्यो म्हाका. पूण फायनल परिक्षेंत मात सगळ्या विशयांत पास जातालें. तेन्ना बाबा म्हणी, 'कितें रे खांपऱ्या, तुका एकूय तांबडी लायन ना?'

इतलेच मार्क पडूंय जाय, पयलोच नंबर घेवंक जाय, असली आमचेर सक्ती नाशिल्ली. शिकून वयर सरप हें म्हत्वाचें आशिल्लें. बाबा भायर पडलो ताचे पयलीं शिवरात्रे दिसा तागेलें अकस्मात सिरियस जालें. मातसो सुद्दीर येतकच आईन विचारलें, भुरग्यांक

आपोवं?' बाबान सांगलें 'नाका! तांच्या भुरग्यांच्यो परिक्षा लागीं पावल्यात. तीं म्हाका मेळपाक हांगा येत जाल्यार भुरग्यांचें वर्स फुकट वतलें. एप्रील, मे म्हयन्यांत येतलींच तीं हांगा. ते मेरेन म्हाका कांयच जावपाचें ना.

बाबाक हिंदी मातूय येनाशिल्ली. मराठी थोडी येताली. म्हळ्यार, 'ह्या भुरग्यां मुखार माणसुकी ना.' हें वाक्य तो मराठींत 'ह्या मुलां फुडें माणुसकी नाही' अशें तरेन उलयतालो. इंग्लिश आनी पुर्तुगेज मात ताका बरी येताली.

आमच्या घरा कुशीक मिलीटरी इंजिनियरींगचें एक ऑफिस आसा. गोंय स्वतंत्र जालें तेन्ना इंडियन मिलीटरी थंय आयली. आमचो बाबा पुडवें न्हेसला तें पळोवन ते लोक आमगेर उदक मागूंक आयले. तांणी बाबाक विचारलें, 'पानी कुएंका है ना?' बाबान तांकां सांगलें, 'ठेरो!' आनी भितर येवन आमकां विचारलें, 'कुआं म्हळ्यार कितें गो?'

बाबा सदां सांजे पासयेक वतालो. एक फावट आमी बाबाक सांगलें, सिने नासिओनाला कडेन गेलो जाल्यार कसलें पिक्चर लागलां तें पळय आं, बाबान आमकां येवन 'हिमालय की गॉड मॅन' पिक्चर लागलां म्हूण सांगलें. पिक्चर आशिल्लें 'हिमालय की गोद में' आनी तें रोमन लिपींत बरयिल्लें.

बाबाची आमी मस्करी करतालीं. आमच्या मस्कऱ्यांक दाद दिवन तो हांसतालो.

म्हाशिवरात्रेक पणजे महालक्ष्मीच्या देवळांत नाटकां जातालीं. तातूंत केन्नाय बाबा आलायतो पार्ट करतालो. आमी मागीर म्हणटालीं, 'बाबा आमचो नटसम्राट! कसल्या नाटकांत काम केलां? जाल्यार 'एकच प्याला' नाटकांत तिसऱ्या इसमाचें'.

आई बरें रांदताली. पूण बाबा तिच्या जेवणाक नांवां दवरले बगर केन्नाच जेवलो ना. ताका आईलें जेवण मिठाचे एके कणयेन अळणी

नाजाल्यार एके कणयेन खारट तरी लागतालें. आमी बाबाक मागीर म्हणटालीं, बाबा तुवें फॉरेनाक जल्माक येवंक जाय आशिल्लें. थंय खंय ड्रिंकाची टॅस्ट पळोवंक स्पेशल मनशां आसतात. थंय तुका बरी नोकरी मेळपाची.

आईबाबा मुंबय आमगेर आयिल्लीं. हांवें चिकन हाडलें. तें आईनूच रांदलें. हांवें बाबाक वाडलें. आनी म्हळें 'बाबा, हांवें चिकन केलां. कशें जालां तें सांग पळोवया?' बाबान आईक आपोवन हाडूंक लायलें. बाबान तिका सांगलें, 'चिकन कशें करचें तें धुवे कडल्यान शीक.'

एक फावट आमगेर दोगीतिगी फॉरेनर माद्री भितर सरल्यो. तांकां तांची धर्मीक पुस्तकां खपोवपाचीं आशिल्लीं. बाबा भायरूच पुडव्याचो एक शेव खांदार उडोवन उबो आशिल्लो. माद्रींनी 'आमी पुस्तकां घेवन आयल्यांत' म्हूण इंग्लिशींत सांगलें. बाबान कितें करचें? तांकां सांगलें. 'माय मास्टर इज नॉट ॲट होम.' माद्री बाबड्यो फाटल्या पावलान घरा परतल्यो.

बाबाल्या मित्राचो एक गुरू आशिल्लो. तो आमगेर आयिल्लो. ताणें बाबाक विचारलें, 'भुरगीं कितलीं? कितें करतात?' तेन्ना म्हजो व्हडलो भाव दोतोर शिवा फॅमिली प्लॅनिंगच्या सरकारी ऑफिसांत काम करतालो. हें कळटकूच त्या गुरून बाबाक म्हळें, 'तुगेलो पूत व्हडलें पातक करता. जल्मा येतल्या भुरग्यांक जल्माक येवचे पयलींच मारून उडयता. देवाक खबर, ह्या जल्माक येवंक नाशिल्ल्या भुरग्यां भितर कितले महात्मा आनी साधुसंत आशिल्ले ते!' बाबान ताका दिल्ली जाप आयकुपा सारकी. बाबान ताका सांगलें. महात्मा जल्माक येवचे आसत जाल्यार ते कशेय करून जल्माक येतले. तांकां कोणूच मारूंक पावचो ना. चड पयस कित्याक वचूंक जाय? कृष्णाची खबर घेवया. कंसाक खबर आशिल्लें देवकेलो पूत आपणाक मारतलो म्हूण.

ताणें तिका कादयेंत दवरली. तिगेलीं जाल्लीं जाल्लीं भुरगीं मारून उडयलीं. पूण कृष्णाक तो मारूंक पावलो ना. कृष्ण वांचलोच काय ना? महात्मा जल्माक येवचे येतलेच. तांकां खंयचीच शक्ती आडावंक पावची ना.'

फॅमिली प्लॅनिंग म्हणटकूच याद जाली. एक खेप एक फॅमिली प्लॅनिंगचो प्रचार करपी मनीस आमगेर आयलो. भुरगीं कितलीं ते ताणें विचारलें. 'सात भुरगीं'. बाबान ताका सांगलें. 'धाकल्या भुरग्याची पिराय कितली?' ताणें विचारलें. बाबान म्हळें 'एकवीस वर्सां'. ताचेर त्या फॅमिली प्लॅनिंगचो प्रचार करपी मनशान म्हळें, 'आतां तुमी फॅमिली प्लॅनिंग करूंक जाय.' आयकून बाबाक मारली भिरभिरी. थंय आशिल्ली सुक्याची बडी घेवन बाबा ताका मारूंक धांवलो.

एक दीस गोंयचे मुख्यमंत्री भाऊसाहेब बांदोडकार बाबाक मेळूंक आयिल्ले. तांणी बाबाक महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाच्या तिकेटीचेर पणजे येलेसांवाक उबो राव म्हूण सांगलें. दोन दिसा उपरांत भौ. जॅक सिकेरूय आयिल्ले. युनायटेड गोवन्साचे तिकेटीर उबो राव म्हूण सांगपाक. बाबान दोगांकूय न्हयकार दिलो. हांवें बाबाक म्हळें, 'तुवें मगोचे तिकेटीर उबो रावपाचो. बांदोडकार सेर्त तुका मंत्री करतलो आशिल्लो. आमीय मंत्र्याचीं भुरगीं म्हूण झेत दाखयतलीं आशिल्लीं.' बाबान म्हळें, 'चल गो! आमकां कोणे सांगलां तें पुलीतीक? खेरीज, अॅसेंब्लिचीं सेशनां दनपरां आसतात. दनपारची न्हीद कित्याक ओगीच होगडावची?

दनपारचे न्हिदेक लागून मंत्रीपद लेगीत न्हयकारपी तिरसुवाद गोंयकारां खेरीज दुसरो कोण आसूं येता? पणजे महालक्ष्मीच्या देवळांत कोमिसांवांत बाबाक फोर्सान घेतिल्लो. तेन्ना लेगीत बाबान अट घाल्ली. 'कोमिसांवाच्यो मिटिंगो सांजे चार जाले उपरांत घेशात जाल्यार येतां हांव कोमिसांवांत म्हूण.

बाबाक दनपारची न्हीद इतली प्रिय आसली. ना म्हळ्यार

ओपीनियन पोलाची मतां मेजताले, तेन्ना त्या दनपरां बाबा न्हिदूंक ना. म्हापश्यां मेरेनचीं मतां ताणें आयकलीं. मागीर पानां जिखतलींच अशें म्हणून तो सांजेर पावणेपांचांक न्हिदूंक गेलो.

बाबा क्रिकेट बरो खेळपी, ओपनिंग बॅट्समन आशिल्लो खंय! हांवें बाबाक विचारलें, 'बाबा, तूं पुडवें न्हेसून क्रिकेट खेळटालो?' 'ना गो! लेंगो घालतालों हांव तेन्ना!' बाबा खेळूंक आसा म्हूण कळटकूच ओपोझीट टीमवाले पिकार जाताले, कित्याक जाल्यार बाबा रन्स काडिनासलो आनी बादूय जायनासलो. बाबा पिंगपाँग म्हळ्यार टेबल टॅनिसूय बरो खेळटालो. टेबल टॅनिसाचो कितलीशींच वर्सां ऑल गोवा चेंपियनूय आशिल्लो. ह्या खेळांत ताका मेळिल्लीं खुब्ब कोपां आशिल्लीं. आमी तीं रांदच्या वाडच्यांनी खेळून शेणयलीं ही गजाल वेगळी.

आमगेर एक सुणो आसलो. ताचें नांव झिम्बो! आशिल्लो गांवठीच. पूण आमगेर ताका भड्डो बरो पडिल्ल्यान तो आल्सेशियन कसो व्हड दिसतालो. बाजारांत रस्त्याचे कुशीक आमचें घर आसलें. ह्या रस्त्या वयल्यान मोटरसायकलीन कोणूय गेलो रे गेलो; हो व्हडा व्हडा भोंकतालो. ताचो अवतार पळोवनूच लोक कांचवेताले. आनी 'शू' म्हळें काय कोणाल्याय आंगार वतालो. तो भोंकूंक लागलो काय बाबा ताका म्हणी, शू झिम्बो! ओगी बस! बाबाक कितले खेप सांगलें झिम्बोक कितेंय सांगतना 'शू' उतर तोंडांतल्यान काडूच नाका. पूण बाबाक झिम्बोची आनी झिम्बोक बाबाची भाशा केन्नाच कळ्ळी ना.

टायम्स ऑफ इंडिया वेली आर के लक्ष्मणाचीं व्यंगचित्रां बाबाक खूब्ब आवडटालीं. आमकां तीं तो दाखयतालो आनी ताचो अर्थ सांगतालो. आनी वेल्यान म्हणटालो, 'ह्या पाडा पडिल्ल्या आवयखायऱ्या आर के लक्ष्मणाक हें कशें सुचता देव जाणा!'

केन्ना बाबा आमकां विचारी 'आगो, यू सॅड इट बाय लक्ष्मण तुमी

पळेलें गो?' तांतलें बाय लक्ष्मण हें उतर आईक कळनासलें. ती बाबाक विचारी, 'आगा, तुमचें बाय लक्ष्मण आयज कितें म्हणटा?'

बाबा आपणाक जाय तसो जगलो. जाय तसो वागलो. केन्ना कोणाली व्हडलीशी पर्वा केली ना. पूण हाचो अर्थ तो कोणाक हिणसायतालो असो मात न्हय. सगळ्यां कडेन बरे तरेन वागतालो. पूण ताका कोण व्हड दिसनाशिल्लो. 'तूं म्हाका सांगता? हांव सांगता तें तूं आयक' ही वृत्ती. ना म्हळ्यार एक खेपे आमगेर खांप्रुमाम पर्वतकार आयिल्लो. तेन्ना एक चमत्कार घडलो. बाबान आपणाली खाट ताका न्हिदूंक दिली आनी आपूण जमनीर गादी घालून न्हिदलो! दुसरे दीस कोणा एका तबलजीक आपली खाट न्हिदूंक दिली म्हूण बाबा घरच्यांचो बकच्छायांचो विशय जालो.

असो आमचो बाबा. पांच चलयांचो बापूय म्हूण केन्ना खंती जालो ना. वेल्यान म्हज्या पांचूय चलयांचीं नांवांच सद्दां घेतल्यार पुरो. म्हाका आपशींच मुक्ती मेळटली अशें तो म्हणी. आईक आमकां भांगरां शिंगरानी नटोवपाचें आसतालें. बाबाचे म्हणणें हांव तांकां शिकोवन तांच्या पांयार उबो करतलों. मागीर तांकां जें भांगर जाय तें आपशींच येतलें. आमच्या लग्ना वेळार एकेकलेचें लग्न जालें म्हणटकूच आईक सूऽ जातालें. बाबा मात दोन तीन दीस रड.

असल्या ह्या बाबाक अकस्मात एक दीस 'आतां जगपांत अर्थ ना' अशें दिसलें. कोणा कडेन उलयना, कित्यांतूच रुच घेना, हे तरेन वागपाक लागलो. जिविताचो आनंदूय ना जालो. ताणें जेवण लेगीत सोडलें. गोंयांत उपाय जायनात म्हूण शशीन ताका मुंबय व्हेलो. थंय बऱ्या बऱ्या दोतोरांक दाखयलो, पूण फायदो कांयच जालो ना. ताका बरो जावपाचेंय नाशिल्लें. आतां जगपूच ना अशें ताणें थारायिल्लें.

तसो बाबा खुब्ब जाणटोय जावंक नासलो. ताका कसलेंच दुयेंस नासलें. कूड साथ दिना असोय प्रस्न नाशिल्लो. ताची मनशावेली

श्रद्धा उडून गेल्ली. ताणें आतां ह्या संवसारांत रावपूच ना असो निश्चय केल्लो. तान लागताली. ताळो सुकतालो. जीब सुक्या ओंठा वेल्यान भोंवताली. पूण उदक तोंडांत घालें जाल्यार गिळी नाशिल्लो. इतलो निग्रही! 'इतल्या निग्रहान जेवण, उदक सोडपी तीग जाण आपणाक खबर आसात. एक सावरकर, दुसरो विनोबा, तिसरो तुगेलो हो बाबा, अशें उपचार करपी दोतोर शशीक सांगी.

तो आपणाक जाय तसोच जगिल्लो. मरण लेगीत ताणें आपणाक जाय तशेंच ओडून घेतिल्लें. जगचोच ना ह्या निग्रहान ताणें कूड सोडली.

बाबा आमकां सोडून गेलो! केन्ना? वर्स जालें? दोन वर्सां जालीं? तीन वर्सां जालीं? म्हाका हें खरेंच दिसना. दिसता बाबा गोंयाच आसा. गोंयां वतकच मेळटलो. म्हाका पळोवन, दोळे भरून धोलत धोलत म्हजे म्हऱ्यांत येतलो. आपलो दावो हात म्हज्या दाव्या खांदार घालून म्हाका कुशींत घेतलो. उजव्या हातान म्हज्यो गालद्यो तोडीत म्हाका विचारतलो, 'खांपऱ्या, फॉर्त मरे?'

■

# बा

घरचीं सगळीं भुरगीं तिका बा म्हणटात तें आयकून अजाप दिसलें. गोंयांत आज्जेक बा म्हणटात. पूण हिका हिगेलीं भुरगीं बा म्हणटात. आनी बापायक बापू. हरशीं कोडीबाग कारवारच्या वाठारांत बापायक बाप्पा आनी आवयक आई म्हणपाची रीत आसा. हिका बा कशे कित्याक म्हणूंक लागले, खबर ना. नांव गौरी. पूण गांवचो लोक तिका गैबाय म्हण वळताले.

बा म्हजी मांय. गोरीच. दोट्टी हाडांची. आंगान सडसडीत. मात लेगीत वाकूंक नासली. चलूंक, कामाक सडसडीत. म्हज्या लग्ना वेळार पांसस्ठ सांसस्ठ वर्सांची आसूंक जाय. तिका णव भुरगीं. सात चले आनी दोन चलयो. म्हज्या घोवालो नंबर आठवो. म्हजें लग्न जाल्लें तेन्ना म्हजे व्हडले नणंदेली चली आपल्या तीन भुरग्यां सयत म्हज्या लग्नाक आयिल्ली. व्हडले नणंदेचो व्हडलो चलो आनी म्हजो घोव वांगडच्चे.

म्हजें लग्न मुंबय जालें. बा लग्नाक मुंबय आयिल्ली. तिका हांव खूब्ब मानवलें. कित्याक जाल्यार, इतलें खंडीभर शिकून लेगीत फाटभर

ब्लावज घालता, व्हडलो पदर घेता आनी हातभर कांकणां घालता. पूण हांव माथेंभर फुलां घालिना म्हूण मात तिका राग येतालो. फुलां तरी कसलीं? शेंवत्यांची फांती, नागचाफ्यांची फांती बी! हांवें चुकून लेगीत तकली दुखला म्हणीत जाल्यार ती अमृतांजनाची बाटली घेवन येताली. अमृतांजनाचो वास म्हाका सोसना. हांव फुडें धांवता, ती म्हजे फाटल्यान. 'तूं तिका अमृतांजन लावंक कित्याक धांवता? म्हण विचारल्यार ती म्हणटाली. 'आवशीबापाशीचें घर सोडून इल्ली धू ती... तिका आवशीबापाशीची याद येवं नज.'

बा एक जबरदस्त मनीस. बापूलो माचवो आसलो. बापू ह्या माचव्यांतल्यान कारवार सावन लांकडां व्हरून पयस पयसच्या गांवांत विकतालो. इतलो बापू घोळटालो, पूण त्या मानान येणावळ तशी उणी. तातूंत हीं णव भावंडां. बापूली एक विधवा भयण तांगेर रावताली. ती भुरग्यांक सांबाळटाली. बा सकाळीं उठून पयलीं पोळे करताली नाजाल्यार फोव कालयताली. मागीर पेजेचो बुडकुलो रांदनीर चडयताली. दनपरां शीतकडी. परतून राती कडेन शीतकडी. बा काम करूंक वाग. दीसभर ती कश्ट करताली. ती नीरपणसाचीं रोपां लायताली. ती विकून पयशे एकठांय करताली. घोसाळीं, तेंडलीं, भेंडे, चवळी, घेवडे बी ती बागांत लायताली. खेरीज कितलींशींच फुलांचीं झाडां तिणें लायिल्लीं. मस्काचीं झाडां लायिल्लीं. पावसाच्या दिसांनी दुदी, पडवळ लायताली. तिणें लायिल्ले आंब्या रुख अजून बागांत आसात. वयल्या गांवांत वचून ती भात घेवन येताली. ते कांडून तांदूळ करून विकताली. काथ्याच्यो दोरयो वळटाली. सांजे मायत्यार जळणाक लागता तें लाकूड घेवन येताली. दर्यार वचून तिसऱ्यो घेवन येताली. गरमेच्या दिसांनी तिसऱ्यो हाडून तांतलीं मांसां काडून सुकोवन पावसा खातीर दवरताली.

पन्नास रुपया जाले काय ती एक पवन घेवन दवरताली. अशीं धा पवनां तिणें एकठांय केलीं. 'धा पवनां एकठांय केलीं पुता आनी ह्या

दादल्या कडेन दिलीं धा गुंठे जमीन घे म्हूण! ह्या दादल्यान णव गुंठे जमीन घेतली पुता, आनी एका पवनाचे पयशे कागदपत्राक वापरले.' बान एक दीस म्हाका सांगलें.

ती जमीन विकत घेतली ती बापूच्या पुर्वजांची आसली. आनी पुर्वजांच्या अन्नाडीपणान सावकारान गिळिल्ली. ते जमनीर ती खोंप बांदून रावंक लागली. उरिल्ल्या जाग्यार तरातरांचीं झाडां आनी भाजीपालो लायिल्लो. कोडीबागांत एक गजाल मजेची. हे लोक कसलीय भाजी करूं, ते भाजयेंत तिसऱ्यो घाले बगर तांची भाजी जायना. पावसांत तिसऱ्यो मेळनात तेन्ना मे म्हयन्यांत तिसऱ्यो हाडून तांचीं मांसां काडून सुकोवन तीं दवरप. मागीर तीं भाजून ताजी चटणी करप. तिसऱ्यो कल्लायतना जें उदक सुट्टा तें आटोवन बाटलेंत भरून दवरप. पावसांत भाजयेक रूच येवंक हें उदक वापरप. बा कुल्ल्यो धरूंक हुशार आशिल्ली. तिका पेंवकूय येतालें.

कोडीबाग घरा व्हड रगडो आसा. तातूंत चार नाल्लांचें वांटप वांटू येत येदो. बा ताजेर सहजतायेन वांटप करताली. इतलें सगळें उणें म्हूण ती झाडापाल्याचें वखद दिताली. सकाळीं फुडें तिच्या घरा मुखार भुरग्यांक घेवन आवयांची रांग लागताली. तांकां ती वखदाचो पिठो दिताली. आनी इतली गरीब आसून लेगीत त्या वखदांचे पयशे घेनासली. अर्दशिशीचेर ती बरें वखद दिताली. कसल्यातरी पानांचो रोस काडून तो ती नाकांत घालताली. ते थेंब तीन दीस नाकांत घालताली. ते थेंब नाकांत घालतकच मनीस न्हिन्नळटालो. पूण तितलोच वगत. मागीर ती अर्दशिशी कायमची बरी जाताली. आनी हाजें मोल कितलें जाल्यार देवळांत एक व्हंटी व्हरून दवरप.

कोणूय बायलमनीस बाळंतपणांत अडली जाल्यार बा पयलीं धांवन वताली. एकेक खेप रस्त्याचे कुशीक खोंप बांदून, नाजाल्यार रस्त्याचे देगेक उगड्यार मांडिल्लो संवसार घेवन बशिल्ली बायल

अडत जाल्यार तिगेलो लेगीत बायंटेर करूंक बा धांवताली. घरचे आनी कोणालेय साक मागून हाडून ताजो आडोस करून ती बाळंतपणां करताली. मागीर घरचो आनी दारचो लोक तिका गाळी घालतालो. खंयचे लोक देवाक खबर... कसली जात देवाक खबर... तूं तांचे बाळंतचार करूंक वताच कित्याक?' जाल्यार तिचें म्हणणें, 'बायलेचो जल्म... तिचे त्रास आमी बायलांनी समजून घेवन तांकां मजत करिना जाल्यार आनीक कोण करतलो? तिची जात पात घेवन खंय वच्चें आसा? ती बायलेचे जातीची आसा इतलें कितें उणें जालें?'

आपल्या भुरग्यांनी शिकूंक जाय म्हूण ती लक्ष दिताली. ती कांयच शिकूंक नाशिल्ली. पूण भुरग्यांक पुस्तक घेवन बसोवन आपूण बडी घेवन बसताली. घोव माचवो घेवन गेलो काय भुरग्यांक घेवन ती एकलीच घरांत रावताली. ती संद सादून एक खेप दोन मनीस रातीं तिगेर आयले. 'कोण रे?' तिणें विचारलें. जाप ना. तिका धस्स जालें. तांचो वायट हेतू तिगेल्या लक्षांत आयलो. तिणें फाटीं फुडें पळयलें ना. रान्नींतले जळटें लांकूड काडून आवाजाचे दिकेन मोखून मारलें. तें ज्युस्त त्या मनशाक लागलें आसूंक जाय. बाच्या हिशोबा प्रमाण तें त्या मनशाच्या पांयांक लागलें आसूंक जाय. इतल्यारूच ती थांबली ना. दुसऱ्या दिसा कोण लंगडत लंगडत चलता ताचो ती सोद घेताली. बान म्हाका सांगलें, 'तो मनीस पुता म्हाका मेळिल्लो जाल्यार हांव ताचो गळोच अडच्चितां आसलीं.'

गिमाच्या दिसांनी घरच्या आंब्याक आंबे लागताले. फांतोडेर वाऱ्यान थोडे आंबे झडटाले. तांच्या वाड्यार एक माथ्यावेल्या पदराची आवो रावताली. ती सक्काळीं पांचांक दर्यार झाड्याक वताली. येतना सगळ्यांच्या बागांतले आंबे पुंजावन वताली. बाक तें आवडनासलें. एक दीस बा सक्काळीं उठली. ती आवो येवच्या वेळार तांबडे पातळ न्हेसली आनी एक दिवो लावन दवरून दांतें घेवन आंगणांत दळूंक

बसली.

सदांवरी ती आवो आयली. ती आयलीशी पळोवन बान दिवो फुक्क करून वाडयलो आनी दांतें उखलून घेवन थंयच आपणेंच करून दवरिल्ल्या आडसाक लिपली. परिणाम आवोक थंय भुताचो भास जालो जावंक जाय. त्या दिसा सावन आवोन दर्यार वचूंक दुसरो रस्तो धरलो. आनी बाच्या बागांतले पडिल्ले आंबे तशेंच उरूंक लागले.

बा आमगेर आयिल्ली. सादारण हिंदी बातम्याच्या वेळार आमी जेवतालीं. तेन्ना ती सांगी, 'तो टीव्ही बंद करात पळोवया. ती बायल पळयता पळय कशी जेवणाक. नुस्त्याचो वास तिगेल्या नाकांत भरत जाल्यार तिगेली आस वतली आनी पोटांत दुखूंक लागतलें!'

ती म्हाका 'पुता' म्हणटाली. नांवान केन्नाच तिणें उलो केलो ना. म्हाका बा 'पुता' म्हणटा तें आयकून म्हज्या भुरग्यांक अजाप दिसतालें.

बाचीं भुरगीं म्हळ्यार तिजें सर्वस्व. ती गांवांत. थोडे भुरगे मुंबय. केन्ना केन्ना हे भुरगे तिका कांय कळय नासतना गांवांत वताले. पूण ते येवच्या दिसा ती बेगिबेगीन उठून त्या पुताचें आवडीचें जेवण करून दवरताली.

'बा, आयज कितें जालां? तूं एकदम खूश आसा!'

'ना, आयज म्हजो अमूक अमूक पूत येतलो.'

'पत्र आयलां?'

'ना.'

'मागीर?'

'मागीर कितें? हांव ताची आवय न्हय? म्हाका खबर आसा. तो आयज येतलो म्हूण!'

मजा म्हळ्यार खऱ्यांनीच त्या दिसा तिचो तो पूत येतालो.

आमी जेन्ना गांवांत वतालीं. तेन्ना ती भांडभर उदक तापयताली. उदक तापतासर वाटीभर तेल म्हज्या घोवाच्या माथ्यार थापताली.

हातापांयांक फाटीक चोळून तें तेल जिरयताली. आनी म्हजो घोव बी ओग्गी बसून हें करून घेतालो. हांव ताका हांसतालें. तेन्ना ती म्हणी, 'पुता, हांसता कितें? आवशीन पुताचेर हात भोंवडायलो काय तीं भुरगीं आवशीक केन्नाच विसरनात.'

ती मुंबय आयिल्ली. आमगेर आसली. दोन अडेज वर्सां ती आमगेर रावली. मुंबयचें नुस्तें गांवच्या नुस्त्या भाशेन न्हय. नुस्तें शिजतनाच वासानूच तिका कळटालें. नुस्तें ताजें काय पोंवशेल्लें. मातसो वास आयलो की मागीर ती जेविनासली. तिचें जेवण थोडें आसलें. पूण तें तिका साडेबारांच्या ठोक्याक, आनी हुनहुनीत जाय आसतालें. सकाळीं चपाती बी तशीच. हांगा भाजली काय हांगा दिवंक जाय आसली. ती भयंकर स्वाभिमानी आसली. गांवांत एक खेप एके सुनेन 'घे जेव' म्हूण ताट मातशें आपटिलें म्हूण ती स्वता रांदून जेवताली. आमगेर ती जेवली ना जाल्यार हांव तिका दुसरें कितें तरी करून दितालें. म्हजेर ती खूश आसली. म्हाका ती झाडापाल्याचीं वखदां शिकून घे म्हणटाली. तिज्या मतान म्हज्या मनांत दया आसा. तेन्ना हांवें दिल्लें वखद रोखडेंच फळटलें, अशें ती म्हणी.

एक खेप तिणें विचारलें, 'पुता, तुगेर धनेल ना?' म्हाका धनेल म्हळ्यार कितें कळ्ळें ना. हांवें विचारलें, धनेल म्हळ्यार कितें? तिणें म्हाका मनी प्लांट दाखयलें. धनाची वेल ती धनेल.

आमचो बाबा गेलो तेन्ना बा आमगेर आसली. एक दीस तिणें म्हाका विचारलें. 'पुता, बाबा गेलो... आतां गोंयांत म्हजो कोण आसा? अशें तुवें कोणाक म्हणिल्लें?' हांवें म्हळें, 'कित्याक बा?' तेन्ना तिणें म्हाका सांगलें, 'रातीं सपनांत हांवें पळेलें, एक सुंदर बायलमनीस धाड धाड करून आयली. ती विचारूंक लागली, 'खंय तें शीला? खंय तें शीला? तूं बाजारांत गेलां अशें हांवें तिका सांगलें. त्या उतराक तिणें म्हळें, 'गोंयांत कोण ना अशें शीलान म्हणलेंच कशें? आपूण ना

ताका?' हांवें तिका विचारलें, तूं कोण? तिणें म्हळें, आपूण शांतादुर्गा.

हांव ओग्गी रावलें. कित्याक, एक दीस एके शेजाऱ्नीन विचारिल्लें, सुटयेंत गोंयांत वचना? तेन्ना हांवें म्हणिल्लें, 'बाबा काय आतां ना. गोंयांत आतां आसा कोण?'

बा आपल्या पुताक वाडूंक लागली की फाटीं फुडें पळेनासली. सगळें नुस्तें गाळून पुतांक वाडी. आमगेर आसतना अशेंच तिगेले पूत आयिल्ले. हांवें जेवण व्हरून तिच्या म्हऱ्यांत दवरलें. ताटां बी व्हरून तिचे कडेन दिलीं आनी तिकाच वाड म्हूण सांगलें. ही गाळून पुतांक नुस्तें वाडूंक लागली. नुस्तें गाळून वाडलें आनी सोंपलें म्हूण कांय ना. पूण म्हजो चलो शाळेंतल्यान येवचो आसलो. आनी हांवें सगळें तळिल्लें आनी हुमण बा म्हऱ्यांत दवरिल्लें. आतां हिका सांगचें कशें? मागीर हांवें म्हळें, 'बा, सगळें नुस्तें तुज्या पुतांक वाडून सरोंव (सोंपोव) नाका, म्हज्या पुताकूय इल्लें दवर!' त्या उतराक बा सयत सगळे हांसले.

खूब तेंप मुंबय रावतकच ती घरा पावय म्हूण फाटल्यान लागली. हांवें तिका विचारलें, 'बा, तूं गांवांत कित्याक वता म्हणटा?'

'पुता, म्हजे घरदार, देव, सगळ्यो यादी गांवांत आसात न्हय? तेन्ना हांव मरूंक थंय वतां. हांव हांगा मेली जाल्यार म्हाका व्हरूंक कोण आसा? थंय अख्खो गांव येतलो.'

हांवें म्हळें, 'मनशांक व्हरूंक चार लोक लागतात. तुजे तीन पूत हांगा आसात आनी एक जांवय. पुरो नात हे चार लोक?' ताचेर ती कितलोसोच वेळ हांसताली.

दिवाळी आसली. दिवाळेक ओवाळणी करतना हांवें बाक म्हळें, 'बा, तूंय उबी राव.'

'पुता, हांव ही अशी?'

हांवें म्हळें, 'तूं पयलीं गेल्ली आनी बापू जर जिवंत आसले

जाल्यार आमी तांकां ओवाळचीं नासलीं?

मागीर तुका कित्याक ओंवाळूं नये? तूं घरची जाण्टी मनीस. तूं आपल्याक उणाक कित्याक समजता? राव तूं उबी. आवय म्हूण तूं मातूय उणी ना.'

आनी ती ओवाळणेक उबी रावली. हांवें तिका पयलीं ओवाळ्ळें.

बा आमगेर आसतना बरें जातालें. हांवें कितेंय सांगलें आनी घोवान आयकलें ना जाल्यार हांव बाक सांगतालें. बान सांगलें की तिज्या पुताक आयकुचेंच पडटालें. बा आसतना फोल्डींगच्यो सत्र्यो आयिल्ल्यो. बान त्यो पळेल्ल्यो. तिणें म्हज्या घोवाक तापयलो. 'तूं इतलो भोंवता. इतलीं बायलां पळयता. तीं बायलां येद्यो पर्सी घेवन, भितर सत्री घालून, हातांत घडयाळ बांदून भोंवतात. तुका हें दिसलें ना? तुका कळूं नाका आपले बायलेकय ह्यो वस्तू हाडून दिवंक जाय म्हूण! तुजी बायल तुज्या भुरग्यांची आवय पुता. तिका सदांच खूश दवर. तिका दुखोवं नाका.'

बाच्या मतान शीत जेवल्यारूच पोट भरता. नाजाल्यार ना. एक खेप भुरग्यांनी म्हाका सांगलें. चपाती आनी बटाटाची भाजी कर. राती कडेन तांणी चपाती आनी भाजी खाली आनी न्हिदले. बान आपल्या पुताक सांगलें, 'आयज हिणें भुरग्यांक उपाशीं न्हिदयले.' आमगेर ती आपल्या हातांनी काडून घेवन कांयच खायनाशिल्ली. 'बा, हें हांगा दवरलां, जाय तेन्ना काडून खा' म्हळ्यार केन्नाच तिणें खालें ना. पूण हांव नासतना भुरग्यांनी तिका वयर दवरल्यात त्यो चॉकलेटी काडून दी म्हणीत जाल्यार स्टुलार उबी रावन काडून दिताली.

बान कोणा एका स्वामी कडल्यान गुरू घेतिल्लो. तेन्ना हांवें तिका विचारलें, 'बा, हांव भायर जातकच कितें करूं? तूं गॅसार रांदशी?'

'ना पुता, भायर जालें जाल्यार माथ्यार न्हा आनी रांद. जेवतां हांव.' मागीर सेगीत पांच दीस माथ्यार न्हातकच तिका कळटालें.

मागीर ती तांबयांत उदक घेवन तातूंत तुळशी पान घालून सगळ्याक शिंपडटाली.

निमाणें, बा कोडीबाग गेलीच. वतना तिणें म्हजे कडल्यान खलबतो, पानाचो डबो आनी तिका जायतें कितें कितें हाडून घेतलें. हांवें तिका तें सगळें सामान हाडून दिलें. आयदनां तिणें साकभर हाडून घेतलीं. हांवें तिका विचारलें, 'बा, तूं मरूंक म्हूण गांवांत वता न्हय? मागीर हो इतलो संवसार कित्याक एकठांय केला? स्वर्गांत रांदूंक? ती परतून खुब्ब हांसली. मागीर तिणें सांगलें, तुमी कोडीबाग येतली न्हय. तेन्ना तुमकां रांदून वाडूंक नाका? म्हूण हीं आयदनां. आनी खलबतो आनी पानाचो डबो मात हांव मेले उपरांत म्हज्या बाराव्याक म्हज्या नांवान कोणाक दवरता न्हय, ताका दिवंक व्हरतां. म्हजे पूत दुख्खांत आसतले. थंय ते ह्यो वस्तू खंय सोदूंक बसतले. म्हूण हांव हें आतां व्हरतां.'

कोडीबाग वतना तिणें आपल्या पुताक सांगलें, आपूण मरतकच दशक्रिया करात. सगळे येयात. ती गेले उपरांत पुतांनी तशेंच केलें. बाराव्याक हांवूय गेल्लें. बाराव्याक सगळीं बाचे आवडीच्यो वस्तू करतालीं. तांणी म्हाका विचारलें, 'तूं कांय करिना?'

अशें कितें करपाचें आसता हें म्हाका खबर नासलें. हांवें म्हळें, 'हांव कित्याक करूं? ती जिती आसतना हांवें तिका जाय तें दिलें. तिका दुखत, तोंपत अशें केन्ना उलयलें ना आनी वागलेंय ना. ती मेले उपरांत कितेंय करपाची म्हाका गरजूच कितें?'



# शशी

शशी! डॉ. शशिकला. लग्ना उपरांतचें डॉ. शशिकला चिंतामण अभ्यंकर. म्हजी व्हडली भयण. आमी फाटलीं फुडलीं. ताचें बोट धरून हांव शाळेंत गेलें. आमी सात भावंडां. तातूंत शशी सगळ्यांत हुशार. सदांच पयलो नंबर घेवपी. गणितांत शंबरांतले शंबर घेवपी. आनी हांव शिकूंक यथातथाच. शशी आपलो अभ्यास सांबाळून म्हजोय अभ्यास घेवपी. आमचें नातें इश्टागतीचें. भयणी परस आमी मैत्रिणी चड. मैत्रिणीच्या नात्यान आमी सूख दुख्ख वांट्टात आनी भयणींच्या नात्यान हांव चुकलें जाल्यार तें दटायता; बऱ्या गजालींचें कवतूक करता. म्हजी अपुरबाय करता, बरयता काय ना ताची चवकशी करता आनी बरयलेंना जाल्यार म्हाका धोंगशिता. हांव बरयतां म्हणून शशीक म्हजें कोडकौतुक! आनी शशी दोतोर आसुनय प्रोफेशनल कशें सतार वाजयता म्हूण म्हाका शशीलें कौतूक.

पयले खेपे हांव बांद्रा दोतोर दत्ताराम सुखठणकारागेर गेल्लें. दोतोराक हांवें सांगलें, म्हजी भयणूय दोतोर म्हूण. 'तिणें एमडी केल्या, पॅथॉलॉजी घेवन. आनी तें सतारूय बरें वाजयता.' त्या उतराक दोतोरान

म्हळें, 'तुजे भयणीक सगळे कठीण विशय आवडटात काय किते गो?'

शशीन एमबीबीएस पणजे मॅडिकल कॉलेजींत केलें. देड वर्सांनी तांची परिक्षा जाताली. तें एकूय परिक्षेक नापास जावंक ना वा एखादो विशय उरलो अशें केन्नाच जावंक ना. तें इंटर्नशिप करतालें तेन्नाची गजाल. ताची एक पेशंट बायल बाळंत जावन तिका चली जाली. चली जाल्या म्हूण तिका घोवा घरचीं कोणूच मेळूंक येवंक ना. घोव लेगीत. ती बायल बाबडी मोन्यांनी रडटाली. शशीन तिका धीर दिलो आनी तिचो घोव येतकच आपल्याक सांग म्हूण सांगलें. आनी तिचो घोव येतकच शशीन ताका, चली जाल्या तो गुन्यांव तिचो नासून गुण सुत्राचें गणीत ताका समजावन सांगलें. आनी तो गुन्यांव ताचो, तिचो न्हय हें ताका सुनायलें.

गोंयांतूच आसतना शशी सतार शिकतालें. पूण सतारीचें फाव तसलें शिक्षण ताका गोंयांत मेळ्ळें ना. एमबीबीएस करून एमडी करूंक तें मुंबय आयलें. सतारीची आवड म्हूण तें अभ्यास सांबाळून सतार शिकूंक लागलें. तें पं. चिंतामण अभ्यंकर हांचे कडेन सतार शिकतालें. थंयच तांच्या मनाच्योय तारो जुळ्ळ्यो आनी ताणें अभ्यंकरा कडेन लग्न केलें. अभ्यंकराक तें अभी म्हणटा म्हूण आमीय सगळीं ताका अभी म्हणटात.

अभी उस्ताद विलायतखाँचो शिश्य. ताका राष्ट्रपतीचें गोल्ड मॅडल मेळ्ळां. खूब ल्हान पिरायेंत ताका तें पदक मेळ्ळें. हें पदक म्हळ्यार इल्लीशी एका स्टँडार बसयिल्ली भांगराची सतार. तेन्ना डॉ. सर्वपल्ली राधाकृष्णन राष्ट्रपती आशिल्ले. समारंभ जातकीच, सांजेर गाडी धाडून राष्ट्रपतीन ताका राष्ट्रभवनांत आपयलो आनी सतार वाजोवंक लायली. आनी स्वता तबलें वाजोवंक बसले.

अभी सेगीत आठ आठ वरां सतारीचो रियाज करतालो. मदीं थांबनासतना. ताका लागून ताच्या हाताचे स्नायू दुखावले. आतां तो

सतार वाजयता. पूण मात्शी वाजयली की तांच्या हाताच्या बोटांक वात येता. ताका लागून तो आतां भायल्या कार्यावळींनी वांटो घेवंक शकना. मागीर शशीन सांगलें, वाद्य वाजयतल्यांक, धा हजारांतल्या एकल्याक अशें स्नायू दुखपाचें दुयेंस जावं येता. ताका रायटर्स क्रॅम्प अशें म्हणटात. तें दुयेंत दुर्दैवान अभीक जालें. रसीक आयकुपी एका कलाकाराक मुकले. पूण अभीन आपली ही कला आपले शिश्येच्या म्हळ्यार शशीच्या हातांतल्यान सुगूर करून दवरल्या. वेल्यान ताचें म्हणणें, शशीक वीस टक्के आपलें मार्गदर्शन आनी अयंशी टक्के शशीली मेहनत.

गायकी आंगान सतार वाजोवप खूब कठीण. कित्याक, सतार म्हळ्यार तुटक सूर येवपी वाद्य. ह्या तुटकपणांतल्यान अखंड सूर काडप म्हळ्यार मस्करी न्हय. नखी (मिजराब) घालून उजव्या हाताच्या बोटाक खिणां पडटात. आनी दाव्या हाताच्या बोटांक कातरे. मजा म्हळ्यार, शशी सतार वाजयतना पळयत जाल्यार पळयतल्याक दिसता, ती वाजोवंक साप्प सोंपी आसतली म्हूण! इतलीं सहजतायेन शशीलीं बोटां चानयेवरी वयर सकयल नाचतात.

फाटलीं सव्वीस वर्सां शशी सतार वाजयता. खऱ्या अर्थान ताणें वाजोवंक सुरवात केली ती पिरायेच्या सव्विसाव्या वर्सा. गोंयां आसतनाय तें सतार वाजयतालें. पूण ती तितलीच. तेन्ना गोंयांत सतार शिकोवपी कोण नासले. बाबाचे वळखीचे कोणूय गायक, वादक आयले जाल्यार ताका एक दोन चिजो शिकयताले तितले. शशीक विचारलें, इतल्या उसरां परतून सतार शिकचेंशें कित्याक दिसलें? तेन्ना ताणें सांगलें, श्री. बुधादित्य मुखर्जी शिक्षणान इंजिनीयर. शिकप करून ते जर सतारींतले उस्ताद जावंक शकतात, जाल्यार हांव दोतोर आसून कित्याक जावंक शकचें ना?'

शशीन पयलीं तीन वर्सां फकत पलटे केले. म्हळ्यार, अभीन

ताचे कडल्यान करून घेतले. कित्याक, हाताक वळण लावप गरजेचें. ‘सा’ वाजयतना बोटां भितर घेवप, ‘रे’ वाजयतना बोटां भायर घेवप बी गरजेचें. मागीर अभीन ताका यमन राग शिकयलो. तो राग कसो मांडप, ताचो विस्तार कसो करप, जोडकाम, आलाप, झाला कसो घेवप हें शिकयलें. हो राग शिकूंक शशीक कितलीं वर्सां लागलीं आसतलीं? सामकीं धा वर्सां. यमन राग सगळ्या आंगांनी शिकयले उपरांतूच मागीर अभीन ताका देस, दरबारी, बागेश्री, अहीर भैरव आनी हेर राग शिकयले.

शशी सायन हॉस्पिटलांत प्रोफेसर आसलें. तेन्ना ताका एमबीबीएसच्या भुरग्यांचे फायनलीचे पेपर काडचे पडटाले. पूण तें केन्नाच कोणाकूच आपल्या कडेन पेपर काडूंक आयल्यात म्हूण सांगनासलें. परिक्षा जातकच मागीर सांगतालें, पॅथॉलॉजीचो ह्या वर्साचो पेपर आपणें काडिल्लो म्हूण. ताच्या मार्गदर्शनाखाला जायत्या विद्यार्थ्यांनी पॅथॉलॉजी घेवन एमडी केल्या. पूण मागीर भितरल्या राजकारणाक वाजेवन ताणें व्ही. आर. एस. घेतली. कांदिवली आपली लॅब काडली.

सायनाक आशिल्लें तेन्ना शशीक सतारीक फाव तितलो वेळ दिवंक मेळनाशिल्लो. कित्याक, घर सांबाळप, चलो ल्हान, खेरीज सायन हॉस्पिटलांत शशी वळखीचें म्हूण आयिल्ले गेल्ले पेशंट; ह्या पेशंटांक हॉस्पिटलांत दवरप आनी गोंयचे आसत जाल्यार त्या पेशंटां वांगडा आशिल्ल्यांक आपल्यागेर दवरून घेवप. पूण शशीन हें सगळें वाजेनासतना आनी कसलीच अपेक्षा दवरिनासतना केलें. आतां तें कांदिवली वता. ट्रेनींतल्यान ताका थंय वचूंक एक वर लागता. येवंक एक वर. आतां ट्रेनींतलो हो वेळ तें फुकट घालयना. वॉकमन घेवन उस्ताद विलायतखाँ, बुधादित्य मुखर्जी हांच्यो कॅसेटी आयकता. त्यो आयकून आपूण तशें वाजोवपाचो यत्न करता. मजतीक अभी आसाच. सद्दां सकाळीं दोन वरां आनी सांजे दोन वरां रियाज करता. तबल्यार अभी आसता.

शशी सांगता, एक खेपे ताणें भीमसेन जोशींची मुलाखत वाचली. तांणी सांगिल्लें, तांच्या बापायन भीमसेनाक सुरवेक पसून तबलजी वांगडा रियाज करूंक लायलो म्हूण! तेन्ना सावन शशीय बी तबलजी वांगडा रियाज करूंक लागलें. आतांय अभी ताचे बरोबर तबल्याची साथ करता. पूण भायर प्रोग्राम करचो आसता तेन्ना भायलो तबलजी हाडटा.

शशीले खूब प्रोग्राम जाले. ताच्या सगळ्या प्रोग्रामाचें हांव साक्षी! हांव दुयेंत आशिल्लें तेन्ना ताचे दोन प्रोग्राम म्हाका चुकले. प्रोग्रामाक भायले तबलजी हाडलो काय ते पयलीं नेटान येतात. एक डॉक्टर वाजोवन वाजोवन कितलेंशें वाजयतलें अशेशे तांचे भाव आसतात. पूण शशीची वाजोवपाची तयारी पळयली काय मागीर 'सांबाळून घे आं' म्हणटात. शशी तशें तालाचें पक्कें! हालपी न्हय. आमचो बाबा पेटी वाजयतालो आनी तबलेंय वाजयतालो. आई म्हणटा, शशी ल्हान आसतना, बाबा पेटी वाजयता थंय माणो घालून ताचेर दवरलें काय तें बाबाची पेटी आयकत वर देड वर रडनासतना खेळटालें. संगीताचे संस्कार तेन्ना सावन शशीचेर जाल्ले काय?

पं. मनोहरबुवा शिरगांवकार पणजे आमच्या घरा येताले. जेन्ना जेन्ना ते येताले तेन्ना तेन्ना एक तरी चीज शशीक शिकोवन वताले. एक खेपे तांणी साडेबारा मात्रांची एक चीज शशीक शिकयली. दुसरे खेपे आयले तेन्ना ते तबलें घेवन बसले. शशीन तीच चीज वाजयली. ते चुकले. आनी हांव हांसलें. मास्तरान तिडकून म्हाका विचारलें, 'तूं कित्याक हांसता गो?' हांवें म्हळें, 'मास्तर, तुमीच ती चीज शिकयिल्ली आनी तुमीच चुकले म्हूण म्हाका हांसो आयलो.'

अभीय शशीलें कवतूक करता. पूण म्हजे कडेन. अभी सांगतालो, एक एक तान सतारीचेर घोळोवंक ताका आठ आठ दीस लागताले. ती तान शशी दोन दिसां भितरूच आत्मसात करता. दुसरी गजाल, शशीलो

हात निसर्गीक. हांवें म्हळें, निसर्गीक हात म्हळ्यार कितें? जाल्यार, प्रोग्राम करचे पयलीं हेर सतार वादकांक हात वॉर्म अप करचे पडटात. शशीलें तशें ना. ताका न्हिदेंतल्यान उठून लेगीत प्रोग्रामाक वाजोवंक बस म्हळें जाल्यार तें वाजोवंक शकता. नामनेचे सतारवादक रईसखान हाकाय अशेच तेरेचो हात आसा, अशें अभी म्हणी.

नामनेचे हार्मोनियम वादक तुळशीदास बोरकार हांचे गुरू भौ. मधुकर पेडणेकार. तांचे गुरूपौर्णिमेक तांणी शशीलो प्रोग्राम दवरिल्लो. प्रोग्राम दादर माटुंगा सेंटरांत आशिल्लो. थंय पं. पंढरीनाथ नागेशकार आयिल्ले. सतार वाजोवन जातकच ते शशी म्हऱ्यांत आयले आनी सतार बरी वाजयली म्हूण शशीली तोखणाय केली. शशीन तांकां पांयां पडून म्हळें, 'हांव गोंयचें.'

'गोंयचें? हांगा यो... हांगा यो...' अशें म्हणून तांणी ताका कुशीक व्हरून ताची चवकशी केली आनी म्हळें, 'तूं गोंयचें आसूंक जाय अशें दिशिल्लेंच म्हाका.' तांणी मागीर शशीलो पत्तो घेवन तांचे गुरूपौर्णिमेक शशीक सतार वाजोवंक लायली. तबल्यार आशिल्लो विभव नागेशकार.

आशा खाडीलकर हांची विलेपार्ले 'उत्तुंग' म्हूण संस्था आसा. ही संस्था गुरूपौर्णिमा एके वेगळे रितीन मनयता. 'एक गुरू एक शिश्य' अशे तरेन. म्हळ्यार, एकाच गुरून तयार केल्ल्या शिश्याचो प्रोग्राम आसता आनी गुरूचो सत्कार करतात. थंय अभीचो गुरू म्हूण सत्कार केलो आनी शिश्य म्हूण शशीलो प्रोग्राम जालो. तो आयकून माई भिडेन मुजरत येवन आपल्याक सतार आवडली म्हूण सांगलें. जाल्यार आशाताईच्या घोवान सांगलें, 'घरच्या घरा घोव बायलां जालीं म्हूण कितें जालें, अशे तरेन शिश्य तयार करप भोवच कठीण काम. तशें तें सोंपें आशिल्लें जाल्यार हांव येन्ना व्हड गायक जावचो नासलों?'

वर्सांतल्यान एक खेपे शशीलो प्रोग्राम पुण्याक जाताच. आनी

मुंबय भायर आशिल्ल्या प्रोग्रामाक शशी म्हाका आपले बरोबर व्हरताच. थंयच्या आर्य संगीत प्रसारक मंडळाच्या संगीत महाविद्यालयांत एक खेपे शशीलो प्रोग्राम आसलो. त्या प्रोग्रामाक नामनेचे संगीत समीक्षक दत्ता मारूलकर हाजीर आशिल्ले. तांणी शशीलो प्रोग्राम आयकून 'सतार वादनः एक सुखद अनुभव' म्हूण तांणी जें उपरांत बरयलें तें जशाक तशें तुमचे मुखार दवरतां.

'श्रीमती शशिकला अभ्यंकर या व्यवसायाने पॅथॉलॉजिस्ट आहेत. व्यवसाया इतकच प्रेम त्या संगीतावर करीत आहेत याची प्रचीती ह्या सायंकालीन मैफिलीन रसिकांना दिलेली आहे. विवक्षित वेळेत आणि सतार वादनात नाव कमविलेले उस्ताद उस्मान खाँ व उस्ताद परवेज यांच्या समोर त्यांनी ज्या विश्वासाने सतार वादन केले त्या वरून या कलावतीने रियाजातून आणि स्वतःच्या चिंतनातून आत्मविश्वास अर्जित केलेला आहे, हे लक्षात आले.

मांडणीला शिस्त होती, अचुकता होती व तालाकृति बंधाबाबतही काहीसा विचार व्यवस्थित झालेला जाणवला. मांडणीमधील 'कोमल गंधार' हा आरोहांतील स्वर व 'मध्यम' स्वराच्या त्यावरील सूक्ष्म आघातामुळे निर्मित आंदोलन निखळ 'दाद' देण्यायोग्य. त्याचप्रमाणे 'ध' 'नि' 'प' ही स्वरसंगतीही त्यांनी नेमकेपणाने वादनांत ठेवलेली होती. दरबारी रागांची आलापी ज्या लयीमध्ये त्यांनी सुरू केलेली होती, ती लय सातत्याने तशीच ठेवण्याचा अभ्यास होणे अगत्याचे आहे. 'जोड' वादनांतील काही 'स्वराकृति' अत्यंत देखण्या जाणवल्या. आलापीच्या मानाने 'जोड' अधिक आकर्षक झाला. शेवटचा अल्पवेळ वाजविलेला 'झाला' व त्यामध्ये टिकवून ठेवलेले 'रागरुप' हाही त्यांच्या अभ्यासांतील चांगला भाग जाणवला.

मध्यलयीतील त्रितालाची 'गत' पारंपारीक होती व तिच्यातील सौंदर्य कल्पना या कलावतीने व्यवस्थितपणे श्रोत्यांसमोर ठेवलेल्या

होत्या. स्वत:च्या विचारांची जोड वादनाला असल्यामुळे एकूणच वादनाचा दर्जा उत्तम जाणवला. द्रुत लयींतील बंदीशही चांगली वाटली. दरबारीचे वादन झाल्यानंतर त्यांनी एक पिलू रागांतील ठुमरी रंगतीचा विचार करून सादर केलेली होती...'

श्री. दत्ता मारूलकर सारक्या समीक्षका कडल्यान अशी दाद मेळोवप सोंपें न्हय.

उस्ताद उस्मान खाँ हांणीय अभीक सांगलें, 'खूब दिसांनी खानदानी सतारवादन आयकूंक मेळ्ळें.'

शशी जोक बी सांगूंक फाटीं रावना. एक खेपे कान दुखता म्हूण तें इ एन टी वाल्या दोतोरागेर गेलें. हो दोतोर ताचो विद्यार्थी आशिल्लो. ताणें कान तपासलो. शशीन ताका विचारलें, 'कितें जालां?'

'कांय ना मॅडम. मात्शें इन्फॅक्शन आसा. हे थेंबे घाले काय जातलें बरें.'

मागीर गजाली जाल्यो, च्या-पाणी जालें. शशी वचूंक भायर सरलें तेन्ना त्या दोतोरान शशीक जॉन्सनचे बड्स दिले आनी सांगलें, 'मॅडम, कानांत केन्नाय खाज आयली जाल्यार हे बड्स घाल आं. लीग ना जाल्यार आल्फिनेत घालूं नाका.' हरशी दोतोर पेशंटांक सल्लो दिता पूण आपल्या गुरूस्थानी आशिल्ल्या दोतोराकूच सल्लो दिवप होच एक व्हडलो विनोद!

शशील्या पुतान एक खेपे ताका विचारलें, 'खंयच्या तरी विशयांत मिनिमम मार्क्स कितले' काय म्हूण! ताचेर शशीली जाप, 'आरे, तुका सगळ्यो वस्तू मॅक्झिमम प्रायसाच्यो जाय जाता, आनी मार्क्स मिनिमम कित्याक विचारता रे?'

शशी कागदाचीं फुलां बरीं करता. पूण हालीं पयलीं भाशेन बऱ्यो फोली मेळनात अशें तांचें म्हणणें. शशी आसा त्या अभ्यासांत समाधान मानपी मनीस न्हय. सतारींतले ताचे आदर्श उस्ताद विलायतखाँ आनी

बुधादित्य मुखर्जी. पॅथॉलॉजीचेंय आपलें ज्ञान अप-टू-डेट दवरूंक जाय अशें ताचें मत. ताका लागून ते पॅथॉलॉजिच्या कॉन्फरन्साक वता. पुस्तकां रिफर करता. हिस्टापॅथॉलॉजी खातीर तें फामाद आसा.

जायते पॅथॉलॉजिस्ट ताचे कडेन आपल्यो स्लायडी धाडटात. मुंबय दर म्हयन्याक खंयच्याय एका मॅडिकल कॉलेजींत सर्जिकल पॅथॉलॉजीच्यो मिटिंगो आसतात. तातूंत त्या त्या वर्साच्यो कठीण केसी चर्चेक दवरतात. तातूंत तें न चुकतां भाग घेता.

सुशील राणी पटेल तांच्या घरकाराचो म्हळ्यार बाबुराव पटेलाचो स्मृतीदीन करता. थंय तांणी शशीक सतार वाजोवंक आमंत्रण दिल्लें. थंय सुप्रसिद्ध संगीतकार नौशाद मुखेल सोयरे आशिल्ले. तांणी सतार वादन जातकच शशीक येवन सांगलें, 'आप बहुतही अच्छा बजाती हैं!'

शशीन पॅथॉलॉजी ह्या विशयाचेर तिसां वयर नॅशनल आनी इंटरनॅशनल जर्नलांचेर पेपर बरयल्यात. मेंदू आनी हाडांच्या पॅथॉलॉजीचेर संशोधन केलां. खेरीज रगतांतल्या कॉलेस्ट्रॉलाचेर मोलादीक संशोधन केल्ल्यान ताका घारपुरे इनाम फावो जाल्लें. ताच्या मार्गदर्शनाखाला जायत्या विद्यार्थ्यांनी एम डी केलां.

एक खेप माटुंगा कल्चरल सेंटरांत शशीचो प्रोग्राम आसलो. थंय सुप्रसिद्ध गायिका बकुळ पंडित, आतांची अलकनंदा वाडेकर आपल्या घरकारा बराबर आयिल्ली. ताचो घरकार वाडेकर डॉक्टर. तांणी शशीलें सतार वादन आयकलें. आनी अभीक कुशीक व्हरून सांगलें, 'तुमची मिसेस सतारींत जितली कुशल आसा न्ही तितलीच ती पॅथॉलॉजींत आसा. मुंबयंत हाताच्या बोटार मेजपा इतले जे बरे पॅथॉलॉजिस्ट आसात, तांतली ती एक.'

शशी कडेन उलयतना सादूर रावन उलोवचें पडटा. मात्शीं खंयूय अन्नाडीपणां केलीं जाल्यार ताका राग येता. ताका लागून मनशां ताचे

कडेन उलयतना कांचवेतात. खेरीज ताच्या दोतोरपणाचें चेपण सामकार आशिल्ल्याचेर येता जावंये. ताची शांत पूण आरपार पळोवपी नदर मुखावेल्या मनशाक अस्वस्थ करता.

मनशाक आवड आसत आनी ताचे भितर जिद्द आसत जाल्यार आपले आवडीचो छंद मनीस कसोय करून, वेळांत वेळ काडून कसो पुरो करता ताचें मूर्तिमंत उदाहरण म्हळ्यार शशी!

एक धूव, भयण, बायल, आवय, नणंद, भावज, जाव ह्यो सगळ्यो भुमिका तें सहजतायेन करता. आपल्या कुळारच्या मनशांक तितलें बरें वागय, घोवाघरच्या मनशांक दुसरे तरेन वागय, असो भेदभाव ताचे कडेन ना. 'मनीस म्हणटकच ताचे भितर गूण दोश आयलेच. हांव तांतल्या दोशांक माफ करतां आनी गूण लक्षांत दवरतां.'

शशीलीं हीं उतरांच शशीक दोतोर म्हूण आनी वादक म्हूण व्हड करतात!

■

# सॅल्फ पोर्ट्रेट

साहित्य अकादमीचें मुंबय शिबीर आशिल्लें. म्हाका थंय आमंत्रण आशिल्लें. शिबीर चर्चगेट हॉलांत आशिल्लें. तेन्ना म्हाका मुंबय इतलें भोवंक कळनासलें. म्हूण हांव तुकारामाक (घरकाराक) घेवन गेल्लें. थंय भौ. रवीन्द्र केळेकार, भौ. सुमन्त केळेकार, माधवी सरदेसाय बी आशिल्लीं. हांवें तांचे कडेन हाची वळख करून दिली तेन्ना म्हळें, 'हो म्हजो घरकार, पूण आयज तो म्हजो सेक्रेटरी म्हूण आयला'. त्या उतराक माधवीन म्हळें, 'हेमा (नायक) म्हणटालें, शीलालो घोव बरोऽ मनीस! हें शीलाच तसलें.

म्हाका दिसता ही म्हज्या घोवाची कोंकणी कडेन पयली वळख. ताचें कितें जालें, एक खेपे हेमा आनी पुंडलीक (नायक) आगमेर आयिल्लीं. तेन्ना पुंडलीकान म्हळें, 'तूं बरय मगो. ओली सांज उपरांत तुजो एकूय कथासंग्रह येवंक ना. तुज्यो कथा दी. अपुरबाय प्रकाशन त्यो छापतलें. त्या वेळार तुकारामान म्हळें, 'हाणें बरोवचें म्हूण हांवें हाका नोकरी करूंक दिली ना. हाका सांगतां हांव, सुचता तेन्ना बरोवन दवर. पूण हें कोणालेंय कथा धाड म्हूण पत्र येतकच मागीर बरोवंक

बसता.' त्या उतराक हांवें म्हळें, 'तुवें केन्ना कथा बरयल्या? ती कशी बरोवप तुका खबर आसा? चार चवगांत गेले बगर अणभव पदरांत पडनात. आनी अणभव नासतना कितें बरोवं, कपल?' हांवें अशें म्हळें तें हेमाक आनी पुंडलीकाक आवडलें ना. पूण आमच्या दोगां भितर मेकळीक आसा. म्हज्या सभावा प्रमाण हांव सरळ उलयतां. ताका ताची संवंय जाल्या.

दुसरी वळख डॉ. किरण बुडकुलेन भुंयचाफीं ह्या संग्रहाच्या परिक्षणात करून दिल्या ती अशी- 'खूब फावटीं तांगेल्या पुराय बरपांत एक खाशेलो तटस्थ, त्रयस्थ कसो भासपी, आपले भितरलो मनीस वावुरता. आर. के. लक्ष्मणाच्या 'कॉमन मॅना' वरी तो अदीं मदीं उलयता, नुलयता सांगता वा फकत साक्षी भावान पळयताय बी. चडसो तांणी ताका निपक्षपाती जुवीज कसो बरपांतल्या प्रत्यक्ष अणभवा पसून वाटावन कांठार दवरिल्लो आसता. हाका लागून ताचे वरवीं येवपी भाश्य (कॉमेंट) वा तिखट/विनोदी चिमटे भौ मोलादीक थारतात. तो म्हळ्यार निविदेकेचो घोव.' ही म्हज्या घरकाराची कोंकणी कडेन दुसरी वळख.

साहित्य संमेलनांत सबंद दीस संबंद रात माटवांत म्हजे वांगडा बसून रावन सगळें पासियेंसान आयकत, कांयच उलय नासतना बसप, ही ताची कोंकणी कडेन जावपी तिसरी वळख.

लग्न जावन मुंबय आयलें. लग्ना पयलींची मुंबय म्हळ्यार आठ दिसांक येवन रावप वचप. आशिल्ल्या दिसांनी हें पळे, ते पळे, सिनेमा पळे, हांगेर वच, तांगेर वच, शॉपिंग कर आनी मिठाय घेवन गोंयां येवप, इतलीच आशिल्ली. लग्न जातकच मुंबय येवन रावतकच पयलीं पयलीं मजा दिसली. कित्याक, हो सदांच वांगडा आसतालो. आमी सकाळीं भायर सरून वतालीं तीं बद्द रातीं घरा येतालीं. तेन्ना ते दीस कशे गेले कळ्ळें लेगीत ना. पूण हाची रजा सोंपतकच मुंबय म्हळ्यार

कितें तें म्हाका कळूंक लागलें.

लग्न जाले उपरांत ताणें म्हाका पयलींच सांगलें, संवसार पयलीं, तुजें बरोवप बी सेकंडरी. दीस वता तशें म्हाका कळ्ळें, हो मनीस सामको वेव्हारी. ताणें मुलुंड फ्लॅट घेतला तो खूब विचार करून, म्हळ्यार ताची कंपनी ठाण्याक. मुलुंड उपरांत ठाणे येता. मुलुंड स्टेशना कडल्यान धा पंदरा मिनटांच्या अंतरार. शाळा लागीं, मार्केट लागीं, खेरीज मुलुंडच्यान बसीन खंयूय वचूंक मेळटा अशे सुवातेर ताणें फ्लॅट घेतला.

हांव पणजे घरा मेकळ्या वातवरणांत वाडिल्लें. आमचे सगळे सोयरे पणजे. तेन्ना मेकळेपणान उलोवप, वागप हाचो 'दुसरो अर्थ' जावं येता, हाची म्हाका कल्पना लेगीत नासली. म्हाका दिसता, म्हजें हें मेकळेपण म्हज्या बरपांतूय आयला. भितर एक भायर एक असो म्हजो सभाव न्हय.

तेन्ना मुंबय फिरूंक वतना खंयचीय सुंदर चली, बायल बी दिसत जाल्यार हांव ताका दाखयतालें. सुंदर बायल दाखयतकच तो म्हाका म्हणटालो, 'तूं पिसांट बायल! आपल्या घोवाक म्हूण कोण ती दुसरी सुंदर बायल पळे म्हूण सांगता?' ताचेर म्हजें म्हणणें, 'तातूंत कितें जालें? देवान इतलें सौंदर्य भरून दवरलां, ताचें नेत्रसूख घेवंक कितें जालां? तें मेळोवन ताचो उपभोग घेवचेलो यत्न कोणें करचो न्हय... पूण पळोवन धादोसकाय अणभवपाक कितें जालां?'

लग्न जातकच पयले खेपे हांव कोडीबाग कारवार गेल्लें. थंय घरा गणपती आशिल्लो. चवथीक खूब लोक आयिल्लो. हो म्हजी सगळ्यां कडेन वळख करून दितालो. तातूंत एक तरणाटो आशिल्लो. ताचे दोळे खूब सुंदर आशिल्ले. धवेफुल्ल. चकचकीत. दोळ्यांच्या पातकड्यांचे केंस काळेच्च आनी लांब. इतले सुंदर दोळे हांवें खंयच पळोवंक नाशिल्ले. राती कडेन हांवें हाका विचारलें, 'तो अमको तमको आयिल्लो

तो कोण?'

'कोण? खंयचो?' ताच्या लक्षांत आयलें ना.

'कित्याक?' ताणें विचारलें.

आनी हांव ताच्या दोळ्यांचें वर्णन करूंक लागलें. ताणें सगळें आयकून घेतलें आनी मागीर म्हाका विचारलें, 'तुवें ताच्या दोळ्यां विशीं आनीक कोणाक कितें सांगलां?' हांवें म्हळें, 'ना'.

'केन्नाय तुका खंयच्या दादल्याचें कितेंय बरें दिसलें जाल्यार तूं तें फकत म्हाकाच सांग. घरांत आनीक कोणाक सांगूं नाका.'

खरें म्हळ्यार ताची बायले विशीं जी कल्पना आसा तातूंत हांव खंयच बसना. बायलेन घोव घरा येवच्या वगतार नटून थटून बसूंक जाय. माथेंभर फुलां माळूंक जाय. हें जाय तें जाय म्हूण हट्ट धरूंक जाय. भांगराच्यो वस्ती मागूंक जाय. अशें ताका दिसता. हांव वेवस्थीत रावतां. पूण नटूंक थटूंक म्हाका साप्प आवडना. ताणें एक दीस म्हाका प्रेझेंट हाडून दिलें. उक्तें करून पळेत जाल्यार मेकअप बॉक्स. हांव मेकअप करिना. पूण हांवें तें मेकअप बॉक्स कोणाक वापरूंकय दिलें ना आनी हांवेंय वापरलें ना. आरमारींत तें तश्शें पडून आसा. फुलांचीय तीच गत. एक जायो सोडल्यार म्हाका कसलींच फुलां माळूंक आवडनात. आनी तो म्हजे खातीर शेंवत्याच्यो मोठ्ठयो बऱ्यो फांतयो, नागचांफ्याच्यो फातयो, सुरंगा वळसर, मोगऱ्यांचे मोठ्ठे गजरे हाडटालो. तांच्या वासान आनी पेजान म्हजी तकली कणकणटाली. निमाणें, म्हजी फुलांची नावड पळोवन ताणें फुलां हाडपाचींच बंद केली.

आमी कितेंय घेवया म्हळ्यार तो केन्नाच ना म्हणिना. तुका जाय तें तूं घे. सूय ते विमान मेरेन जाय तें घे. पूण हो म्हजो पगार. हातूंत जें कितें येता तें घे...

म्हाका साडी घेवंक जाय आसली, अशें म्हळ्यारूच पुरो. तो साडी घेवन येता. तिवूय बी एक न्हय. दोन तरी हाडटा. पूण कसल्यो?

ताका मटेरियल आवडलें जाल्यार तांतल्योच दोन साडयो घेवन येतलो. ताका गाड रंग आवडटात आनी म्हाका लॅव. एक खेपे सदां भाशेन ताणें दोन साडयो हाडल्यो. एक तांबडी जाल्यार दुसरी निळी. एकूच मटेरियल, एकूच डिझायन. पळोवन म्हजी तकली घुंवली. हांवें थंडसाणेन ताका विचारलें, 'दोनूच रंग आशिल्ले? आनीक नाशिल्ले? ताचेर ताणें म्हळें. 'आसा. आनीक कलर आसा. हांतलो पांचवोय कलर सुंदर आसा. हांव हाडूंक सोदतालों. पूण तूं हांसतलें म्हूण हाडलो ना. फाल्यां घेवन येवं?'

मागीर आनीक एक खेपे ताणें अश्योच दोन साडयो हाडल्यो. ऑफ व्हायट आनी देग- एके सोडयेची केसरी आनी दुसरेची रानी कलर. हांवें म्हाका जाय ती साडी दवरली आनी दुसरी शेजान्नीक दाखयली. तिका ती आवडली. तिणें ती विकती घेतली. हांवें मागीर ताका सांगलें, ती म्हणूंक लागली, एकेच तरेच्यो दोन साडयो तुका कित्याक? एक हांव घेतां अशें म्हणून ती घेवन गेली.'

हाका कसलीं कसलीं खूब पत्रां येतात. कोडीबाग सावन बी पत्रां येतात. हांव घरा आसतां तेन्ना सगळीं पत्रां उगडून वाचतां. पत्रां आयलीं काय उगडून वाचीसर म्हाका थार जायना. म्हजे उरफाटो तो. घरा येतकच जेवन खावन, सगळीं कामां करून मागीर सुसेगाद वाचता. म्हजी पत्रां मात तो चुकून लेगीत उगडिना वा वाचीय ना. हांवूय ताका गांवच्यान आयिल्लीं पत्रां वाचिना. कारण, तीं कन्नडांत आसतात आनी म्हाका कन्नड येना.

एकत्र कुटुंबांत राविल्ल्यान ताका च्या लेगीत करूंक येना. तो मुंबय आयलो तेन्ना भावागेर रावलो. लग्न जातकच दुसरी कूड घेवन आमी रावंक लागलीं. तेन्ना ताका भाजी बी कांयच हाडूंक कळनासलें. एक खेपे हांवें ताका भाजी हाडूंक लायली. तो भेंडे घेवन आयलो. सगळे भेंडे जून. हांवें म्हळें, 'असले कसले भेंडे हाडले तुवें?' ताणें

म्हळें, 'म्हाका भाजी हाडूंक कळटा. पयली हांव भाजीवाल्या सामकार उबो रावलों. हेर बायलां भाजी कशी घेतात तें पळेलें. तीं बायलां भेंड्यांचीं तोंका मोडून ते भेंडे घेतालीं. मागीर हांवें त्या बायलांनी तोंकां मोडून उडयिल्ले भेंडे एकठांय करून हाडले.'

एक खेपे हांवें ताका कुकरांत शीत कशें करचें तें दाखयलें. ताका सांगलें, इतलें तांदूळ घेवप, ते धुवप, इतलें उदक घालप, मागीर तीन शिटयो जाल्यो काय गॅस बंद करप. तेन्ना ताणें विचारलें, 'मागीर शीत वाळप केन्ना तर?'

भुरग्यांक शाळेक शेनवार आयतार सुटी आसताली. आनी ताका शेनवारा सुटी आसताली. मागीर शुक्रारा सांजेर हांव भुरग्यांक घेवन सायन (म्हजे भयणीगेर शशीगेर) वतालें. शेनवार आयतार रावन आयतारा दिसा मागीर घरा येतालें. सायन हॉस्पिटला लागीं दोतोराचें स्टाफ क्वार्टर्स आसात. थंय शशी रावतालें. थंय बैठीं घरां. आयस पयस सुवात. भरपूर झाडांपेडां. थंय गांवांत राविल्ले वरी दीसऽ. शशीलो चलो आनी म्हगेले दोगूय चले थंय खेळ खेळ खेळटाले. भुरग्यांची मज्जा जाताली. एक खेपे आमी अशींच थंय रावंक गेल्लीं. तेन्ना शशीलो चलो, म्हगेले दोगूय चले आनी आमी दोगांय दादर चौपाटेर गेल्लीं. येतना आमकां डबल डॅकर बस मेळ्ळी. बसींत गर्दी आशिल्ली. तेन्ना देंवपाक उबे आशिल्ले एके बायलेक कोणें तरी धक्को दिलो. तेन्ना ती दादले असले, तसले अशें बडबडत रावली. आमकां देवंक जाय म्हूण आमीय दारा कडेन येवंक लागलीं. म्हाका कोणालो धक्को लागूं नये म्हूण हो म्हजे फाटल्यान म्हाका तेंकून उबो रावलो. मुखार तिगांय भुरगीं. हांवेंय हाकाच कितें कितें म्हणूंक सुरवात केली.... 'क्यों दिखायी नही देता क्या... जरा हटके खडे रहो... औरत कभी देखी नहीं क्या?... आनी अशेंच कितें कितें. भुरगींय म्हजें उलोवप आयकतालीं. पूण तिंवूय ओग्गी रावलीं. इतल्यान स्टॉप आयलो.

आमी देंवलीं. तेन्ना ताणें म्हाका विचारलें, 'तुका म्हजो कसलो राग बी आशिल्लो? तुवें म्हाका मार घालपाचें येवजिल्लें काय कितें?'

रवीन्द्रबाब केळेकारान एक खेपे दोतोर सुखठणकारागेर हांवें येवचें अशें सुचयलें. ते प्रमाण हांव हाका घेवन बांद्रा दोतोरागेर गेलें. आमी बसलीं उलयलीं. च्या पाणी जालें. मागीर आमी घरा वचूंक भायर सरलीं. तेन्ना रवीन्द्रबाब आनी दोतोर दोगूय आमकां पावोवपाक रस्त्या मेरेन आयले. घरा येतना हाणें म्हळें, 'इतले व्हड लोक. पूण कितले सादे. आमकां पावोवपाक रस्त्यार आयले. तांचीं मनां कितलीं व्हड न्हय? त्या उतरार हांवें म्हळें, 'हे येदे व्हड मनीस म्हाका पावोवपाक आयिल्ले. तेन्ना हांवूय बी कितलें व्हड पळे न्हय?' हांव कितें उलयलें तें ताणें आयकूंकच नाशिल्ले वरी केलें.

माधव बोरकार मुंबय रेडियो स्टेशनाचेर आयिल्लो. ताणें म्हाका पयलो कॉन्ट्रॅक्ट धाडलो तेन्ना हो म्हजे बरोबर रजा घेवन रेडियो स्टेशन दाखोवंक आयलो. मागीर लेगीत जेन्ना 'शीतकडी' सारके प्रॉग्राम आसताले, तेन्ना हांवें बरयिल्लें स्क्रिप्ट घेवन, ऑफिस सुट्टकच तें रेडियो स्टेशनाचेर तो व्हरून दितालो. एक खेपे तो असोच गेल्लो तेन्ना ताणें म्हजे खातीर एक पुस्तक हाडलें. पुस्तक आशिल्लें आयर्विंग वॉलेसचें 'रायटिंग ऑफ अ नोव्हेल'. म्हाका अजाप जालें. कित्याक, हाचे पयलीं ताका दिसतालें, हांव बरयतां म्हळ्यार कितें... तर मराठींत कितेंय वाचिल्लें तें कोंकणींत बरयतां. ताका फिक्शन आवडना. 'लेबर लॉ' तो आवडीन वाचता. आनी कितेंय वाचचेंच जाल्यार विनोदी लेखन ताका आवडटा तें तो वाचना. ताची आवड कळिल्ल्यान हांवूय ताका म्हजें बरप वाचून दाखयना. पयलीं तो पु. ल. देशपांडे, बाळ सामंताचीं आनी हेर पुस्तकां हाडून दितालो. आतां हाडून दिल्लें पुस्तक पळोवन म्हाका अजाप जालें. 'हें पुस्तक तुवें कशें कितें हाडलें?' हांवें ताका विचारलें. ताचेर ताणें सांगलें. 'तुजें स्क्रिप्ट दिवंक हांव रेडियो

वेल्या कोंकणी सॅक्शनांत गेल्लों. थंय असलें पुस्तक बोरकाराल्या मेजार आसलें. मागीर घरा येतना वाटेर रस्त्यार पुस्तकां विकूंक बसतात थंय तें म्हाका दिश्टी पडलें. ज्या अर्थी बोरकार तें पुस्तक वाचता त्या अर्थी तुकाय तें आवडटलें म्हूण हांवें तें तुजे खातीर हाडलें.'

एक खेप माधव बोरकारान म्हाका 'स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कविता' हाचेर हिंदींत भाशण करूंक सांगिल्लें. ताच्या रेकॉर्डिंगा खातीर आमी दोगांय रेडियो स्टेशनाचेर गेल्लीं. ताणें म्हाका थंय सोडलें आनी तो एलआयसी ऑफिसांत ताच्या कामा खातीर गेलो. म्हजें हिंदींतलें रेकॉर्डिंग चलतालें. निमणें थोडें कितें उरिल्लें. इतल्यांत घडांयच करून दार उगडून एकली बायल रेकॉर्डिंग रुमांत आयली. ती नेव्हीच्या दोन तीन लोकांक घेवन आयिल्ली. तांतलो एकलो नेव्हीचो ॲडमिरल आसलो. तांणी म्हाका 'ऊठ ऊठ' करून उठयलें. नेव्हीचो ॲडमिरल! ना कशें म्हणचें? हांव उठून भायर आयलें. थोड्या वेळान हो आयलो. हांवें ताका सांगलें. अशें अशें जालें. तो म्हजेर तापलो. तूं उठलेंच कशें? आनी ॲडमिरल जावं ना जाल्यार प्रधानमंत्री जावं. ताका तुका उठोवपाचो अधिकार ना. वेल्यान तुवें त्या ॲडमिरलाक विचारूंक जाय आशिल्लें. भायर रॅड लायट आसतना तूं भितर आयलोच कसो? बायलांक वयल्यान अशें विचारप  चड सोपें.' अशे तरेन व्हीटी टू मुलुंड ताणें म्हाका लॅक्चर दिलें.

आमच्या लग्नाक सतरा वर्सां जातकच हांवें ताका सांगलें, आतां आमी संवसार केलो खूब जालो. आतां हांव गोंयां वतां. कित्याक, गोंयां वचून कोंकणीचो इल्लो संवसार करपाचो आसलो. अख्खें गोंयभर भोंवपाचें आसलें. लोककथा पुंजावपाच्यो आसल्यो. जागोर पळोवपाचो आसलो, धालांचे मांड माड्डुपाचे आसले. तरातरांचीं सुकणीं, तांचीं नांवां पुंजावचीं आसलीं. पावसांत रस्त्याचे देगेक आपशींच जावपी तरेकतरांचीं झाडां, तणां, फुलां, फळां हांचीं नांवां जाणा जावन घेवचीं

आसलीं. तांचो वखदां खातीर जावपी उपेग समजावन घेवचो आसलो. हांवें वतां म्हळें मात, ताका इतलो राग आयलो... ताका दिसलें, म्हजो कोणूय मोगी बी गोंयां आसा म्हणून हें वचूंक सोदता! तो पंदरा दीस म्हजे कडेन उलयलो ना. मागीर हांवें जेन्ना ताका सॉरी, हांव वचना म्हळें तेन्ना ताणें म्हाका गाळी घाल्यो त्यो सोंसपाच्यो न्हय.

तो केन्नाच म्हाका हें करूं नाका, तें करूं नाका, हांगा वचूं नाका, थंय वचूं नाका अशें म्हणिना. पूण ताच्या मनांत म्हाका धाडचें नासत, जाल्यार तो म्हाका आडायता. पूण म्हाका कळूंक दिनासतना. एक दीस म्हजो वाडदीस आसलो. म्हाका दिसलें, हाच्या लक्षांत ना. ते दीस (म्हजे भयणीन) शशीन म्हाका आपयिल्लें. हांवें हाका विचारलें, वचूं? 'वच', ताणें म्हळें. 'तशें जाल्यार तूं घरा बेगीन यो.' ताणें येतां म्हळें. हांवें जेवण रांदून दवरलें आनी हांव न्हेसून तयार रावलें. हो आयलो काय हांव भायर सरून वतलें म्हूण! कित्याक, हांव एकलेंच वचपाचें आसलें आनी हो आयले बगर भुरग्यांक सोडून वचूंक शकनासलें. हांव हाची वाट पळेतां. हो पावणे आठांक भितर सरला. 'तुका बेगीन यो म्हणिल्लें न्हय?'

'कितें करूं? एक इमर्जन्सी आयली. एका कामगाराचो ॲक्सिडँट जालो. ताका हॉस्पिटलांत व्हरचो पडलो. आतां तूं कितें करता? इतलें रातचें एकलें कशें वतलें? शशीक फोन करून सांग, आतां रात जाली तेन्ना कशें येवं?

ताचें स्वीट नेगेटीव तें अशें.

कोंकणी साहित्य संमेलनाचे अध्यक्षपद हांवें पयलीं नाकाच म्हणिल्लें. ताणें म्हाका पिशांत काडलें. ताणें म्हळें, 'लोक हांगा अध्यक्षपद मेळचें म्हूण कितल्यो खटपटी करतात, आनी तुका एकमतान निवडून दिलां जाल्यार तूं ना कित्याक म्हणटा?'

हांवें म्हळें, 'एक तर संमेलन दोन म्हयन्यांचेर आसा. हांव हांगा

मुंबय. म्हाका चिंतूंक, कोणाक कितें विचारूंक वगत ना. म्हजे कडल्यान तांच्यो व्हड अपेक्षा आसतल्यो. तांचो अपेक्षाभंग जालो काय म्हाका गाळी खावच्यो पडटल्यो.'

त्या उतराक ताणें सांगलें, 'हांव कर्मचारी विभागांत वावुरपी मनीस. फॅक्टरींत वचना फुडें वर्कर्स येवन पयलीं गाळी घालतात. मागीर फुडलें उलयतात. सदांच ऑफिसांत वतकच हांव गाळी खातां आनी मागीर च्या पितां. म्हजे बरोबरचे ऑफिसांतले हेर लोक अशें जालें काय बेजारतात.

फडफडत काम करतात. मागीर तीं कामांय सारकीं जायनात. तेन्ना हांव तांकां सांगतां, अशे फडफडत काम करूं नाकात. कंपनी तुमकां दिता तो पगार गाळी खावंकूच दिता, अशें समजात. तुमची तिडक कमी जातली. तशेंच तूं गाळी खावंकूच अध्यक्षपद स्विकारता हें मतींत धर. मागीर तुका त्रास जावचे नात. दुसरी गजाल, तूं कितलेंय बरें भाशण कर, कोण ना कोण ताचेर टिका करतलोच! आनीक एक कोंकणी मनशाचो सभाव. तूं कितलेंय बरें काम कर, बरें बरय, तें बरें अशें कोण म्हणचो ना. पूण तांतलें वायट सोदून नांवां मात रोखडेच दवरतले. यू कॅनॉट मेक ऑल दी पीपल हॅपी ऑल द टायम. आनीक एक गजाल लक्षांत दवर. जें भाशण घडये तूं करतलें तें ते विसरतले. पूण कोंकणी संमेलनाची पयली बायल अध्यक्ष म्हणून तुजें नांव इतिहासांत उरतलें. आनी तो साहित्य संमेलनाक म्हजे वांगडा येवन सांवळे वरी म्हजे बरोबर रावलो. कांयच उलयनासतना.

पोयशा कंपनी बंद पडली आनी ताका सीप्झांतल्या 'टंडनां'त नोकरी मेळ्ळी. पोयशा फॅक्टरींत सगळे दादलेच आशिल्ले. एकूय बायल नासली. आनी टंडन कंपनीत कम्प्युटरचे पार्टस् तयार जाताले. आनी तें काम करूंक चलयोच आसताल्यो. जवळ जवळ सात आठ हजार चलयो. ताणें म्हाका हें येवन सांगतकच हांवें ताका म्हळें, 'तुवें

हें सांगलें तें बरें केलें. आतां तूं घरा येतकच मॅगनिफाईंग ग्लास घेवन खंय तिकल्यो ना जाल्यार केंस बी दिसता काय पळोवचें पडलें.'

एक खेप ताणें म्हाका सांगलें, 'म्हजें भोंवतणी चलयोच चलयो आसतात. आनी 'सर, सर' करून कितें कितें सांगीत आसतात'. हांवें म्हळें, 'बरोबर! कितल्योय जाल्यार चलयो त्यो. तूं सादो मनीस हें तांकां जाणवता आनी तुजे भितर त्यो आपलो काका, मामा बी पळेतात जातल्यो.

एक दीस ताणें म्हाका सांगलें, 'आयज कंपनींत तुजी याद येवन म्हाका हांसूंक आयलें!'.... हाका, आनी म्हजी याद? तिवूय बी कंपनींत? अशक्य गजाल. कित्याक वर्क इज वरशीप अशें मानपी हो मनीस. सामको कामाक समर्पीत. तानभूक, संवसार, बायलां भुरगीं विसरपी. ताका आनी म्हजी याद?

'अशें कितें जालें तर? हांवें ताका विचारलें.

'हांवें एके चलयेक एक फायल हाडूंक लायली. आतांच्यो चलयो तुका खबर ना, भिशट्यो मानेर सोडून काम करतात. ती फायल उगडली. पळेत जाल्यार तातूंत एक लांब केंस. म्हाका तुजी याद जाली.'

तो सिगार ओडिना, ड्रिंक घेना, पान खायना. ताका कसलेंच व्यसन म्हणटात तें ना. ताका एकूच व्यसन. तें म्हळ्यार वर्तमानपत्रांचें. ताका पेपर वाचूंक आवडटा. कसले कसले पेपर तो हाडटा. आयतारचे उण्यांत उणे आमगेर पांच तरी पेपर आसतात. ताका लेबर लॉ, इन्कम टॅक्साचेर आशिल्लीं पुस्तकां वाचूंक आवडटात. आनी तसलीं पुस्तकां पळेलीं काय म्हजी तकली फोडटा. तो तकलेंतल्यान चिंतता जाल्यार हांव काळजांतल्यान. तो म्हाका सदांच सांगता, 'तूं उलोवं नाका. तूं खरें कितें तें उलयता. लोकांक खरें कितें तें तोंडार सांगिल्लें आवडना. तूं ओगीच दुस्मान पैदा करता. आयज जग खऱ्यांचें उरूंक ना. तुवें जग पुस्तकांतल्यान पळेलां. हांवें तें अणभवांतल्यान पळेलां. मुंबय कसलीं

कसलीं मनशां आसतात, तुका खबर ना.'

खंयचीय गजाल हांव ताका सांगून ताचें मत विचारतां. तो ताचें मत वस्तुस्थितीक धरून दिता. असो मनीस आर. के लक्ष्मणाच्या कॉमन मॅना वरी साक्षीभावान म्हज्या बरपांत आयलो जाल्यार तातूंत अजाप कसलें?



# रवी‘न’बाब

हांव तेन्ना धेंपे कॉलेजींत आशिल्लें. धेंपे कॉलेज तेन्ना लिसेवाचेर. घरा येतना वतना आझाद मैदान लागतालें. एक खेपे आझाद मैदानाचेर आचार्य काकासायब कालेलकारांचें भाशण आशिल्लें. कोण हो काका म्हूण पळोवपा खातीर हांव म्हजे इश्टिणी बराबर गेल्लें. थंय इश्टिणीन एक उंच, धवो फुल्ल सदरो लेंगो घाल्ल्या, जाड भिंगांचें वक्ल लायिल्ल्या, लांब काळेच केंस पर्थून वळयिल्ल्या, सादारण चाळीशे कडेन झुकिल्ल्या मनशा कडेन बोट दाखोवन विचारलें, ‘आगो तूं ताका वळखता?’

‘ना’ हांवें जाप दिली.

‘आगो, ताजें नांव रवीन्द्र केळेकार. ताच्या लग्नांत मुगो ताणें बायलेच्या गळ्यांत मंगळसुत्र घालें ना जाल्यार आपल्या गळ्यांतली सरपळी काडून घाली.’

आनी हांवें अजापान रवीनबाबा कडेन पळयलें. तांच्या व्यक्तीमत्वान हांव भारावन गेलें. कित्याक, त्या काळार बायलां मंगळसुत्रां घालतालीं, तीं अणशीच्या दोऱ्यांत गुंथून! अशें हें मंगळसुत्र

तुटलें जाल्यार 'थुमेकाल! तुटलें म्हणू नाका, वाडवलें म्हण' अशें म्हणपी बायलांचो तो काळ. मागीर गळोभर पदर घेवन गळो धांपून, पर्थून अणशीच्या दोऱ्याक मेणतेल लावन मंगळसुत्र गुंथपी बायलां हांव पळयतालें. अशा वेळार मंगळसुत्रा वांट्याची सरपळी बायलेच्या गळ्यांत घालपी त्या केळेकारालें म्हाका कवतूक दिसलें. म्हज्या सपनांतलो राजकुंवर मंगळसुत्रा सुवातेर सरपळी घेवन येवंक लागलो.

ही म्हजी आनी रवीनबाबाली पयली वळख, तेन्ना रवीनबाबाक खबर लेगीत नाशिल्लें, शीला म्हूण कोणतरी ह्या गोंयांतच आसा म्हूण!

राष्ट्रमतान आयोजीत केल्ले पयले कोंकणी कथा सर्तींत म्हजी कथा 'गेर' पयली आयली. आनी कोंकणीच्या मळार म्हजें नांव जालें. तेन्ना रवीनबाब राष्ट्रमतांत डायरी बरयताले. हांव आवडीन वाचतालें.

एक फावट हांव पणजे कोंकणी भाशा मंडळांत गेल्लें. थंय रवीनबाब आयिल्ले. तांच्या कसल्या तरी कामाक ते आयिल्ले. हांव आंग चोरून पयसुल्ल्यानच पळयत बसलें. म्हज्या मनांत तांकां सांगपाचें आशिल्लें, तुमचें बरप म्हाका आवडटा म्हूण, पूण हांव ओगी रावलें.

अकस्मात एक दीस म्हाका कार्ड आयलें. कार्ड आशिल्लें रवीनबाबालें. तांणी बरयिल्लें, 'फुडल्या आयतारा आमगेर येवशी? न्ही योच. हांव वाट पळयतां.'

हांव वल्लेंतूय धरलें ना आनी सुपांतूय. आयतार केन्ना एकदां उजवाडटा आनी हांव रवीनबाबागेर वता अशें जाल्लें म्हाका. तो आयतार उजवाडलो. म्हज्या भावान म्हाका पिरवळा व्हरून सोडलें. हांव तांगेर गेलें. मातशें भीत आनी मातशें भिडेत... हांवें म्हळें, हांव शीला. रवीनबाबान म्हाका हाताक धरून भितर व्हेलें आनी म्हळें, 'गोदू, आमगेर कोण आयला पळयलां?'

'गोदू न्हांवंक गेलां रे... येतलें...' अशें सांगीत एक जाण्टीशी

बायल मनीस भायर आयली. ती बाई आशिल्ली. रवीनबाबाली आवय.

मागीर हांव भायर बसलें. तांचे तें चवकेचें घर म्हाका खूब मानवलें. भायर कदेलां आशिल्लीं. कदेलां मेजांचेर विणिल्लें सुंदर सुंदर तुवाले आशिल्ले. मागीर हांव भितर गेलें. थंय कितलीशींच पुस्तकां आशिल्लीं. आलमारीच्यो आलमारी भरून... पुस्तकां पळोवन हांव सामकें पिसावलें.

रवीनबाबालें घर पळयलें आनी तांणी तांचे डायरेंत बरयिल्ल्यो जायत्यो गजाली येवजल्यो... तांणी बरयिल्लें, आपूण गरीब मनीस... आपलो धंदो बरोवपाचो. ताचेर मेळून मेळून कितले पयशे मेळत?... आनी एके सुवातेर बरयिल्लें, आपूण पणजे गेल्लों. थंय च्या घेवया म्हूण मांडवी हॉटेलांत गेलों... आनी एके सुवातेर बरयिल्लें, खंयचेंय नवें पुस्तक दिसलें काय ना तें विकतें घेतले बगर म्हाका न्हीद येना... ह्यो सगळ्यो गजाली येवजून, रवीनबाबालें घर पळोवन म्हजे तकलेंत आयलें, घडये पोब्र फिदाल्ग म्हणटात तो रवीनबाबा वरी आसूंक जाय. मागीर एक खेप रवीनबाबान म्हाका बरयिल्लें, 'तुका पयले खेपे जेन्ना पळयलें तेन्ना तुका हांव पयले खेपे पळयतां अशें म्हाका दिसलें ना. म्हाका दिसलें, हांव तुका ल्हानपणा सावन वळखतां.'

इतल्यान चटचट असो जोत्याचो आवाज आनी 'रवीऽन' असो साद आयकूंक आयलो. आनी फाटोफाट एक बायल मनीस आयली. गोबऱ्या कोराची सुती साडी आनी तसलोच ब्लावज घाल्ली. पर्थून केंस वळयिल्ली. अतीशय सुंदर बायलमनीस... मागीर कळ्ळें तें गोदूबाय आशिल्लें. रवीनबाबाली घरकान्न.

ही हय न्हय पंचवीस वर्सां पयलींची गजाल. तेन्ना सावन रवीनबाबाली आनी म्हजी इश्टागत जमली. मागीर हांव मदीं मदीं तांगेर वचूंक लागलें. रवीनबाब म्हजे कडेन बराबरच्या नात्यान वागताले. रवीनबाबागेर हांव गेलें काय म्हाका दीस, हांव म्हळ्यार कोण तरी

आसा, इतले ते म्हाका मानान आनी व्हडविकायेन वागयताले.

तांणी म्हज्या वाचना विशीं विचारलें तेन्ना हांव फकत हिंदी आनी मराठी पुस्तकां वाचतालें. इंग्लिश वाचूंक वाज येतालो आनी न्हीद येताली. रवीनबाबान पयलेच खेपे म्हाका आल्बर्ट मोराव्हीया आनी जॅकलीन सुझान वाचूंक दिले. इंग्लिश वाचपाची संवय ना आनी रवीनबाबान तर इंग्लिश पुस्तकां वाचूंक दिल्यांत. वाची नासतना कशें रावतलें? मागीर एक गजाल केली. लायब्ररींतल्यान आर के नारायणन, मेनन, अमृता प्रीतम बी इंग्लिशींतल्यान वाचूंक सुरवात केली. तीं पुस्तकां वाचतां इंग्लिश वाचपाची संवय जाली. आनी मागीर रवीनबाबान दिल्लीं पुस्तकां वाचलीं. तेन्ना सावन हो वेळ मेरेन रवीनबाब म्हाका पुस्तकां वाचूंक दितात आनी हांव तीं पुस्तकां वाचतां. ताका लागून जालां कितें? हांवें थोडेंच वाचलां पूण कितें वाचलां तें बरें वाचलां.

हाचे मजगतीं, म्हजें लग्न जालें. हांव मुंबय पावलें. पूण पुस्तकां वाचपाचें पिशें उणें जालें ना. सुटयेंत हांव गोंयां आयलें काय ना रवीनबाबागेर वतालें. हरशीं गोंयां सावन मुंबय येतना कोणूय आंबे, सुके बांगडे बी घेवन येतात. हांव मात रवीनबाबागेर सावन येतना धा बारा तरी पुस्तकां घेवन येतालें. वर्सभर तीं पुस्तकां वाचतालें. आनी पर्थून दुसरे सुटयेंत तीं परतीं व्हरून दितालें. हाका लागून आतां म्हाका उश्णी पुस्तकां वाचपाची संवय जाल्या. आनी हांवें विकती घेतिल्लीं पुस्तका वाची नासतना उरल्यांत. म्हजींच पुस्तकां केन्नाय वाचल्यार जालीं म्हूण पडून उरल्यांत.

लग्न जाले उपरांत केन्ना केन्ना म्हज्या घरच्यांचीं पत्रां येनासतना रावलीं. पूण रवीनबाबालें पत्र केन्ना चुकलें ना. एक खेपे रवीनबाबान बरयिल्लें, नातीं कितें रगताचींच आसता गो? मानिल्ली नातीं रगताच्या नात्या परस चड घट आसतात. अशें हें म्हजे आनी रवीनबाबालें नातें... नांव नाशिल्लें...

रवीनबाब एक बऱ्यांतलो बरो संपादक. तेन्ना हांव कितें करतां? हांवें कितेंय बरयलें जाल्यार म्हजें बरप रवीनबाबा कडेन धाडून दितां. तांणी तें वाचलें आनी बरें आसा म्हूण कळयलें की मागीर तें खंयच्या म्हयनाळ्याक धाडून दिवचें हें तांकां कळीत करतां. आनी आयज मेरेन हें अशेंच चल्लां.

रवीनबाब मुंबय आयले की दोतोर दत्ताराम सुखठणकारांगेर रावतात. येवचे पयलीं चीट बरोवन आपूण मुंबय केन्ना येवपाचे आसात तें कळीत करतात. मागीर एक दीस हांव तांकां मेळूंक वता. आमी मागीर सकाळीं भायर सरतात. मुंबयभर भोंव भोंव भोंवतात. पुस्तकाचीं दुकानां उसपितात. माधव बोरकार मुंबय आकाशवाणीचेर आशिल्लो तेन्ना आमी आकाशवाणीचेर वतालीं. मागीर बोरकारूय आमचे बराबर येतालो.

एकेक खेपे दोतोरागेर बसून आमी गजाली करतात. आनी आमकां गजालींक संवसारांतलो खंयचोय विशय चलता. 'तुमी दोगांय इतलें कितें उलयतात रे?' दोतोराक पडिल्लो प्रस्न. रवीनबाब इतले खेपे मुंबय येवन गेले. पूण आमगेर मात आयले मेजून दोन खेपे.

बाबा गेले उपरांतची गजाल. अशेच एक खेपे रवीनबाब मुंबय आयिल्ले. हांव तांकां मेळूंक दोतोरागेर गेल्लें. रवीनबाब म्हाका पावोवपाक बस स्टॉपाचेर आयिल्ले. रातचीं आठ वरां जाल्लीं. तांणी म्हळें, 'रात जाली गो. खरें म्हळ्यार तुका घरा मेरेन पावोवंक येवंक जाय आशिल्लें. पूण आतां हांव जाण्टो जालों. म्हजे सुवातेर जयवंत आशिल्लो जाल्यार तुका घरा पावोवनूच येवपाचो. तूं आयलें, बरेंऽ दिसलें. अशेंच येत राव. अशें म्हणून तांणी म्हजे तकले वेल्यान हात भोंवडायलो. हांव कितें तरी उलोवंक वतालें. तांणी तसो हात भोंवडावं नाका, म्हजीं उतरां गळ्यांतूच शिरकलीं. तीं उतरां गिळूंक गेलें जाल्यार पाडा पडिल्लीं दोळ्यांत येवन दुकां जावन जमा जालीं. हांव कांय

उलयलें ना. रवीनबाबालो निरोप लेगीत घेतलो ना. आनी रवीनबाबा कडेन पळयलें लेगीत ना. म्हजीं दुकां तांणी पळयल्लीं जाल्यार! हांव तशेंच वचून बसींत बसलें. मागीर रस्तोभर कितलो तरी वगत म्हजे दोळे म्हजें आयकनासतना भरून भरून येवंक लागिल्ले.

अशेच एक खेपे रवीनबाब मेळ्ळे तेन्ना हांवें तांकां विचारलें, 'तुमच्यो नाती कश्यो आसात?'

'आगो, तूं म्हज्या नातींक विचारता; आनी म्हाका एक नातू आसा हें विसरलें तूं?

मागीर थोडो वेळ रावन तांणी म्हळें. 'हांव म्हणटालों, म्हाका कितल्योय नाती जाल्यार जाता. पूण नातू जालो तेन्ना म्हाका अवर्णनीय आनंद जालो, ही गजाल बी तितलीच खरी'.

एक फावट हांवें तांकां सांगलें, आतां तुमी तुमचें चरित्र बरोवंक जाय. 'हांव कितें म्हातारो जालों गो?' तांणी विचारलें. थोड्याच दिसांनी पळेल्यार तांणी आत्मचरित्राचो एक वांटो बरोवपाक सुरवात केल्या. हांवें तेन्ना विचारलें, 'आतां तुमी म्हातारे जावपाक सुरवात जाली काय कितें?'

रवीनबाबाक उलयतना 'समजलें ना' अशें म्हणपाची खूब संवय. अशेच एक दीस रवीनबाब कितले खेपे समजलें ना म्हणटात तें मेजपाचें हांवें थारायलें. पंदरा सोळा खेपो जाल्यो, मागीर म्हाकाच वाज आयलो.

रवीनबाब विनोदाक बरी दाद दितात. ते विनोद मागीर तांणी केल्लें आसूं. विनोदाचेर ते मना पसून हांसतात.

एकदां तांणी सांगलें, ते जो सदरो आनी लेंगो हो ड्रेस घालतात, ताचेर जॅकेट घालूंक तांकां खूब आवडटा. हांवें म्हळें, तशें जाल्यार तुमी तें कित्याक घालिनात?'

'गोदू म्हणटा, 'नाका रे घालूं. तबलजीसो दिसता'.

सारस्वत समाजान रवीनबाबालो सत्कार करपाचो अशें थारायलें. ह्या सत्काराक रवीनबाबाक वच्चें न्हय म्हूण तांकां जायत्या जाणांनी सुचयलें. दोतोरान आनी हांवें लेगीत तांकां सत्काराक वचना जाल्यार बरें जातलें अशें कळयिल्लें. तरी लेगीत रवीनबाब ह्या मेळाव्याक गेले. ताचें म्हणणें, 'हांव जल्मान सारस्वत. जात म्हाका जल्मान मेळ्ळ्या (जानवें तोडून उडयतना रवीनबाबाल्या हें लक्षांत आयलें ना तर!) हांव जसो सगळ्यांचो तसो सारस्वतांचोय बी. तेन्ना तांच्या मेळाव्याक हांव गेलों जाल्यार जालें कितें? आनी तांणी गवाय दिल्या ती काकासायब कालेलकरांली. काकासायबां वेळा वयली परिस्थिती वेगळी आशिल्ली आनी आयज गोंयची परिस्थिती वेगळी आसा. गोंयांत सारस्वतां भायल्या जातींचो बामणांचेर केंसा इतलो लेगीत विस्वास ना. 'पळय, ते पयलीं बामण. तेन्ना सांबाळून रावात. तांचेर विस्वास दवरूं नाकात. ते केन्ना बामणबुद्द शिकयत सांगू नज.' अशें बाळकडूच हेर जातीच्या लोकांक मेळिल्लें आसता. अशे परिस्थितींत बाकीच्या जातींनी थोडोभोव विस्वास दवरलो तो रवीनबाबाचेर. रवीनबाबाक लागून जायते सारस्वतेतर तरणाटे कोंकणीचे चळवळींत पडले. पूण रवीनबाबाक मदींच बामणांक सुदारपाची उमळशीक लागली. तशें पळयल्यार गोंयांत आयज मेरेन तरी सारस्वतां इतले सुबुद्द लोक दुसरे कोणूच नात. म्हजी आजी म्हण, 'बामणालो पिसो पोर लेगीत शाणो आसता. (बामणालो होच शाणो पोर पिसो कसो, देवाक खबर!) फुडाराक समजा कोणेंय रवीनबाबालें साहित्य वाचून ताचे वयल्यान रवीनबाबालें चरित्र बरोवपाचो प्रयत्न करीत जाल्यार तो बरयतलो, सारस्वत प्रकरण म्हळ्यार रवीनबाबाले जिणेंतलें एक प्रक्षिप्त!

ह्या प्रकरणाचो बरोच बोवाळ जालो. आनी रवीनबाबाचेर जातीवादी म्हूण छाप लेगीत बसलो. एक खेपे हे विशीं म्हळ्यार रवीनबाब कितलोसो जातीवादी, हें विचारपा खातीर हांवें दोतोराक (दत्ताराम

सुखठणकार) फोन केलो. दोतोराक विचारलें, दोतोर, रवीनबाब कितलोसो सारस्वत?

'तो गो? तो मेल्लो पाड पडिल्लो बामण! ह्याच बामणान जाणा मगो, चाळीस वर्सां पयलीं म्हाका आनी आपले आवयक सांगून सवरून भंगीणीच्या हातचें जेवण जेवंक लायलां. ही गजाल बामणांक कळत जाल्यार मेळाव्याक सोडूच ताका हे बामण दारांत लेगीत आज उबो करचे नात.'

उपरांत रवीनबाब मुंबय आयिल्ले तेन्ना दोतोरान आनी हांवें रवीनबाबाक धारेर धरले. तुमी त्या मेळाव्याक गेलेच कित्याक? अशें विचारलें. तेन्ना तांणी सारस्वत मेळाव्याक वचपा फाटली आपली तत्वीक भुमिका उक्ती करून सांगली. तांणी सांगलें तांतलें म्हाका कांयच कळ्ळें ना. तेन्ना रवीनबाब ना शे पळोवन हांवें दोतोराक विचारलें, 'दोतोर, रवीनबाबान कितें सांगलें तें तुमकां कळ्ळें व्हय? ना गो! तें म्हज्या बोडा वेल्यान गेलें. हांवें तो सांगता म्हण आपलें ओगीच हँ हँ म्हळें.'

कोंकणीक साहित्य अकादमीन मान्यता दिली, कोंकणी आठवे वळेरेंत पावली हाचें चडशे स्रय रवीनबाबाकच दिवंक जाय. तांणी कोंकणीचो वावर केलाय बी तसोच. 'कर्मण्ये वाधिकारस्ते मा फलेषु कदाचन' ह्या न्यायान तांणी कोंकणी खातीर जीण वेंचली. तशी तांणी फळांय बी बरीच चाखलीं. गोड तशीं कोडूय बी.

रवीनबाबान कोंकणीचो वावर तर केलोच. तशेंच तांणी आनीक जायतीं व्हड व्हड कामां केल्यांत, जीं आमकां खबर लेगीत ना. देखीक, तांणी दिल्लीक उबारिल्ली गांधी म्युजियमची लायब्ररी. तशीच हिंदी, मराठी आनी गुजरातींत केल्ली साहित्यनिर्मिती. म्हाका एकेक खेप दिसता, रवीनबाब ओगीच गोंयांत आयले. तांणी आतां आसा ताजे परसय व्हड नामना गोंया भायर रावन मेळोवंक येताली.

दोतोर सुखठणकार रवीनबाबाक फकांडांनी आचार्य म्हणटात. 'आचार्य, न्हावंक येता मरे? आचार्य, जेवंक येता मरे?' अशें विचारपी दोतोर पयलीं एकलोच आशिल्लो. मागीर श्री. मं. वि. राजाध्यक्ष तांकां पयलीं असवडीं आनी मागीर तोंडार आचार्य म्हणूंक लागले. तें तशें म्हणपाचो अधिकार घटनेन ह्या दोगांकूच दिला जावं येत. तिगूय जाण चड लागींचे मित्र. रवीनबाबानूय आपलें आचार्य हें नांव महाभारत बरोवन सिद्ध केलां.

एक फावट रवीनबाबान एक गजाली सांगली. ते खंय आचार्य अत्रेक मेळूंक गेल्ले. तांणी आचार्य अत्रेक सांगलें, आपूण अमूक तमूक. आचार्य अत्रेन म्हळें खंय, 'तुमी माझ्या कडे यायचें धाडस कसे केले?' त्या उतराक रवीनबाबान सांगलें 'धाडस म्हळ्यार कितें? तुमी वाग काय शींव म्हाका खावपाक?' मागीर तांणी अत्रेक कोंकणी ही मराठी परस वेगळी हें समजावन सांगलें. आनी तांणी हेंवूय बी सांगलें, 'आमी शणै गोंयबाबाले शिश्य. आमी पयलीं मराठीचो दुस्वास करताले. पूण आचार्य काकासायबान आमकां सांगलें की तुमी मराठीचो दुस्वास करतात हें समा न्हय. तुमी मराठीच्या पालवान कोंकणीची उदरगत करूंक जाय. ह्या काकासायबांक तुमी गाळी कित्याक घालतात?' अत्रेन म्हळें, 'अशें आसा? आमकां खबर नाशिल्लें.' मागीर रवीनबाबान ताका सांगलें. 'हांव तुमकां कोंकणी पुस्तकां धाडून दितां. तुमी भाशातज्ञ जाल्ल्यान तुमकां दोनूय भाशांतले अंतर रोखडेंच समजतलें. मागीर अत्रेन खंय सांगलें 'तुमी पुस्तकां धाडून दियात. तीं वाचून मागीर हांव कोंकणी मराठीचेर बरयतां.' पूण तशें जावपाचें नाशिल्लें. रवीनबाबालीं कोंकणी पुस्तकां आचार्य अत्रे कडेन पावचे पयलींच अत्रे ह्या संवसाराक अंतरले. अत्रे जर जिते आशिल्ले जाल्यार आयज कोंकणी मराठी मदीं जो द्वेश दिसता तो इतलो खर जावंक पावचो नाशिल्लो.

रवीनबाबाक कितल्योश्योच भासो येतात. भासो येतात म्हळ्यार

ह्यो भासो ते वाचूंक आनी बरोवंक शकतात. देखीक कोंकणी, मराठी, हिंदी, गुजराती, बंगाली, पुर्तुगेज, इंग्लिश बी... आनी ह्या भाशांतलें बऱ्यांतले बरें साहित्य तांणी वाचलां. खंयचेय भाशेतलें बरें पुस्तक वाचलें की असलें पुस्तक आमचे कोंकणीत आसूंक जाय अशें तांकां दिसता. अफाट वाचन आनी प्रखर बुद्धीमत्ता हाका लागून तांचें व्यक्तीमत्व पर्जळीत जावंक पावलां. तांच्या व्यक्तीमत्वांत म्हाका हे प्रखर बुद्दीमत्ते वांगडा एक भुरगेंपणूय दिसता. दोतोर सुखठणकारां मदीं म्हाका मस्तो भुरगो दिसता. जाल्यार रवीनबाबा मदीं म्हाका भुरगेपण दिसता. म्हाका जें कितें म्हणचें आसा तें वाचप्यांक तरी कळ्ळें काय?

समाज सुधारणा करचे खातीर एकेक खेपे कुटले घालचे पडटात अशें रवीनबाबालें प्रामाणीक मत. देखीक तांणी मराठा समाजाक लेखून काडिल्ले उद्गार! आपूण अशें कितेंय म्हणटा तेन्ना दुसरी मनशां दुखावतात हें तांच्या लक्षांत येना काय कितें? तांचेच भाशेंत सांगपाचें म्हळ्यार ते असलें वाचीक पातक कित्याक करतात? खंयचोय मनीस जेन्ना व्हड जाता तेन्ना तो आपल्या समाजाचो, आपल्या राज्याचो उरना. तो अखिल भारतीय जाता. आनी अखिल भारतीय पातळेचेर मनीस जें कितें उलयता, ताजी सगळे जाण दखल घेतात. तेन्ना असल्या मनशांनी मेजून मापून उलोवं नाका आशिल्लें? तांच्या उलोवण्याचो परिणाम आमचे सारक्या तांच्या बऱ्या मागप्यांचेर जाता. 'तो तुमचो केळेकार, कितें उलयता गो तो?' अशें कोणेंय विचारलें जाल्यार आमकां ओगी रावचें पडटा. कित्याक, तांच्या उलोवपा फाटली तत्वीक बसका आमकांच कळना. जाल्यार आमी दुसऱ्यांक कितें म्हूण समजायतलीं? तेच खातीर हांव म्हणटां 'रवीनबाब तशे सगळे बरे. पूण...

■

# दोतोर

लेख पयलो

दोतोराली आनी म्हजी पयली वळख? कोंकणींत 'पुनव' म्हूण एक मासीक येतालें. तातूंत हांवें 'गाळी- एक उपेक्षीत विशय' म्हूण लेख बरयिल्लो. तो लेख उजवाडा आयले उपरांत श्री रवीन्द्र केळेकारालें पत्र आयलें. तातूंत तांणी बरयिल्लें 'दत्तारामाक तुजो लेख आवडलो. तो म्हणटा शीला लेखूय बरें बरयतलें. असले ललीत लेख बरोवंक लाय रे ताका. कोण कोण तुजे कडल्यान असल्यो अपेक्षा करता पळय.'

-अशी ही दोतोराली आनी म्हजी पयली वखळ. तिवूय अप्रत्यक्ष. आपूण खास दिश्ट लागपी लेख बरोवपी लेखकान म्हजी तोखणाय केल्ली. तेन्ना सावन दोतोराक मेळनशें दिसतालें. पूण मुद्दाम वळख काडून इश्टागत करून ती वाडोवपाची संवय नाशिल्ल्यान तें तशेंच उरलें.

एक खेप रवीन्द्रबाबालें पत्र आयलें, 'तूं बांद्रा दत्तारामागेर यो. हांव थंय आसतलों. दत्तारामा कडेन तुजी वळख करून दितां. तुका मुंबय आनीक एक कुळार मेळटलें.'

थारायिल्ले प्रमाण हांव घोवाक घेवन दोतोरागेर गेलें. दोतोरा विशीं कसलीच कल्पना मनांत नाशिल्ली. त्या दिसा पयले फावट हांव दोतोराक मेळ्ळें. पळयल्यार दोतोर खूबच सादो मनीस. दोतोरपणाची कसलीच मिजास नाशिल्ली. मोटवोच. वाटकुळ्या चेऱ्याचो. ताचेर दाट भिंगाचें वक्ल. दोळे बारीक आनी मातशे मिचमिचे. पूण सामकार आयिल्ल्या मनशाक खिणांत जोखपाची तातूंत तांक. हाता पांयाच्या मानान पोट मातशें मोटें. वाटकुळें आनी दोळ्यांत भरता इतलें. पोट मोटें जाल्ल्यान आंगांत घाल्लो शर्ट फाटल्यान लांब आनी फुडें मातसो मोटवो. केन्ना केन्ना दोतोर आपल्या घरा दिवाणाचेर मांडी घालून बसता आनी दोनूय हात वयर उबारून ते दोडून माथ्यार घेता. तेन्ना दोतोर म्हाका हॅपी मॅन सो दिसता. मजा म्हळ्यार दोतोरागेर सुखी मनशाचो लांकडा पुतळो आसा. त्या पुतळ्याच्या तोंडा वयले भाव पळयले बराबर दोळ्यांत भरता. कित्याक खबर ना, पूण दोतोराक पळयतकच म्हाका हॅपी मॅनाची याद जाता आनी हॅपी मॅनाक पळयलो काय दोतोरालो उगडास येता.

दोतोराले घरकान्नीक कांताबायक हांवें विचारलें, 'हो पुतळो खंयचो?' तेन्ना तिणें सांगलें, 'आमी सदांच एका दुकानांत खरेदी करूंक वतात. तेन्ना त्या दुकानांत हो पुतळो आशिल्लो. दोतोराली भोवन भोवन नदर ताचेर वताली. पूण दोतोर कांय उलयले ना. मागीर हांवूच तो पुतळो घेवन घरा आयली.'

जेन्ना जेन्ना रवीन्द्रबाब दोतोरागेर येतालो तेन्ना तेन्ना हांव दोतोरागेर वतालें. एकामेकांचो अदमास घेत आमी ल्हवू ल्हवू इश्टागतीच्यो पावल्यो मुखार मारतालीं. दोतोरागेर हांव गेलें आनी घरा वचूंक भायर सरलें काय दोतोरालो रवीन्द्र बाबाक प्रस्न, 'रवीन्द्रऽ तूं परतून मुंबय केन्ना येतलो रे?' म्हळ्यार तेन्नाच हांव परतून तागेर येतलें. आतां रवीन्द्रबाब मुंबय येवं ना येवं हांव दोतोरागेर वतां. हांव दोतोरागेर

गेल्यारूय दोतोराक वायट दिसता. इतले पयस सावन, 'इतले त्रास काडून तुका येवचें पडटा न्हय गो?' हांव समजा तांगेर गेलें ना जाल्यारय दोतोराक वायट दिसता. आतां दोतोरागेर सावन घरा येवंक भायर सरलें काय दोतोर विचारता, 'आतां परतून केन्ना येता गो तूं?'

'केन्ना येवं?'

'तुका जाय तेन्ना यो गो. म्हजें जशें विद्या (धूव) तशें तूं मगो.'

-तेन्ना चड करून हांव दोतोराक फोन करतां.

म्हजें कितेंय बरप छापून आयलें काय हांव दोतोरा कडेन फोनाचेर उलयतां.

'दोतोर, म्हजें बरप कशें लागलें?'

'फस्टक्लास' दोतोराली जाप.

दिवाळी जाले उपरांत असोच एक खेप हांवें दोतोराक फोन केलो.

'दोतोर, म्हजी 'जागा' तली कथा वाचली?'

'हय.'

'कशी लागली?'

'फस्टक्लाऽस'

'आनी 'चित्रंगी' वेली'?'

'ती तर विचारूंच नाका,'

'कोंकणी वेली कथा वाचली काय ना?'

'वाचली तर!'

'कशी लागली?'

'फस्टक्लास!'

'आनी 'कुळागरा' वेली?'

'तूं बरयता तें कशें लागलें अशें विचारपाचें आसा गो?'

-मागीर हांवें दोतोराक तो कसो घुस्पला हें दाखोवन दितना सांगलें, 'दोतोर 'कोंकणी' ह्या दिवाळी अंकांत म्हजें कांयच छापून

येवंक ना.'

'अशें? दुसरे खेप तुजें बरप खंयच्या खंयच्या म्हयनाळ्यांत आयलां तें पळोवन दवरचें पडलें.' दोतोरान म्हळें.

दोतोरा कडेन उलोवप म्हळ्यार खावचें काम न्हय. दोतोराले विनोद इन्स्टंट. दोतोरागेर वतां तेन्ना खंयचीय नवी वस्त दिसली काय हांव दोतोराक विचारतां.

'दोतोर, हें कोणें दिलें?'

'तुज्या सारक्या बऱ्या मागत्यान गो' - दोतोराली जाप.

दोतोर गजाली सांगता त्यो खासा दोतोराल्या उतरांनीच आयकूंक जाय. दोतोरान सांगिल्ली एक गजाल.

'तें लता गो. ताजे फाटल्यान दोन चले लागिल्ले. राम आनी श्याम. सामके मरताले. लताक प्रस्न पडलो, लग्न कोणा कडेन करचें?' निमाणें ताणें पळयलें श्यामा परस राम चड अबरगत! तेन्ना ताणें रामा कडेन लग्न केलें.

एक खेप दोतोराक सदां भाशेन फोन केलो. दोतोरान विचारलें, 'कित्याक फोन केल्लो गो?'

'हरशींच. तुमची खबर घेवंक.'

एक खीणभर दोतोर ओगी रावलो आनी मागीर दोतोरान म्हळें, 'म्हाका इतले फोन येतात म्हूण सांगूं? पूण ते कसल्या ना कसल्या कामा खातीर येतात. म्हजी म्हूण चवकशी करपी फोन कोण करिना...'

-दोतोरालो आवाज मात्सो जड जाल्लो. मे म्हयन्यांत दोतोराक हांवें असोच फोन केलो. दोतोरान विचारलें, 'सुटयेंत खंय वचना गो?'

'ना.' हांवें म्हळें. मागीर म्हाका कितें तरी येवजलें, आनी हांवें म्हळें, 'दोतोर, हांव काश्मीराक वचपाचें. पूण हाली थंय कसो बोवाळ चल्ला खबर आसा न्हय?'

त्या उतराक दोतोरान सांगलें, 'तुवें काश्मीराक वचूंक जाय

आशिल्लें. तुका काश्मीराचो प्रवास सवाय पडपाचो. वचपाची तिकेट काडल्यार पुरो. येवपाची तिकेट काडपाची गरज नाशिल्ली.

एक खेपे रवीन्द्रबाबालें पत्र आयलें. 'अमूक अमूक आयतारा हांव आनी दोतोर तुगेर येतां. तो आयतार उजवाडलो. सांजेर हांव हांची दोगांयची वाट पळयतालें. बांद्र्या सावन एक बस सुट्टा. ती बद्द मुलुंड पुर्वेक पावता. थंय पावतकच परतून रिक्षा करून आमगेर येवचें पडटा. रवीन्द्रबाब आनी दोतोर दोगूय डायरेक्ट बसीन आयले. (दोतोर जर गाडी घेवन आयिल्लो जाल्यार बिल्डिंगेंत म्हजो भाव मातसो वाडपाचो.) थंय तांणी रिक्षा केली आनी चंदनबाग रोड आयले. आतां चंदनबाग रस्तो सरळ तयार जाला. पयलीं थंय दुरीग आशिल्लें. ह्या रस्त्यार एक शाळा आसा. हे शाळेंत वचपी भुरगीं ह्या दुर्गा वयल्यान उडी मारून वतालीं. नाजाल्यार तांकां व्हडलो भोंवताडो घेवन शाळेंत वचचें पडटालें. आमच्या घरांत बसून हांव भायर पळयतालें. पळयल्यार एक रिक्षा थांबली. तातूंतल्यान रवीन्द्रबाब आनी दोतोर दोगूय देंवले. म्हाका दिसलें, आतां हांकां आमगेर येवंक कळचें ना. रोखडेंच हांवें म्हज्या चल्याक सांगलें, धांवत वच आनी त्या दोगांकूय आमगेर घेवन यो. भुरगोच तो. धांवत गेलो आनी ताणें ह्या दोगांकूय भोंवताडो काडून हाडचे बदला शॉर्टकटान हाडले. शॉर्टकटान म्हळ्यार दुर्गा वयल्यान उडी मारून. जीव मुठींत धरून म्हणटा तशी दोगांयनी उडक्यो मारल्यो आनी आमगेर पावले एकदांचे. उदक पियेवन जातकच दोतोरान विचारलें, 'असो कसो गो तुमगेर येवपाचो रस्तो?'

हांवें म्हळें, 'तुमी रिक्षावाल्याक बँक ऑफ इंडिया कडेन व्हर म्हूण सांगूंक जाय आशिल्लें. तशें सांगिल्लें जाल्यार तुमी सारके आमगेर पावपाचे. आतां दुसरे खेपे येतना सारके येयात.'

दोगूय ओग्गी रावले. मागीर हांवेंच म्हळें, 'दुसरे खेप आनी तुमगेर कोण येता जीव दिवंक? न्हय दोतोर?' दोतोराल्या मनांतलें हांव

उलोवं नाका, दोगूय जे एक हांसले....

मागीर उलयतां उलयतां दोतोरान सांगलें, त्याच आयतारा दोतोराल्या बापोलभावाली एकसश्ठी आशिल्ली. दोतोराक अर्थांत सहकुटुंब आमंत्रण आशिल्लें. पूण दोतोरान पयलीं आमगेर येवपाचें मान्य केल्लें. म्हूण दोतोर त्या समारंभाक वचनासतना आमगेर आयिल्लो. तशें पळयल्यार एकसश्ठी एकदांच येता. आनी आमगेर केन्नाय येवं येतालें. म्हाका आमच्या शेजरा फोन करून कळयिल्लें जाल्यार रकाद मेळपाचो. पूण ना. दोतोर आपल्या भावाले एकसश्ठीक वचनासतना आमगेर आयिल्लो. दोतोरान आपल्या ह्या वागपान म्हाका सदां खातीर रिणांत दवरिल्लें.

दोतोरागेर केन्नाय वचात. कोण ना कोण सोयरे आसतातच. कांयच ना जाल्यार साहित्य सहवासांतले बरोवपी तरी आसतात. पेशंट म्हूण आयिल्ले. आनी दोतोर दारांत आयिल्ल्यांक च्या आनी नास्तो दिले बगर सोडिना. दोतोराली घरकान्न कांताबायूय आयिल्ल्या गेल्ल्यांक हांसत्या मुखान येवकार दिता. कांताबाय बरेबरे खावचे जिनस करता. एक खेपे तिणें खाजराचो केक केल्लो. दिस्त त्या दिसा हांव तांगेर पावलें. केक रुचीक जाल्लो. हांवें जाय तितलो पयलीं केक खालो आनी मागीर कांताबायक म्हळें, 'केक रुचीक जालां आं!'

'सोमती रेसीपी विचार'- दोतोरान म्हळें.

'हांव रेसीपी बिसीपी कांयच विचारपी न्हय. दुसरे खेप खाजराचो केक खायन दिसलो काय हांव तुमगेर फोन करतलें. आनी वयनीक सांगतलें. हांव अमूक अमूक दिसा तुमगेर येतां. त्या दिसा खाजराचो केक कर आं...'

दोतोर जे ज्योक करता तातूंतल्यान तांची घरकान्नय सुटना. एक खेप दोतोरागेर दनपरां अकस्मात चारपांच सोयरे आयले. खेरीज हांव आशिल्लें. कांताबायली धांदल जाली. ती बाबडी हें कर, तें कर, ग्रायंडर लाय हातूंतच बिझी उरली. जाल्यार भायर बसून दोतोर म्हाका

सांगता, 'आगो, टर्ऽ फर्ऽ बी आवाज येतात म्हूण तूं समजूं नाका आं पानांत धा बारा जिनस आसतले म्हूण! आसतलें सदांचेंच जेवण. पूण हिका आपली संवय. कळ्ळें मगो?'

त्या दिसा सांजेर दोतोरागेर एक साहित्यीक जोडपें आयलें. दोगांय जाण्टीं आशिल्लीं. येना फुडें ते बायलेन जी एक भरभर सुरू केली, दोतोर म्हाका हांगा दुखता, थंय दुखता अशें जाता, तशें जाता, हांगा धपधपता आनी थंय खपखपता... दोतोर बापडो पासिंयेंसान आयकतालो. म्हाका दोतोरालें कवतूक दिसलें. कित्याक, असले पन्नाशेक तरी पेशंट दोतोर दिसपट्टे तपासता आसतलो. तांची ती रड आयकप म्हळ्यार पासिंयेंस पिड्ड्यार जावपाचें. दोतोरान ते बायलेक वजन काडूंक लायलें. ती बायल उठली. तिणें जोतें काडलें. पर्स आनी कमरेचो लेंस काडलो आनी घोवा कडेन दिलो. हांवें दोतोरा कडेन पळयलें. दोतोराल्या तें लक्षांत आयलें. तांचे हुजीर पूण तांकां कळना अशा उतरांनी दोतोरान म्हाका म्हळें, तातूंत अजाप न्हय गो. मातशी मालूक. कळ्ळें?'

- आनी म्हाका म्हजो हांसो कसो लिपोवचो तें कळ्ळें ना.

उपरांत दोतोरान सांगलें, 'हे जे पेशंट येतात न्हय गो, तातूंतले पांच टक्के खरें दुयेंत आसता आनी णव्वद टक्के सायकीक आसतात.'

'मागीर असल्या पेशंटाक तुमी वखदां कित्याक दितात तर?'

'आमकांय म्हूण पोट आसा न्हय गो?'

दोतोराक अपुराबायेची दोन भुरगीं. एक चली आनी एक चलो. दोगांय भुरगीं दोतोर. दोतोराले चलयेलें विद्यालें लग्न जालें, तेन्ना हांव दोतोराक वळखनाशिल्लें. दोन वर्सां पयलीं दातोराल्या चल्याचें लग्न जालें. तेन्ना म्हाका दोतोरान आमंत्रण धाडलें, फुडें त्या आमंत्रणाचेर टीप आशिल्ली. 'तुका आमंत्रण धाडलां खरें पूण तुवें येवंकूच जाय अशें ना. तूं येना जाल्यारय जाता.'

-लग्नाचें आमंत्रण धाडून वयल्यान तूं येवं नाका अशें जगावेगळें आमंत्रण फकत दोतोरूच धाडूंक शकता तेंवूय शीलाक.

दोतोराक आतां एक नात बी जाल्या. आजो नातीचें कवतूक सांगतालो. 'आगो म्हजी नात मेळत तें तोंडांत घालता. ताची चिमटी इतली बारीक की ते चिमटेंत तें मूय लेगीत धरता. धरता तें बरें आसा गो. पूण तोंडांत घालता.' मागीर हांवें म्हळें, 'भुरगीं तशींच दोतोर. तीं तांकां कितें खावंक दिल्लें तें केन्नाच खायना. नाका जाल्ले मात तोंडांत घालतात. मागीर हांवें दोतोराक आमचे बिल्डिंगेत जाल्ली खबर सांगली. एक चलो आसा आमचे बिल्डिंगेंत. तो मेळत ते तोंडांत घालता. एक खेप ताणें गांयडोळ काडून तोंडात घालो. तो गांयडोळ त्या भुरग्याच्या अर्दो तोंडांत आनी अर्दो भायर आसतना त्या भुरग्याचे आवयन पळयलो आनी बेगीबेगीन भायर काडलो. मागीर ती थपकल मारून बसली. हाणें जर तो गिळिल्लो जाल्यार कितें जावपाचें? हाचेर दोतोरान म्हळें, 'त्या चल्याले आवयन कित्याक रडूंक जाय? रडूंक जाय ते गांयडोळाले आवयन!'

दोतोराली आनीक एक गजाल. एक खेप एका भुरग्यान पयसो गिळ्ळो. दोतोरान त्या भुरग्यालें पोट सांसपिलें. ताका कितें करपाचें तें वखद विरसद केलें, आनी त्या भुरग्याले आवयक सांगलें, 'आगे, तूं भियेवं नाका. ह्या भुरग्याक कांयच जावचें ना. तो व्हड जालो काय व्हडलो फुडारी जातलो.'

- जालेंय तशेंच. तो भुरगो व्हड जातकच खऱ्यांनीच फुडारी जालो.

दोतोरालें कोंकणीचेर अती म्हळ्यार अतीच प्रेम. कोंकणी कोणे सारकी बरयली ना वा सारकी उलयली ना जाल्यार दोतोरालें पित्त खवळटा. 'सोविएत वेली कोंकणी वाचून दोतोराक दिसता, हे लोक इतल्या बऱ्या कागदाची वाट कित्याक लायतात? ताचे परस तांणी

कांयच छापिनासतना ते कागद आमकां धाडचे. आमी मागीर ताचेर कोंकणी बरोवं.'

ऑल इंडिया रेडिओ मुंबयचेर कोंकणी विभाग सुरू जालो, तेन्ना सावन ह्या कोंकणी विभागा कडेन दोतोरालो संबंद. म्हाका दिसता मुंबय रेडिओ वेले कोंकणी प्रोग्राम दोतोरा इतले बारीकसाणेन कोणूच आयकनात. 'कितें उलयतात गो हे... मेले पाडापडिल्ले...'

रवीन्द्रबाब सारस्वत मेळाव्यांत वचून उलोवन आयले. दिसाळ्यांनी खर प्रतिक्रिया आयल्यो. हांवें सदां भाशेन दोतोराक फोन केलो. दोतोराक रवीन्द्रबाबालो खूब राग आयिल्लो. 'जाणा मगो, रवीन्द्रान हें बराबर केलें ना. कोंकणीचें ताणें कितलें लुकसाण केलें, ताका खबर ना. तूं आनी हांव ताचे आत्मीय मगो? मागीर ताणें आमचें तरी आयकूंक नाका आशिल्लें? रवीन्द्रान वर्धा आसतना एक हरिजन चली रांदूंक दवरिल्ली. तेन्ना ताचो भोवमान करूंक जाय आशिल्लो. आनी आतां ताणें हें जें कितें केलां ताचो निशेध जावंकूच जाय. तुवें ताका तुजो निशेध तरी बरोवन कळयलो काय ना गो?'- दोतोरान म्हाका विचारलें. ताचेर हांवें दोतोराक म्हळें, 'दोतोर, हांव रवीन्द्रबाबाक पत्र बित्र कांय बरोवचें ना. फकत ते मेळ्ळे काय तांकां एक जानवें दितलें.'

त्या उतराक दोतोरान म्हळें, 'ताका जानवें तरी कित्याक जाय? तितल्यान सुदारचो ना तो! ताका सांग, स्वाम्या कडल्यान मुद्रा मारून घे म्हूण...'

कोणाचेरय अन्याय जाल्लो दोतोराच्यान पळोवं नज. आपल्याचेर जाल्ले अन्याय सोंसून दोतोर ओगी रावता. पूण तोच अन्याय गोंयकाराचेर जालो जाल्यार? इलस्ट्रेटेड विक्ली चेर टाटा हॉस्पिटलाचेर एक लेख आयिल्लो. त्या बरोवप्यान दोतोर बॉर्जिसाचो सादो उल्लेख लेगीत केलो ना. दोतोरालें म्हणणें, 'आगो, तो देवमनीस. बाबडो सकाळीं उमथे मानेन ऑपरेशनां करूंक सुरवात करतालो, तो सांज मेरेन ऑपरेशनां

करतालो. आनी इतलो कुशल सर्जन... त्या बरोवप्यान ताचो सादो उल्लेख करूंक ना म्हळ्यार कितें? दोतोरान त्या बरोवप्याक तापोवन काडून पत्र बरयलें. दोतोरालें तें पत्र इलेस्ट्रेटेड विक्लीन जशाचें तशें छापलें.

कोंकणीवरी गोंयकारांचेरूय दोतोरालो खूब जीव. कोणूय गोंयकार तिरसुवादपणान वागलो जाल्यार दोतोरूय तितल्याच तिरसुवादपणान ताका गाळी घालता. त्यो गाळी लेगीत दोतोर मना पसून घालता. तितलीच दोतोर तांचेर मायाय बी करता. दोतोरागेर कितले लोक येवन रावन गेले कोंत आनी हिशेब ना. असोच दोतोरालो एक आमीग दुयेंत आशिल्लो. दोतोरागेर तो गोंयच्यान आयिल्लो. तेन्ना ताचे बायलेन म्हाका सांगलें, 'दोतोराले आनी तांचे बायलेचे आमचेर इतले उपकार आसात म्हूण सांगूं? आमी जर आमचे कातीच्यो व्हाणो करून घाल्यो जाल्यार लेगीत हे उपकार फिटचे नात. हांगा खासा आमचे सोयरे लोक आमकां विचारिनात. थंय दोतोर आमचे खातीर इतलें करता.' हें हांवें दोतोराक सांगलें. दोतोरान म्हळें. 'आसूं गो. म्हजे कडेन हें जाता म्हूण हांव करतां. नाजाल्यार कोण करपाचो? आनीक एक गजाल शीला, हे म्हजे इश्टय म्हजेर तितलोच मोग करतात. जर परिस्थिती परती जाल्ली जाल्यार हे लोक म्हजे खातीर तितलेच करपाचे जितलें हांवें तांचे खातीर केलां.'

साहित्य सहवासांतले म्हाका दिसता एकान एक सगळे बरोवपी दोतोराले पेशंट. आपले परीन ते दोतोराक इम्प्रेस करूंक पळयतात. पूण दोतोराचेर हाचो कांयच परिणाम जायना. कित्याक, दोतोरूय बरो बरोवपी. दोतोरालें वाचनूय अफाट. दोतोराक फिक्शन तितलेशें आवडना. पूण हेर साहित्य दोतोर वाचता. खेरीज साहित्य अकादमीचें इनाम दोतोराक मेळ्ळां. इतलें सगळें उणें म्हूण सगळ्या बरोवप्यांच्यो नाडयो दोतोराल्या हातांत. दोतोरालो बरो आमीग म्हळ्यार श्री. मं. वि. राजाध्यक्ष.

दोतोरान आपलें पुस्तक ह्या आपल्या इश्टाक ओंपलां. जाल्यार मं. वि. राजाध्यक्षान आपलें पुस्तक दोतोराक ओंपलां. दोतोरा विशींची कृतज्ञताय मराठी बरोवप्यांनी आपापलीं पुस्तकां दोतोराक अर्पण करून उक्तायल्यात. नांवां घेवचींच जाल्यार मधु मंगेश कर्णिक , सुभाष भेंडे, विजया राजाध्यक्ष, शांता शेळके.

हो लेख छापून आयले उपरांत हांव दोतोराक फोन करतलें. त्या वेळार घडटलो त्या काल्पनीक संवादान म्हाका आतांतच खूख खूख करून हांसो येता. हांव दोतोराक विचारतलें,

'दोतोर, तुमचेर बरयिल्लो लेख वाचलो?'

'हय'

'कसो लागलो?'

'फस्टक्लास'

- आनी दोतोर मनांत म्हणटलो... मेलें हें पाडापडिल्लें म्हजेर बरयतलें...



# दोतोर

लेख दुसरो...

दिलीप बोरकारालो फोन आयिल्लो- रवीन्द्र केळेकाराचेर फिल्म काडटां. तेन्ना, तूं ताचेर पांच मिनटां उलय. अशें कर, फाल्यां साडे धांक सुमार अना म्हांबऱ्यागेर यो. थंयच शुटिंग करूंया.

दुसऱ्या दिसा पावणे इकरांक सुमार अनागेर पावलें. अना चवथ्या माळ्यार रावता. लिफ्टांतल्यान भायर मात सरलां, सामकार दिलीप उबो, म्हणूंक लागलो 'आगो, दत्ताराम सुखठणकार गेलो!'

'केन्ना?' हांव आकान्यार.

'आयज सकाळीं.'

रवीनबाबाचेर अशें उलयतलें, तशें उलयतलें म्हूण चिंतून गेल्लें. मूड ऑफ जालो. कॅमेऱ्या सामकार बसून हांव उलयतालें रवीनबाबाचेर. पूण तकलेंत आसलो दोतोर.

दोतोराली एक एक गजाल येवजूंक लागली.

खूब वर्सां पयलीं 'पुनव' म्हयनाळ्यांत 'गाळी- एक उपेक्षीत विशय' म्हूण लेख बरयिल्लो. तो लेख दोतोराक आवडिल्लो. तशें रवीनबाबान म्हाका पत्र बरोवन कळयलें. तांणी बरयिल्लें, 'दत्ताराम

म्हणटा, शीलाक ललीत लेख  बरोवंक लाय. तें बरेंऽ बरयतलें. तुजे कडल्यान कोण कोण कसल्यो अपेक्षा करता पळय. हे खेपे हांव मुंबय येतकच तूं दोतोरागेर यो. तुकाय दुसरें कुळार मेळटलें.'

ते प्रमाण रवीनबाब मुंबय येतकच दोतोरागेर गेलें. पूण दोतोराली संवकळ जातासर मातसो वगत लागलो. मागीर रवीनबाब मुंबय आयले काय हांव दोतोरागेर वतालें. अशेंच एक खेप गेल्लें. परतून घरा येतना हांवें म्हळें, 'बरें दोतोर, येतां हांव!'

त्या उतराक दोतोरान म्हळें, 'रवीन्द्र, तूं परतून मुंबय केन्ना येतलो?'

हांवें म्हळें, 'कित्याक दोतोर?'

'ना. रवीन्द्र येतकूच तूं आमगेर येता. नाजाल्यार ना.'

'हरशींय हांव आयल्यार जाता?' हांवें विचारलें.

'आयल्यार जा़ता काय म्हूण विचारता? म्हजें विद्या तशें तूं मगो.' दोतोरान म्हळें आनी दोतोराल्या घरा कडली म्हजी इश्टागत वाडत गेली. म्हाका कुळार मेळ्ळें.

एक खेपे हांवें दोतोराक म्हळें, 'दोतोर, हे मराठी लेखक तुमकां वळखतात. म्हजी तांचे कडेन वळख करून दियात न्हय?'

'तुवें तांचें साहित्य वाचलां मगो?'

'हय.'

'पुरो! साहित्यांतल्यान त्या लेखकांक तूं वळखता तितलें माथ्याबोडा वयल्यान पुरो. तुका एक सांगूं? हे मराठी साहित्यकार मनीस म्हूण सामके फूंच. तुजी फकत एकट्याच विद्‌वान आनी अतीशय साद्या बरोवप्या कडेन वळख करून दितां.' अशें म्हणून दोतोरान म्हजी वळख फकत मं. वि. राजाध्यक्ष आनी विजया राजाध्यक्षा कडेन करून दिली. वेल्यान सांगलें, 'बाकीचे साहित्यकार कल्पनेंतूच बरे. दिवाळी अंक आयले काय हे बरोवपी एकामेकां कडेन एकामेकांच्या मानधना विशीं चवकशी करतात. कोणाक पन्नाशेक रुपया चड मेळ्ळे म्हूण

कळ्ळ्यार संपादका कडेन झगडूंक वतात! सगले पोटार्थी गो!'

'कलानगरा'तले चडशे बरोवपी दोतोराले पेशंट. मराठींतले एक लेखक रा. भि. जोशी भायर पडले. हांवें दोतोराक फोन केलो, 'दोतोर, रा. भि. जोशी भायर पडले. तेय बी तुमचे पेशंट आशिल्ले?'

'सायबिणी, हांवें ताका मारूंक ना. तो पडलो. मान्यांत. ताच्या कमराच्या हाडाक मार लागलो. हांवें ताका सांगिल्लें, ऑपरेशन करूं नाका. ताणें आयकलें ना.'

जाऽयत्या मराठी बरोवप्यांनी आपलीं पुस्तकां दोतोराक अर्पण केल्यात. तातूंत भितर शांता शेळकेचेंय एक पुस्तक आसा. हांवें चिकत्छायांनी म्हळें, 'दोतोर, शांता शेळकेन तुमकां पुस्तक अर्पण केलां.'

'हय गो! म्हजी मैत्रीण आशिल्ली ती. कितें म्हणणें तुजें?' हांवें अशी मस्करी केली काय दोतोरान म्हणचे, 'तूं मगो सुबेज. मोटें मालक्रियाद. फटकळ खंयचें! तुका बरोऽ मार घालूंक जाय' हांव दोतोरागेर वतालें तेन्ना तेन्ना असो मार म्हाका दोन तीन खेपो तरी खावचो पडटालो.

ते अर्पणपत्रिके वेल्यान दोतोरान म्हाका एका मराठी बरोवप्याची गजाल सांगली. एक बरोवपी. पंच्याहत्तर वर्सांचो. ताची एक मैत्रीण. वर्सां अशीच सत्तरी फुडें. तो बरोवपी दुयेंत जालो. ताची मैत्रीण ताका मेळूंक सोदताली. तिणें दोतोराक फोन केलो. दोतोर, तुमी ताका मेळूंक वतना हांव तुमचे बराबर येवं? हांवें म्हळें, यो. ती म्हजे बराबर आयली जाल्यार त्या बरोवप्याचे बायलेन तिका घरांत घेतली ना. भायले भायर धांवडायली. असले हे साहित्यकार!'

दोतोराचेर हांवें लेख बरयिल्लो. तो दोतोरान भाईक-मं. वि. क दोतोर भाई म्हणटालो, दाखयलो. हांव दोतोरागेर गेल्लें तेन्ना भाई थंय आयिल्ले. हांवें विचारलें, 'भाई, दोतोरावेलो लेख वाचलो? कसो

लागलो?'

'मी मुद्दामच फर्स्टक्लास म्हणत नाही. चांगला झालाय. पण मी डॉक्टरांना म्हटलं. बाईंनी तुम्हाला उघडं पाडलं.'

भाई वतकच दोतोर कपलार हात मारीत म्हणूंक लागलो, 'म्हजेर लेख बरयला म्हूण मार झेतान भाईक वाचूंक दिलो. शी! शी!! शी!!! ताका कळ्ळें मगो आतां हांव सगळ्यांकूच 'फर्स्टक्लास' म्हणटां म्हूण! खंयची म्हाका दुर्बुद्दी जाली, देव जाणा!

रवीनबाब मुंबय आयले काय तांकां मेळूंक हांव दोतोरागेर वतालें. दोतोर मातसो वगत आमचे बराबर बसतालो. आनी वतालो. हांवें दोतोराक विचारलें,

'दोतोर, तुमी मदींच उठून खंय वतात आनी नाच्च जातात?'

'आगो, तूं रवीन्द्राक मेळूंक येता. तेन्ना तुमकां कितेंय उलोवपाचें आसत म्हूण हांव उठून वतां.'- दोतोर आमची प्रायव्हसी जपताले. हांवें म्हळें, 'तशें कांय ना. तुमी उठून वचपाची गरज ना.' मागीर रवीनबाब, दोतोर आनी हांव आमी गजाली मारतालीं. गजाली करतालीं, म्हळ्यार दोतोर आनी रवीनबाब एकामेकांची टर उडयताले आनी हांव मदीं मदीं सुकी फोडणां घालतालें.

सांजेर साडेपांचांक मुंबय आकाशवाणीचेर कोंकणी प्रोग्राम सुरू जाताले. ते आयकून संक सुमार दोतोर आपले डिस्पेन्सरींत वचूंक तयार जातालो.

'कोंकणी प्रोग्राम सुरू जाले काय म्हाका कच्च जाता. जाणा मगो?'

'कित्याक दोतोर?'

'डिस्पेन्सरींत वचचें पडटा म्हूण! म्हाका दनपरां न्हिदतां तेन्ना कसलीं सपनां पडटा खबर आसा?'

'कसलीं दोतोर?'

'कम्पावंडरूच आयलो ना म्हूण!'

'दोतोर, तुमची डिस्पेन्सरी खंयशी आसा?'

'दादर.'

'दादर खंयशी दोतोर?'

'सैतानचौकी'. अशें म्हूण दोतोर आपूणच हांसूंक लागलो.

पयलीं कितेंय बरोवपाचें जाल्यार दोतोर आपूण बरयतालो. तांची घरकान्न कांताबाय तें फॅर करताली. मागीर दोतोरा कडेन बरोवंक जायना जालें. मागीर दोतोर म्हाका आपयतालो. दोतोराले दोन तीन लेख हांवें बरोवन घेतल्यात. घरा वतना दोतोर म्हाका खूबशे पेपर दितालो. 'हे कित्याक दोतोर?' म्हळ्यार म्हजेर तापतालो. मागीर ओग्गी रावन हांव ते पेपर घेवन येतालें.

मदीं दोतोर आनी कांताबाय इंग्लंडाक पुतागेर वचून आयलीं. वचून येतकच दोतोरालो फोन. आमी इंग्लंड सावन परत आयलीं. तूं केन्ना येता? एक दीस हांव गेलें तांगेर. भितर सरून बसलें लेगीत ना. 'बाय, शीलासाठी आणलं ते देतेस ना?' दोतोरान बायक थार दिलो ना, बायन मागीर म्हजे खातीर हाडिल्ली चेराची बाटली दिली, तेन्ना दोतोर शांत जालो.

केन्नाय दोतोरागेर भितर सरलें रे सरलें, उदक पिता थंय आसा. ल्हान भुरग्या वरी दोतोर बायचे फाटीकूच लागतालो, 'बाय, शीला आली. तिका काय देतेस?' हांव मागीर म्हणटालें, 'दोतोर, हांव भितर सरूंकच ना. तुमी च्या दिवन म्हाका धांवडावंक सोदतात?'

'तशें न्हय गो. तूं इतले पयसुल्ल्यान आयलां. आनी तूं आमचे खातीर येता न्हय? काकुळट गो! इतलें पयसुल्ल्यान तूं मुद्दम येता.' पयलीं सावन दोतोर हीं उतरां पांच-स खेपे तरी म्हणी. हांव म्हणटालें, 'दोतोर, तुमी बांद्रा रावतात म्हूण तुमकां तशें दिसता. मुलुंड रावतल्याक तें तशें दिसना.'

खूब खेपे जयमाला दणायत आनी हांव दोतोरागेर वतालीं. दोतोर मागीर म्हाका म्हणटालो, 'ताका पळय गो. तें कशें शांत! बरेंऽ भुरगें. इतलें डोंबिवली सावन येता. नाजाल्यार तूं? इश्पेर्त खंयचें.'

मागीर एक दीस दोतोराक वाज आयलो. ताणें डिस्पेन्सरींत वचचें बंद केलें. घराच रावंक लागलो. पुस्तकां वाचप आनी किशोरी आमोणकारालें गाणें आयकप. मागीर दोतोराक हांव चाळयतालें. 'दोतोर, तुमी बायचें कांयच आयकनात. किशोरी आमोणकारालें आयकतात. गाणें'.

गोवा हिंदू असोसिएशनान खूब वेल्या पांवड्यार पाविल्ल्या गोंयकारांचो सत्कार केल्लो. तातूंत रवीनबाबूय आशिल्ले. हांव दोतोरा म्हऱ्यांत बशिल्लें. दोतोरान म्हाका म्हळें, 'पळय गो, एअर मार्शल गोंयकार, अणुशक्ती केंद्राचो मुखेली गोंयकार, रेल्वेचो मुखेली गोंयकार. नेव्हीचो मुखेली गोंयकार. महाराष्ट्राचो पुलीस कमिशनर गोंयकार. ह्या सगळ्या गोंयकारांनी एकठांय येवन राष्ट्रपतीक मुखार करून आणिबाणी हाडून सगळें हिंदुस्तान जाग्यार घालपाचें न्हय? सगळें जाग्यार पडलें काय मागीर इलेसांवां करून ताबो सोडपाचो. सगळे प्रस्न आपशीं सुटपाचे.'

दोतोराक डायबिटीस जाल्ली. साकर वाडली म्हूण दोतोर गुळयो घेवंक लागलो. गुळयो घेतल्यो तरी म्हयन्या म्हयन्यान रगत तपासून घेवंक जाय आसलें. साकर देंवली तरी गुळयो चालू. ताचे सायड इफेक्ट सुरू जाले. न्हीद येना जाली म्हूण न्हिदेच्यो गुळयो दिल्यो. अशें कितेशें विचित्र जालें. कुमाराक मडकें ना तशें दोतोराक दोतोर ना जालो.

तेन्ना दोतोर हांथरुणार पडून उरलो. दोतोर बरो ना म्हूण जयमाला आनी हांव दोतोराक पळोवंक गेलीं. दोतोर आमकां वळखलो ना. म्हाका वायट दिसलें. हांव इतलें संवकळीचें आनी दोतोर म्हाका

वळखना? मागीर बायन आमची नांवां सांगतकच दोतोर वळखलो. हांवें म्हळें, 'दोतोर, तुमी म्हाका वळखूंक ना न्हय? तुमचे कडेन कट्टी'. तेन्ना दोतोरान म्हळें, 'आगो, खाड करतना हारशांत पळेतां. तेन्ना हांव म्हाकाच वळखना. तो तुका कसो वळखतलों?'

मागीर दोतोराली सून इंग्लंडाक सावन आयली. तिणें सगळीं वखदांच बंद केली. मागीर दोतोर मनशांत आयलो. त्या वेळार बायन दोतोराली खूब म्हळ्यार खुबूच सेवा केली. ल्हान भुरग्या वरीं दोतोराक सांबाळ्ळो.

दोतोराक मदींच कोंकणी उलयन दिसतालें. मागीर दोतोर म्हाका फोन करतालो. नाजाल्यार हांव केन्नाय फोन करतालें. हांवें फोन केलो काय दोतोरालो पयलो प्रस्न, 'केन्ना येता?' दोतोरान अशें विचारलें, आनी म्हाका वयले वयर वचूंक मेळना म्हूण म्हाका वायट दिसतालें.

तांगेर वचचे पयलीं सकाळीं हांव फोन करून विचारतालें, घरा आसात न्हय काय म्हूण! फाटल्या मे म्हयन्यांत अशेंच हांवें सांगलें, हांव येतां म्हूण! वताचो रखरख. मातशें उसरां भायर सरलें. दोतोरागेर पावतासर साडेपांच जालीं. बायन मागीर सांगलें, 'तीन वाजल्या पासून ते तुमची वाट बघत आहेत.' मागीर दोतोरान म्हळें, 'तूं दुसरे खेपे येतना सकाळींच यो गो. जेवपाकूच यो. इतलें उसरां येवं नाका.'

मदीं बाय बरें ना जालें. बायक पॅरॅलिसिसचो ॲटॅक आयलो. ताकतिकेन उपाय जाले म्हूण बरें. आतां वॉकर घेवन काय जायना, बाय भायर भितर भोंवंक शकता.

हालींसरा दोतोराक ल्हानपणांतले मित्र बी येवजताले. आमचे थंय कामथ म्हूण एका मंगळूरकारान पसरो उक्तो केला. थंय शिरवळ्यो आनी एलापे बरे मेळटात. दोतोरागेर वतना हांव शिरवळ्यो आनी एलापे घेवन गेलें. ते रातीं घरा पावतकच बायलो फोन. 'शिरवळ्यो नाल्लाच्या रोसांत बुडोवन आमी खाल्यो. तृप्त जालीं'. आयकून

म्हाका बरेंऽ दिसलें. मागीर दुसरे खेप गेलें, तेन्ना हांवें परतून शिरवळ्यो आनी एलापे व्हेले. जाल्यार दोतोराक वायट दिसलें.

दोतोरान म्हळें, 'एक खेप शिरवळ्यो हाडल्यो, बरें आसा. परतून परतून हाडूं नाकां'.

हांवें म्हळें, 'दोतोर, इतलीं वर्सां हांव तुमगेर येतां. तेन्ना कितें हाडलां हांवें? आतां आमचे थंय मेळटा रेडिमेड म्हूण हाडटां.'

'आगो, पूण इतलो तुका खर्च.'

'खर्चाचो हुस्को तुमकां नाका... हांव खर्च करतां ते पयशे म्हज्या घरकाराचेय न्हय आनी पुतांचेय न्हय. ते म्हजे पयशे.'

'तुजे कडेन खंयचे पयशे?'

'आकाशवाणीचे मेळटात. हांवें साहित्य अकादेमीचें पुस्तक कोंकणींत अणकारीत केलां. ताचे पयशे आसात म्हजे कडेन.'

मागीर दोतोरान केन्ना कांय म्हळें ना.

26 जुलय 2005.

ढगफुटीचो दीस. पेपरांत वाचलें. बाळासाहेब ठाकरेक व्हड्यांतल्यान हॉटेलांत व्हेलो म्हूण! दोतोर थंय लागींच रावता. तोवूय बी ग्रावंड फ्लोराचेर. म्हळ्यार दोतोरागेर उदक भरिल्लें. देवा तूं. दोगांय जाण्टीं. तातूंत अपंगूळ. म्हाका हुस्को. हांव फोन घुंवडायतां. लागना. कसो लागतलो? सगळ्याक उदक भरिल्लें. दोतोराले थंय पयलीं धोंपरभर, मागीर कमरभर उदक. दोन तीन दीस तशेंच उरिल्लें.

पावस पडलो. पावलभर उदक आयलें. सालाबाद प्रमाण उदक भरता आनी थोड्या वेळान वता, तशें आतांय वतलें अशें बायक दिसलें. पूण म्हणटा म्हणसर एकदम उदक सोफ्याच्या लेव्हलाचेर आयलें. दोतोराले वावराडेन चंदान बिल्डिंगेतल्या भुरग्यांक आपोवन चादराचो झोळणो करून दोतोराक वेल्या माळ्यार व्हेलो. बाय वॉकर घेवन माळी चडून गेली. दोतोराली चली विद्या एके कडेन अडकून

उरलें. जावंय दुसरे कडेन. सगळीच धांदळ. सगळ्या सामानाचो कालो.

आसर पडटकच विद्यान पयलीं एक रुम लींप करून घेतलो. सगळो मातयेचो रांप जमनीक बशिल्लो. नव्यो गादयो, चादर, नवी कॉट बी हाडली. आनी दोतोराक आनी बायक घरा हाडलीं. विद्यान झुजा पांवड्यार म्हणटा तशें घर जाग्यार घालपाचे यत्न केले. विद्याल्यो मैत्रिणी आयल्यो. तांचे कपडे घेवन गेल्यो. कित्याक, तांगेर लायट आनी उदक आशिल्लें. तांणी कपडे धुवन सुकोवन फेर्र मारून हाडून दिले. इतलें बुडिल्लें तातूंतय समाधानाची गजाल म्हळ्यार बँकेचे पासबूक, चेकबूक आशिल्ली पोती बायल्या हाता कडेन आशिल्ली ती तिणें आपले बराबर व्हेल्ली. तेन्ना जाय जाल्ले पयशे तरी वेळार मेळ्ळे. नाजाल्यार पयशे आसुनूय वेळार मेळचे नाशिल्ले.

सगळ्या सामानाची वाट लागली, तांचे दोतोराक कांय दिसलें ना. पूण पुस्तकां भिजलीं. तीं भायर उडोवचीं पडलीं ताचें वायट दिसलें. तांतले तातूंत 'महाभारत', तांच्या दोस्ताचें पुस्तक भिजलें म्हूण चड वायट दिसलें.

बायन सांगलें, हालीं दोतोर अना म्हांबऱ्यालें 'गोंयची अस्मिताय' आनी 'पणजी आतां म्हातारी जाली' हीं पुस्तकां वाचतालो आनी एकटोच हांसतालो.

म्हाका याद जाली. अनान एक खेपे म्हणिल्लें, म्हजी पुस्तकां हांव 'गोवा हिंदू असोसिएशना'क दिवंक सोदतां म्हूण! तेन्ना अनाक फोन करून सांगलें, तुजीं पुस्तकां आनी तुजे कडेन चड जाल्यांत तीं पुस्तकां दोतोराक धाडून दी.

भायलें पावसाळी वातावरण. तातूंत जाण्टेपण. दोतोर परतून दुयेंत जालो. कफ छातयेंत भरलो. लीलावती हॉस्पिटलांत दोतोर ॲडमिट आसलो. बायक म्हळें, 'हांव येतां!' बायन म्हळें, 'दोन दिसांनी दोतोराक घरा हाडटले. तेन्ना तूं यो.'

त्या सप्तकांत हांव पुण्याक गेल्लें. म्हाका वचूंक मेळ्ळें ना. दुसऱ्या सप्तकांत वचचें थारायलें. पूण ताचे पयलीं दोतोरूच गेलो.

दोतोर आनी रवीनबाब हांचे मदीं पूल कशें हांव. गोंयां गेलें आनी रवीनबाबाक मेळ्ळें काय रवीनबाब विचारताले. 'दत्ताराम मेळिल्लो? तागेर गेल्लें? कसो आसा तो?' आनी हांव गोंयां वचून आयलें म्हूण कळटकच दोतोर विचारतालो, 'तो आचार्य कसो आसा गो? मेळिल्लो तुका?' दोगांकूय एकामेकांक मेळपाचें आसतालें. पूण वयाक लागून काय खबर ना, तांचें मेळप जाय नासलें.

रवीनबाबाच्या अंयशाव्या वाडदिसा खातीर गोंयां वचचें पयलीं हांव दोतोरागेर गेल्लें. म्हळें, 'दोतोर, रवीनबाबाचेर म्हाका उलय म्हळां. कितें उलोवं?'

'रवीन्द्र बरोऽ मनीस. ताणें कोंकणी खातीर खूब वावर केलो. गोंया भायर रावन ताणें हो वावर केल्लो, जाल्यार तो व्हड जावपाचो. गोंया रावन केलो म्हूण फुकट गेलो. रवीन्द्र आनी ताचो वावरूय.'

एक खेपे दोतोरागेर गेल्लें. दोतोरान विचारलें, 'कशें आसा?'

हांवें म्हळें, 'बरेंऽ ना. दांतांतल्यान रगत येता. कितें करूं?'

'डेंटिस्टाक मेळ.'- दोतोराली इन्स्टंट जाप.

दोतोर वचचें पयलीं थोडे दीस दोतोराक रवीनबाबाली चीट आयिल्ली. दोतोरान ती वाचली. आनी ती चीट छातयेर दवरून, दोळे धांपून, दोतोर देडवर ओग्गी पडून आशिल्लो खंय.

मदींच दोतोर म्हणटालो खंय, 'हांव बरो ना म्हूण त्या रवीन्द्राक खबर ना? तो म्हजे खबरेक कसो आयलो ना? आतां येवंदी ताका, भितरूच घेवचो ना. दारूच उगडचो ना. बसूं दी भायरूच!'

दोतोर गेला त्या दिसा हांव प्रभादेवी अनागेर आशिल्लें. थंयच्यान घरा आयलें. भुरग्यां खातीर रातचें जेवण करून दवरलें. कोळंबकाराक फोन केलो. सांगलें, अशें अशें जालां. हांव बांद्रा वतां. घरा येवंक

कळाव जालो जाल्यार हुस्को करूं नाका.

मागीर जयमालाक फोन केलो. ताका फोन करचो काय ना, चिंतूक पडलें. कित्याक जयमालागेर ताचो चलो त्या दिसा अमेरिके सावन येवपाचो आशिल्लो. ताचें घर सोयऱ्या धायऱ्यांनी भरिल्लें आसतलें हें म्हाका खबर आसलें. ताका येवंक मेळचेंच नासलें. पूण ही मर्णा सारकी गजाल. ताका सांगुकूच जाय आसली. जयमालाक फोन केलो. ते चुरचुरलें. येवंक पावलें ना. मागीर हांव एकलेंच गेलें.

दोतोरागेर वतकच कळ्ळें. दोतोराक मॉर्गांत दवरला. कित्याक, दुसऱ्या दिसा दोतोराचो चलो इंग्लंड सावन येवपाचो आसलो. आनी तिसऱ्या दिसा दोतोराक व्हरपाचे आसले. हांव गेलें तेन्ना बाय म्हऱ्यांत गोंयचेंच एक जोडपें बशिल्लें आशिल्लें. म्हाका पळोवन तांकां सूऽ जालें जावंक जाय. कित्याक, मागीर पांच मिनटांनी तीं उठलीं आनी वचूंक गेलीं.

इतल्यान विंदा करंदीकर आयले. ताचे पयलीं एक खेपे हांव दोतोरागेर गेल्लें तेन्नाय विंदा आनी तांची घरकान्न दोतोरागेर आयिल्लीं. विंदान आपलें पांच फिलॉसोफरांचेर बरयिल्लें पुस्तक दोतोराक दिल्लें. विंदा वतकच दोतोरान तें पुस्तक म्हजे कडेन दिलें आनी म्हाका सांगलें, तूं हें घेवन वच. वाचून जालें काय परतून हाडून दी.

आयजूय परतून विंदा आयिल्ले. हांव आसतना तांणी सांगलें, 'डॉक्टराचे आमच्यावर डोंगरा एवढे उपकार आहेत.' विंदा थोडो वगत बसले आनी गेले.

बाय आनी हांव गजाली करूंक लागलीं. गजाली अर्थांत दोतोराल्यो. बायन सांगलें, दोतोर आनी रवीनबाबाली खूब इश्टागत आशिल्ली. दोगूय एकठांय जाले काय एकामेकांच्या कानांत फुतफुतून उलयताले आनी खीखी करून हांसताले.

आनीक एक गजाल बायन सांगली. दोतोरान तिका सांगिल्लें,

'तुजे पयलीं जर हांव गेलों जाल्यार तुवें मंगळसूत्र, कुकूम, भांगरा-शिंगर कांय काडप ना. हांव आसतना तूं आतां जशी रावता, तशीच राव, म्हजो बारावो बी काय करूं नाकात.'

'लोकसत्ते'चेर आयिल्लें दोतोराक दुसऱ्या दिसा व्हरतले म्हूण! बायन सांगिल्लें, तिसऱ्या दिसा. अर्थांत बायन सांगिल्लें तें खरें आसलें. पूण खंयच्या टायमार तें खबर नासलें. जयमालाचो फोन आयलो, 'आगो, आमी वचुंया. फाल्यां केन्ना व्हरतले ती चवकशी कर आनी म्हाका सांग. हांव येतां.'

तिसऱ्या दिसा सकाळीं आठांक सुमार अनालो फोन. आगो, दोतोराक केन्ना व्हरतले? दोतोरागेर फोन लागना.' हांवें म्हळें 'तांचो फोन सारको ना दिसता. तूं सुभाष भेंडेगेर फोन करून चवकशी कर आनी आमकां सांग. आमीय थंय येतात. अनान चवकशी केली. भेंडेगेर तांची घरकान्न आशिल्ली. तिणें सांगलें. सुभाष भेंडे दोतोरागेर गेला. दोतोराक साडेआठांक व्हरतले. दादरचे मसुंडेंत.

हांवें अनाक म्हळें, 'आतां जयमाला आनी हांव कांय पावचींनात. तूं सरळ दादरूच वच. आतांच भायर सर. तुका एकाद्रें दोतोरालें दर्शन जायत.' जयमालाकूय फोन करून सांगलें.

दुसऱ्या दिसा जयमाला आनी हांव दोतोरागेर गेलीं. विद्या आनी आशीश घरा आसलीं. विद्या दोतोराचेर खूबखूब उलयलें. ताणें सांगलें. 'बाबा लीलावती हॉस्पिटलांत आसले, तेन्ना थंय तांकां सूप दिताले. आतां लीलावती हॉस्पिटलांतलो सूप तो. बरो आसतलोच. दोतोर तो सूप अर्द पितालो आनी अर्द विद्याक दितालो. थंय आशिल्ले नर्सीकूय सूप घे म्हूण सांगी. विद्यालो घरकार रवी येतलो. ताचे खातीरूय घेवन दवर म्हूण सांगी खंय.

दोतोराक हांगा नळयो, थंय वादयो, सुयो बी कितें कितें लायिल्लें! 'बाबा, दुखतं का?' म्हूण विचारल्यार 'ना' म्हूण सांगी खंय. दोतोरान

सगळें हूं काय चूं करी नासतना सोंसलें. दोतोराक कोण रडिल्लें आवडनासलें.

त्या दिसा दोतोर घराच आसलो. दोतोराक बरें नासलें. विद्यान दोतोराक परतून हॉस्पिटलांत व्हरची तयारी केली. इतले म्हणसर दोतोर अस्वस्थ जालो. श्वास घेवंक त्रास जावंक लागले. विद्या उपाय करतालें. इतले म्हणसर एक गचको आनी सगळें खलास.

विद्या म्हणटालें, आपणें इतलीं मर्णां पळयलीं, पूण बाबाक आयिल्लें तितलें सहज मरण कोणाकूच येवंक ना.

कोणाक खबर, दोतोरान यमदुताक बी कितेंय विनोदी गजाल सांगून हांसयला आसत आनी यमदुतानूय ताका हांसत व्हेला आसत.

दोतोर गेले उपरांत विद्या दोतोरालो फोटो लावंक सोदतालें. एकूय फोटो नाशिल्लो. सगळे आल्बम उदक घेवन गेल्लें. मागीर मं. वि. राजाध्यक्षांचेर वचून तांचे कडल्यान फोटे हाडून व्हड करपाक दिले. तो येतासर कितें करचें?

मागीर विद्यान म्हळें, 'तुम्ही हॅपी मॅन बद्दल लिहिलं होतं ना? मग मी हॅपी मॅन पुढे आणून ठेवला.' तें आयकून म्हाका पोटांतल्यान उमाळो फुटिल्ले वरी जालें.

तिसऱ्या काय चवथ्या दिसा विद्यान डिस्पेन्सरी उक्ती केली. पळयत जाल्यार कितलेशेच लोक. विद्या म्हणटा, आपूण चिंतूक पडलें. इतले पेशंट! मागीर त्या लोकांनी सांगलें, 'डॉक्टर गेल्याचं समजलं म्हणून आमी हांक मारायला आलो.' कोणूय मेले उपरांत आमी जाप दिवंक नाजाल्यार पाचारूक वतात म्हणटात ताका हे लोक 'हांक मारायला आलो' अशें म्हणटात.

जण एकलो दोतोरान आपल्याचेर कशे उपकार केल्यात तें सांगतालो. आयकून विद्याक अजाप जालें. ताचें म्हणणें, तांतले ताका कांयच खबर नासलें. तांणी सांगिल्ल्यो सगळ्यो गजाली आपूण बरयतलें अशें

विद्या म्हणटालें.

गोंया सावन मुंबय वतकच दिलीप बोरकारालें 'श्रेयार्थी' पुस्तक घेवन दोतोरागेर गेल्लें. गोंयच्यो गजाली सांगल्यो. आनी बायक म्हळें, दोतोरान बरयिल्ल्या लेखांची तुमचे कडेन कात्रणां आसात, जाल्यार तीं म्हाका दियात. हांव तीं व्हरतां. अशें म्हणून हांव तीं घेवन आयलें.

उपरांत गोंयां वतना तीं व्हेलीं. माधव बोरकारा कडेन दिलीं. कित्याक, बोरकार मुंबय आसतना, बोरकारान दोतोरा कडल्यान जायते लेख बरोवन घेतिल्ले. दुसरी गजाल, बोरकाराक कोणें कितें बरयलां तें सारकें लक्षांत आसता. तेन्ना ताका सांगलें, 'पळय रे बाबा, हातूंत कितें आसा तें! ना तें सोदून काड. दोतोरालें एक पुस्तक येवं येता. कोंकणी अकादेमीन दोतोरालें पुस्तक छापपाचें उतर दिलां.

मुंबय येतकच दोतोराक सांगलें. दोतोर, तुमचें पुस्तक येता. पुस्तकाक नांव कितें दवरूंया?'

'दवर गो तुका जाय तें.' दोतोराली जाप.

हांव दोतोराक निमाणें मेळ्ळें तें जूनांत. तेन्ना पावस सुरू जावंक नासलो. तेन्ना दोतोराक सगळ्यांचो विसर पडटालो. दोतोर न्हिदून आसतालो. हांथरुणारूच न्हिदिल्ले कडेन जेवंक सोदतालो. बायन सांगिल्ली एक गजाल. दोतोर न्हिदतालो. सपनांत ताका कितेंय दिसतालें. उठून मागीर बायक विचारतालो. अमको तमको सपनांत दिशिल्लो. तो कितें म्हणटालो? दोतोराक मागीर सपनांत कोण दिसलो, कितें उलयलो तें तिका बाबडेक कशें कळटलें?

हांव गेल्लें तेन्ना दोतोराक म्हळें, 'दोतोर, भायर वारांदार बसुंया न्हय?' दोतोर भायर येवन अर्दवर बसलो. मागीर म्हणूंक लागलो, नज म्हज्यान बसूंक. न्हिदतां हांव.' म्हजे संवये प्रमाण हांवें म्हळें, 'दोतोर, तुमी बसनात न्हय, कट्टी तुमचे कडेन'. दोतोर हांसलो आनी गेलो. ती तांची म्हजी निमणी भेट. दोतोर न्हिदला म्हूण ताका उठयनासतना,

दोतोरालो रेकाद घेनासतना हांव घरा आयलें. तेन्ना बायन म्हळें, 'आयज एवढा वेळ तरी बाहेर यऊन बसले. नाही तर तेवढेपण बसत नाहीत.'

दुसऱ्या दिसा बायलो फोन, दोतोर बायक विचारतालो खंय, आपूण बसलों ना म्हूण शीलाक राग आयलो? मागीर दोतोराक फोन करून हांवें सांगलें, 'दोतोर हांव आनी तुमचेर रागार जातां? शक्यूच ना.'

आतां दिसता, फोन करून हक्कान शीला तूं केन्ना येता? अशें म्हूण कोण विचारचो ना. माडाचे नाल्ल काडल्यात. तुका दवरल्यात. व्हरूंक केन्ना येता म्हूण कोण विचारचो ना... ना! ना! तशें न्हय. अजून विचारपी आसा. दोतोराली घरकान्न. बाय... अजून ते दोन दोळे म्हजी वाट पळयतात... दोतोराल्या रुपान...

■

# नाडकर्णी सर

हांव इंटराक आशिल्लें तेन्नाची गजाल. धेंपे कॉलेजांत हांव शिकतालें. धेंपे कॉलेज लिसेवार म्हणजे आल्तिनार आतां हायकोर्ट आसा थंय आशिल्लें. पयल्या वर्सा आमकां शिकोवंक प्रो. मयेंकार आशिल्ले. इंटराक पावतकच आनीक एक सर येवपाचो आसा म्हूण कळ्ळें. प्रो. मयेंकार कितें सिनेमांत प्रोफेसर बी आसता तसो दिसतालो. आतां दुसरो प्रोफेसर कसो आसतलो? आमकां चिंता पडली. कित्याक त्या वयार शिकोवप्याचें दिसप बी म्हत्वाचें आसतालें. मागीर कोणेतरी सांगलें, 'तो पळे नवो प्रोफेसर'.

आमी पळेलें जाल्यार मोटवोच, बारीक, कोंगऱ्या केंसांचो, बारीक दोळ्यांचो आनी सोदा बाटले इतल्या जाड हारशांचें वक्ल लावपी एक कोण तरी आशिल्लो. आमचें परस चार पांच वर्सांनी व्हड आसपी भुरगो आनी आमचो प्रोफेसर? हो आनी आमकां कितें शिकयतलो, अशें आमकां दिशिल्लें.

त्या तेंपार मराठी आनी संस्कृतच्या क्लासाक सात आठ चलयो आनी दोन तीन चले आसताले आनी चड चलयां मदीं हे चले तकली

सकयल घालून बसताले. क्लासींत चलयांची दादागिरी चलताली. आमी म्हळ्यार दोन तीन चलयांनी ह्या नव्या प्रोफेसराक नेव्हॉंज करपाचें थारायलें. लिसेवावेले क्लास खुब्ब व्हड. ते क्लासींत आमी चार पांच बांक सोडून फाटल्यान बसतालीं. आनी प्रोफेसर प्लॅटफॉर्मार उबे रावन शिकयताले. ह्या प्रोफेसराले क्लासीक आमी एकच बांक सोडून फुडें वचून बसलीं. आमकां दिसलें हो आतां आमकां पळोवन नेव्हॉंज जातलो म्हूण. म्हळ्यार हो प्रोफेसर नेव्हॉंज जालोच ना. वेल्यान इतलीं उणीं भुरगीं पळोवन प्लॅटफॉर्मा वेल्यान सकयल देंवलो आनी आमचे मुखारूच उबो रावन आपूण शिकयतां तें आमकां समजता काय ना ताचो अदमास घेत आमकां शिकोवंक लागलो. तें पळोवन आमीच नेव्हॉंज जालीं.

तो वेळ मेरेन कॉलेजींतलें शिक्षण प्रोफेसरांनी कशें शिकोवचें आसता, तें आमकां खबरूच नासलें. तें आमकां कळ्ळें तें ह्या नव्या प्रोफेसरा कडल्यान. ह्या नव्या सरालें नांव आसलें प्रो. एस्. एस्. नाडकर्णी. आतां एस् म्हळ्यार कितें हें कशें कळटलें? मागीर कळ्ळें एस् म्हळ्यार सीताकांत.

'हें आनी कसलें नांव गो? जुनाट शें'

'आगो, पूण कामत सर ताका उलो करतना माधव म्हणटा मुगो. आगो, हें नांव खंयच्याय जाण्टेल्याचें दवरलां आसतलें. त्या नांवान उलो कसो करचो म्हूण माधव नांव दवरलां आसतलें.'

बायलेचें नांव सीता दवरचें पडलें. अश्यो आमच्यो गजाली चलताल्यो. नायजाल्यार असल्या गजालींनी आमची तकली धांवताली.

जसजशे सर आमकां शिकोवंक लागले, तसतशे सरालो रंग, रुप, नांव सगळें सगळें फाटीं पडले आनी एक बरो शिकोवपी आनी शिकपी इतलेंच नातें आमचें मदीं उरलें. जेन्ना आमी ज्युनियर बी.ए. क पावलीं तेन्ना हें नातें इश्टागतींत बदल्लें. इतलें की अजून लेगीत सरांलें घर हें

आमकां आमचेंच हक्काचेंशें दिसता.

सरान आमकां पयलीं साहित्य वाचूंक शिकयलें. तांणी पयलीं आमकां चंद्रकांत काकोडकाराली कादंबरी वाचूंक लायली. आमी खूश. कित्याक पयलीं चोरून असलीं पुस्तकां वाचचीं पडटालीं तीं सरळ वाचूंक मेळ्ळीं म्हूण. मागीर ना. सी. फडके हांची एक कादंबरी वाचूंक लायली. मागीर वि. स. खांडेकराची एक कादंबरी वाचूंक दिली. सरांचें म्हणणें ह्या लेखकांची एकूच कादंबरी वाचल्यार पुरो. बाकीच्यो कादंबऱ्यो वाचिल्ल्याचें पुण्य आपशीच पदरांत पडटलें. मागीर सरान आमकां भालचंद्र नेमाडेंची 'कोसला' वाचूंक दिली. सरान आमकां कमल देसाय, विजया राजाध्यक्ष, छाया दातार, गंगाधर गाडगीळ, अरविंद गोखले आनी हेर लेखक वाचूंक शिकयले. कवी मर्दीं बालकवी, बी. सी मर्ढेकर, दिलीप चित्रे ह्या कवींची रुच लायली. सत्यकथा मासीक वाचूंक शिकयलें. कॉलेजांत आसतना आमकां बालकवींची औदुंबर ही कविता आसली. सगळी आठ ओळींची कविता. ओळींतलो खंयचो शब्द खंयच्या शब्दा कडेन जोडलो जाल्यार ताचो अर्थ कसो बदलता, तांतल्यान कसलें कसलें चित्र दोळ्यां मुखार उबें रावता हें सरान शिकयलें. ते कवितेची कितलीशींच तांसां सरान विस्कटावन दाखयलीं. आमी तोंड उक्तें घालून आयकत उरलीं. कितें बरोवन घेवचें आमकां भानूच उरलें ना. इतली ती कविता सहज आनी सोंपीशी दिसली. घरा वचून हांवें ती कविता परथून उक्ती करून वाचली. आनी ते कवितेचें रसग्रहण करूंक वच जाल्यार म्हाका कळ्ळें की सर शिकयतना जी कविता सोंपीशी दिसताली ती तितली सोंपी नाशिल्ली. आमी सरांक ती कविता परथून एक खेपे शिकोवंक लायली.

मुखार सरान 'औदुंबर- विविध अर्थध्वनी' नांवाचें एक पुस्तकूच बरयलें. आठ वळींचे कवितेचेर एक पुस्तक म्हळ्यार मराठी साहित्यांतलें एक नवल.

सर आमकां शिकयतना सदांच सांगताले- तुमी कितेंय बरयतना खंयच्याय प्रस्नाचें उत्तर लेगीत बरयतना ताचेर विचार करून तुमकां कितें दिसता तें बरयात. समीक्षे सारको कठीण विशय लेगीत सर खूब सुंदर रितीन शिकयताले. बी.ए. क मराठी एक विशय घेतिल्लीं आमी थोडींच भुरगीं आशिल्लीं. ताका लागून सरान आमकां कॉलेज मॅगॅझिना खातीर कितेंय तरी बरोवंकूच जाय म्हूण सांगलें. हांवें 'छाया' म्हूण एक कथा बरयली. तिवूय मराठींत. सरान ते कथेची खूब तुस्त केली. आमी बरे लेखक, कवी जांकां समजातालीं, तांच्या बरपाच्यो सर वादऱ्यो वादऱ्यो करी. अशा सरांनी म्हज्या बरपाची तुस्त केल्ली. म्हणजे सरांक लागून म्हाका म्हजे भितरल्या बरोवप्याचो सोद लागलो. हें हांवें मुखार एके मुलाखतींत परत सांगलें. जाल्यार सरांचें म्हणणें, आपूण शिकोवपी. हांवें म्हजें शिकोवपाचें काम केलें इतलेंच. चड कांय ना.

सरान आमकां नवकाव्य शिकयलें. बरें बरप खंयचें, वायट बरप खंयचें हें शिकयलें. सरान सांगिल्ली एक गजाल अजून म्हजे तकलेंत घट्ट बसून आसा. सरान सांगिल्लें, कॅलिडोस्कोपांतल्यान आमी चित्र पळेतां. कॅलिडोस्कोप मात लेगीत हाल्लो काय तांतल्यान वेगळें चित्र दिसता. तशें तुमी बरयतना तुमच्या अणभवाच्या आदारान तुमकां जीण जशी दिसता तशी ती पिंतारात. ओगीच हाची ताची नक्कल करूं नाकात. आनी हांगा सरान आमकां एक उदाहरण दिलें. एक सिनेमांतलें. तातूंत मेहमूद हो एक रांदपी आसता. तो हेलनीक पळोवन म्हणटा, अरी ओ मेरी जलेबी! आतां रांदप्याक उपमा सुचतल्यो त्यो खावपाच्या वस्तूंच्योच. जेन्ना तो जलेबी म्हणटा तेन्ना तो तांतल्यान चलयेचो रंग, तागेली गोलाय, रसरशीतपण, माधुर्य हें सगळें एका शब्दांतल्यान व्यक्त करता. म्हाका दिसता. नव्या बरोवप्यांनी लक्षांत दवरपा सारकी ही गजाल.

सरालें लग्न जातकच मागीर सर बोक द व्हाक रावंक आयले.

सराली घरकान्न मंगल. मंगल देसाय. मंगल आमच्याच ग्रुपांतलें. मंगल, उज्वला पवार (जगताप), विजया पेंढारकर (स्वाती खंडकर) आनी हांव असो आमचो ग्रुप जमलो आनी अजून मेरेन तो तिगून आसा. मजा म्हळ्यार अजून जेन्ना सर आनी मंगल मुंबय येतात तेन्ना आमी एक दीस एकठांय येतात. चकाटां मारतात. आमचीं सुखदुख्खां, गाराणीं एकमेकां कडेन उलयतात. मनां मेकळीं करतात. आमी अशीं जमलीं काय खूब खूब बरें दिसता. आमची वयां, संसार बी सगळें विसरून आमी परथून कॉलेजकन्यका जातात.

म्हजे पुरतें सांगचें जाल्यार सरालें घर म्हळ्यार दुसरें कुळार. जेन्ना जेन्ना गोंयांत वतां तेन्ना सरांगेर एक रात तरी रावंक वतांच. रातचीं जेवणां जातकच सर, मंगल आनी हांव अशी आमची मैफल सुरू जाता. सरांचो न्हिदेचो वगत जालो काय सर वचून न्हिदतात. मागीर मंगल आनी हांव अशी दुसरी इनिंग सुरू जाता.

म्हज्या लग्नाचें आमंत्रण दिवंक हांव सरांगेर गेल्लें. त्या वेळार पुनव ह्या मासिकांत 'गाळी- एक उपेक्षीत विशय' हो म्हजो लेख उजवाडाक आयिल्लो. सरान तो वाचिल्लो दिसता. म्हाका पळोवन सरान म्हळें, मंगल, हें कोण रांडूल आयलां पळे. तें आयकून मंगलाक वायट दिसलें. मंगलान म्हळें, तें लग्नाचें आमंत्रण दिवंक आयलां आनी तुमी अशें कितें उलयतात? मंगलान अशें म्हणटकच सरूय मातशे गंभीर जाले. पूण सराल्या त्या उतरां फाटल्यान आशिल्ली म्हज्या लेखाक दिल्ली दाद म्हाका रोखडीच कळ्ळी. हांवें म्हळें. ओगी राव गो! माजराचे दांत आपल्या पिलांक केन्ना लागल्यात तर. हांव थंयच्यान भायर सरतकच गाळीं वयल्या लेखा विशीं सरान मंगलाक सांगलें काय ना खबर ना.

म्हजें खंयचेंय बरप सरांनी वाचलें आनी सरांक तें आवडलें काय सर अशा एक नाजाल्यार दोन शब्दांनी कवतूक करून सांगताले.

'कित्याक' ही कथा वाचले उपरांत सर जेन्ना मेळ्ळे तेन्ना सरान दोनूय भुंवयो उंचावन हांसत कित्याक, कित्याक इतलेंच म्हळें. जाल्यार 'भुरग्यांचो खेळ' ही कथा सरान वाचली. सरान म्हाका कांय म्हणूंक ना, पूण मंगल सांगतालें, आगो, तुगेली ती कथा सरान खंयतरी वाचली आनी मुद्दाम म्हाका हाडून वाचपाक दिली. जाल्यार 'बापूय, पूत आनी हांव' ही कथा वाचून सरान मॅच्युरिटी दिसता अशें म्हळें. सर सदांच म्हजें कवतूक करता अशें ना. पुनवेंत एक कथा हांवें बरयिल्ली. तांतलो नायक भेड्डो आसता. सुरवेक हांवें ती बरी करून बरयली. मागीर कितें जालें खबर ना. मुखार ती कथा हांवें कशायकशी सोंपयली. ती वाचून जातकच सरान म्हाका सांगलें, काय बरी ती कथा. तिची वाट कित्याक लायली? असलें कित्याय कितें बरोवचे परस बरोवप बंद कर. म्हजे 'वायटांतले अणभव' वाचून सरान म्हळें, भांगरा सारक्या अणभवांची वाट लायली. ह्या अणभवांचेर कल्पनेचो साज चडोवन काय बरी कादंबरी तुज्यान बरोवं येताली. अजून विचार कर आनी त्या अणभवांचेर कादंबरी बरय.

'भुंयचांफीं' छापचे पयलीं श्री. रवीन्द्र केळेकारान म्हाका विचारलें, तुज्या पुस्तकाक कोणाली प्रस्तावना घेवया? हांवें म्हळें, म्हज्या पुस्तकाक प्रस्तावनेची गरज ना. पूण तुमकां जर प्रस्तावना जायच अशें दिसता जाल्यार नाडकर्णी सरांक सांगात. कित्याक सरान प्रस्तावना बरयत जाल्यार हांव सरांची विद्यार्थीनी म्हूण सर म्हज्यो चुको माफ करचे नासले. समिक्षेचे बाबतींत तर उतरां जोखतना सर, शेट भांगर जोखता तशे तरेन उतरां जोखपी. शेट भांगर जोखून सांगता इतले ग्राम आनी 157 मिलिग्राम म्हणून. तश्शे सर अमूक वाक्याक, शब्दाक लागून कथा, व्यक्तीचित्र, उंचायेर वता, नाजाल्यार ताची कशी वाट लागता तें सांगतात. आनी खऱ्यांनीच सरान सुंदर प्रस्तावना म्हज्या पुस्तकाक बरयली.

ती प्रस्तावना वाचून हांवें सरांक म्हळें, सर, ही कितें प्रस्तावना जाली? प्रस्तावना केन्ना इतली व्हड आसता? तेन्ना सरान म्हळें, तुजें पुस्तक बरें आसा. तें फाटीं फुडें बी. ए. क बी लागूं येता. कोंकणींत अशी समिक्षा कोणें बरोवंक ना. तेन्ना समिक्षा कशी आसची, खेरीज कथा आनी व्यक्तीचित्र हांतलो फरक समजावन दिवपा खातीर अभ्यासपूर्ण अशी ती समिक्षा हांवें बरयली. मुखार सरान म्हळें, तुजें हें पुस्तक बरें आसा. हाका साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळूंक हरकत ना.

साहित्यीक मळा वयले म्हाका कसलेय प्रस्न पडले, नाजाल्यार खंयचेय गजालीचे वायट दिसलें, जाल्यार हांव सरा कडेन उलयतां. पयलीं एकेक खेप म्हाका प्रस्न पडटालो, हांव कित्याक बरयतां? हांवें कित्याक बरोवंक जाय? बरयना जाल्यार कितें जातलें? सदां भाशेन हे प्रस्न हांवें सरां मुखार मांडले. सरान सांगलें. हें पळे, तुजे कडेन बरोवपाची ही जी कला आसा ती तुका मेळिल्ली दैवी देणगी. खंयचीय कला ही त्या व्यक्तीची आसना. ती समाजाची आसता. ज्या समाजांत तूं रावता, वावुरता, ल्हानाचें व्हड जाता, त्या समाजाच्या तूं रिणांत आसता. तेन्ना तुवें तें रीण फारीक करूंकूच जाय. ह्या सामाजीक बांदिलकी खातीर तुवें बरोवंकूच जाय. तूं आपलें बरयन दिसता तो मेरेन बरयत राव.

सर स्वता सामाजीक बांदिलकी मानपी मनीस. स्वता सर खूब सादे रावतात. ओगीच शो करप तांकां मानना. लोक पाट्यांचेर, लग्नाचेर लाखांनी पयशांचो धुंवर करतात. तें सरांक मान्य ना. अशे तरेन पयशे उधळचे परस गरजू भुरग्यांक आपल्या पांयार उबे रावंक मजत करची अशें सरांचें मत. स्वता सरांनी कितल्या तरी हुशार पूण गरजू भुरग्यांक आपल्यागेर दवरून घेवन तांचें शिक्षण पूर्ण करूंक मजत केल्या. आनी अशे भुरगे लग्न करून वेवस्थीत संवसार करतात. आनी मुख्य म्हळ्यार

सरांल्या फामिलींतलेशे जाल्यात. हांव जेन्ना सरांगेर रावंक वतां, तेन्ना अशे कोणूय आयिल्ले आसतात. हांव मंगलाक विचारतां, आगो, तो कोण? आमगेर तो शिकूंक आसतालो अशें मंगल सांगता. ताजे वेल्यान म्हाका हें कळ्ळें. नाजाल्यार म्हाकाय हें खबर नासलें. सामाजीक बांदिलकी अशें तोंडान फकत म्हणीनासतना सरान प्रत्यक्ष हें कृतींत हाडलां. म्हज्या मतान हें म्हत्वाचें.

सरांक एकदां हांवें विचारलें, 'सर' तुमची श्रीमंतीची व्याख्या कितें? ताचेर सरान म्हळें, संवसाराक जितलें लागता तितलें मेळप प्लस पंचवीस टक्के अदीक मेळप म्हणजे श्रीमंत! 'पंचवीस टक्के अदीक कित्याक?' म्हजो प्रस्न. सरान म्हळें, हें पंचवीस टक्के इमर्जन्सी खातीर! म्हळ्यार दुयेंस आसा, प्रवास आसा, ताचे खातीर.

श्रीमंतीची इतली सुसंस्कृत व्याख्या हांवें केन्ना आयकल्ली ना, न्हय वाचूंक ना.

सर आपल्या मतां विशीं आग्रही आसतात. तांची हीं मतां अभ्यासपूर्ण विचारांचेर आदारिल्लीं आसतात. ताका लागून थोड्या लोकांक ते दुराग्रहीशे दिसतात. जाल्यार थोड्यांचें मत ते सिनीक. पूण सरांचे लागीं जर हे लोक वचत आनी सरांचें ते निरिक्षण करीत जाल्यार तांचीं हीं मतां बदलतलीं हातूंत म्हाका इल्लोय दुबाव ना. वा हांव अशें म्हणटां,

सरा कडेन वतात जाल्यार आपलो अहम कुशीक दवरून वचात.

एक खेप आमी सगळीं जमिल्लीं तेन्ना हांवें सरांक म्हळें, सर म्हजें जें पुस्तक मुखार येतलें न्हय, तें हांव तुमकां अर्पण करतलें. सरान म्हळें, म्हाका शें? हांवें कितें केलां? सरांक आंगठो दाखोवन हांवें म्हळें, सर, गुरूदक्षिणेचो आंगठो. सर मना पसून हांसले. खंयच्याय विनोदाक सर मना पसून हांसतात.

सर बाजारांत आंबे हाडूंक गेल्ले. आंबेकान्नीन आंबे 200 रुपया

डझन म्हूण सांगलें. आंब्याचो दर आयकून सर चलूंक लागले. आंबेकान्नीन विचारलें, बाबू खंय वता रे? सरान कितें सांगचें? सरान सांगलें बँकेंत.

खंयच्या तरी मॅगॅझिनांत शबाना आझमीचो फोटू आयिल्लो तो पळोवन मंगलान म्हळें, मला हिचा बोंचा (बोंचो) अजिबात आवडत नाही. ताचेर सरालें उत्तर- (मराठींत 'बोंचा' म्हणल्यार कुले) तुला तिच्या बोच्याशी काय करायचय?'

सर कोंकणी शब्दसागराचें काम करताले. तेन्नाची गजाल. मंगल आनी सरालीं कित्याक लागून तरी झगडीं जालीं. हेर घोवावरीं सरान मंगलाक म्हळें, तुला ना अक्कलच कमी. मंगलाक राग आयलो. राग येतकच मातृभाशा तोंडार येता. मंगलान म्हळें, तुमी म्हजी अक्कलशी वयर कित्याक काडटात?

कितें म्हळें तुवें?

तुमी म्हजी अक्कल कित्याक वयर काडटात? सर भितर गेले आनी तांणी बरोवन दवरलें. 'अक्कल वयर काडप'. शब्दसागरा खातीर तांकां आनीक एक वाकप्रचार मेळिल्लो.

हांवें बाबांचें व्यक्तीचित्र बरयिल्लें त्या वर्साची गजाल. सर खूब दुयेंत जाल्ले. ते स्वर्गाक हात लावन परत आयिल्ले. मागीर ते मुंबय आयिल्ले. म्हाका खबर नासलें. तो दीस आयतार आसलो. भुरगीं शाळेंतल्यान पिकनिकेक गेल्लीं. घरकार कंपनीच्या पिकनिकेक गेल्लो. रांदूंक सुटी म्हणून हांव ओग्गी बसून आशिल्लें. इतल्यान सर आनी मंगल आमगेर भितर सरलीं. उदकपाणी जातकच हांव रांदूंक वचूंक लागलें. सरान म्हळें, जेवणखाण मागीर. तूं पयलीं हांगा बस. अशें म्हणून सरान बाबालें व्यक्तिचित्रण कितलें बरें जालां तें सांगलें. ताजीं तासां विस्कटावन दाखयलीं. तेन्ना म्हाका कळ्ळें की म्हज्या हातांतल्यान कितें तरी बरें बरोवन जालां. मागीर सरान म्हळें, कॉलेजांतल्या पुस्तकांनी

ह्या व्यक्तिचित्राचो आसपाव करूंक लाय. असलें कितेंय शिकोवंक मेळ्ळें काय पांच स लेक्चरां हाचेर सहज वचूंक शकतात. आनी सर त्या व्यक्तिचित्राचेर भरभरून उलयले. सरान इतली तुस्त म्हज्या बरपाची केन्नाच करूंक नासली. निमाणे कडेन सरान म्हळें, आज मी तुमच्या ऋणांतून मुक्त झालो. सरान अशें कित्याक म्हळें म्हाका अजून कळूंक ना.

साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळटकच हांवें सरांक फोन केलो आनी सरांक विचारलें? मराठीचो पुरस्कार कोणाक मेळ्ळा खबर आसा? सरांक खबर नाशिल्लें. त्या वर्सा मराठीचो पुरस्कार प्रो. म. वा. धोंड हांकां मेळिल्लो. प्रो. धोंड हे सरांचे प्रोफेसर. सरान म्हळें, म्हज्या प्रोफेसरांक आनी विद्यार्थीनीक एकाच वर्सा साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळप हो कसलो योगायोग काय?

मागीर जेन्ना हांव गोंयां गेल्लें तेन्ना सरांक पेढे घेवन गेलें. सरान पेढे घेतले ना. वेल्यान सरान सांगलें, हांव जेन्ना एम. ए. क फर्स्ट आयलों, तेन्ना म्हज्या प्रोफेसरांक पेढे घेवन गेल्लों, तेन्नाय तांणीय म्हजे पेढे घेवंक ना. तांणी म्हाका पेढे दिल्ले. तशे हांव तुका पेढे दितां. अशें सांगून म्हजे खातीर हाडून दवरिल्ली मिठाय सरान म्हाका दिली. वेल्यान मंगलान साडी घालून म्हजी व्हंट भरली. सरान एक पाकीट म्हज्या हातांत दवरलें. हांवेंय तें पाकीट सुगुरव्याचें म्हूण तश्शें सांबळून दवरलां.

साहित्य अकादमीचें इनाम घेतना भाशण करचे पडटा तेन्ना हांव सरांक विचारूंक गेल्लें. सर हांव कितें म्हूण भाशण करूं? तेन्ना सरान म्हळें, तुका साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळो. तुवें साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद भुशयलें, तरिकूय म्हाका भाशण कितें करूं म्हूण कितें विचारता? कितलो तेंप तूं म्हज्या आदारान उडूंक सोदता? स्वतंत्रपणान उडूंक शीक आतां. आयकून पयलीं म्हाका राग आयलो. मागीर वायट दिसलें. उपरांत ताचेर विचार करतकच दिसलें, आरे

गजाल खरी. कितलीं वर्सां म्हूण सरांचेर निंबून रावप? काय बायलमनीस जाल्ल्यान कोण ना कोणाचेर निंबून रावची संवय जाली म्हाका?

सरांक जेवण बी बरें साग्रसंगीत लागता. सर एक रसीक खवय्या. खंयचीय वस्त बरी लागली जाल्यार खावन कवतूक करप ही सराली खासीयत. स्वता सर एक बरे रांदपी. तांकां चिकन मटन लेगीत करूंक येता.

एक खेप हांव सरांगेर गेल्लें. मंगलान आमरस पुरी केल्ली. हांवें दुसरें आनी काय खालेंच ना. फकत आमरस पुरी खाली. ती खाले उपरांत म्हाका सुस्ती आयली. हांव जें न्हिदलें तें बद्द पांचाक उठलें. आतां केन्नाय आमरस केल्यार मंगल आनी सरांक म्हजी याद जाता. आनी हांगा मुंबय दुकानांनी 'केरीनो रस मळशे' अशें वाचले काय म्हाका मंगल आनी सराची याद येवन हांसो फुट्टा.

आतां सर रिटायर्ड जाले. तांगेर हांव गेल्लें तेन्ना तांणी म्हाका सांगलें, आपलीं पुस्तकां आपणें थोडीं हाका दिलीं. थोडीं ताका दिलीं. आनी अशेंच कितें कितें. म्हाका अजाप जालें. कित्याक सर आपल्या पुस्तकाचेर भुरग्यांवरी प्रेम करताले. म्हाका याद जाली. खूब वर्सां पयलीं सरान म्हाका एक पुस्तक वाचूंक दिलें. पुस्तकाचें नांव 'काळोखाचें अंग'. पुस्तक वाचून जालें काय तें व्हरून दिल्या उपरांतूच सर दुसरें पुस्तक दिताले. म्हजे पुस्तक वाचून जाल्लें. पूण सरांगेर वतना तें पुस्तक व्हरूंक म्हाका याद जाय नासली. अशोच आमी सगळ्यो विद्यार्थींनी तांगेर गेल्ल्यो. तांणी बाकीच्यांक पुस्तकां दिलीं. म्हाका पुस्तक दिलें ना. म्हजें पुस्तक पयलीं हाडून दी मागीरूच दुसरें पुस्तक व्हर. सरान अशें म्हणटकच म्हाका हांसो फुटलो. त्या वयार तशें हांसूंक कारण बी काय नासलें. हांव हांसता म्हूण सरांक दिसलें की पुस्तक शेणलां. सरान विचारलें, पुस्तक जाग्यार आसा न्हय? काय शेणयलां? हांवें म्हळें 'सर, पुस्तक घराच आसा, शेणूंक ना.' म्हाका

आनीक हांसूक येवंक लागलें. हांव हांसता तें पळोवन सरांक दिसलें पुस्तक नक्कीच शेणलांच आसतलें. सरान म्हळें, फाल्यांच म्हजें पुस्तक हाडून दी. मागीर हांवूय घरा गेलें पुस्तक घेतलें आनी तशातशें सरालें पुस्तक व्हरून दिलें, आनी कांय उलयनासतना घरा आयलें.

मागीर मंगला कडल्यान कळ्ळे की सरान म्हजेर अविस्वास दाखयलो, ताचें सरांक वायट दिसलें. सर मंगलाक म्हणटाले खंय, तूं तांगेर वचून ताका दुसरें पुस्तक व्हरून दी म्हणून. सांगपाचो उद्देश आपल्या पुस्तकांचेर जिवापाड मोग करपी सरान आपलीं पुस्तकां दिवन उडयिल्लीं.

सरांक एकलोच पूत. हेमंत. इंजिनियर. ताच्या लग्नावेळची खबर. तेन्ना हेमंत मुंबय आशिल्लो. थंयच एके चलये कडेन ताची सोयरीक जुळ्ळी. तेन्ना चलयेले आवयबापूय फुडलीं उलोवणीं करूंक गोंयां आयले. गोंयच्या सोयऱ्यांगेर रावले. सोयऱ्यांनी सांगलें, फुडलीं उलोवणीं करूंक तुमी आनी वचूंक नाकात. गोंयांत देणेंघेणें इतलें आसता की तें तुमकां परवडचें ना. खेरीज भुरगो इंजिनियर. मागीर आनी विचारूंच नाकात. पूण आतां इतलीं गोंयां आयिल्लींच आसात जाल्यार वचून पळोवया म्हूण व्हंकलेचे आवय-बापूय सरांगेर आयले. तांणी सरांक विचारलें, तुमच्यो कितें अपेक्षा आसात? तुमची कितें मागणी बी? सरान सांगलें आमकां कांय नाका. फकत चली चल्याक पसंत पडली आनी शिकिल्ली आसल्यार पुरो. सर कितें सांगता, ताचेर त्या लोकांचो विस्वासूच बसलो ना. खऱ्यांनीच तुमकां कांय नाका? अशें तांणी कितले खेप तरी विचारलें.

हांवें सरांक विचारलें 'सर, तुमी सून म्हूण जी चली पसंत केली ती खंयच्या निकशांचेर?' सरान म्हळें, 'जे चलयेक पळोवन म्हजें वात्सल्य जागें जालें, ती चली सून म्हूण म्हाका पसंत पडली.'

जण एकल्या मनशाचें जिणे विशींचें आपलें अशें एक तत्वज्ञान

आसता. पूण ते प्रमाण ते जगतात अशे नात. नाडकर्णी सर मात त्या तत्वज्ञानाक पुरायेन पाळो दिवन, कसलीच तडजोड करिनासतना जगतात. जें काम आपूण करतां तें जीव ओतून करप, गरिबी-श्रीमंती विशींची आपली व्याख्या थारावन तेप्रमाण जगप, समाजीक लागणुकेक पाळो दिवप ह्या गजाली विशीं उलयनासतना तशें जगप हें सरांचें खाशेलपण!

आतां म्हाका दिसता, हांवें हें सरालें व्यक्तिचित्र बरयलां. आतां तें कोणेंय वाचलें आनी ताका तें आवडलें, आनी तांणी हें व्यक्तिचित्र खंयच्याय पाठ्यपुस्तकांत घालें, आनी सरांक तें शिकोवंक लायलें जाल्यार सर तें कशे शिकयतले काय?



# रमेश भगवन्त वेळुस्कार

सत्यजीत रे उपरांत हिमालया इतलो प्रचंड आत्मविस्वास आशिल्लो मनीस कोण, अशें जर म्हाका कोणूय विचारीत जाल्यार हांव फाटलो फुडलो विचार करिनासतना, कोंकणीतलो कवी रमेश भगवंत वेळुस्कार म्हूण सांगपी.

सत्यजीत रेक तुमी वळखतात. खंयचोय पुरस्कार, राष्ट्रपती पदक लेगीत घेतना हो मनीस इतले तायट मानेन आनी आत्मविस्वासान घेतालो, की जसो हो राष्ट्रपतीचेरूच तें घेवन उपकार करता काय कितें असो पळयतल्याक भास जावचो. जशें काय हाणेंच हें पदक राष्ट्रपती कडेन दवरूंक दिल्लें आनी तें तो परथून व्हरता. तातूंत व्हडलेशें काय ना. ऑस्कर ॲवॉर्ड घेतना लेगीत ताच्या तोंडार अशे भाव आशिल्ले की तुमी उसरां काय जायना, हो पुरस्कार दिलो तें बरें केलें. नाजाल्यार पश्चाताप करपाची पाळी तुमचेर येतली आशिल्ली, म्हजेर न्हय. अशा सत्यजीत रेल्या आत्मविस्वासा लागीं लागीं पावपी मनीस म्हळ्यार कवी रमेश वेळुस्कार. बंगालीचें कोंकणीक योगदान काय कितें म्हणटात तें हें!

तशें पळयल्यार बंगालीपण रमेशाल्या पुराय व्यक्तीमत्वांतूच आसा. सत्यजीत रेचो वारसो चलोवपाक रमेश बंगालांत जल्माक येवचो सोडून चुकून गोंयांत जल्मलो सो दिसता. फावो तितले उंचायेचो, बदामी दोळ्यांचो, कोंगऱ्या केंसांचो, ते केंसूय बी जाय तशे अस्ताव्यस्त. हांवें अशें म्हणीत जाल्यार, ह्या अस्ताव्यस्त केंसांतूय एक वेवस्थीत अशें अमूर्त चित्र म्हाका जाणवता, जाणा मुगो? अशें म्हणूंक तो फाटीं सरचो ना. तुमचे परस हांव कोण तरी वेगळो, जो तुमकां कोणाक अजून होलमूंक ना, अशें तोंडार भाव; सदांच आपले तंद्रेंत गुल्ल. (तो तो आत्मानंद काय कोण तो तातूंत आसत घडये.) आपल्या कविपणाची मिजास बाकीबाबाले शाली भशेन आंगा खांद्यार खेळोवपी.

ताची उलोवपाची रीत. सवकास. गहन तत्वज्ञान सांगिल्लेवरी. जशें कांय हागेलें उलोवप आयकूंक लेगीत खूब नशीब जाय. तागेलें उलोवप अशें- 'जाणा मुगो...' इतलें उलोवन मान मातशी तिरपी करतलो, दोनूय भुंवयो वयर करतलो, मुसलमान लोक नमाज पडटना उजवे दावे वटेन मान भोंवडायतात, तशी मान भोंवडायतलो आनी मागीर 'ताचें कितें आसा...' अशें म्हणून परतोय थांबून परथून फुडलें उलयतलो.

एकाद्री सादी गजाल, म्हळ्यार, आयज बाजारांत बांगडे रुपयाक पांच आशिल्ले. हें सांगतना तो तें एक वाक्य सांगूंक लेगीत पंदरा मिनटां घेतलो. तर तो हें वाक्य कशें सांगतलो? तें अशें 'बांगडे म्हळ्यार नुस्तें. म्हळ्यार देवालो मत्स्यावतार. आतां एका एका बांगड्याची रुच एके तरेन आसूं येता वा नासूंय बी येता. तेन्ना ती रुच आपशींच समुदायाची जाता. आतां ह्या बांगड्यांचो प्रवास कसो? जाल्यार उदकांतल्यान नुस्तेकाराल्या जाळांत. जाळांतल्यान यान्निले पाटलेंत. पाटलेंतल्यान आमच्या नाजाल्यार तुमच्या नाजाल्यार आनी कोणाले तरी पोतयेंत. पोतयेंतल्यान आदोळेर. थंयच्यान हुमणाच्या तोपांत जावं येता, नाजाल्यार

तव्यार आसूं येता. थंयच्यान आमच्या ताटांत. ताटांतल्यान जिबेर. जिबेवेल्यान पोटांत. म्हाका बांगडे आवडले म्हूण ते तुकाय आवडले अशें म्हज्यान म्हणूं नज. वा आयज म्हाका बांगडे आवडले म्हूण फाल्यांय ते म्हाका आवडटलेच अशें ना. कित्याक, मनशाची रुच थळाकाळा प्रमाण (वा नुस्त्याप्रमाण) बदलत आसता. आतां पळे, आयज बाजारांत रुपयाक पांच बांगडे आसात. आतां बांगड्याक आपणालें अशें मोल ना वा आसूंय बी येता. रुपयाक पांच बांगडे म्हळ्यार जायत्या पयशेकारां खातीर ते सवाय आसूं येता. पूण एक रुपया लेगीत नाशिल्ल्या खातीर म्हारग आसूं येता. वा बांगड्याचो तेंप नासता तेन्ना ह्याच पांच बांगड्यांचें पन्नास रुपया बी मोल जावंक शकता. तेन्ना रुपयाक पांच बांगडे आसप, ही गजालूच जिणेचें कितलें व्हड तत्वज्ञान सांगता पळे.'

उलयतना मुखा वयल्याक कसले तरी प्रस्न विचारून ताका घुस्पागोंदळांत घालून, ताच्या तोंडांतल्यान जापो काडून घेवन ताच्या जापांनी परथून ताका घुस्पावन ताचो जाल्लो गोंदळ पळोवन मुमुरख्यांनी हांसप हो एक रमेशालो आवडीचो उद्येग. एक खेपे ताणें म्हाका सांगलें, 'जाणा मगो, हालीसराक गोंयच्यो चलयो बारांनी वतात आनी बियर नाजाल्यार दुसरें ड्रींक मागयतात. हें आयकून तुका कितें दिसलें?'

'म्हाका वायट दिसलें रे हें आयकून!' हांवें म्हळें.

'कित्याक? कित्याक वायट दिसलें तुका?' ताचे दोळे लिकलिकले. कापडयो जाळ विणटा. तातूंत एकाद्रो जीव आयलो आनी जाळे हाल्लें काय तो सादूर रावता, आतां हो आनीक हालतलो. जाळांत घुस्पतलो आनी मागीर हांव ताका खातलों. तसो रमेश सादूर जावन बसलो. हांव पयलीं ओग्गी रावलें. 'सांग मगो, तुका कित्याक वायट दिसलें?'

'कित्याक तर हांव पंचवीस वर्सां उपरांत जल्माक आयलें ना म्हूण!'

'तुगेल्या जल्माचो आनी चलयांनी बारांत वचपाचो कितें संबंद?'

आतां रमेश गोंदळ्ळो.

'संबंद ना कसो? हांव पंचवीस वर्सां उपरांत जल्माक आयिल्लें जाल्यार त्या चलयांच्या वयाचें आसतालें आशिल्लें आनी तांच्या वयाचें हांव आशिल्लें जाल्यार तांचे बराबर हांवूय बी बारींत वचून बियर मागोवंक शकतलें आशिल्लें न्ही?'

म्हजी जाप आयकून रमेश हांसुकूच लागलो. आनी 'तूं मगो... तूं मगो...' इतलें म्हणून ताणें विशय बदल्लो.

ताच्या मनांत आयलें की तो पत्रां बरयता. ताचें पत्र वाचूंक म्हाका अर्द वर लागता. कित्याक, तो कोंकणी बंगालींतल्यान बरयता. म्हजी 'सीमा' ही कथा वाचून ताणें बरयिल्लें, 'खऱ्यांनीच तुगेली सीमा असीम गो!' जाल्यार 'बाबा' हें व्यक्तीचित्र वाचून ताणें बरयिल्लें, 'खांपऱ्या, हांव तुका कितें म्हणूं?'

एक खेपे म्हजो एक लेख ताणें वाचलो. त्या लेखांत माड हो श्रीकृष्णान रचिल्लो रास आनी नाल्ल ही गोपीलीं दुदाचीं मडकी, जातुंतलें दूद विटकळून उदक कुशीक सरलां... अशें कितें शें हांवें बरयिल्लें. तें वाचून ताणें म्हळें, 'आनी माडाची फेणी म्हळ्यार गो?' हांवें म्हळें, 'सांगूं?' 'नाका गो. तूं नाका तितलें स्पश्ट उलयतलें.'

ताच्या मतान एकेक खेपे हांव मदीं मदींच कित्याय कितें बरयतां. देखीक 'मॅगी' हे म्हजे कथेंत गुरवार टिचरिलें चडटेर चडप. घो घो करून चडपी बस. 'मॅगी' कथा धावेक आसा. खुबशा शिकोवप्यांची ह्या वाक्याक हरकत आसा, जाणा मगो?' ताणें सांगलें. मजा म्हळ्यार 'मॅगी' ज्या धावेच्या पुस्तकांत घेतल्या त्या अभ्यासक्रमाच्या संपादपी मंडळांत हाचेंय नांव आसा.

एक खेपे रमेश श्री. नागेश करमली बराबर श्री. रवीन्द्र केळेकारागेर गेल्लो. म्हाका दिसता, रमेश पयलेच खेपे रवीन्द्रबाबागेर गेल्लो. थंय तांणी गजाली मारल्यो. दनपरां जेवले बी. जेवले उपरांत रवीन्द्रबाबान

सिगार काडलें आनी रमेशाक सिगार जाय काय विचारलें. रमेशान म्हळें, 'दी'. ताणें सिगार घेतलें आनी रवीन्द्रबाबा बराबर सिगार ओडलें. हो प्रकार सांगून रमेशान म्हळें, 'तसो हांव सिगार ओडिना गो. पूण रवीन्द्रबाबा सामकार हांवें सिगार ओडलें तें पळोवन नागेश करमली सामको बेज्जार! ताणें म्हाका वाटेर तापयलो. ताणें म्हळें, 'तुवें रवीन्द्रबाबा सामकार सिगार ओडलें कशें?' त्या उतराक हांवें ताका सांगलें, 'रवीन्द्रबाबान म्हाका सिगार विचारलेंच कशें? हांव ताचे परस ल्हान, तेन्ना तांणी म्हाका विचारूंक जायनाशिल्लें. तांणी विचारलें म्हूण हांवें घेतलें.' अशें तागेलें तत्वज्ञान. आपलें हें अशें वागप बाकीच्यांचे नदरेंतल्यान उर्मटपण जावं येता हाची जाणवीक ताका ना अशें म्हणूं येत? पूण ताका ताची पर्वा ना.

पूण रमेशाक कोणालीच पर्वा ना अशें म्हणूं नज. ताचो आपल्या बापायचेर खूब्ब मोग. खूब्ब आदर. ताच्या उलोवपांतल्यान म्हाका हें जाणवलें. पूण ताचें, बापूय आनी पूत हें नातें कशे तरेचें आसा हें म्हाका खबर ना. पूण तें आदराचें आसूंक जाय. आपूण बापाय कडेन वागतना एके मर्यादेन वागतां, तशेंच बापाय सारक्या मनशा कडेन वागतना आपले मर्यादेची शीम हुपूंक फावना हें ह्या समाजांत रावपी मनशाक कळूंक जाय न्हय?

मुंबय एक दीस तो आमगेर आयिल्लो. ताणें काळोच्च झब्बो घाल्लो. काळ्या धव्या सुतान भरिल्लो लखनवी झब्बो. खांद्याक शबनम पोती. तो आमगेर येवन एक दीस रावन गेलो. मागीर म्हज्या भुरग्यांनी म्हाका विचारलें 'आई, तो आयिल्लो तो मनीस कोण?

'म्हजो मित्र' हांवें सांगलें.

'कितें करता?'

'तो कवी.'

'दिसलो खरो कवी सो..' भुरग्यांचें मत. मागीर तांणी म्हाका

विचारलें. 'तुमी इतलें उलय उलय कितें उलयतालीं?' 'आमच्यो त्यो साहित्यीक गजाली' हांवें सांगलें.

रमेशालो संवसार रमेशाले कवितेवरी आगळो वेगळो. बायल भुरगीं थंय रायबरेली. हो गोंयां. एक खेपे सुटयेंत हो रायबरेली वता ना जाल्यार ती भुरग्यांक घेवन हांगा येता. म्हाका रमेशाले बायलेलें नांव आवडलें. मिथिलेश. रमेशाली आनी म्हजी इतली इश्टागत. पूण हांवें अजून तिका सारकी पळोवंक लेगीत ना. ही चली हाका कित्याक आवडली आसतली हाचो अदमास येवंक रमेशान मिथिलेशची सांगिल्ली एक गजाल सांगपा सारकी. एके सुटयेंत रमेशान तिका बरयलें. आपूण पयलीं उत्तर हिंदुस्थानांत भोंवता, आनी मागीर तिका मेळूंक येता. पूण मागीर कितें जालें देवाक खबर, ताणें आपलो विचार बदल्लो आनी तो पयलीं रायबरेली गेलो. ताका पळोवन मिथिलेशान म्हळें खंय, 'त्यागी तो भोगी बन गये.' म्हळ्यार कविते परस थोड्या उतरांनी रमेशाक बांदून आपणा मरेन खेंचपाची तांक तिचे भितर आसा.

एक खेपे 'कुळागर' म्हयनाळ्याच्या संपादकाच्या जाग्यार पळयल्यार रमेशाचें नांव. रमेशान कितेंय तरी बरप धाड म्हण म्हाका पत्र बरयलें म्हूण हांवें एक व्यक्तीचित्र ताका धाडून दिलें. छापून आयलें. पळयल्यार तातूंत पांटलोभर चुको. रमेशाक हांवें विचारलें, 'आरें, हें कितें? इतल्यो चुको म्हज्या बरपांत? आनी सगळ्या म्हयनाळ्यांतूय?' तेन्ना ताची जाप 'म्हाका संपादक केलो. हांव आपखोशयेन जावंक नाशिल्लों. म्हयनाळ्याक साहित्य दिवपाचें काम तितलें म्हजें. बाकीचें काम म्हजें न्हय.' अशें म्हूण विश्वामित्र पवित्रो घेवन हो कवी मेकळो. हिंदींत गुलशन नंदा ह्या बरोवप्याच्या नांवारूच लाखभर हिंदी कादंबऱ्यो खपताल्यो. ताका लागून प्रकाशक दुसऱ्या कोणाय कडल्यान कादंबरी बरोवन घेताले आनी गुलशन नंदालें नांव घालून आपलो माल खपयताले. अशें कितेशें रमेशाल्या नांवा विशीं

आशिल्लें जाल्यार रमेशालो हो विश्वामित्री पवित्रो समजूं येतालो. पूण...

कसलीय सादी गजाल रमेशाक सांगात. तो तुमकां फटाफट तत्वज्ञान सांगूंक लागतलो. आपले जण एके कृतींत, उलोवपांत, बरपांत तत्वचिंतन आसता अशी ताची प्रामाणीक समजूत. एक खेपे ताणें बरयिल्लें. 'हरशीं लोक गजालींचेर कोंत्र बी आसता. हांव गजालींचेर प्यार! कारण सांगतां, गजाली म्हळ्यार प्राणांतल्यान प्राणा कडचो प्रवास. हो प्रवास कोण करता हाचें कुवाडें आसता.' हांवें तागेल्या आत्मविस्वासा संबंदान एक खेपे बरयिल्लें. ताचेर आयिल्ली ताची जाप अशी आशिल्ली... 'जाणा मुगो, आमकां सगळ्यांक आपआपणाली अशी उंचाय आसता. म्हळ्यार म्हजी उंचाय म्हाका लांबूय न्हय आनी मोटवीय न्हय. पूण ही जाली कुडीची वाड. मानसीक उर्जा अमर्याद. ती कितलीय व्हड जावं येता. कितलीय शक्तीशाली जावं येता. ना जाल्यार सुप्त जावं येता. ना जावं नज. प्रामाणीकपणान सांगतां म्हाका हें अश्शें दिसता. म्हजो आत्मविस्वास समाजीक न्हय. म्हळ्यार म्हजो आत्मविस्वास समाजीक जाणविकेचेर निंबून ना. तो आसा म्हजे प्राणशक्तीचेर. ह्या विश्वाच्या आदिप्राणाचेर. सुर्याचेर. सुर्याक्षराचेर.

बापाय...! रमेश अशें कितें उलोवंक लागलो आनी बरोवंक लागलो काय म्हजो स्वास (काय म्हजी प्राणशक्ती?) भितरले भितर अंदिल्लेवरी जाता. पूण म्हाका दिसता रमेशाल्या ह्या उतरांत तथ्य आसा. रमेशाली मानसीक उर्जा अमर्याद आसूंक जाय. कित्याक, ते अमर्याद उर्जेचो परिणाम बाकीच्या कोंकणी कवी कवियत्रींचेर बऱ्योच नकलामी करता सो दिसता. कोंकणीतल्यो खुबश्यो कविता वाचीत जाल्यार आमी दुसऱ्यो कविता वाचतात काय रमेशाल्या कवितांची पडबिंबा वाचतात, असो एकेक खेपे दुबाव येता.

रमेशाल्यो कविता म्हाका आवडटात. पूण तागेल्या कवितां परस

ताणें आपल्या कवितांचेर बरयिल्लें गद्य म्हाका चड आवडटा. नादमयता हो रमेशाले कवितेचो एक व्हड गूण. पूण हालीं रमेश हे नादमयतेच्या भोंवऱ्यांत चड घुस्पल्लेवरी दिसता. तिका लागून उतरांच्या खळखळटांत आपलें काव्य शेणटा हाचें ताका भान उरूंक नाशें दिसता. 'मोरपांखां' उपरांतच्यो कविता वाचल्यार ही गजाल चड खरसाणेन जाणवता.

साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळे उपरांत हांवें ताका विचारलें, 'साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळा म्हण कळटकच तुका कितें दिसलें रे?'

ताणें म्हळें, 'खोस जाली गो, पूण पुरस्कार मेळ्ळो म्हूण न्हय, पंचवीस हजार मेळ्ळे म्हूण! खोस म्हाका तेन्ना जातली जेन्ना हांव कितेंय तरी उरपा सारकें बरयतलों.'

अशें म्हणपी कवीक 'तुज्या ह्या उतरांचे खेळ पुरो रे बाबा' म्हूण कोणेंतरी सांगुकूच जाय.

फाटीं राजहंसाचें एक पत्र आयिल्लें. भुरग्यां खातीर कितेंय तरी बरोवन धाड म्हूण. राजहंसाचे भुरग्यां खातीर काडिल्ले अंकूय बी आशिल्ले. संपादक म्हूण रमेशालें नांव आशिल्लें. तेन्ना हांवें राजहंसाक बरयल्लें, शिगम्याच्या म्हुर्तार म्हजे वतीन रमेशाक कोंकणींतल्यो सगळ्यो गाळी घाल म्हूण! कित्याक, ताणें म्हाका एकूय पत्र बरयलें ना आनी मुंबय आयलो जाल्यार म्हाका तो मेळूंकय बी ना म्हूण! पळोवया आतां, इतलें हें वाचून ताचें म्हाका पत्र येता, काय हांवें घाल्ल्यो गाळी व्याजा सयत तो म्हाका परथून धाडटा जाल्यार!



## माधव बोरकार

लेख पयलो

मोगाळ सौ. शीलाबाय,

सप्रेम नमस्कार

हांव मुंबय आकाशवाणीचेर 16 जुलय 84 सावन प्रोग्राम एक्सेक्युटीव म्हूण आयलां. कोंकणी विभागा खातीर तुवें कितेंय तरी बरोवचें अशी म्हजी तुका नमळायेची विनंती. तुवें कितेंयतरी बरयलां जातलेंच. तेंच घेवन यो. हांव तुका काँट्रेक्ट धाडटां. तुजो आमकां पालव आसतलो अशी आस्त बाळगितां.

सकयल सय आशिल्ली माधव बोरकार म्हूण! म्हाका अजाप जालें आनी खोशीय. अजाप हे खातीर की इतलीं वर्सां जालीं हांव मुंबय आसां पूण केन्ना कोणें म्हजी याद केली ना. आनी बोरकारान हांगा मुंबय येवन म्हजो पत्तो सोदून काडून म्हाका कार्ड घाल्लें. आनी हो आपोवणो कसो नमळायेचो आशिल्लो! पुराणांतले संस्कृत उलोवपी राजा आपल्यागेर येयात म्हूण आमंत्रण दितना अनुग्रहितास्मी म्हणटाले, तशेशें कितें दिसलें म्हाका. मुंबय येवन मुंबयच्या मनशांच्या म्हासागरांतलो एक थेंबो जावन आशिल्लें हांव. म्हाका म्हजें अशें अस्तित्व आसा हें

विसरून गेल्लें हांव. बोरकाराल्या पत्रान म्हाका म्हज्या अस्तित्वाची जाग आयली. आमचे बिल्डिंगेंत म्हाका 'हम भी कुछ कम नहीं' म्हूण झेत दाखोवंक मेळ्ळें.

बोरकाराक मेळूंक वतना बोरकाराच्योच कितल्याश्योच यादी मनांत आशिल्ल्यो. हांवें ताका पयलीं केन्ना पळयिल्लो? पयलीं हांवें ताका तो तेरा चवदा वर्सांचो आसतना पळयिल्लो. पिपल्स हायस्कूलाच्या युनिफॉर्मांत. धवें खोमीस आनी निळे अर्दे पॅन्टींत. म्हज्या खात्यार जेन्ना 'गेर' ही एकूच कथा आशिल्ली त्या वेळार बोरकाराल्या नांवांर एक कविता संग्रह आशिल्लो. तेन्ना ताजे विशीं इल्लें कवतूक मनांत आशिल्लें, तसो थोडोसो दुस्वासय आशिल्लो.

अर्दे पॅन्टीतलो बोरकार याद जाता तेन्ना म्हज्या दोळ्यां मुखार ताज्या हातांत आसताली ती हळडुव्या दांड्याची दादल्यांची सत्री उबी रावता. ते सत्रेक तो केन्ना पातयेनाशिल्लो. आपूण बसता थंय तिका उबी करून दवरतालो. तेन्ना ती (सत्री) बोरकारा परस उंच दिसताली.

बोरकाराली आनी म्हजी इश्टागत वाडली ती मॅट्रीक जावन सांताक्रूज हायस्कूलांत कोंकणी शिकोवंक येतकच. हांवूय थंय शिकयतालें. आतां तो बरोच ऊंच जाल्लो. उंचाय वाडटाली पूण आंगान भरूंक नाशिल्लो. ताणें केंस दवरिल्ले तेवूय बी इतले व्हड! आनी ते केंस परतो मागो काडून वळयिल्ले. कोंब्याचें शेंकरे कशे! आनी तेन्ना ताजो भेस आशिल्लो लेंगो आनी सदरो. तेन्नाचो तो बारकेलो बोरकार आनी सदरो पळोवन म्हाका हँगराक लायिल्ल्या सदऱ्याची ओगीच याद येताली.

तेन्नाचो तो बोरकारालो भेस श्री रवीन्द्र केळेकारा भाशेन, उलोवप श्री. र. वि. पंडिता भाशेन आनी स्टेजीर कविता म्हणप बाकीबाब बोरकारा भाशेन आशिल्लें. तेन्नाच्या ताज्या भेसाक लागून म्हाका ताचो राग येतालो. हांवें ताका कितले खेप सांगलें, बोरकार, तूं ल्हान आसा. तुगेल्या वांगडच्या भुरग्यां भाशेन कपडे कर. जाण्टेपणां करूं नाका. पूण

तेन्ना लेगीत तो ही गजाल हांसून फांफडून उडयतालो. आयज लेगीत ताची ही संवय वचूंक ना. ताका कोणेय कितें समजा सांगलें आनी तें ताका मानलें ना जाल्यार तो हांसता आनी आपल्याक जाय तेंच करता. तागेल्या ह्या भेसाक लागून तो सगळ्यांच्या बकच्छायांचो विशय जाल्लो. पूण ताका ताची पर्वा नाशिल्ली. म्हजे सारक्या आयकतल्याक तागेल्यो जातात त्यो बकच्छायो सोंसू नज जाताल्यो. पूण बोरकाराक ताचें काय दिसनाशिल्लें. तो आपलेच धुंदेंत मस्त...

जेन्ना बोरकार लेंगो आनी सदरो घालतालो, तेन्ना तो बसतना पळोवपा सारकें आशिल्लें. पयलीं तो उजवो हात वयर करून सदऱ्याचो हात कोंपरांतल्यान सकयल खेंचतालो. मागीर दावो हात वयर करून दुसरे वटेन सदऱ्याचो हात खेंचतालो. मागीर सदऱ्याचीं फाटलीं दोनूय तोंकां अचळय उखलतालो. मागीर बसतालो आनी मागीरूच तीं तोंकां सोडटालो.

बोरकार स्वभावान भिडेस्त. तो आपूण जावन कितलेय त्रास काडीत पूण ताका दुसऱ्यांक त्रास दिवप अजिबात आवडना. तो जेन्ना मुंबय आयलो तेन्ना बाय ललिता खांडेपारकार आनी बाय दुर्गा नेवरेंकार म्हाका सदांच सांगी, बोरकार आयलो, तेन्ना सावन आमी सुसेग घेतात. आमचें काम आमकां कामशें दिसना. बोरकार हांगा आयलो, बरें जालें. देवूच आमकां पावलो. 'आतां केन्नाय रेडिओ स्टेशनाचेर वचत जाल्यार बाय दुर्गा नेवरेकार म्हणटा, बोरकाराली याद जाली ना असो एकूय दीस वचना. कितले बेगीन गेले गो ते दीस. ताची बदली कित्याक जाली देवाक खबर!'.

बोरकाराक मेळूंक वतना हो सगळो विचारपट मनांत घोळूंक लागलो. मदीं कितलीशींच वर्सां हांव बोरकाराक मेळूंक नाशिल्लें. हाचे मजगतीं शिकयतां शिकयतां बोरकार शिकिल्लो. तो एमए पास जाल्लो. लग्न जालो म्हणपाच्यो गजाली भायल्यान आयकल्ल्यो. प्रत्यक्ष

मेळप जावंक नाशिल्लें. ताका लागून बोरकार आसा तसो आसा काय बदल्ला हें पळोवपाची उत्सुकताय आशिल्ली.

जेन्ना प्रत्यक्ष हांव बोरकाराक रेडिओ स्टेशनाचेर मेळ्ळें तेन्ना ताका पळोवन हांव शॉकाद जालें. हांवें पळयिल्लो बोरकार पोरनो बोरकार नाशिल्लो. आतां तो नवो बोरकार जाल्लो. मॅच्युअर आनी डिग्नीफायड म्हणटा तसो. आतां तो आंगान मातसो भरिल्लो. केंस वेवस्थीत कापून वळयिल्ले. लेंगो सदरो वचून ताची सुवात शर्ट आनी पॅन्टीन घेतिल्ली. हांवें ताका पळयले बराबर सांगलें, 'बोरकार, तुगेले बायलेक मानलें.' बोरकाराले बायलेन मोगाची कांडी फिरोवन बोरकाराक साप्प बदलून उडयिल्लो.

बाकी बोरकार तसोच आशिल्लो. तेंच सादेपण. तोच निश्पाप चेरो. आनी मदींच हयशी न्हयशी चमकून वचपी धूर्तपणाची चमक. आनीक एक बदल ताजे मदीं जाल्लो. तो म्हळ्यार पयलीं तागेल्या हाताक बांदिल्ल्या दोऱ्याचे गांठी कडेन तो खेळटालो. आनी आतां गुरूच्या बोटाक घाल्ल्या पुष्कराज खड्या कडेन तो खेळटालो.

बोरकार तसो पळोवंक गेल्यार हाडाचो कवी. पूण गोंयांत आसतनाची ताजी कविता लाडीक, आळसावल्ली, सुखावल्ली आनी तृप्त आशिल्ली. बोरकार मुंबय आयलो. आनी ताका आंतरीक पिडेचो स्पर्श जालो. आनी ताजी कविता पुराय बदलून गेली. ही आंतरीक पिडा जी जण एका कलाकाराक उचांबळ करता... ती सुक्षीम वेदना जी अज्ञात, गूढ अशे गजालीचो सोद घेवंक एका सारकी तिश्टता. बोरकाराल्यो पयलींच्यो कविता आनी आतांच्यो कविता वाचीत जाल्यार हो फरक सगळ्यांकच दिसले बगर रावचो ना.

बोरकार मुंबय केंद्राचेर आयलो आनी ताणें कोंकणी सेक्शनांत चैतन्य हाडलें. मुंबय आकाशवाणी वेलें कोंकणी सेक्शन कोंकणी भाशेचे उदरगतीचें केंद्र जालें. थंय कोंकणीचो निजाचो परमळ परमळूंक

लागलो. मुंबयच्या खंयच्याय मनशाक कोंकणीचो वास आयलो रे आयलो, बोरकारान ताका उबारलोच म्हूण समजुपाचें.

गोंयच्यान खंयचोय साहित्यीक मुंबय येवपाचो आसा म्हूण कळ्ळें रे कळ्ळें बोरकारालें ताका पत्र गेलेंच म्हूण समजुपाचें. येतना तुगेलें साहित्य घेवन यो. आनी तो साहित्यीक येतकच रोखडेंच ताचें रिकॉर्डिंग करून बोरकार मेकळो. परतून हे रेकॉर्डिंग साहित्यकाक फावता तेन्ना. हे विशीं श्री. रवीन्द्र केळेकारालें सांगप आयकुपा सारकें. तांणी म्हाका सांगलें, 'हांव इतलीं वर्सां मुंबय येता वतां... केन्ना कोणे असो आग्रो करून आकाशवाणीचेर म्हाका व्हेलो ना. बोरकारान मात म्हजी दखल घेतली...' म्हाका दिसता, थोड्याभोव फरकान सगळे साहित्यीक अशेंच म्हणटले.

बोरकार मुंबय आसतना मुंबयच्यो कोंकणी कार्यावळी दिश्ट लागपा सारक्यो जाताल्यो. केन्ना केन्ना स्वातंत्र्य सैनिकांल्यो मुलाखती, केन्ना पुंडलीकालीं नाटकां, केन्ना तियात्रां आयकूंक मेळटालीं. नामनेचे पत्रकार माधव कामत हांची अना म्हांब्रेन घेतिल्ली मुलाखत आयकूंक मेळ्ळी. जाल्यार इंग्लिश आनी मराठींत चित्रकलेचेर समीक्षात्मक लेख बरोवपी ज्ञानेश्वर नाडकर्णी हांचें कोंकणी भाशण आयकूंक मेळचें. केन्ना ज्योत्स्ना भोळेची मुलाखत... कितलीं आनी कोणाचीं म्हूण नांवां घेवचीं? नामनेचे दोतोर, बँकांचे मॅनेजर, खंयचे तरी कंपनीचे मॅनेजर, कोण एलआयसीचो विकास अधिकारी अशे विंगड विंगड विशयांचेर उलोवपी वेगळे वेगळे लोक ताणें एकठांय केल्ले. ह्या लोकां कडल्यान तो आपल्याक जाय तशें आनी जाय तें बरोवन घेतालो. बरयतल्याक ताची सुलूस लागूंक दिनासतना.

'पाड पडूं! कोण बरयतलो? म्हाका वाज येता' म्हूण बरयनासतना रावपी डॉ. दत्ताराम सुखठणकारा कडल्यान बोरकारान जायते लेख बरोवन घेतले. बरें, हे लेख बरोवन घेवन बोरकार ओगी रावला

म्हणशात? ना. साहित्यीक गूण आशिल्ले लेख, कथा, कविता ताणें 'जाग', 'कुळागर' सारकिल्या अंकांत धाडून छापून हाडचे. फाटल्या पांच वर्सांचे जे अंक आसात, तातूंत 'मुंबय आकाशवाणीच्या बरेपणान' म्हूण उजवाडायिल्लें साहित्य आसा, तें बोरकाराली कृपा म्हूण समजुपाचें.

कोंकणी प्रोग्रामा खातीर बोरकारान दीस रात एक केलो. तो आयतारा लेगीत काम करतालो. गरज पडटा थंय आकाशवाणीचे तंत्रज्ञ घेवन लोकांल्या घरा वचून तांच्यो मुलाखती घेतालो. बोरकारालें सगल्यांत व्हडलें काम म्हळ्यार ताणें आपलें क्षेत्र गोंयचे कोंकणी पुरतें मर्यादीत दवरलें ना. ताणें मंगळुरी, बंगळुरी, पेडणेची, कारवारी, केरळची कोंकणी उलोवपी लोकांक एकठांय हाडले. ह्या सगळ्या लोकांक बोरकार आपलो घरचोसो दिसतालो.

बोरकारालें वाचनूय तशें जबरदस्त. कोंकणींतली सगळी बरपावळ तो वाचता. तातूंत ताका बरीशी गेय कविता मेळ्ळी. ताणें तिका चाल बांदून घेतलीच म्हूण समजुचें. बोरकारान मुंबय आकाशवाणीचेर रावन शंबरेक गितांक चाली लावन घेतल्यो. त्योय चाली यशवंत देव, दत्ता डावजेकार सारक्या संगीत दिग्दर्शका कडल्यान.

श्री. यशवंत देवाक जाल्यार कोंकणी कविता भोव मानवताल्यो. बोरकारान तांकां कविता समजावन सांगप आनी यशवंत देवान तांकां चाली लावप. इतलेंच न्हय, यशवंत देव मराठी गितांची कार्यावळ करतात, तेन्ना लोकांक ते कोंकणी गितांय गावन दाखयतात. लोकांकूय तीं आवडटात. यशवंत देव बोरकाराक विचारी खंय, 'तुमचे कवी दादऱ्यांतच (स मात्रांचो दादरा ताल) कशा काय कविता लिहितात बुवा?'

हीं गितांय ताणें शोभा गुर्टू, उषा नाडकर्णी, पद्मजा फेणाणी सारक्या नामनेच्या गायिकां कडल्यान गावन घेतलीं. नामनेची गायिका अनुराधा पौडवाल ही लग्ना पयलींची नाडकर्णी म्हूण बोरकाराक कळ्ळें. हो गेलो

तिगेर. तिणें म्हळें, तिकाय कोंकणी गितां गावंक आवडटलें, पूण सद्या आपणाक वेळ ना. बोरकार इतल्यारूच रावलो ना. किशोरी आमोणकार आनी लता मंगेशकाराक बी मेळून आयलो. लता मंगेशकार सटकन्न केन्ना कोणा कडेन उलयना खंय... पूण ती बोरकारा कडेन बरी उलयली. बोरकार जर आनी दोनेक वर्सां मुंबय उरिल्लो जाल्यार कोंकणी लोक लता मंगेशकाराल्या आवाजांत कोंकणी गीत आयकुपाचे...

श्री. गिरीश कर्नाड, श्याम बेनेगल, सुशीलाराणी पटेल कोंकणी म्हूण बोरकाराक कळ्ळें. बोरकारान तांचे पत्ते सोदून काडून, तांचे कडेन संपर्क सादून तांच्यो मुलाखती घेवपाचे यत्न केल्ले. तें सादलें काय ना, खबर ना.

बोरकारा कडेन जायत्या गजालींचोय बरोच खजिनो आसा. तांतल्यो एक दोन.

मुंबय रेडियोचेर माशेलकार म्हूण संगीत दिग्दर्शक आशिल्लो. गोंयचोच. संगितांत हुशार पूण आळशी. एक खेप रेडियो स्टेशनाचेर फामाद हिंदी संगीत दिग्दर्शक शंकर जयकिशन हांचे मदलो जयकिशन आयिल्लो. आतां हो फामाद मनीस स्टेशन डायरेक्टरा बराबर आशिल्लो. ताणें ह्या माशेलकाराक पळयलो. तेन्ना तो धांवत आयलो आनी ताणें माशेलकाराक वेंग मारली. स्टेशन डायरेक्टर शॉकाद! कित्याक, जयकिशन सारको फामाद संगीत दिग्दर्शक माशेलकारा सारक्या मनशाक वेंग मारता म्हळ्यार कितें? मागीर कळ्ळें की राजकपुराल्या 'बरसात' सिनेमांतलें फामाद गीत 'हवामें उडता जाये, मेरा लाल दुपट्टा मलमलका' हाका चाल ह्या माशेलकारान लायिल्ली. आनी हें पद फामाद जालें आनी शंकर जयकिशनालें नशीब उजळ्ळें. माशेलकार बाबडो काळखांतूच उरलो. पूण ही गजाल जयकिशन विसरलो ना हें म्हत्वाचें.

दुसरी एक याद. बोरकारान एक खेप म्हाका एक मांडो टेपीर वाजोवन दाखयलो. पोरनो. हाचो गावपी कोण खबर आसा? हाजो

गावपी अनुप जलोटा. आयचो नामनेचो भक्ती गितां गावपी मनीस. तेन्ना तो इतलो फामाद नाशिल्लो. रेडियो स्टार आशिल्लो. तेन्ना मुंबय रेडियोचो गानवृंद आशिल्लो. तांचे जायत्या वाठारांनी प्रोग्राम जाताले. एक खेप पंजाबांत गेल्ले कडेन अनुप जलोटा तो मांडो गायले. त्या लोकांनी खंय तो मांडो परथून परथून गावंक लायलो. अश्यो जायत्यो गजाली बोरकारा कडेन आसात. बोरकारान त्यो बरोवन काडच्यो, अशें आमकां दिसता.

बोरकारालो आनीक एक सभाव विशेश. ताका खंयचीय कथा, कविता, लेख, नाटक आवडलें जाल्यार तो मुद्दाम पत्र बरोवन आपणाक तें बरप आवडलें म्हणपाचें कळीत करता. हांवें एक खेप ताका म्हळें, 'बोरकार, तुगेलो हो गूण घेवपा सारको आं.' तेन्ना ताणें सांगलें, 'हाचें क्रेडिट तुवें कवी शंकर रामाण्यांक दिवंक जाय. ही गजाल हांव तांचे कडल्यान शिकलां.' हांवें बरयिल्लें बाबालें व्यक्तीचित्र ताणें वाचलें तेन्ना ताणें बरयिल्लें, 'बाबालें व्यक्तीचीत्र वाचून हांव उचंबळीत जालों. एक अप्रतीम व्यक्तीचित्र. जाल्यार दुसरी एक कथा वाचून ताणें बरयिल्लें, 'तुवें आनीक असली कथा बरोवप? ती कथा वाचून म्हाका तुजो इतलो राग आयलो! आतां ताजेरूच बरयिल्लो हो लेख वाचून तो कितें म्हणटलो, खबर ना.

बोरकाराल्या 'परजळाचें दार' ह्या कविता संग्रहाक गोवा कला अकादमीचें आनी साळगांवकार ट्रस्टाचें इनाम फावो जालें तेन्ना कितले खेप दिसलें, बोरकाराक हुनहुनीत परबीं दिवची म्हूण! पूण तीं हांवें दिली नात. कित्याक, हांवें जर ताका परबीं दिल्ली जाल्यार संगीतकार संगितांतली सम दाखयतना समेर पावतकच मूठ आंवळून अस्सो हात फांफडून ती सम दाखयता, तसो हात फांफडून बोरकार म्हणपाचो, दॅट इज इम्मटेरियल गो!



# माधव बोरकार

लेख दुसरो

आमचो बालकवी पन्नास वर्सांचो जालो.

बालकवी म्हळ्यार वेणिमाधव बोरकार उर्फ छोटा बाकीबाब.

ताका आनीक पन्नास वर्सां जालीं? खरेंच दिसना. एदोऽसो आशिल्लो एद्दो जालो. फाटलीं तीस पस्तीस वर्सां हांव ताका वळखतां. निळी हाफ पॅन्ट आनी धवो शर्ट घालपी बोरकार. मागीर लेंगो आनी झब्बा घालपी बोरकार! भुरगेपणांतलीं ताचीं जाण्टेपणां पळोवन दिसतालें. ताच्या गॉलाक धरून ताचेर ठँ ठँ करून चार फुलोवचीं. पूण ताच्या झब्ब्याक गॉलूच नासतालें.

ताचो सभाव ऋजू. ताच्या सभावांतलो घेवचे सारको गूण म्हळ्यार तो केन्नाच कोणा विशीं वायट उलयना. कोणाच्याय बरपांत चमक दिसली रे दिसली, तो रोकडोच ताची तोखणाय करता. नव्या बरोवप्याची उमेद वाडोवपी असो हो ताचो गूण. पूण कोणालेंय बरप, नाजाल्यार भाशण ताका आवडलें ना जाल्यार तो पयलीं तोंड वांकडें करतालो. मागीर हात फांफुडटालो. मागीर शब्द येतलो. 'शिस्स!' मळबांत पयलीं जोगूल चमकून मागीर गडगड येवचो तशें.

म्हाका सदांच दिसऽ, ताका साहित्य अकादेमीची तस्रीप मेळची म्हूण! हांव तशें ताका उलोवन बी दाखयतालें. ताचेर ताणें म्हणप, 'म्हाका कांय घाई ना गो. तें बक्षीस पयलीं पन्नास हजारांचें जावंदी. मागीर तें म्हाका मेळटकच जालें.' जेन्ना ताका तें मेळ्ळें, तेन्ना तें चाळीस हजारांचें जाल्लें. हांवें ताका बरयलें, 'तुका चाळीस हजार मेळ्ळे म्हूण वायट दिसलें. दुख्खांत सूख म्हळ्यार, तुका पन्नास हजार मेळ्ळे नात.'

ताका साहित्य अकादमीचें इनाम फावो जालें. तेन्ना बोरकाराचेर लेख आयले. ते हांवें वाचले, आनी ताका बरयलें, 'तुजेर हांवेंच बरयिल्लो लेख बरो जाला.' हांवें ताचेर बरयिल्लो लेख वाचून ताणें बरयिल्लें, 'हांव इतलीं वर्सां कविता बरयतां. पूण चड लोक लक्ष दिनासलो, तुवें म्हजेर लेख बरयलो आनी हांव फामाद जालों.'

एक खेपे उलयतां उलयतां हांवें ताका म्हळें. 'कितलें बरयलें रे! कोण छापी काय ना!' आयकून तो ओगी रावलो. मागीर उलयतां उलयतां सहज म्हूण ताणें म्हळें, 'अमूक तमूक मेळिल्लो. पुस्तकां कोण छापिना म्हूण रडटालो. हाचीं सगळीं पुस्तकां कोणें कोणें छापल्यांत. तरी रडटा. आमी आमचीं पुस्तकां छापून घेतात. कोणा कडल्यान कसली अपेक्षा करिनासतना.'- हांव ओग्गी. ताणें म्हाका अचळय शुगर कोटेड पिल्ल दिल्लें.

'म्हजे वायटांतले अणभव' बरोवपाचें कारण म्हळ्यार बोरकार. ताणें पत्र बरयलें. 'तुजे अणभव बरोवन काड. म्हाका खबर आसा. तुका आयिल्ल्या अणभवाचें तूं भांगर करतलें.' 'वायटांतले अणभव' छापून येतकीच ताणें सोमतो तेलेग्राम करून कळयलें. 'अप्रतीम'. उपरांत ताचें पत्र आयलें. तातूंत ताणें बरयिल्लें, 'कोंकणींत अशें आत्मचरित्रात्मक बरप चड ना. तुवें बरयलें तें बरें केलें. जागाचो अंक हातांत आयलो. त्या दिसा ऑफिसांत खूब्ब कामां आसलीं. तीं कुशीक

दवरून पयलीं तुजो लेख वाचलो. तुवें लेख बरयलासो दिसलें ना. सामकार बसून तूं उलयताशें दिसलें.'

कलकत्त्याचे नॅशनल लायब्ररीक शंबर वर्सां जालीं. तेन्ना मुंबय एशियाटीक लायब्ररींत बोरकाराक 'माय लायफ, माय वर्क' ह्या विशयाचेर उलोवपाक आपोवणे आयिल्लें. कांय कारणांक लागून ताका वचूंक मेळ्ळें ना. त्या लोकांनी बोरकाराक दुसऱ्या कोणालेंय नांव सुचय म्हळें. बोरकारान म्हजें नांव दिलें. रोखडोच फोन करून ताणें म्हाका सांगलें, अशें अशें आसा. तांचो तुका फोन येतलो. तूं ना म्हणूं नाका. म्हजेर आकांत. भाशण बिशण दिवप म्हाका जमना. 'तुजे कडेन जमतलें. खरें म्हळ्यार तुजें भाशण बरें जातलें. म्हजो दुसरो दुबाव-आरे, म्हाका इंग्लिशींत भाशण दिवंक जमचें ना. 'तूं हिंदींत उलय.' ते कार्यावळीक मराठींतले गंगाधर गाडगीळ, मेघना पेठे आसलीं. गुजरातींतले सुरेश दलाल आनी धीरूबेन आनी कोंकणींतलें हांव. हांवें थंय सुरवेकूच सांगलें, वेणिमाधव बोरकार हांगा येवपाचो आसलो. ताका येवंक मेळ्ळें ना. ताचे सुवातेर हांव आयलां. दाने दाने पे होता है खानेवाले का नाम. तशें, भाशण भाशण पे होता है वक्ता का नाम! घरा येतकच पयलीं हांवें बोरकाराक फोन करून सांगलें, म्हजें भाशण बरें जालें. मेघना पेठेन भाशण बरें जालें म्हूण सांगलें. बोरकारान म्हळें, हांवें सांगूंक नाशिल्लें. तुजें भाशण बरें जातलें म्हूण! तूं ओगीच फाटीं फाटीं रावता. कोण मनीस कितें तें तुवें म्हाका सांगूंक जाय? रेडियोचेर वीस वर्सां हांव कितें झक मारता गो?

बोरकाराल्या पन्नासाव्या वाडदिसाक मनोहरराय सरदेसायान कविता बरोवन दिली खंय. मडगांवच्या दत्ता दा. नायकान व्हड केक धाडून दिलो. हांव हाका कितें दिवं?

एक दीस बोरकाराल्यो कविता चाळटना म्हजे भितरलें मस्तें भुरगें जागें जाल्लें. ह्या मस्त्या भुरग्यान ताच्या कांय कवितांचीं विडंबना

केल्लीं. चितलें, हींच विडंबना हाका दिल्यार कशीं?

बोरकाराले 'हांव' हे कवितेच्यो चार वळी अश्यो आसात

सुखाचे आशेन
चिंतनाचीं पाखां लावन
मनाच्या मळबा वेल्यान
हांव उडटां...

ताचेर हांवे बरयलें-

सुखाचे आशेन
बकें मात उपाशीं...

हांवें बरयिल्ल्यो ह्यो दोन वळी म्हळ्यार कारवारा आयकल्ली एक म्हण. ताचो अर्थ बकें नुस्तें धरूंक उदकांत देंवता. एक पांय वयर करून दोळे धांपून उबें रावता. वारें व्हांवता. ताचो दोळो लागता. नुस्तें येवन वता. ताका कळना. आनी तें उपाशी उरता. ताचे वेल्यान ही म्हण आयल्या. सुखाचे आशेक बकें उपाशी.

बोरकाराली कविता-

तीं ल्हारां

ती ल्हारां दर्या देगेर
फुलां जावन फुट्टात
तीं ल्हारां मळबाचेर
कुपां जावन धोलतात...

ती ल्हारां म्हज्या मनांत
सपनां जावन खेळटात
तीं ल्हारां तुज्या ओंठार
चवरां जावन हांसतात...

म्हजें विडंबन

तीं ल्हारां

तीं ल्हारां दर्या देगेर
कोचोप जावन फुट्टात
तीं ल्हारां मळबांचेर
प्रदुशण जावन धोलतात.

तीं ल्हारां म्हज्या मनांत
स्वार्थ जावन खेळटात
तीं ल्हारां तुज्या ओंठार
दुस्वास जावन हांसतात...

वळेसर

सुरंगांचो वळेसर
तशे हे दीस
घमघमतात
तुज्या यादींनी

वळेसर (विडंबन)

सुरंगांचो वळेसर
तशे हे म्हारगायेचे दीस
घाम हाडटात
पोन्रे सवायेच्या यादींनी

## काळी काळखाची माती

काळी काळखाची माती
हांवें कोंबायल्यो राती
रीग म्हजे कुशींत
प्राणांच्यो लावन वाती...

दोळ्यांचीं भिरीं म्हजीं
पयस गेलीं परगांवां
वाट काडीत आयलीं घरा
म्हजीं आंधळीं तारवां...

काळखाचे मातयेंत
हांवें सपनां रोयलीं
काळखापेलीं नागडीं
रानां चान्यांत पालेलीं...

## काळी काळखाची माती (विडंबन)

काळी काळखाची माती
तातूंत लायल्यो सपनांच्यो वाती
वच पुता फॉरेनाक
तुजी वाट पळेतां, पळेतां
हाडांक लागल्यो काती.

दोळ्यांची भिरीं म्हजीं
पयस गेलीं परगांवां
वाट काडीत आयलीं घरा

म्हजी डॉलरांचीं तारवां

काळखाचे मातयेंत
हांवें सपनां रोयलीं
काळजा आलतडींच नागडें सत्य पालेलीं
एकट्या एकसुऱ्या भविश्याचें.

## हात

तुजे
सुकुमार हात
म्हाका वेंगायतात
तेन्ना
तुजो आंकवार स्पर्श
झोपाळो कसो
रगताच्या तालार
झोंपय
घेत रावता.

## हात (विडंबन)

तुजे सुकुमार हात
म्हाका वेंगायतात
तेन्ना तुजो आंकवार स्पर्श
(आंकवार आसत काय ना, ह्या दुबावान)
झोंपाळो कसो
रगताच्या तालार
झोंपय
घेत रावता.

## चांफो

बागेच्या कोनशाक
एक चांफ्याचें झाड
ल्हानूच.
एकूय पान नाशिल्लें.
सुके सडसडीत खांदयेच्या तोंकार
फुलिल्लो चांफ्याचो गोंडो.

## चांफो (विडंबन)

बागेच्या कोनशाक
एक चांफ्याचें झाड
ल्हानूच.
एकूय पान नाशिल्लें.
सुके सडसडीत खांदयेच्या
तोंकार
फुलिल्लो चांफ्याचो गोंडो
जसो किडकिडीत बायले हांडीर
गुटगुटीत चेडो.

## दोळे

रातीं
तूं म्हजे
कुशींत रिगतना
काळखाकूय
दोळे फुट्टात...

## दोळे (विडंबन)

रातीं
तूं म्हजे
कुशींत रिगतना
काळखाचेय
दोळे फुट्टात...

## ल्हेरो

काळजाच्या धीन धीन धाक
धरता कोण भितर ल्हेरो.
तुफान लय रगतांतली
भरता श्वासांत जोगलां वारो...

## ल्हेरो (विडंबन)

काळजा भितर धरता कोण ल्हेरो
धा तीन धाडा धा तीन धाडा
दुस्वासी मन म्हणटा
हाका नाडा, ताका नाडा.

## फुलां

फुलां केन्नाच बावनात
तुवें केंसांत माळिल्लीं
तीं फुलत आसतात
म्हज्या काळजांत.

## फुलां (विडंबन)

तुवें केंसांत माळिल्लीं
फुलां केन्नाच बावनात
कित्याक, ती प्लास्टिकचीं फुलां
म्हाका तोंपिल्लीं आसतात
तुका काळजा कडे धरिल्लें तेन्ना.

चत्राय: हांतल्यो सगळ्यो कविता 'अव्यक्ताचीं गाणीं' ह्या माधव बोरकाराल्या कविता संग्रहांतल्यान घेतल्यात.



# आनंद वर्टी

रातचो णवांक जयमाला दणायताचो फोन आयलो.

'कितें गो?'

'आगो, एक वायट बातमी आसा.'

'कितें जालें?'

'आनंद वर्टी गेलो.'

'केन्ना, खंय, कसो?' सदांचे प्रस्न.

'सारकें काय खबर ना. कर्नाटकाच्या टुरार आशिल्लो खंय. आनी कांयच खबर ना.'

आनंद वर्टी गेल्ल्याची बातमी आयकून आमकां दोगांकूय वायट दिसलें, आनी अपराधी दिसलें. कित्याक हालींच वर्टी अंबरनाथ रावंक गेल्लो. आपल्यागेर एक दीस रावंक येयात म्हूण आग्रो केल्लो. आपलें नवें घर, आपणे लायिल्लीं फुलझाडां, पुस्तकां, आपणे केल्लो साहित्याच्या मळावेलो वावर, ताणें एकठांय केल्ले रेसीपी बूक, कितें आनी कितें... ताका तें सगळें आमकां दाखोवपाचें आसलें. म्हाका फावता तेन्ना जयमालाक वगत ना आनी ताका फावता तेन्ना म्हाका वगत

ना. अशें कितेंशें जालें. आनी आमच्या दोगांयच्या मनांत एक खंत मात उरली. आमकां तरी कितें खबर हो मनीस असो फटोवन मदींच वतलो म्हूण!

कितें म्हूण चिंतून आवयबापायन तांचें नांव आनंद दवरलें खबर ना. आनंद वर्टी. नांवां प्रमाण आनंदीत. सदांच प्रसन्न. निर्मळ वृत्ती. जिणेंतल्या मंगल गजालींचेर विस्वास. चोखंदळ आनी रसीक. फाटलीं सत्तेचाळीस वर्सां आकाशवाणी मुंबयचेर ताणें प्रोग्राम केले. ललिताबाय खांडेपारकार म्हणटालें खंय, आनंद वर्टी न्हय, कोरीव मनीस. खऱ्यांनीच तो कोरीव मनीस आसलो. रावप वेवस्थीत. कपडे सदांच फेर्राद. कसलेंय काम करूंक घेतलें जाल्यार तें शिस्तींत आनी आंखीव रेखीव करप. ताचे अक्षरूय सुंदर, छापिल्ले वरी.

आनंद वर्टीची आनी म्हजी वळख कोकम संमेलन मुंबय जाल्लें तेन्नाची. ताका म्हजें बरप आवडटालें. खेरीज म्हजो घरकार कारवारचो म्हूण आनीक इल्ली आपुलकी. आमची फोनाफोनी चलताली. वर्टी गोंयची कोंकणी फॉर्त उलयतालो. हांवें ताका विचारलें, 'तुमकां गोंयची कोंकणी इतली बरी कशी येता?' तेन्ना ताणें सांगलें. 'आमी कोंकणी लोक खंयचीय भाशा रोकडीच शिकतात. इंग्लिश, फ्रेंच आनी हेर भाशांनी प्रभुत्व मेळयतात. मागीर आमचीच कोंकणी शिकूंक आमकां कितें जालां? अशें चिंतून हांव गोंयां सावन पुस्तकां घेवन आयलों. बारीकसाणेन वाचलीं, आनी ताचे वेल्यान शिकलों.'

1995त तो सिकॉमांतल्यान रिटायर जालो. पूण ताचे फाटले व्याप सरले नात. सिकोमांत आसतना 'सिकॉम स्पॅक्ट्रम' नांवाचें न्यूजलेटर ताणें तेरा वर्सां संपादीत केलें. रिटायर जातकच तो मराठी पुस्तकांचें संपादन, मुद्रीत शोधन, जायरातींचे अणकार अशीं कामां घरा बशिल्ले कडेन करतालो. ताका कोंकणी वांगडाच मराठी, हिंदी, कन्नड आनी इंग्लिश इतल्यो भासो येताल्यो. तो साद, साळिक, प्रजेचो आवाज,

कुळागर, ऋतू, जाग बी म्हयनाळ्यांनी बरयतालो. जाल्यार जयंती, नागरीक, प्रजावाणी, जनसेवक, भावना बी कन्नड म्हयनाळ्यांनी बरयतालो. मराठींत मनोहर, दिपावली, साधना, महाराष्ट्र टायम्स, अक्षर, हेमांगी, ऋतुरंग ह्या दिवाळी अंकांनी ताच्यो कथा, कविता आयल्यात. 1999 च्या महानगर दिवाळी अंकांत, अरण्यकांड हे सैलाचे कोंकणी कांदबरीचो ताणें केल्लो मराठी अणकार उजवाडाक आयला. कन्नडांत ताणें जय गोमंतक म्हूण कादंबरी बरयल्या. खेरीज 'संशोधकार सवीगटेगळू' म्हूण संशोधकांचीं आत्मचरित्रां बरयल्यांत.

ताचो केन्नाय फोन आयलो जाल्यार तो सांगतालो, 'ह्या मराठी लोकांक मराठी बरोबर बरोवंक येना. व्याकरण सारकें ना. ऱ्हस्व दीर्घ सारकें ना. शोधमुद्रीत करची इतली संवय जाल्या की कितेंय वाचूंक घेतलें, जाल्यार चुको पयलीं दोळ्यांत वचून बसतात. हांव मागीर ताका सांगतालें, तुमी तें शोधमुद्रीत तेंवूय बी मराठी कित्याक करतात?. ताचे परस कोंकणींत कितें तरी करात. तुमकां गोंयची, कारवारची, मंगळुरची कोंकणी येता. कन्नड तुमकां येता. तेन्ना ह्या सगळ्या कोंकणींतल्या समानार्थी शब्दांचो कोश तयार करात. कोंकणींत तुमचें नांव कायमचें उरतलें. मराठीचो वावर करूंक खूब्ब लोक आसात. कोंकणींत तशें चड लोक नात. खेरीज तुमचे कडेन शोध वृत्तीय आसा. पळयात विचार करात.'

'जायत! जायत!!' ताणें हांसत म्हणचें. मुखार ताणें म्हणचें, 'समजा हांवें तसो वावर केलो, जाल्यार तो गोंयकारांक मानत?' हांव हांसलें आनी ओगी रावलें. गोंयकारां कडल्यान दुखवल्लो गेल्लो हो मनीस.

एक खेप ताणें म्हाका सांगलें की तो गोवा हिंदु असोसिएशनाच्या कार्यावळीक वतालो. वाटेर ताचो एक इश्ट मेळ्ळो. ताणें ताका खंय वता काय म्हूण विचारलें. वर्टीन म्हळें गोवा हिंदू असोसिएशनाचे

कार्यावळीक. ताचेर त्या इश्टान म्हळें खंय, ही कार्यावळ फकत गोंयकारांकूच आसा.

ताचो असोच  फोन आयिल्लो तेन्ना ताणें विचारलें, 'जाग' प्रकाशनान तुका पुस्तक धाडलां?' हांवें म्हळें 'हय'. ताणें म्हळें 'म्हाकाय तांचे पुस्तक आयलां. हांवें तांकां ताचें पयशे धाडून दिल्यात. आनी पत्र बरयलें की तुमी अशें कशें पुस्तक धाडटात? तुमी पयलीं विचारूंक जाय पुस्तक तुमकां जाय काय म्हूण? आमी हय म्हळें जाल्यार धाडचें. जाल्यार 'जाग' प्रकाशनान पयशे परतून धाडले आनी पुस्तक परत कर म्हूण सांगलें. हांवें जागाक बरयलें, तुमी अशें कशें म्हणटात, जेवंक बसून अर्दे जेवण जेवले उपरांत जेवणावेलें उठ म्हणिल्लेवरी!'

सुनापरान्तांतल्यानूय ताका फोन आयिल्लो खंय. कोण उलयता म्हळ्यार सेल्स मॅनेजर उलयता म्हूण जाप आयली. कितले पयशे भरूंक जाय म्हूण विचारल्यार जाप आयली खंय विचारून सांगता म्हूण! मागीर वर्टीन आयतारचे सुनापरान्त धाडशात काय म्हूण चवकशी केली. आमी तशें धाडिनात म्हूण जाप आयली.

दिलीप बोरकार तागेर गेल्लो. तेन्ना ताका कितली खोस जाल्ली. तो बिम्बाचो वर्गणीदार जालोच. खेरीज दिलीपान ताका भेट म्हूण दिल्ल्या पुस्तकांचे ताणें पयशे फारीक केले. अशें दिलीपानूच म्हाका सांगिल्लें. ताची आनीक एक कागाळ आसताली. आपूण गोंयां कितेंय बरप धाडटां. तें पावलें म्हूण रवीन्द्र केळेकार सोडून कोणूच कळयनात. म्हूण आपूण आतां बरपा वांगडा पत्तो बरयिल्लें कार्ड धाडटां आनी 'पावलें' हें एकूच उतर बरोवन तें पोस्ट करात म्हूण सांगतां. पूण तें लेगीत कोण करिनात.

वर्टी कारवारचो. कारवारच्या लोकां मदीं एक गूण वा दोश म्हणटात तसो आसा. जें कितें आसा वा तांकां दिसता, तें ते स्पश्टपणान तोंडार सांगतात. फाटल्यान उलयनात. हाचें उरफाटें गोंयकार! स्पश्टपणान

उलयल्यार मुखावेलो मनीस दुखवत म्हूण ओग्गी रावतात. कित्याक तांकां खबर आसता मुखावेलो मनीस दुखवलो जाल्यार डंख धरून रावतलो म्हूण! कारवारचे लोक तोंडार उलयतात. पूण मनांत धरून बसनात.

आनंद वर्टींक तीन गजाली प्राणप्रिय आशिल्ल्यो. तागेली फामिल, कारवार आनी कोंकणी. कित्याक लागून तरी हांवें ताका फोन केल्लो. ताणें म्हळें, 'हांव मागीर तुका फोन करतां. कित्याक बायलेन लोणचें करूंक घेतलां. चलयांक धाडूंक जाय न्हय. मसालो तिणें भाजून दवरला. तो बडोवन दिवपाचें काम म्हजें.' म्हाका ताची लक्तुबाय दिसली.

मदीं वर्टी आनी ताची घरकान्न आपले धुवेगेर अमेरिकेक वचून आयलीं. वर्टीन अभिमानान सांगलें, 'भुरगीं व्हड जालीं म्हूण आपली चली आनी जावंय अमेरिकेंतले सगळें विकून परतून भारतांत येवपाचीं आसात. हांव थंय खंयचें पुस्तक घेवन गेल्लो सांग.' 'खंयचें?' म्हजो प्रस्न. 'एस. डी. तेंडुलकारांचें 'वालोर'. तें हांवें थंय कितले खेपे वाचलें. खूब सुंदर पुस्तक!'

म्हाका कारवार वच्चें आसलें. हांवें वर्टींक तशें सांगलें. ताणें म्हळें, 'काजुबागेंत आमचें घर आसा, तें मुद्दाम वचून पळय.' हांवें म्हळें, 'थंय तुमचो कोण आसा?' कोण ना. आमी तें घर विकलें. घर विकलें आनी मागीर म्हाका इतलें रडूंक आयलें... हांवें परतून घर उगडलें. सगळ्याक भोंवलों. घराचो निरोप घेतलो. आनी म्हाका कितें दिसलें खबर ना. हांवें म्हज्या दाराची इल्ली माती काडली. ती कागदांत बांदून म्हज्या वांगडा घेतली. घरा हांवें सांगून दवरलां. म्हजे निमणे यात्रे वांगडा म्हजेर ती माती घाल म्हूण!'

वर्टीली तिसरी चली विद्या हांगा मुलूंडूच रावता. तागेर आयिल्ले, तेन्ना ते आमगेर येवन गेल्लें. आमच्या दारांत रांगोळी पळोवन ताणें

म्हळें, तुज्या दारांत रांगोळी पळोवन मन प्रसन्न जालें. आनी एक खेपे आयिल्ले तेन्ना म्हजो घरकार आशिल्लो. दोगूय कारवारचे. तांच्यो गजाली मस्त रंगल्यो. वर्टीन कारवारच्या जी. एस. बी. लोकांच्या देवळांचेर एक कॅसेट तयार केल्ल्याची म्हायती दिली. इतलेंच न्हय, ताचे कडेन आशिल्ली ती कॅसेट आमगेर दवरली आनी सांगलें ती पळोवन जातकच म्हजे चलयेगेर व्हरून दवरात. हांव मागीर घेवन वतां. हे चलयेचो पयलीं साकरपुडो जालो. मागीर न्हवरेकारांनी ल्हवूच कसली कसली मागणी केली. वर्टीच्या तालमीत वाडिल्ली ती चली! तिणें सोमती साकरपुड्याची मुदी, साडी बी कुरियरान परतून धाडून दिली. आनी हुंडो घेवपी घरांत म्हाका लग्न करपाचें ना अशें भायले भायर कळयलें. मागीर ताचें दुसरे कडेन लग्न जालें. ह्या लग्नाक जयमाला आनी हांव गेल्लें.

आमगेर फोन नाशिल्लो तेन्ना तो म्हाका पत्रां बरयतालो. अशेंच ताणें बरयिल्लें एक पत्र.

14 डिसेंबर 1986

बाय शीलाक,

मायेमोगाचो आशिर्वाद...

ह्या वर्साच्या 'जाग' दिवाळी अंकांतलो तुजो 'म्हज्या वायटांतले अणभव' हो लेख वाचलो, आनी ही चीट बरोवपाची उमळशीक आयली. असोच एक लेख खूब वर्सां फाटीं संतोषकुमार गुळवाडी (आतां तो 'तरंग' ह्या कन्नड सातोळ्याचो येसस्वी संपादक खूब मानेस्त जाला) हाणें ताचेर जाल्ल्या 'हार्ट ऑपरेशना'चेर 'कस्तुरी' ह्या कन्नड म्हयनाळ्यांत बरयिल्लो. त्या लेखाची याद करून दिवपी हो तुजो लेख खूब मानवलो. मुखार बसून गजाली केल्ले शैलींत तो बरयला. इतलो सोबीत लेख बरयिल्ले खातीर तुका परबीं दितां.

लेख म्हाका मानवपाचें कारण म्हळ्यार 'सह-अनुभूती'. म्हज्या

जिण्यांत हांवें दुसऱ्यांचीं इतलीं दुयेंसां काडल्यांत की तशा अणभवांचीं म्हाका आतां संवयूच जाल्या. म्हज्या ऐन भुरगेपणांत भयणीक जाल्लें कातीचें दुयेंस. उपरांत बापायचो टी. बी. धनुर्वात आनी मागीर गँग्रीन जावन पांय कापपाचें ऑपरेशन, लग्ना उपरांत म्हजें फिश्शरचें ऑपरेशन, बायलेचें ॲबॉर्शन, तिजें एक्टोपिक प्रेगनन्सीचें जिवावयलें ऑपरेशन, ताचे उपरांत गर्भाशयाचें ऑपरेशन! आवयचें पायल्साचें ऑपरेशन, व्हडल्या चलयेचें दुखणें, धाकल्या चलयेचें ॲपेन्डिक्सचें ऑपरेशन... फाटल्या जल्मांतलें डॉक्टरांचें सगळे रीण ह्या जल्मांत पावयलें! बायलेचें निमणें ऑपरेशन फाटल्या वर्सा ऑगस्टातूंच जलें. त्या त्या वेळची म्हज्या मनाची स्थिती, आमगेल्या घरांतली परिस्थिती सगळी, तुजो लेख वाचतना, म्हज्या दोळ्यां मुखारल्यान सरकताली आनी हांव त्या लेखा वांगडा एकजीव जातालों. पावलां कणकणी दिसतालें, तुजी चड वळख आसली जाल्यार कितेंय मजत करताशिल्लों. पूण कोणेंय कितलीय मजत केली तरी निमणें स्वताचे भोग स्वताकच भोगूंक जाय न्हय?

1977 त एका आयतारा रातीं म्हजे धाकल्या चलयेचें अशेंच अचकीत ऑपरेशन करचें थारलें. चार वर्सांची ती. तिका रातींच हॉस्पिटलांत ॲडमिट केल्लें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं पयशे भरचे आशिल्ले. म्हजी बायल चलये कडेन हॉस्पिटलांत बशिल्ली. हांव घरा आयलों. आनी हांव आनी म्हजी भयण घरांत आशिल्ले नाशिल्ले सगळे पयशे पुंजावपाक लागलीं. (कांय दिसां पयलींच हांवें आशिल्ले नोकरेक राजिनामो दिल्लो आनी दुसरी नोकरी सोदतालों) तेन्ना म्हजी दुसरी चली णव वर्सांची. आमची धांदळ ती पळयतेर आशिल्ली. थोड्या वेळान उठली, आनी एक सान करंडो घेवन आयली. म्हणपाक लागली.

'बाबा, हे घ्या म्हजे खाऊचे पयशे. हांवें पुंजावन दवरिल्ले.'

करंड्यांत पांच की स रुपया आशिल्ले. म्हज्या काळजांत चर्र

जालें आनी रडूंकच आयलें. तुज्या लेखांत असोच एक प्रसंग आयला. तो प्रसंग वाचतना म्हज्या दोळ्यांत परतून उदक आयलें. म्हज्या बायलेच्या बी.

असो तुजो लेख मन खुबळावन गेलो. हॉस्पिटलांत तुका आयिल्ले अणभव तर आंगार कांटे उबे करपी. आनी निमाणें बायलांच्या स्वच्छतागृहा विशीं तुवें जें बरयलां, ताजे वांगडा हांव पूर्ण सहमत आसां. महाराष्ट्र सकारान 'बायलां विशींचे धोरण' जाहीर करचे वेळार फकत जायराते खातीर म्हूण पंचवीस कोटी रुपया खर्च केल्लो. तेन्ना हांवें त्या खात्याची सेक्रेटरी श्रीमती चंद्रा अय्यंगार हिका सांगिल्लें की हेच पयशे तुमी एस टी स्टँडार बायलां खातीर बरी स्वच्छतागृहां बांदपा खातीर खर्च केल्यार तुमचें आनी बायलांचें कल्याण जातलें म्हूण. पूण आयकता कोण? तांकां कामां परस प्रचार व्हड...

हें पत्र दिवपाचें कारण म्हळ्यार वर्टीन इतलें सोसूनय जिणे विशीं खंयच कोडसाण ताच्या मनांत नासली. खेरीज ताणें बायलांच्या स्वच्छतागृहा विशीं बरयलां, तातूंतल्यान ताची समाजा कडेन आशिल्ली लागणूक दिश्टी पडटा.

ह्या दिसांनी ताका बरोच त्रास जातालो आसूंक जाय. पूण तो हट्टान बायले वांगडा कर्नाटकाचे भोंवडेर गेल्लो. यल्लापूरचें आज्यालें घर पळोवन आयिल्लो. मुर्डेश्वर पळोवन आयलो. शिरशी गेल्लो तेन्ना ताका छातयेंत दुखूंक लागलें. दोतोरान ॲडमीट जा म्हळें. तो ॲडमीट जालो ना. वेल्यान दोतोराक सांगलें खंय बायलेक कांय सांगू नाका. तसोच मुंबय परतलो. ताका बसूंक लेगीत जाय नासलें. उबे रावन, फकत इच्छाशक्तीचेर तो मुंबय पावलो. ताका व्हरूंक चली आनी जावंय आयिल्ले. हॉस्पिटलांत नाका. पयलीं अंधेरी धुवेगेर वचूंया. च्या घेवया. फ्रेश जावन मागीर हॉस्पिटलांत वचूंया. धुवेन ताका टी शर्ट काडून दुसरो शर्ट घालूंक सांगलो. प्रवासांत कपडे म्हेळे जाल्यात म्हूण

तो कपडे बदलूंक तयार नासलो. धुवेन आपल्या घोवालें टी शर्ट हाडून दिलें. ती पॅन्ट वेगळी आशिल्ल्यान मॅचींग जायना म्हूण ताणें तें न्हयकारलें. दुसरो एक शर्ट घालो. मॅचींग. आनी हॉस्पिटलांत गेलो. परतून न येवपा खातीर.

वर्टी डायरी बरयतालो. ताका मर्ण पंदरा जानेवारीक आयलें. तेरा तारीख मेरेनची डायरी ताणें बरयिल्ली. आपूण सूख समादानी आसा. म्हजी आतां कसलीच इत्सा उरूंक ना अशें तो म्हणटालो खंय.

साहित्य अकादेमीन ताचे कडेन निर्मलकुमार वर्माचें पुस्तक कोंकणींत अणकारीत करूंक दिल्लें. थोडो अणकार जालो काय तुगेर येतां. मातशें पळय आं म्हूण सांगिल्लें. तो आयलो ना. गोंयचें मासळे जेवण तुगेर जेवंक वट्ट आमी दोगांय येतां, म्हूण ताणें सांगिल्लें. तो आयलो ना. काळजाक चुरको लावन गेलो. म्हज्या सारक्या खूब्ब लोकांक खंती करून...



# आशीतमाना

गजाल पुर्तुगेज गोंयांत आशिल्ले, तेन्नाची.

सिन्योर मेंदीश आमचो शेजारी. म्हणल्यार आमचें मागीलदार आनी तांचें मागीलदार लागीं लागीं आशिल्लें. तांच्या घराचें मुखेल दार पश्चिमेक जाल्यार आमचें पुर्वेक. पयलीं आमचे मेंदीशा कडेन संबंध, बोन्दीय, बोतार्द, बोनोयत, कॉमिश्ता अशे आनी इतलेच आसले. बाबा कडेन मात मेंदीश केन्नाय गजाल करी.

मेंदीशाच्या घरांत ताची घरकान्न दोना आंतोनेत आशिल्ली; आनी तांच्यो तीन धुवो. दोना आंतोनेत इश्कोल प्रिमारीयुंत प्रोफेसोर आसली. दोन धुवो सिर्वीस करताल्यो आनी धाकली चली शिकताली, तांचे कडेन आमचो तसो चड संबंद येनासलो. चवथीक, दिवाळेक तीं आमगेर येतालीं. नातलांक, नव्या वर्साक आमी तांगेर वतालीं. तितलींच.

पूण तांच्या घरांतल्यो सगल्यो गजाली आमकां खबर आशिल्ल्यो. तांचें घर आनी आमचें घर हांचे मदलो एक पूल आसलो. तो म्हणल्यार तांचे क्रियाद. ताचें नांव आशीत. आमची आई ताका आशीत म्हणटाली. आनी आमी भुरगीं ताका आशीतमाना म्हणटालीं.

सकाळीं णवांक धांक नाजाल्यार सांजे साडेचार पांचांक सुमार आशीतमाना आनी आई हांचे मजगतीं गजाली चलताल्यो. केन्ना केन्ना आमी घरा कोण आसनासलीं. आनी आईक कसलीय वस्त जाय जाली जाल्यार आशीतमाना तिका हाडून दितालें. आईक ताचो व्हड आदार सो दिसतालो.

'जाणा आई, तुमच्या कोंकण्याल्यो नेवऱ्यो, मिस्कूट, पापोड, बोरेऽ जातात. आमकोडें तोहे जायनात. त्या दिसा तुवें दिल्ली निस्त्या कोडी खायली. मुगे मांयची याद येयली. मुगे मांय मातयेचे तोवलेंत कोडी कोरी. कितली सुवादीक लागताली म्हूण सांगूं!'

आमचें मागीलदार आनी मेंदिशालें मागीलदार हांचे मदीं एक इल्ली पायण आसली. ते पायणींतल्यान मुखार वचत जाल्यार आनीक एका व्हड घराचें मागीलदार आसलें. त्या घराचें मुखेल दार दुसऱ्या रस्त्यार आसलें. देखून ह्या घरांत रावपी लोक हे पायणींतल्यान वताले. आनी त्या घरांत पाखले रावताले.

आमी घरांत कितल्योश्योच चलयो. त्योवूय वाडिल्ल्यो. देखून आईक भंय दिसतालो. तांणी चलयांची मस्करी बी केली जाल्यार! एक दोन खेपे तशे पाखल्यांनी यत्नूक केले. पूण आशीतमाना आमचे मजतीक धांवन आयलें. ताका मेंदिशाच्या फामिली वांगडा रावन पुर्तुगेज बरी येताली. आईन ताका सांगलें, ते पाखले कितें कितें म्हणटाले म्हूण! ताणें सांगलें, 'आई, तूं कांयच भियेवं नाका, हांव तेंकां सारकें कोत्तां.'

आशीतमानान मागीर तांकां सांगलें खंय. 'ती बरी कोंकणी फामील. तांचीं भुरगीं रेश्पेताचीं. तुमचे भाशेन ओर्दिनार न्हू. जोतोर तुमचे मोदल्या कोणेंय तांची मोस्कोरी केली आनी मुगे कानार तें येयलें, जाल्यार एकेकल्याक उबीं चित्तोलीं आनी मीट भोन्न वोतांत सुकोत दोवोत्तोलीं.'

खऱ्यांनीच, ते उपरांत खंयच्याच पाखल्यान आमची केन्नाच मस्करी केलिना. पूण खंयूय दिसल्यार ते तोपी काडटाले, मान बागयताले, आनी रेश्पेतान बोन्दीय, बोनोयत अशें म्हणटालें.

'जाणा आई, काल मुगे इरमांव येयलोलो. इरमांवांक चोयल्यार पुरो, दोना आंतोनेताक शेवो घाम फुट्टा.'

'कित्याक गो?'

'माका बाराव्या वर्सा हिंगा हाडलेलें. व्हडलें बाय तेन्ना सात वोर्सांचें. तेका सांबाळूंक. हांव बारा वोर्सांची खोरी. पूण म्हाका सोग्गो वावर येतालो. कोयर काडूंक, मुस्तायकी धुवंक, रांदूंक, भुरगीं सांबाळूंक, व्हडलो इरमांव, मागीर हांव. मुगे फाटल्यान दोन दोन वोर्सांच्या दिफेरेंसान मांयक चार भुरगीं. मांय दुयेंत आसताली. माकाच घोरचें सोग्गें कोरचें पोडटालें. पाय मेस्तपोण करी. कामाक गेलो आनी जोडून हाडल्यार हाडलें. नाजाल्यार गेलो कोणा फाटल्यान पियेवंक मेवटा थोंय. इतल्या मोनशांचें पोट भोरूं नाका? म्हूण माका हिंगा दोवोल्लें.'

'राव गो? मागीर तुमगेर घरचीं कामां कोण करतालो तर?'

'ते मेरेन मुगे धाकली भोयण कामां करूंक शिकली न्हू? हांव हिंगा रावलें. आनी हिंगाचेंच जावन गेलें. पोयलीं रातीं कडेन घारा वेतालें. मागीर हिंगा खावंक जेवंक बोरें मेवता म्हूण हिंगाच रावंक लागलें. हिंगा रावची सोवोंय जाली. मागीर घारा गेलें काय इट दिसोंक लागली. थोंयचे जेवोण मानोना जालें. ओशें कितेंशें जालें, जाणा आई?'

'राव गो? मागीर तूं घरा केन्नाच वचनासलें?'

'वेतालें. मातसो वोगोत बोसोन च्याचें उदोक घेवन येतालें. आनी आतां हांव हिंगा एक दीस नासोत जाल्यार हांचेर आकांत येता. मुजो इरमांव मुणटा, आतां यो घारा. तुगे काजार कोन्न दिवया. जाणा आई, म्हाका आतां तीस आनी सात वोर्सां जालीं. आतां मुकोडे कोण काजार

जातोलो? इरमांव मुणटा काजार जायना, नाका जावं. पूण आतां लोकांची शिर्वीस केली ती पुरो. आतां घारा येवन सुशेग घे.'

'तुजो इरमांव सारकें सांगता गो! तो आपयता जाल्यार वच घरा, जा काजार. तुजो संवसार कर.'

'आई, तूं मुज्या इरमांवाक वोवखोना. हो काजारी. तेका चार भुरगीं. बायल शिर्वीस कोत्ता. हो म्हाका घारा कित्याक आपोयता म्हाका सोजमोना तोर? म्हुगे भावोज तोकलेन फीन. हांव येयलें जाल्यार हिंगे भुरगीं सांबावतोलीं हांव. आनी रांदतलींय बी. हें तियेक खोबोर आसा. तें कोरपाकूय कांय न्हू आई. पूण ही बायल इंग्रात, आपलें काम जायसोर दोवरून घेतेली आनी मागीर व्हासीमोराद दितेली.'

'राव गो! तूं काजार जायना म्हणटा आनी घराय वचना म्हणटा. तूं हांगाच रावतलें? जाण्टें जालें काय मागीर तुजो फुडार कितें?'

'फुडलें कोणें चिंतलां आई? मुजें काजार कोरच्या वोगतार भावान मुजें काजार केलें ना. आपूण काजार जालो. मुगे धाकटी भोयण पोवोन वोसोन काजार जाली. तिणें काजार जावचे पयलीं म्हाका येवन सांगिल्लें, एक भुरगो आहा आनी त्या भुरग्याचो आपणाचेर मोग आसा. हांयें तो भुरगो चोयलो. बोरो आसलो. इरमांव आनी पाय ताका त्या भुरग्या लागीं काजार जावं नाका मुणटाले. भोयणीक सांगलें वोस पोवोन. तें गेलें, सुखाक पावलें. म्हाका काय बऱ्यो सोयरिको येताल्यो जाणा आई? तेन्ना मुझो पाय हो भुरगो ओसो, त्या भुरग्याक सारकें घोरदार ना, तो भुरगो पोयस रावता कोन्न सोग्या भुरग्यां मदीं नोतां काडीत रावलो आनी हांव उल्लें बियांक. मुज्या पायक फोकोत पोयसो जाय आसलो. हांवूय हिंगा सोग्गें काम कोत्तां म्हूण दोना आंतोनेत म्हाका बोरो पागामेंत दिताली. भाव व्होड जाले. शिर्वीस कोरूंक लागले. एके भोयणीलें काजार जालें. मांय आसोसोर पोयशे घारा दिले. आतां दिना. दोना आंतोनेतान मुगे पोयशे गोवा उर्बनांत दोवोल्ल्यात. चार पयशे

गांठीक आसलेले बोरे न्हू? चार पोयशांचो पोटलो आसल्यार, इदाद जातुकूच पोयशांक लागून तोरी कोणूय चोयत म्हाका. ओहें एक दीस हांवें म्हुटलें जाल्यार दोना आंतोनेताक राग येयलो. म्होणूंक लागली, म्हुजी तीन चेडवां न्हू, तोर चार चेडवां- तुका आमी इदाद जातोकूच भायर उडोयतेलीं ओशें तुवें चिंतलेंच कोशें? सोद्या मुगे खुस्तार घार सोडून दोना आंतोनेत सुशेगाद आसा. पागामेंत हाडून मुकोडे दिता. आनी हीं तिगांय भुरगीं मायक पायक भियेनात तितलीं म्हाका भियेतात.'

'हय गो. तुवेंय तितली माया लायल्या न्ही तांकां?'

आईन अशें म्हणटकच ताचे दोळे भरून आयले. म्हणूंक लागलें, 'हय आई! हांव कोण, खोयचीं? पूण हिंगा सुशेगाद आहां. दोना आंतोनेत आपल्या धुवांक हाडटा तोसलोच रोप म्हाकाय शिंवता. माका भांगराची सोरपोडी केल्या. कांकणां केल्यांत. कानांतले दोन तीन पार आसात.'

'मागीर तूं अशें कित्याक रावता? बरें जानोत राव. बोंदरें कशें रावं नाका.'

'कितें सांगूं तुका आई? घोरचीं सोग्गी तोहें सांगोतात. पूण आंव एक क्रियाद हें आंव कोहें विसरों?'

****

एक दीस मजाच जाली. आशीतामाना आनी आई अशींच उलयतालीं. थंय एक पाखलो आयलो. तो मिलितारींत सार्जेंत आसलो. ताचें नांव रुद्रीग. तो आयलो तोच आई कडेन कितें कितें उलोवंक लागलो. पुर्तुगेजींत. मदीं मदीं आशीतमाना कडेन बोट दाखयतालो. आई आपली आयकता. तिका कांयच कळ्ळें ना. तो फकत काजार काजार म्हणटालो तितलें तिका कळ्ळें. थंय आशिल्लें आशीतमाना हांसुकूंच लागलें. निमाणें आशीतमानान रुद्रिगालो हात धरलो आनी पायणींतल्यान ताका धुकलीत व्हेलो.

मागीर तें आई म्हऱ्यांत आयलें आनी परत हांसुकूच लागलें. आईन ताका विचारलें, 'आगो, तो म्हाका कितें सांगतालो?'

'कांय ना आई. तो म्हुजे फाटल्यान लागता. म्हाका सांगता, तेचे लागीं काजार जा म्हूण. सोदांच तो म्हाका बेजार कोत्ता. तेन्ना तेगे तोरास जाता म्हूण तेका सांगलें, जोतोर आई तुकोडे काजार जा म्हूण सांगीत जाल्यारूच हांव तुकोडे काजार जातेलीं. तेन्ना तुका तो येवन सांगतालो, आपूण बरो भुरगो. पुर्तुगालाक तेगे घोर आहा. तेका आवय बापूय आहा. दोग भोयणी. त्यो काजारी. तेन्ना कोसलीच ओडचोण ना. तेन्ना तूं आशीताक मुजे लागीं काजार जावंक लिसेंस दी. आंव तुगे उपकार केन्नाच विसरचो ना.'

'राव गो! तुवें ताका अशें कित्याक सांगलें?'

'आई, म्हाका खोबोर आहा. तूं पुर्तुगेज नोको. तेन्ना तो तुकोडे केसो उलेयतोलो?'

इतले मजगतीं, दोना आंतोनेताले व्हडले धुवेलें काजार जालें. ती एका पाखल्या लागीं काजार जाली. तिका एक चलीय जाली. ताचें नांव ग्रासींद. ग्रासींदा वांगडा पडून आमी इल्ली इल्ली पुर्तुगेज उलोवंक शिकतालीं. दांस बेबे दांस म्हणलें काय तें नाचतालें. आशीतमाना ताका घेवन आमगेर येतालें. आनी ताका जेवण भरयतालें. आमगेर येतकच तें बरेंऽ जेवतालें.

एक दीस आमगेर म्हजी एक इश्टीण आयिल्ली. आशीतमाना ग्रासींदाक सॅरलॅक असलें कितें तरी लायतालें. ताचो बरोऽ वास आयलो. ताणें म्हणलें, 'आऽ! काय बरो वास आयलो न्ही? कसलो गो तो?'

आशीतमानाचे तकलेक मिरयो पडल्यो. ताणें सोमतेंच ग्रासींदाक हांडीर मारलें आनी घरा गेलें.

आईन म्हाका मागीर विचारलें, 'अशें मदींच उठून कित्याक गेलें गो तूं?'

तेन्ना ताणें सांगलें, 'अशें कोणूय भुरग्यांच्या खाणाचो बरो वास येता म्हणीत जाल्यार तांची त्या खाणार आस वता आनी भुरग्यांच्या आंगाक तें खाण लागना. देखून हांवें तें भायर उडयलें आनी दुसरें घेतलें.'

आशीतमाना ग्रासींदाल्यो सगल्यो बाळगणी काडटालें, मेलींदाक ग्रासींदाले आवयक- आपले धूवेचें कांयच लागनासलें.

करतां करतां मेलींदालो पुर्तुगालाक वचपाचो दीस आयलो. आशीतमाना सामकें सकयल वयर जालें. जशी काय हागेलीच धूव आनी नात पुर्तुगालाक वतात. मेलींदाच्या घोवाक पापड खुब्ब आवडटात म्हूण आईन पापडांच्यो दोन कवळ्यो मेलिंदा कडेन दी म्हूण आशीतमाना लागीं दिल्यो. ताचे दोळे भरून आयले. म्हणूंक लागलें, 'जाणा आई, हो पाखलो, मेलींदाचो घोव पोयलीं पापोड भाजल्यार म्हणटालो, शी! म्हाका नाका तो. मांदरेर सुकोत घालतात ते. तेन्ना भितोर भिकूण बा वोयता आसतले. आनी आतां म्हाका सांगता आई कडल्यान मागोन हाड म्हूण!'

आशीतमानाक मेलींदाचो हुस्को दिसतालो. एक तर ताका कांयच काम येनासलें. थंय तें घरांतलें काम करतलें काय बेबेक सांबाळटलें? बेबेक आशीतमानाची संवय जाल्ली. तें पुर्तुगालाक कशें रावतलें? अशे जायते प्रस्न ताचे मुखार उबे आसले. तें आपलो हुस्को आईकडेन उलोवन दाखयतालें. आई ताका म्हणटाली. 'तूं ओगी राव. ह्या संवसारांत कोणाचें कोणा बगर कांय अडना. सगलें सारकें जातलें. रानांत पडलें काय वाग जाता. तशें तें पुर्तुगालाक गेलें आनी तांचेर सगलें काम पडलें काय शिकतलें मागीर आपोआप.'

आई मागीर ताका तापयताली. 'तूं दुसऱ्या खातीर आतां कितलें म्हूण झरतलें? भाव काजार जा म्हणटा जाल्यार जा काजार. तुका तुजें म्हूण घर नाका? तुजो संवसार नाका? दोना आंतोनेताचो तुवें घश्टो

काडलो तो पुरो. आतां तूं तुजे विशीं चित्त.'

मेलींदा धुवेक घेवन घोवा वांगडा पुर्तुगालाक गेलें आनी आशीतमाना सामकें थतरवितर जालें. ताचो सगळो वगत ग्रासींदाल्या फाटल्या फुडल्यान नाचून वतालो आनी आतां ताचो वगत पासार जावन जायना जालो. तें दुख्खी जालें. आपलें दुख्ख तें आई कडेन उलोवन दाखयतालें.

आईन ताका खूब समजायलें. कोणा फाटल्यान कांय सोंपना. मागीर पांच वरां जालीं काय आई ताका उलो मारताली आनी सांगताली, 'आशीत चल. केंस वळे. तोंड धूय. पो लाय. दुसरे कपडे घाल आनी अशी एक पासय मारून यो.' आई सांगता तें तें आयकतालें. हरशीं आशीतमाना बोंदरेशें रावतालें. हरशीं दोना आंतोनेत आपल्या धुवांक रोप हाडटना आशीतमानाकूय हाडटाली. आनी हें ते नवे कपडे सांबाळून दवरतालें. मेलींदाचे पोरणे कपडे वापरतालें. आनी नवे कपडे भयणींक, भावजयांक दितालें.

आईले सांगणेन बोंदरें आशीतमाना बदलून गेलें. ते सुवातेर जानोत आशीतमाना दिसूंक लागलें. आईन ताका म्हणलें लेगीत, 'आतां कशें बरें दिसलें पळय तूं?'

ताणें आईक सांगलें, 'ओय आई! तो मेलो रुद्रीगूय तोहें मुणटा. म्हाका सांगता आईक मुयतू ओब्रिगाद म्हूण सांग! मेलो म्हाका सांगता तूं मुजे लागीं काजार जा म्हूण. हांव तुका पुर्तुगालाक घेवन वोयतां.'

'तो तशें सांगता जाल्यार जा ताचे लागीं काजार आनी वच पुर्तुगालाक. मेलींदा आनी ग्रासींद बी तुका थंय मेळटलीं.'

'हो मेलो मुकोडे काजार जातेलो? ह्या पाखल्यांचेर पातयेवं येता; मेली गोरी कात आंची. आनी पुर्तुगालाक कोण वतलो गोंय सोडून?'

हालीं तें खोशी आसलें. रांदतना कांतरां म्हणटालें. आपले भितर हांसतालें. आपलोच सोद ताका नव्यान लागिलो काय? आईक लागून आपले जिणेचो तें नव्यान विचार करतालें काय?

आतां आशीतमाना खऱ्यांनीच बरें दिसूंक लागलें. तें आसलें काळें. पूण शिरवंत. सरळ नाक. बारीक दोळे. काना फाटल्या केंसांचो आगळ घेवन, ताका लिगां लावन माथ्याच्या खुब्यार तें तो घट्ट करतालें. थंयच्यान सैल सोडिल्ल्या केंसांचो मानेर आंबाडो घालतालें. एकदम सैल. गळ्यांत सरपळी घालतालें. तातूंत एक खुरीस आसलो. तें चडशें विश्तीद घालतालें. चवकोनी गळ्याचो. ताका चवकोनी गॉल. फुगऱ्या हातांचो. ताचे विश्तीद दिमये परस लांब आसताले. पांयांत मात तें केन्नाच बूट घालिनासलें. ऊंच खोंटांचें जोतेंच घालतालें. आयतारा जेन्ना तें माथ्यार धवी ना जाल्यार काळी व्हेव (तोंडा वयल्यान घेवपाची जाळी) घालून वतालें, तेन्ना खऱ्यांनीच सुंदर दिसतालें. व्हर्जीन मॅरी वरी. शांत, निरागस, भावार्थी.

आनी पळयतां पळयतां उमेदीचें आशीतमाना अकस्मात बाविल्ले वरी दिसूंक लागलें. आईक तें सांगतालें. तकली कणकणटा. जिवाक बरें दिसना. न्हिदूच येता. जेवीन दिसना. पूण आई रांदता तो वास मात बरो येता. आईच्या हातचें जेवण जेवीन शें दिसता अशें तें म्हणटालें. आईय बी ताका आवयचे मायेन जेवण दिताली. 'पोटांतूच दुखता' तें सांगतालें. आई म्हणटाली, ताका पोटखण्याचें जालां दिसता म्हूण! बऱ्या शा दोतोराक वचून मेळ. आईन ताका सांगलें. इतलेंच न्हय, आईन दोना आंतोनेताकूय सांगलें, आशीताच्या जिवाक बरें दिसना. ताका बऱ्याशा दोतोराक दाखय म्हूण! दोना आंतोनेतान बऱ्या फामाद दोतोराची अपॉयंटमॅण्ट बी घेतिल्ली. पूण दोतोरागेर वच्चे पयलींच अकस्मात आशीतमानाचें चड जालें. दोतोर येवचे पयलींच तें तळमळून फडफडून म्हणटात तशें मेलें.

आमगेर सगल्यांक वायट दिसलें. चड वायट दिसलें तें आईक. आमी सगळीं भायर सरून गेलीं काय आईक आशीतमानाचो आनी आशीतमानाक आईचो आदार दिसतालो. आईक कसलीय वस्त जाय

जाली जाल्यार आशीतमाना तिका हाडून दितालें. आशीतमानाक खंयूय वच्चें आसल्यार तें आईक सांगून वतालें. मुखा वयल्या दाराक भितरल्यान खिळी घालतालें. आनी मागीलदार अशेंच ओडून घेवन वतालें. त्या काळार धांपिल्लें दार येवन उगडपाची हेर कोणाचीच कापाझदाद नासली.

त्या दिसा दोना आंतोनेताक पाचारूंक दुसरी एक शेजान्न आयली. तिका आईचे आनी आशीतमानाचे संबंध खबर आसले. आईकूय जाप दिवंक म्हूण ती भितर सरली. तिणें आनी आईन दोगांयनीय आशीतमानाच्यो हांगाच्यो थंयच्यो गजाली केल्यो. वतना तिणें भितरलो आवाज काडून आईक विचारलें, 'हय गे? आशीत गुरवार आसलें खंय? ताणें कसलें तरी गांवठी वखद घेतलें. तें ताका माल पडलें आनी तें गेलें खंय?'

आईली तकली घुंवली. तिणें म्हणलें, 'कितें गो? तूं आशीताक वळखना? अशें कोण म्हणटा ताका हाड म्हजे म्हऱ्यांत. तोंड धरून फोडटां ताचें. काय बरें इस्तीमसांवांचें पोर. वयार येतात तेन्ना चलयो असलीं पिशेपणां करतात. ते पिरायेचेर ताणें कांय केलें ना. रेश्पेतान रावलें आनी आतांच तें हे पिरायेर असले ओर्दीनारपणां करतलें? दिसता तुका? आंकवार कोणूय मेलें जाल्यार लोक अशेंच उलयतात. तूं तांचेर विस्वास दवरूं नाका. ताचो जर कोणूय मोगी आसलो जाल्यार तें काजार जावपाचें. ताचे विशीं कोण वायट उलयता तांच्या तोंडाक किडे पडटले. तांकां बिरमत फुट्टली.'

ती शेजान्न बाबडी येदेशें तोंड करून गेली. हुनहुनीत खबर दिवंक ती आयिल्ली आनी आई कडल्यान झेलाद पिकासांव घेवन गेली.

आनी म्हाका येवजलें. म्हजी एझाम लागीं पाविल्ली. शिकूंक म्हूण हांव पांचांकूच उठिल्लें. मागीलदाराचो दिवो लायत जाल्यार आईक जाग येतली म्हूण दिवो लायनासतना मागीलदारा गेल्लें. थंय

पळयत जाल्यार आशीतमानाच्या कुझनांत दिवो दिसलो. इतले बेगीन उठून आशीतमाना कितें करता काय अशें म्हाका दिसलें. जाता जाल्यार ताका भॅक्क करून भेश्टावचें अशेंय दिसलें. ल्हवूच तांचें दार उगडून पळेलें. पळयत जाल्यार म्हजेंच काळीज धडधडलें.

आशीतमाना रुद्रीगाचे वेंगेंत आसलें!



# सावित्री

आयज दसरो. सगळें बंगळूर एके वेगळेच धुंदींत आसा. सगळीं बायलां भुरगीं शृंगारून बोवाळटात. बायलां रेशमी रुंद देगेच्यो साडयो न्हेसून, माथेंभर फुलां माळून, ल्हान चलयो रुंद धारेचे घागरे पोलके घालून, लांब विणी करून तांचेर फुलांचे झेले वेढोवन आसात. बायलां भुरगीं भांगरांनी भरून वोत्तात. सगळ्या लोकां मदीं एके तरेचें चैतन्य आयलां.

सावित्री मात आपल्या स्टुडियोंत बसून आसा.

मुखावेल्या घरांतली चली रडटा. सावित्रीक दिसता, वच्चें आनी ताका उखलून घेवचें. पूण नाका. सावित्रीली सावळी पडप म्हळ्यार लेगीत पाप. सावित्री बरेपणान चलयेक उखलतलें पूण मागीर चलयेक मात मार पडटलो... चली कित्याक रडटा काय? पडली काय? काय तिका कोणे मारली? तिणें काय बरो हळडुवो पाचवो देगेचो रेश्मी घागरो घाला... शी! शी! ताकाच शेंबूड पुसता पळय तें.

सावित्रीक आपल्या भुरगेपणांतली याद जाली. असोच दसरो आशिल्लो. ताकाय बी असोच तांबडो काळे देगेचो रेश्मी घागरो

आवयन शिंविल्लो. दसऱ्याक लांब केंसांची विणी करून ताका गोंडे बांदून केंसांत ताणें कांय बरीं आबोल्याचीं फुलां माळिल्लीं. अम्मा ताका घागरो घेवपाक तयार नाशिल्ली. पूण सावित्रीन हट्ट करून तो घागरो घेवपाक लायिल्लो. मैत्रिणी वांगडा तें फुगडी खेळटालें. फुगडी घालतां घालतां तें साप्प घुंवळ्ळें. ताचे मैत्रिणीन ताजे हात सोडटकच कितें जालें तें ताका कळ्ळेंच ना. घुंवळ येवन तें पडलें. ताची तकली आपटली. तें तशेंच उठून अम्माक सांगूंक गेलें. तें कितें म्हणटा तें अम्मान आयकलेंच ना. तिगेलें लक्ष जिस्तूच सावित्रीलो घागरो पिंजिल्लो थंय गेलें.

'पिंजलो मुगो घागरो? शिंवन एक खेप लेगीत घालो ना. कसलें अवजाळी पाड पडिल्लें पोर! कसो पिंजलो तुवें तो घागरो? सांग पयलीं. कसो पिंजलो? अशें म्हूण फाटीं फुडें पळय नासतना सावित्रीली तकली व्हेली आनी वण्टीर आपटिली. सावित्री निन्नळें. आवय ताका आनिकूय मारपाची पूण रगत आयिल्लें पळोवन थांबली.

'रावली कित्याक? मार. आनीक मार. आनीक मार. मारून उडय एकदाचें म्हाका'- फुडें आनीक कितेंय ते उलोवपाचें. पूण उलोवंक पावलें ना. तें घुंवळ येवन पडलें. फुडें कितें जालें, ताकाच खबर ना. सावशीत जावन पळयत जाल्यार तें हांतरूणार आशिल्लें. तकलेक बँडेज आशिल्लें आनी अप्पा अम्माक व्हडा व्हडान तापयतालो.

सावित्रीक येवजलें. त्या दिसा बाबू वॉश बॅसिनाक गोळोव मारतालो. तेन्ना वॉश बॅसीन हाल्लें. आनी बाबू सकयल आनी ताजे वयर वॉश बॅसीन पडलें आनी फुटलें. बाबूक कांयच लागूंक नाशिल्लें. लागतलें कशें? बाबू असा बरो फुटफुटीत. ताका कांयच जालें ना. वॉश बॅसीन मात ताका आपटून फुटलें. पूण तेन्ना अम्मा कशी धांवन आयिल्ली. तिणे बाबूक बेगी बेगीन उखल्लो. बाबू हांसतालो. तरी ताका ती घेवन धांवत धांवत दोतोरागेर गेली. ताजे तकलेक मार बी लागूंक ना मूं हाजी

तिणें खात्री करून घेतली आनी म्हाका मात... मारलें तिणें. बाबूय तिगेलो आनी हांवूय तिगेलें. मागीर अशें ती कित्याक करता? आवयक खंय सगळीं भुरगीं सारकीं. मागीर आमगेर अशें कित्याक? हांव चली म्हूण? हांवूय चलो जाल्लें जाल्यार? अप्पा म्हजे कडेन धेंगशांनी उलोवचो नाशिल्लो.

चलयेच्या जल्माक येवप इतलें वायट?

सावित्री व्हड जायत गेलें तसतशें ताका जायत्यो गजाली कळूंक लागल्यो. सावित्री भावंडां भितर चवथें. तिचे पयलीं तिगूय भयणीच. चवथ्या वेळार अम्माक जेन्ना दीस गेले तेन्ना सगळ्यांक दिशिल्लें आतां चलोच जातलो म्हूण. तीन चलयांर जाल्लो चलो एकदम बरो खंय. कळस. पूण जाली ही चली. पयली बेटी खंय भांगरा पेटी. दुसरी बेटी तूपरोटी, तिसरी बेटी फुलांपटी आनी चवथी चली कर्मकट्टी. दुर्दैवान सावित्री चवथी चली आशिल्ली. तिणें जल्माक येवन पयलीं त्रासांत घालें तें आवयक. चवथी चली जाल्या म्हूण अप्पा अम्माक हॉस्पिटलांत मेळूंक लेगीत येवंक ना. इतलेंच न्हय, चवथीय चलीच जाल्या म्हूण वर्सभर अप्पा अम्मा कडेन उलयलो ना खंय. बाबडे अम्माचो हातूंत कितें गुन्यांव? पूण तिका जे थोमणे आयकून घेवचे पडले, जे अपमान सोसचे पडले ताका शीममेर नाशिल्ली. घुसमटमारान ती भितरले भितर फुगार जाली. आपलें दुख्ख सांगतली कोणाक? आपलेच दांत आपलेंच ओंठ. तेन्ना तिका आयिल्लो राग ती कोणाचेर काडटली? सगळो राग ती सावित्रीचेर काडटाली.

सादे सादे गजाली वेल्यान आपल्याक कित्याक मारतात तें ताका केन्नाच कळनाशिल्लें.

सावित्री फाटल्यान बाबू तीन वर्सांनी ल्हान. बाबू जालो तेन्ना सावित्रीक केदी खोशी जाल्ली. बाबुल्या वेळार सावित्री ल्हान म्हळ्यार तीन वर्सांचें. चली तीन वर्सांची पूण आपूण आवय-बापायक आवडना

म्हणपाचें तिका कळटालें. तें चड करून अक्का म्हऱ्यांत रावतालें. अक्का तागेली व्हड भयण. ती ताका बरी करताली. आवयन मारल्यार तीच ताका लागीं ओडटाली. सगळीं व्हडलीं मनशां तिगेलो दुस्वास करतालीं.

बाबू जावपाच्या वेळार अम्माक खूब त्रास जाले. ती साप्प बारीक जाल्ली. येदें व्हडलें पोट घेवन तिका रगड्यार वांटचें पडटालें. केन्नाय पुरो जालें म्हूण न्हिदूंक लेगीत मेळनाशिल्लें. अप्पाक सगळें वेवस्थीत जाय आशिल्लें. मातशें कितेंय आगळें उणें जालें जाल्यार अप्पा सगळें घर माथ्यार घेतालो. आनी तातूंत सुकीं फोण्णां घालूंक आजी आशिल्लीच. आजयेक अम्मालो राग येतालो. कित्याक तर ती चलयां आवय म्हूण. आनी आजयेक सावित्री दोळ्यां मुखार नाका आशिल्लें.

सावित्रीकूय आजयेचो पाटीचो (तामीळ भाशेंत आजयेक पाटी म्हणटात) राग येतालो. मेळत तेन्ना ती अम्माक खेपताली. म्हणटाली हांवें हिका ओगीच सून करून घेतली. काय बऱ्यो सोयरिको आयिल्ल्यो म्हज्या पुताक... पूण हांव हिगेले गोरे कातीक भुल्लुसली. हांवें तेन्ना विचार करूंक जाय आशिल्लो. हिगेले आवयक चार चलयो. हिगेले व्हडले भयणीक पयल्यो दोन चलयो. हिगेल्या भावागेरूय पयली चलीच. हांव तरी कशी पाड पडिल्ली... इतलें सगळें खबर आसून लेगीत हिका सून करून घेतली. ताजीं फळां आतां भोगतां.

पाटीची चलयां वेली ही रेकॉर्ड सावित्रीक पाठ आशिल्ली. एक दीस ताणें पाटीक सांगलें, 'तूं आमच्या अम्माक सद्दां उठून अशें कित्याक उलयता? तूंय बी कोणाली तरी चलीच न्हय? तुकाय पयल्यो दोन चलयोच न्हय? तुगेल्या चलयांगेरूय पयल्यो चलयोच. आतां जर आत्तेले मांयन आत्तेक म्हळें 'तुगेले आवयगेर चलयो, तुगेल्या भावागेर चलयो, तुगेरूय चलयो. तर तुका कशें दिसतलें?'

'पळे पळे कशी लांब जीब करून उलयता तें. असले चलयेचे

जिबेक येन्नाच दाग दिवंक जाय. मागीर ती असलें कांय उलोवची ना. म्हजी चली आशिल्ली जाल्यार हांव तिका उबी चिरून मीठ भरून सुकत घालपाची.' अशें म्हणून ती हातांतली जपाची माळ घेवन हरी ॐ हरी ॐ करीत बसली.

पाटीलें उलोवप आयकून अम्मा आयली. तिणें सावित्रीक येथेश्ट बडयलें. आनी आपूण अम्माच्या फावोराद उलोवन लेगीत अम्मान आपल्याक कित्याक मारलें तें सावित्रीक केन्नाच कळ्ळें ना.

दिशीं माशीं सावित्री वाडत वतालें. आनी दरेक खेप ताच्या मुखार असले प्रस्न उबे रावताले. सावित्री भितर दोन सावित्री आशिल्ल्यो. एक सावित्री ताका सदांच सांगी, पळय, तूं अशें करूं नाका, पळय तूं अशें उलोवं नाका. मार खातलें. पूण दुसरें सावित्री म्हण्टालें 'पूण हांवें कित्याक ओगी रावचें? हांव खंय चुकलें? म्हजी जेन्ना कांयच चूक ना तेन्ना हांवें उलयल्यार कितें जालें?

ल्हान आसतना बाबुलो वाडदीस सगळीं केद्या थाटांत करतालीं? आंगणांत केदी व्हडली रांगोळी अम्मा काडटाली. बाबूक नवे कपडे, नवी कसली तरी वस्त. ताका जाय तें आवडीचें खाण आनी सावित्रील्या वाडदिसाची कोणाक याद लेगीत नासताली. पयलीं तर सावित्रीक खबर आशिल्लें फकत चल्यांचेच वाडदीस मनयतात म्हूण. कित्याक जाल्यार तांगेर वाडदीस जाताले ते दोगांचें. एक अप्पाचो आनी दुसरो बाबुचो. पूण जेन्ना तें शाळेंत वचूंक लागलें तेन्ना ताणें पळयलें की चलयांचोय वाडदीस मनयतात. एक खेपे ताणें अक्काक विचारलें, कितेंय विचारचें जाल्यार तें अक्काकूच विचारतालें. कित्याक, अक्काच ताचें कितेंय आयकून घेतालें. अम्माक, पाटीक, अप्पाक कितेंय विचारूंक गेल्यार तीं केंच करून सावित्रील्या आंगार येतालीं. ताणें अक्काक विचारलें 'अक्का, अम्माक बाबू आवडटा, हांव आवडना न्हय?' 'आगो, तूं अशें कित्याक म्हणटा? आवयक सगळीं भुरगीं सारकीं

आवडटात. हें चड तें उणें अशें ना.'

'फट! साप्प फट. अम्माक जर सगळीं भुरगीं सारकी दिसतालीं जाल्यार अम्मा आमकां सगळ्यांक सारकी वागोवची नासली? ती बाबुलो वाडदीस करता. आमी सगळीं सारकीं जाल्यार ती आमचो वाडदीस करची नासली? बाबून कितलीय मस्ती केल्यार ताका कांयच म्हणिना. वेल्यान ताची तोखणाय करता. आनी हांवें मातशें कितेंय केल्यार म्हाकाच कित्याक मारता?'

तेन्ना अक्कान ताका घट वेंगेंत घेतलें आनी सांगलें, 'आमचो चलयांचो जल्मूच असलो, चली मनीस जावन इतलें शाणें कशें गो तूं? सावी म्हाका तुजो भंय दिसता. असल्या शाणेपणांनी तूं आपली जीण दुख्खी करून घेतलें. देवा, म्हजे हे शाणे भयणीक इल्ली पिशेपणां दी. सावी, तूं म्हजें एक आयकतलें?

'कितें तें?'

'तूं म्हाका हें जें कितें विचारता न्हय, तें अम्माक केन्नाच विचारूं नाका.'

सावित्री ल्हवू ल्हवू व्हड जातालें. जसजशें तें व्हड जातालें तशतशें ताजें मुखावेले प्रस्न वाडत वताले. शिकूंकय तें खूब्ब हुशार आशिल्लें. बाबूय शिकूंक हुशार आशिल्लो. दोगांयचो पयलो नंबर येतालो. पूण बाबुलें कवतूक चड. बाबू हट्टी. पूण कितलो आसूं येत? ताणें समजा मनांत घेतलें सावित्रीलें केंस ओडूंक जाय, जाल्यार तो ओडटालोच. सावित्रीले केंसूय बरे लांब. बाबू केंस ओडटा ना जाल्यार मारता म्हूण सावित्री अम्मा कडेन कागाळी व्हरीत जाल्यार अम्मा ताका कांयच करनाशिल्ली. तशें करूं नये रे म्हूण लेगीत बाबूक सांगी नाशिल्ली. आनी तेंच जर सावित्रीन बाबूक मारलें जाल्यार? पाटी मेरेन सगळीं झाडून ताका तापयताली. जसो काय बाबू म्हळ्यार घरचो राजा. अम्मा जाल्यार ताका राजा, कान्हा म्हळे खेरीज उलो करिनासली.

एकदां अम्मा रगड्यार मसालो वांट्टाली. बाबून हट्ट धरलो. म्हाका रगड्यांत मुतूंक जाय. अम्मान तेन्ना मात ताका सांगलें, रगड्यांत मुतचें न्हय म्हूण. पूण बाबून कशेंच आयकलें ना. अम्माक दिसलें सामकेंच मुतूंक जालें काय तो आपशींच मुत्तलो म्हूण. पूण बाबू कसलो हट्टी. मुतलो ना तो मुतलो ना. मूत दामून धरलें ताणें. आनी मागीर तो फुगार जालो. मागीर पाटी आयली. आनी म्हणूंक लागली एकलोच अपुरबायेचो पूत! मुत्ता म्हणटा जाल्यार मुतूंक कित्याक दिवंक ना? मुतूं तो. तूं दुसरो मसालो काड.

आनी अम्मान दुसरो मसालो काडलो.

एक दीस सावित्रीले जिणेंत तो दीस आयलो. पयलीं ताका कितें जालें म्हणपाचें कळ्ळेंच ना. ताणें अक्काक सांगलें कितें जालें तें. तें आयकून अक्का तर पयलीं रडूंकच लागलें. सावित्रीक दिसलें, आपल्याक कसलें तरी दुयेंस जालां आनी तें केन्नाच बरें जावचें ना म्हूण अक्का रडटा. तेन्ना अक्काक ताणें विचारलें, 'अक्का, अशें जावप बरें न्हय?' अक्कान मागीर ताका सांगलें, तशें कांय ना. अशें सगळ्याच चलयांक जाता. अम्मा, हांव, ताअी, बी दूरम म्हूण कुशीक बसता न्हय तें हें. तातूंत भियेवपा सारकें कांय ना. आतां तूं जाण्टे जालें. तुवें आतां चड सांबाळून रावंक जाय... चल्यां मदीं खेळूंक जायना.'

'पूण कित्याक? खेळ्ळ्यार कितें जाता? अम्माय म्हाका बाबुल्या मित्रा वांगडा खेळ्ळ्यार उलयता. मागीर आमी चलयो खेळटात तेन्ना बाबू आमचे बराबर खेळना? अम्मा तेन्ना ताका कांय म्हणिना.

'पूण तो चलो न्हय?'

'चलो! चलो!! चलो!!! वाज आयलो म्हाका हें आयकून. कान फुटले म्हजे तींच तीं उतरां आयकून. तो चलो म्हूण ताणें कितेंय केल्यार जाता. आनी हांव चली म्हूण हांवें कांयच करूंक जायना? अशे हे नेम कोणे केल्यात? चली जावप इतलें वायट?'

'तूं अजून ल्हान आसा राजा. मातशें व्हड जालें म्हणटकूच आपशींच सगळे समजतलें तुका.'

'आतां तूं म्हाका म्हणटालें जाण्टें जालें म्हूण आनी आतां म्हणटा ल्हान आसा म्हूण.'

'बाये, आतां ओगी राव. तुजे मुखार माणसुकी ना. राव पयलीं. हें अम्माक सांगुया.'

अक्कान अम्माक सांगलें. अम्मान पाटीक सांगलें आनी पाटीन सावीक आनी अम्माक खेपूंक सुरवात केली.

'जालें, आतां हाकाय आयलो पदर. आतां सांबाळ त्या तुगेल्या रत्नाक. आदींच बाय नाचरी तातूंत पांयांक बांदल्यो घागरी! धाकली धूव लेगीत जाण्टी जाली आनी व्हडले धुवेल्या लग्नाची तूं खबर लेगीत करिना. एका फाटल्यान एक चार धुवांक तुवें जल्म दिला. आतांच तांकां भायर काडपाचे तयारेक लाग. आमच्या वेळार अशें नाशिल्लें बाये. इतल्यो व्हड जायसर कोण आपले चलयेक दवरी नाशिल्ले. धाव्या वर्सा मेरेन लग्न करून दिताले. आनी लग्न जातकच मागीर चलयो जाण्ट्यो जाताल्यो. आतां खऱ्यांनीच कलीयुग आयलां आनी आवय बापूय आसात न्हिदून! तुगेले ते अवजाळी धुवेक सांग खंयूय हात बी लावं नाका म्हूण. ताका सगळी सारकी रीत शिकय. बरे तरेन शिकली ना जाल्यार जांगेक चिमटे काडून शिकय! नाजाल्यार ती तुगेल्या कपलार मिरीं वांट्टली...

मागीर चवथो दीस आयलो. सावीक अम्मान माथ्यार न्हाणयलें. तागेली बरी विणी घाली. ताचेर सोबीत फुलां माळ्ळीं. रिती प्रमाण वाड्यावेल्या बायलांक हळदकुकमाक आपयलीं. तांकां दिवपाक 'पुट्ट' केलें. (पुट्ट म्हणजे तांदळांचो एक गोड पदार्थ) खरें म्हळ्यार तांकां सगळ्यांक जेवणाकूच आपोवंक जाय आशिल्लें. पूण ही चवथी चली. तातूंत नावडटी. ताका लागून पानसुपारीचेर सगळे भागयलें. रिती प्रमाण

सावित्रीक साडी आयली मामाली. मामा मामी गेल्या उपरांत पाटीन म्हळेंच, 'कसली साडी हाडल्या दळिदऱ्यान! सादी रेश्मी. चार जरीचे धागे लेगीत नात.'

सावित्रीक राग आयलो. पूण अक्कान ताका दोळ्यांनीच ओगी केलें. सावित्रीक दिसलें मामान साडी हाडली ती व्हड. अम्माल्या घरची परिस्थिती सादारण, ताचे तांकी प्रमाण ताणें साडी हाडली. हे म्हातारेक ताका नांवां दवरपाची कसली गरज? अम्माचें तोंड सामकें काळें जालें. पूण ती ओग्गी रावली. तिणें फकत दोळ्यांक पदर लायलो. आनी अप्पान हाडल्या ती साडी कितें बरी आसा? अप्पान केळी धाग्याची झगझगीत साडी हाडल्या... प्लास्टिकाचे जरीची... ती साडी तिका बरी दिसली. पुतान हाडल्या न्हय ती?

पूण सावित्रीक अजाप दिसतालें तें अम्मालें. ही अम्मा हें सगळें आयकून घेता कित्याक? सडसडीत परती जाप ती कित्यान दिना पाटीक? अम्मा दिना ती दिना, अक्काय ओगी रावता. आनी म्हाकाय चूप चूप करता.

'दूरम' आयलें म्हणटकूच आतां सावित्रीक खूब त्रास जावंक लागले. तागेल्या लक्षांतूच येनाशिल्लें कित्याक आफडूं नये म्हूण! आनी ताचो खंयूय हात लागलो काय तो जिस्तूच पाटीक दिसतालो. आनी मागीर ती सावित्री आनी अम्मालो उद्धार करताली. आनी सावित्री मातशें हूड. ताका एका जाग्यार रावपाची संवय नाशिल्ली. ताका खेळूंक वचूंक जाय आशिल्लें. आनी आपल्याक लागता ती दरेक वस्त दुसऱ्यां कडल्यान मागून घेवप, जेवणाक वेगळें ताट वाटी दवरप, मागीर तें घांसप, तें उश्टें काडप शेण लावप... आपले कपडे आपणे धुवप... बांयक आफडप ना... सकाळीं फुडें आजयेले नदरेन पडप ना. तागेल्यो तिगूय भयणी कश्यो सगळें सांबाळून करतालीं. पूण सावित्रीक तें जमनाशिल्लें. तें सट्ट कन्न कित्याकूय हात लायतालें.

एक दीस ताणें पाटीक विचारलें, 'दूरम जाल्यार कित्याक आफडूं नये?'

'आगो, आमी हिंदू. देव धर्म आसा आमकां. आमी देवा धर्माचो सांबाळ करूंक जाय. आमच्या धर्मांत सांगलां दूरम आसलें काय देवाक बी आफडूं नये.'

'पाटी, देव सगळ्याक भरून उरला अशें धर्मान सांगलां न्हय?'

'हय.'

'आमचे भितर बी देव आसा न्हय?'

'हय.'

'मागीर दूरम आसता तेन्ना आमचे भितरलो देवूय भश्टता...?

'आनी देव सगळ्याक भरला जाल्यार हांगा हात लावं नाका, थंय हात लावं नाका... कुशीक बस अशें कित्याक?'

'चड शाणें तूं! देवा धर्माक नांवां दवरता... आमच्या जाण्ट्यांनी कितें सांगलें तें आमी आयकलें. आतां तुमी तें आयकात. आयकुपाचें नासत जाल्यार आयकूं नाकात, सगळें सोवळें ओवळें सोडून तकलेक बांदात... पूण केन्ना? हांव मेल्या उपरांत. आतां न्हय...'

पाटी आनिकूय कितेंय उलोवपाची. पूण इतल्यांत बाबू रडत आयलो. आनी ती गजाल तितल्यारूच उरली.

पूण निमाणी एक गजाल जाली. सावित्रील्या अन्नाडीपणाक लागून ताका आफूड जाली काय अम्मा ताका एके कुडींत घालून ताका भायल्यान खिळी घालपाक लागली. शाळेंत वतना ताका भायर सोडप. घरा आयलें काय कुडींत बंद. ताका लागून एक गजाल बरी जाली. पाटीले जिबेक मातशें हाड आयलें. कुडींत बसून एक दीस सावित्री रड रड रडलें. मागीर तें शिकपाक बसलें. ताका गणितां करपाचीं आसलीं पूण ताजें लक्ष लागना जालें. ताणें जनेलांतल्यान भायर पळयलें. थंय पोरसूं आशिल्लें. पोरसांत बांय. बांयचे कुशीक केळी. पोरसांत मदींच

आंगणशें आशिल्लें. मदीं बांदून काडिल्ली तुळस. थंयच लागींच एक झोंपाळो आशिल्लो. अक्का त्या झोपाळ्यार बसून पुस्तक वाचतालें. तागेल केंस मानेर सोडिल्ले आशिल्ले. तें पुस्तक वाचतां वाचतां केंस वोतांत सुकयतालें. सावित्रीक तागेली ती पोझ खूब्ब आवडली. अचकीत तागेल्या मनांत कितें तरी आयलें. ताणें पेन्सिल घेतली आनी अक्का जशें बसलां तश्शें तागेलें चित्र काडलें. मागीर ताणें तें पोरसूं, बांय, तुळस सगळें काडलें. सावित्रीक खूब्ब आनंद जालो. आपले भितर कितें तरी नवें उदेलां म्हणपाची जाणीव जाली ताका. ताजें ताकाच अजाप जालें. इतलें सुंदर चित्र हांवें काडलेंच कशें? तेंवूय इतलें सुंदर! इतलें सुंदर!! ताका इतली खोशी जाली, इतली खोशी जाली! तें सगळें सगळें विसरलें आनी हातांत चित्र घेवन अक्काक दाखोवंक म्हूण धांवलें.

पूण कुडीचें दार भायल्यान बंद आशिल्लें.

अक्का खातीर चले सोदताले घरांत. खंयचीय पत्रिका जुळ्ळी रे जुळ्ळी चलेकार येताले. ते येता तेन्ना अम्मा बरो उपमा आनी शिरो घराव्या तुपांत करताली. घराव्या तुपांत रवो भाजलो काय सावित्रीक समजतालें आयज अक्काक पळोवपाक कोण तरी येतलो. चलो चलयेक पळोवपाक येताच म्हळ्यार पन्नास रुपया खर्च. मागीर लग्नाची उलोवणीं. देण्या घेण्याक लागून खंय जमनाशिल्लें. निमाणें अक्कालें लग्न एके कडेन जमलें. मागीर पयशांची जमवा-जमव. सावित्री सगळें पळयतालें. ताटांत वीस हजार घालपाचें थारिल्लें. अक्काक साडयो काडिल्ल्यो. गर्भरेशमी. हजार हजार रुपयांच्यो. तातूंत एक रेशमी णव वारी साडी. चांदीचीं ताटां, वाटयो पेले. दोन चांदीच्यो दिवल्यो. खेरीज कितलींशींच आयदनां स्टिलाचीं. नाका कानांत हिरे. खेरीज बाकीचें भांगर. लग्नाचो थाट तीन दीस चलतालो. दोनूय कडलो खर्च चलयेकारांलो. सावित्री सगळें अजाप जावन पळयतालें. ताका एक गजाल कळ्ळी ना की अक्का लोकांक दिवप तें जालें. पूण इतलें सामानूय ताजे बराबर

दिवप? कित्याक म्हूण? अक्काक कितें विकून उडोवप? बाजारांत वस्त विकल्यार पयशे मेळटात. हांगा परतें. चली दिवप, वेल्यान चली व्हरात म्हूण भांगर शिंगर दिवप. म्हज्या लग्नांत अशें कोणेंय कितें मागलें जाल्यार लग्नूच जावप ना.

अक्काल्या लग्ना उपरांत एक गजाल बरी जाली. ती म्हळ्यार सावित्रील्यो दोगूय भयणी मॅट्रीक पास जातकच तांकां अप्पान नोकरी करपाक परवानगी दिली. आनी ताका लागून घरांतले बंदखणींत आशिल्ल्यो तिगूय चलयो मातश्यो स्वतंत्र जाल्यो. केन्ना केन्नाय नाटक, सिनेमा भरतनाट्यम बी पळोवपाक लागल्यो. सावित्रीकूय आतां जायत्यो गजाली कळूंक लागल्यो. हें जग दादल्यांचें हें ताका कळ्ळें. दादल्यांल्यो विखारी नदरो ताका लासूंक लागल्यो. बायलांचेर जातात ते अन्याय पळोवन ताका फडफडे पडूंक लागले. एक तरेची अस्वस्थताय ताका जाळूंक लागली. ही अस्वस्थताय, हे फडफडे तें त्या त्या रंगांतल्यान कागदार पितारूंक लागलें.

सावित्रील्यो उरिल्ल्यो दोगूय भयणी लग्न जावन गेल्यो आनी सावित्री एकलेंच उरलें. मॅट्रीक पास जातकच ताणेंय नोकरी करची अशी अम्माली इत्सा आशिल्ली. पूण सावित्रीक फुडें शिकपाचें आशिल्लें. ताका स्कॉलरशिपूय मेळिल्ली. ताणें कोणालें कांय आयकलें ना. आनी कॉलेजींत गेलें. बीकॉम बरे तरेन पास जालें. ताका सी ए करपाचें आशिल्लें. पूण ताका सिंडिकेट बँकेंत नोकरी मेळ्ळी आनी सीए करपाचें थंयच उरलें.

पूण नोकरी केली. पयशे जोडून हाडले आनी आवय-बापाय कडेन दिलें म्हूण कितें जालें? निमाणें चलयेची जात. तिणें सांबाळून रावंक जाय आशिल्लें.

एक दीस सावित्री चित्रांचें प्रदर्शन पळोवपाक गेल्लें. तागेल्या बँकांतले चले चलयो वांगडा आशिल्लीं. प्रदर्शन पळोवन जालें. मागीर

ताचेर चर्चा. मागीर च्या बी म्हणटा म्हणसर रात जाली. तें घरा पावलें तेन्ना णव वरां जाल्लीं. अप्पानूच ताका दार उगडलें. घरांत पावल दवरिना बराबार सावित्रीक कळ्ळें वातावरण बराबर ना. दुसरे भाशेंत सांगपाचें म्हळ्यार वातावरण तंग जाल्लें. स्फोट जावपाची वाट पळयत सावित्रीन जोतें काडलें.

'खंय भोंवतालें गो तूं येदी रात मेरेन?'

'आमी प्रदर्शनाक गेल्लीं.'

'आमी म्हळ्यार कोण?'

'आमी म्हळ्यार हांव आनी बँकेतलीं चले चलयो.'

'चले चलयो काय चलेच?' आवय फुतफुतली.

'कळ्ळें म्हाका तूं थंय प्रदर्शनाक गेल्लें म्हूण... तूं थंय प्रदर्शनाक गेल्लें कांय चल्यां मदीं बसून ही ही करून किटकिटत च्या पियेवंक गेल्लें?... रस्ताद खंयचे कडलें!... तूं जोडटा म्हूण तूं चलो न्हय हें लक्षांत दवर. तुका जाय तशें वागपाक तूं मेकळें ना. ह्या घरांत रावपाचें आसल्यार रितीन राव. फाल्यां सावन सातां पयलीं तुवें घरांत येवंक जाय. आनी सातां पयलीं जर तूं घरांत आयलें ना जाल्यार तुगेले पांयूच मोडून घालतां.'

सावित्री ओग्गी रावलें. ताणें हात पांय धुले आनी तें कांय जालेंच ना अशें तरेन जेवंक बसलें. बापायल्या उलोवण्याचो ताचेर जाल्लो शुन्य परिणाम पळोवन अम्माल्या आंगांत पाटी संचारली.

'निर्लज्ज! पाडा पडिल्लें!! हें आमकां भायर भोंवपाक नाक दवरचें ना.'

सावित्रीलें मन घरच्या लोकां विशीं तिरस्कारान भरलें. घरच्यांचो आपल्याचेर विस्वास ना आनी लोकांचेर विस्वास चड. आयज मात्सो उशीर जाल्यार म्हाका कितें कितें म्हणटा. आनी बँकेंत ओव्हर टायम आसता तेन्ना? तेन्ना वेळ जालो जाल्यार जाता. कित्याक त्या वेळाचो

पयसो मेळटा.

सावित्रीन आतां उलोवपाचेंच सोडून दिल्लें. तें सकाळीं कामाक वतालें. आनी कामा वेल्यान आयलें काय चित्रां काडूंक बसतालें. तागेलें तशें तें चित्रां काडत बसप बी अम्माक नसाय जाताली. अम्माक दिसतालें सावित्रीन कामा वेल्यान येवन रातचें जेवण रांदचें. निदान रांदपांत हातबोट घालचें. चित्रां काडून कितें पोट भरतलें? फाल्यां लग्न जातकच चित्रां काडून घोवाक खावंक घालतलें?... आतां अम्मा ताच्या चित्रां काडपा वेल्यान सदांच भरभरूंक लागली. सावित्रीक बँके वतीन ब्लॉक मेळिल्लो, कमी पयशांत. सावित्रीन सहज म्हूण तो ब्लॉक घेतिल्लो. ताजो ताका आतां फायदो जालो. ताणें त्या ब्लॉकांत आपलो स्टुडिओ केलो. आतां तें स्टुडिओंत बसून चित्रां काडूंक लागलें. ताका आपल्या चित्रांचें प्रदर्शन करूंक जाय आशिल्लें. ताजे खातीर ताका न्यूड चित्रां काडूंक जाय आशिल्लीं. आतां न्यूड चित्रांक मॉडेल नाका? ताका एक दोन दादले मॉडेल म्हूण मेळ्ळे. एका अर्थान ताणें आपलो स्टुडिओ वेगळ्या जाग्यार व्हेलो तें बरें जालें. घरांत आनी एके कुडींत उगड्या दादल्याचें चित्र काडपाची माणसुकी आशिल्ली? पूण ताका एकूय चली मनीस मॉडेल म्हूण मेळ्ळी ना. कोणाचीच उगडें रावपाची तयारी नाशिल्ली. निमाणें सावित्रीक एक कल्पना सुचली. तें आपूणच हारश्या मुखार उबें रावलें आनी आपलेंच चित्र ताणें काडलें. आपलींच नागडीं चित्रां.

ताणें आपल्या चित्रांचें प्रदर्शन भरयलें. चित्रांचें प्रदर्शन जायना बराबर शारांत एकदम खवदळ जाल्ले वरी जालो. प्रदर्शनाक आकांत गर्दी. एक आंकवार चली आपली नागडीं चित्रां काडून तीं प्रदर्शनाक दवरता म्हळ्यार कितें? एके रातींत सावित्री फामाद जालें. समीक्षकांनी तागेली तोखणाय केली. भारतांतल्या सगळ्यां म्हयनाळ्यांनी सावित्रीली आनी तागेल्या चित्रांची दखल घेतली. कोणें तिगेल्या धाडसाचें कवतूक

केलें. पूण चडशा जाणांनी तिगेल्यो बकच्छायो केल्यो. लोकांनी जाल्यार सावित्रीक कुच्छित्रीपणान कितें कितें म्हणपाक सुरवात केली. असली कसली अवचिन्न आलमपेड्ड्यार चली. चित्रां आपलीं उगडीं नागडीं काडलीं तीं काडलीं, बरें आसा, काड तूं चित्रां, प्रदर्शनाक कित्याक दवरूंक जाय? प्रदर्शनाक दवरली तीं दवरलीं. तीं चित्रां आपलींच म्हूण कित्याक सांगूंक जाय?

आतां सावित्री कडेन लोक बोटां दाखोवंक लागले. ताजे कडेन लोक विचित्र नदरेन पळोवपाक लागले. दादल्यांल्यो नदरो आपल्याक कपड्यांतल्यान भितर सांसपीत वतात काय, ताका दिसूंक लागलें. तेद्या वेळार सावित्रील्या हातांत जर पिस्तोल आशिल्लें जाल्यार तें कितल्याशाच लोकांचो खून करतलें आशिल्लें...

ताजे विशीं कितें कितें छापून येवपाक लागलें. ती असली चली, ती तसली चली. लिबरल वुमन. रिपोर्टरांनीय ताका खूब त्रास दिलो. एकल्यान ताका विचारलें.

'तूं लग्न जावचें ना?'

'कित्याक?'

'ना. तुवें असलीं चित्रां काडले उपरांत कोणूय तुजे कडेन लग्न जातलो अशें तुका दिसता?'

'हांव चली मनीस म्हूण तुमी हो प्रस्न विचारता. हींच चित्रां जर कोणेय दादल्यान काडिल्लीं जाल्यार तुमी हो प्रस्न विचारपाचे?'

'दादल्यांची गजाल वेगळी'.

'दादल्यांची वेगळी जावं पूण चित्रां सारकींच मूं?'

'समज तुजे कडेन कोणूय लग्न जालो आनी लग्ना उपरांत अशीं चित्रां काडू नाका अशें तुका सांगलें जाल्यार?'

'लग्नांत म्हजी अट आसतली, हांव कसलींय चित्रां काडटलें. कोणे ताचेर बंधन घालूंक जायना.'

‘हाचो अर्थ तूं लग्न जावचें ना.’

‘अशें हांवें खंय म्हळां? हांव लग्न जातलें! म्हाका जाय तसलो चलो मेळ्ळो म्हणटकच.’

‘तुका कसलोसो चलो जाय तर?’

‘जो म्हजे कलेचो आदर करता. जो बायलेक आपले वरीच एक मनीस म्हूण मानता. आपले बायलेक स्वतंत्र व्यक्तीमत्व आसा हें जो मानता असो चलो भुरगो जाय म्हाका.’

‘तुवें दादल्यांचीं न्यूड चित्रां काडल्यांत. तांगेले मॉडेल आनी तूं दोगांच रुमांत आसतालीं. तुका कांय फिलिंग येनाशिल्लें? वा त्या मॉडेलान केन्ना अतिताय केली ना?’

‘ताजें कितें आसा? मॉडेल तो मॉडेल. दादलो बायल असो थंय फरक नासता. थंय आसता त्यो फकत रेगो. आनी त्या रेगांनी बंदिस्त केल्ले ते सुंदर अवयव... मनशालें शरीर इतलें सुंदर! तें ज्या डायमेन्शनांतल्यान पळयता तशें तें वेगळें दिसता. त्या कुडीचीं तांसां उक्तावन दाखोवप, ते कुडीचे मुड्स दाखोवप हें कलाकाराचें काम... एखादऱ्या दोतोरा म्हऱ्यांत पेशंट म्हूण सुंदर बायल आयली जाल्यार? दोतोराक कितें ‘फिलिंग’ येतलें? की तो तिगेलें दुयेंस कितें तें पळयतलो?...

सावित्रील्या घरार तर मर्णाची अवकळा आयिल्ली. आवय तागेलें तोंड पळोवपाक तयार नाशिल्ली.

‘आजी तेन्नाच सांगी हाका सांबाळ म्हूण. हांवें तिगेलें आयकलें ना आनी हाका सदळ सोडलें. हें मुखार असले दिवे लायतलें म्हूण कळिल्लें जाल्यार जाल्लें तेन्नाच हागेले ताळवेक नाखूट लावन मारून उडयतलें आशिल्लें.’-- अम्मा.

‘हाणें आमगेल्या तोंडाक काळें लायलें. भायर भोंवपाक आमकां तोंड दवरलें ना. म्हजे इज्जतीक हाणें काळे दाग लायले.’

‘आतां हाचे कडेन लग्न कोण जातलो? म्हाका दिसता हें उरलें

आतां बियाक'-- अम्मा.

सावित्री अम्मा अप्पालो राग समजूं शकतालें. पूण बाबू? तो इतलो शिकिल्लो सवरिल्लो भाव. फाटीक फाट लावन आयिल्लो. तो आनी सावित्रीक विचारतालो, तुवें तुगेल्या चित्रांचें प्रदर्शन भरयलेंच कित्याक?

'तातूंत कितें जालें?'

'पूण तुवें तुगेली न्यूड चित्रां काडलींच कित्याक?'

'कित्याक म्हणजे? म्हजे शरीर इतलें सुंदर! म्हाकाच म्हजे कुडीचो मोह जालो आनी हांवें काडलें ताजें चित्र. तातूंत कितें जालें?'

'कितें जालें काय म्हूण विचारता? तुगेलें शरीर इतलें सुंदर न्हय. मागीर चित्र आनी कित्याक काडलें? तुगेल्या सुंदर शरिराचें प्रदर्शन करीत नागडेंच भोंव फाल्यां सावन. पाटी सांगी तें फट न्हय! चलयांक चड शिकोवंक उपकारना. मॅट्रीक पास जाली, चीट बरोवंक आयली, खूब जालें! चड शिकलें की तीं स्वताक खूब्ब शाणीं समजतात आनी कित्याय कितें करतात.

खऱ्यांनीच तुका ओगीच मुखार शिकयलें अप्पान. मॅट्रीक जातकच तुगेलें लग्न करून उडोवंक जाय आशिल्लें. लग्न जावन तुगेल्या संवसारांत, भुरग्यां भितर तूं घुस्पून गेल्लें न्हय काय मागीर तुका असलीं अवचिन्नपणां येवजुचीं नासलीं. तुका भयण म्हणपाक लेगीत म्हाका लज दिसता.'

सावित्रीली सगळ्यांकूच लज दिसताली. जशें काय सावित्री आंकवारपणांत आवय जावपाचें आशिल्ले वरी. एक वेळ तशें कितेंय सावित्रीन केल्लें जाल्यार ताका माफ आशिल्लें. पूण हें न्हय.

बाबुनय जेन्ना उगड्या देहाचें प्रदर्शन करीत भोंव अशें म्हळें तेन्ना ताका त्या दिसाची याद जाली. अशेंच तें एक दीस एक चित्र काडून घरा येवपाक भायर सरिल्लें. ताज्या वांगडा तागेलो एक मॉडेल आशिल्लो मित्र बी आशिल्लो. ताजी गाडी आशिल्ली. तो सावित्रीक पावोवपाक

तागेल्या घरा येतालो. वाटेंत एका पुलीस इन्स्पेक्टरान तांची गाडी आडायली. ताणें सावित्रीक पुलीस स्टेशनार व्हेलें. सावित्रीन म्हळें.

'हांव कित्याक म्हूण येवं? हांवें कसलो गुन्यांव केला?'

'तूं येदे रातीं एका दादल्या बराबर भोंवता हाचो अर्थ कितें?'

'येदे रातीं एका दादल्या बराबर भोंवल्यार कितें जालें?'

'बऱ्या घरांतल्यो चलयो कितें अश्यो भोंवतात? इतली रात मेरेन?'

'पूण म्हाका एकवीस वर्सां जालीं. म्हजें बरें वायट म्हाका समजता. हांव खंयूय भोंवलें जाल्यार तुका कितें जालें?'

'हें पळय, आमचे कडेन केशी आयल्यात तूं वेश्या वेवसाय करता म्हूण.'

'कितें?' सावित्रीक सामको शॉक बसलो.

सावित्री बराबर आशिल्ल्या मित्रान सांगलें, 'तूं म्हणटा तशी ही चली न्हय. बरी शिकल्या ती. नोकरी करता बँकेंत. आयज आमकां ओव्हर टायमाक लागून उशीर जालो. तेन्ना तिका पावोवपाक हांव घरा वतालों तिजे बराबर.

पूण त्या इन्स्पेक्टरान कांय आयकलें ना.

'आयज ओटी आशिल्लो आनी हरशीं?'

'हरशी कितें?'

'ती सद्दां इतली रात मेरेन तिगेल्या त्या फ्लॅटांत आसता?'

'थंय ती चित्रां काडटा'

'चित्रां काडटा?' तो इन्स्पेक्टर बकच्छायांनी हांसलो. इतली रात मेरेन एक चली एका चल्या वांगडा एका रुमांत वरांची वरां, रुम बंद करून रावता तीं चित्रां काडूंक? बरें सद्दां एकूच दादलो तर?.. ना. प्रत्येक खेपे वेगवेगळो दादलो. तुमी कितें म्हाका पिसो समजतात? ही हें सगळें करता तो वेश्या वेवसाय न्हय जाल्यार आनीक कितें?

खूब वेळ वादविवाद केले उपरांत त्या सरकारी मनशान निती नेमांचेर लॅक्चर दिवन, परतें रातचें दादल्या वांगडा भोंवू नाका अशी शिटकावणी दिवन तांकां सोडून दिलें.

सावित्रीक दिसलें आपलो बापूय, भाव, शेजारी, पुलीस इन्स्पेक्टर सगळे सारके. एकूण कितें सगळ्यांक दिसता आपणे सांबाळून रावचें. सगळी जापसालदारकी जशी हांचेरूच आसा. हांच्या तालार हांवें नाचपाचें. कित्याक तर हांव चली मनीस म्हूण! निमाणें कितें सगळे दादले सारके. तांचे खावपाचे दांत वेगळे आनी दाखोवपाचे दांत वेगळे. कितलेशेच जाण सावित्रीक वळखताले. थोडे तागेले मॉडेल म्हूण येताले. आनी वेल्यान आपणें मॉडेलिंग केलां म्हूण सांगू नाका अशें सांगताले. भिजूड खंयचे कडले! हांचे आवयक, भयणीक, बायलेक कोणें कितें म्हणूंक जायना. हे मात दुसऱ्या बायलांची मस्करी करतले. चलतना तांकां धक्के दितले. नदरेन तांच्या भितर पळयतले. तांणी तशें केल्यार जाता. पूण हें करतना ह्यो बायलो म्हळ्यार कोणाल्यो तरी आवयो, भयणी, चलयो हांचो विचार ना.

सावित्रीक दिसलें व्हडली बुट्टी येवची. तातूंत सगळो संवसार बुडून वच्चो आनी मागीर नवी सृश्टी जल्माक येवची. नवे सृश्टींतलो दादलो अर्दनारीनटेश्वरा सारको आसचो जो शक्तीची पुजा करता, बायलेक आपले बरोबरची अशी वागयता. अशें कितें जालें जाल्यारूच बायल ह्या संवसारांत स्वतंत्रपणान जगूंक शकत. पूण अशें केन्ना जायत?

('आय एम अ सर्वायवर' हे सावित्री रामन हिगेले मुलाखती वेल्यान)

■

# गुलमोहर

डोंबिवली जयमाला दणायतागेर वतालें. मे म्हयनो. दनपारचीं तीन वरां. वताचो रखरख. ट्रेन कळवा स्टेशन सोडून मुखार गेली. भायर पळयत जाल्यार लायनींत गुलमोहराचीं झाडां उबीं. तांबड्याच फुलांनी गच्च भरिल्लीं. मदीं मदीं पाचवीं पानां आशिल्लीं. रतन आबोल्यांच्या वळेसरांत मदींच बोकडयो घाल्ले वरी. धांवते ट्रेनींतल्यान तीं झाडां धांविल्लेवरी दिसतालीं. म्हाका जाल्यार दिसलें तीं झाडां नाचतात. नाचतां नाचतां म्हणटात.

फुलां मावोनू वयतां काजराकू आमी काजराकू,
नाचतेलीं बोरीं तिङा दांसाकु ।। चे चै ।।

दांसाकु नाचतना आमी भोंवरे मारोया
आनी नवऱ्या बाराबोरू आमी काजार फुलोवया ।। 1 ।।

व्होंकलेकु घोव मेळ्ळा तारवोटी बाये तारवोटी
व्होंकोल आंगानु आसा जोबोर मोटी

व्होंकोल नोवरो आसा दोगांय कार्यी
आनी व्होंकोल नोवरो नाचिता दांसाक बोरीं ।। 2 ।।

व्होंकलेक कापोड हाडिलां जांबयें जांबयें
व्होंकलेन पोल्याकु लायलां तांबडें तांबडें
कुणब्या जातीचें आमचें फुल्लांय काजार
आनी न्होवऱ्याकु दोत मेवल्या पोंधरा होजार ।। 3 ।।

गुलमोहर म्हजे आवडीचो रूख. केन्ना केन्नाय हांव अशेंच उदास जाता. जेन्ना हांव उदास जाता तेन्ना हांव ह्या रुखाक पळयतां आनी ताका पळयतां पळयतां म्हजी उदासी खंयचे खंय पळून वता. हो रूख म्हाका भोवच खोशी दिता. हो रुख उबो आसता तोच पयलीं नागमोडी मोडणां घेवन. हाका सादो सरळ म्हणटा तसो उबो रावंकच कळना. ओडिसी नृत्यांगना सादी उबी रावतना लेगीत आंगाक बांक दिवन मान अश्शी बागोवन उबी रावता; तस्सो हो गुलमोहर एकाद्या नृत्यांगनेची पोझ घेवन उबो आसता. ताचीं पानां इल्लीं... इल्लीं... सानुलीं सानुलीं... आनी ह्या सानुल्या पानांच्यो ओळी एक व्हड पान तयार करतात अशें दिसता. आनी तांचो रंग! वेल्यान पळयत जाल्यार पाचवीं पाचवींच विलुदाचीं पानांशी दिसतात. खासा रुखा पोंदा वचून पळयत जाल्यार पोपटी पोपटी सॅटिनाचीं कशीं पानां दिसता! गुलमोहराचीं पानां पळोवन कित्याक कोणाक खबर म्हाका मोरांच्या पिसांचो उगडास जाता. दिसता मोराचीं पांखां व्हड करून ह्या रुखाक दसयल्यांत.

ह्या रुखामुळांत उबें रावन केन्ना निळ्या नाजाल्यार केन्ना धव्या मळबाच्या कॅनव्हासाचेर काडिल्ली हागेल्या पानांची नक्षी पळोवंक म्हाका खूब आवडटा. जेन्ना हीं पानां जून जावन गडद पाचवीं... चुडटे कोराचीं जातात तेन्ना हीच नक्षी म्हाका मळबार कोणेतरी मेंदी घाल्लेवरी

दिसता. हो  रुख इतलो मनभुलयणो आनी ओडलायणो म्हूण सांगू? तिनसना मळब गडद काळसर निळें आसता. आनी हाचीं मदलीं पानां धांपिल्लीं आसतात आनी मुखावेली सातआठ पानां उक्तीं आसतात. ल्हान भुरग्यांनी न्हिदेचें सवंग करून दोळे ल्हवू उगडिल्ले वरी. तेन्नाची नक्षी वेगळी. फांत्यापारार हाणें काडिल्ली नक्षी वेगळी. दनपारच्या वेळार ह्या पानांचे जाळयेंतल्यान मळब पळोवप वेगळी गजाल. कार्रेगाद निळ्या मळबा पोंदच्यान जाल्यार हाचें पानान पान मेजून घेवचें. आनी चान्न्यांतलो गुलमोहर जाल्यार विचारूंकच नाका. हाचीं पानां धांपिल्लीं. ताचे वेल्यान चान्नें निथळटा. चान्न्यांत लिकलिकपी गुलमोहर पळयलो काय म्हाका कितें जाता. दिसता ल्हवूच ह्या रुखाच्या आंगार हात भोंवडावचो. मागीर तो पानांपानांत शिरशिरतलो. रंध्रारंध्रांत फुलतलो.

पावसांतलें हाचें रुप वेगळें... पावस झडटा... पावसाचो भार हो आंगार घेता... तें पळोवन वारो चवताळटा. मागीर हो वाऱ्या वांगडा हालता धोलता. धोलतना हाचीं पानां वयर सकयल जाता. तेन्ना तीं केन्ना पोपटीशीं दिसतात. केन्ना धवशीं केन्ना पाचवीं... हांचेर उदकाचे थेंबे पडटात. उदकाचे थेंबे एकेका सान पानार येवन आतां पडूं काय मागीर पडूं म्हूण वाट पळयत चकचकतात, तेन्ना आख्खो रुख उदकाच्या थेंब्यांनी भरिल्लेवरी दिसता आनी ओंठार आपशींच कवितेच्यो ओळी उदेतात.

रिमझीम रिमझीम पावस गळे
पाना पानार थेंब्या कळे
थेंब्या कळे चान्न्याचे
उदक म्हजे मायेचें...

उदकाच्या थेंब्यान भरिल्लें गुलमोहराच्या झाडाचें पान गालाक लावंक कितली मज्जा येतली न्हय?

आनी मागीर शिशिर ऋतू येता, तसो आमचो हो रुख बदलूंक

लागता. हाचीं पानां आपलो कोर बदलता. एखाद्रे प्रौढेच्या काळ्या केंसांत मदींच एक धवसो केंस चमकता. तसो हाच्या पाचव्या पानांनी मदीं मदीं एक सान हळडुवें पान दिसूंक लागता. म्हणटा म्हणसर हाचीं सगळींच पानां हळडुवीं जातात आनी हो रुख भांगरा रुखावरी दिसता. ल्हानपणांत वाचिल्ल्या सोनेरी झाड, गावपी पक्षी बी म्हूण वाचिल्ल्या काणयेंतल्या रुखावरी... तेन्ना हाचेर येवन बुलबूल पक्षी बसता आनी भुरगेपणांतली काणी हांव त्या रुखार वाचतां.

करतां करतां तीं पानां गळून पडटात. अर्दीं गळिल्लीं पानां, अर्दीं झाडार आशिल्लीं पानां... तांची उरिल्ल्या पानांची मळबावेली नक्षी पळोवंक हांव त्या रुखापोंदा वतां. पळयत जाल्यार कितें, ताच्या हळडुव्या पानांची ही रास त्या रुखा पोंदा जमल्या... इल्लीं मात्शीं कवळिल्लीं तीं कुरकुरीत पानां. हांव सरळ जोतें काडून हातांत घेता. त्या पानां वेल्यान चलत वतां. त्या कुरकुरीत माणकुल्या पानांचो म्हज्या पांयाक स्पर्श जाता. हांव दोळे धांपून तो स्पर्श अणभवतां. म्हज्या आंगार खोशेची ल्हारां फुट्टात!

आनी एकदीस पळयल्यार तो रुख आपली सगळीं पानां झडोवन उबो. उगडोच. ताचो खांदयेंत खांदो... ताळयेंत ताळी... शिरेन शीर आपली उगडी... ती बी सरळ न्हय. अशी बांकदार. मळबावेली ताची नक्षी आतां ओगीच कोणेतरी ब्रशान लायनी ओडिल्ले वरी दिसता. म्हजें काळीज परतून उदास जाता. आनी ओंठार गीत येता...

विकल मोरा मनवा तुमबिन हाये...

गीत गुणगुणटां म्हणसर संधिप्रकाश येता. हो रूख आंकाताचो सुंदर दिसूंक लागता. एकाद्री सोबीत अस्तुरी शृंगार करून जितली सुंदर दिसता, तितलीच ती विवस्त्र जाली काय तिचो आंगलोट तितलोच सुंदर आसचो तसो.

विवस्त्र अवस्थेंत आशिल्ल्या ह्या गुलमोहराक वसंत ऋतूची

सुलूस कशी लागता कळना. मर्दींच केन्ना तरी पळयत जाल्यार हाचे ताळयेच्या तोंकार पोपटी कोमरी उदेल्या... आनी ताळये ताळयेर पाचवी धवी रिस्क आशिल्ले बोंगे येतात आनी हो आपलो कुणग्यां कुणग्यांनी फुलूंक लागता... आनी एक दीस पळयत जाल्यार हाची शीरेनशीर तांबड्या, केसरी, हळडुवी आनी धवश्या रंगाच्या फुलांनी फुलता... जस जसो वोताचो रखरख चडटा तसो हाचो रंग आनीक कोरेंगाद जाता. आतां तो आपलेच धुंदीत. आपलेच भितर. आपलेच मस्तींत आसता. आतां ताका कोणाली पर्वा आसना. म्हजी लेगीत... ताची ती सोबितकाय पळोवन म्हाका दिसता हांवें त्या रुखायेदें व्हड जावचें आनी दोनूय हातांनी ताका वेंगेत घेवचें आनी ल्हवूच ताचेर म्हजे ओंठ तेंकोवचे... आनी ताज्या तांबूस रंगान म्हजे ओंठ रंगोवचे!

सदांवरी गुलमोहराच्या फुलांनी मळबाच्या कॅनव्हासार काडिल्ली नक्षी पळोवंक हांव ताच्या रुखामुळांत गेलें. थंय पळयत जाल्यार त्या रुखापोंदा देडेक फुटायेदें दुसरें झाड आशिल्लें आनी त्या झाडार एक फुलांचो झुबको आशिल्लो. म्हाका दिसलें व्हड झाडावेलीं फुलां पडून ह्या धाकल्या झाडार शिरकल्यांत. तीं काडूंक म्हूण हांव गेलें आनी अजाप! तीं फुलां वेल्यान पडूं नाशिल्लीं तें एक ल्हान झाड ह्या मोट्या रुखापोंदा उदेल्लें आनी ताचेर ती ताजींच फुलां फुलिल्लीं. हांव रुखायेदें जावंक शकनाशिल्लें म्हूण तें ल्हान झाड फुलां भार घेवन म्हजी वाट पळयतालें... हांव केन्ना येतलें... आनी केन्ना ताका वेंगेत घेतले म्हूण! आनी हांवें त्या व्हड रुखाच्या मुळासकट त्या झाडाक वेंग मारली आनी कोण पळयनासो पळोवन त्या फुलार ल्हवूच म्हजे ओंठ तेंकयले! ■

# मनांतलीं झाडां

आमच्या बिल्डिंगे मुखार एक रस्तो आसा. चंदनबाग रोड. रस्त्याच्या कोनशाक एक पिंपळ उबो. फाटलीं सत्तावीस वर्सां आमी मुलूंड रावतात. आमच्या सामकार तो. इतल्या वर्सांनी तो आमचे बराबर आनी आमी ताचे बराबर वाडत गेलीं. एकदीस पळयल्यार ताचीं सगळीं पानां गळून गेल्लीं. सगळीं ताडांच ताडां. मदीं मदीं सुकिल्लें एकेक पान. गळून वच्चे वाटेर.

म्हाका दिसलें हाका उदक बी मेळूंक ना काय? आनी दोन दिसांनी पळयत जाल्यार कितें? सगळ्या पिंपळाक आंगभर फुगांव आयिल्लेवरी फोड. थोडे धवशे, थोडे पोपटी जाल्यार थोडे तांबशे. आनी ते खावपाक तरेकवार शेवणीं. म्हणटा म्हणसर ताका तांबूस, पोपटी सेदाचीं पानां आशिल्लीं. आतां ह्या पिंपळाक सदांच सकाळ सांज पळोवपाची म्हाका संवय लागली. हांव अजापान, कवतुकान सैमाचो हो बदल ह्या पिंपळांत पळेतालें.

एकदीस पळयल्यार सगळीं पानां तांबूस पाचवीं, काफयेच्या कोराची. मदल्यो हळडुव्यो शिरो दाखोवच्यो दाखोवन वेल्यान लांब

जीब दाखोवपी. वत आंगार घेवन चकचकपी.

चार दिसांनी पळयत जाल्यार हींच पानां पोपटी रंगाची जाल्लीं. चकचकीत. रसमी. मुमुरख्यांनी हांसपी. अजापान जगा कडेन पळोवपी... करतां करतां तीं पानां पाचवीं जालीं. म्हणटा म्हणसर निबर जालीं. पावसाचे दीस आयले. पावसांत तीं भिजतालीं. मदींच वत येतालें. तेन्ना तीं चकचकतालीं. आंगार वत घेवन चकचकपी तो पिंपळ चान्यांत भिजून स्वर्गीय वृक्ष कसो दिसतालो. ताचीं हीं सगळीं रुपां मनांतल्या कॅमेऱ्यांत बंदिस्त आसात.

आमच्या बिल्डिगांतलें आनीक एक झाड म्हज्या मनांत उरलां. तें झाड म्हळ्यार 'करंज'. मराठींत ताका करंज म्हणटात. कोंकणींत कितें म्हणटा खबर ना. वसंत ऋतू आयलो रे आयलो, हें झाड आपलो रंगूच बदलता. सगळें झाडूच पोपटी सिल्काचेंशें जाता. हाका बारीक फुलांचे घोंस येतात. हीं फुलां चुन्रा कशींशीं दिसतात. आकारान आनी रंगानूय. पूण ह्या फुलांक पाकळ्यांचे कडेक जांबळी वळशी आसता. वत चडटा तितलें हें झाड चड तरतरीत दिसता. नटिल्ली पाचवो शालू न्हेशिल्ली व्हंकल कशी! मागीर हें झाड गडद पाचव्या पानांचें जाता. पूण एकाद्री सुंदर चली जाणटी जाले उपरांत लेगीत आपल्या खानदानी रुबाबान आकर्शक दिसता तशेशें हें झाड म्हाका दिसता.

संक्रांत जावन गेल्ली. हांव शशीगेर भयणीगेर वतालें. चारकोप कांदीवली. मालाड, कांदीवली चडसो गुजराती लोकांचो राबितो. संक्रांतेक हे लोक पतंगांनी खेळटात. वाटेर मदींच एक सावरीचें झाड आसलें. पानां गळून बोडकें जाल्लें. त्या झाडार पतंगूच पतंग, पतंगूच पतंग आडकून आसले. हांगचे पतंग लांडे. तांकां शेंपड्यो आसनात. झाडाक आडकल्ले पतंग झाडाकूच लागिल्लेवरी दिसताले. ताका लागून तें झाड पतंगांचें शें दिसतालें. ताका हांवें नांव दिलें पतंगाचें झाड!

ताचे मुखार वतना एक झाड दिसलें. तें झाड आसलें बादमाचें.

ह्या झाडाची पानां मोठीं आसतात. पाचवीच आनी मदीं मदीं एक पान तांबडें. हांवें पळयलें तें झाड व्हड आसलें. ज्युस्तच ताचेर सुर्याचीं किरणां पडिल्लीं. नाटकांत एकादऱ्या पाट्र्याचें स्वगत आसता तेन्ना ताचेरूच उजवाडाचो फोकस घालतात तशें! तीं किर्णां त्या गडद पाचव्या पानांतल्यान आरपार गेल्लीं. ताका लागून तांचो तो पाचवो रंग वेगळोच दिसूंक लागलो. जादूची कांडी भोंवडायिल्लेवरी तें झाड सुंदर, तेजस्वी दिसूंक लागलें. शृंगार करून आपल्या प्रियकराची वाट पळयतले, प्रियतमेवरी तें दिसलें. कॅमेरो हाता कडेन नाशिल्ल्यान म्हाका चुटपुटे पडले. पूण काळजांत मात त्या झाडाचें चित्र सासणा खातीर उरलें.

तें झाड पळेल्ल्याक खंयूय उब्या आशिल्ल्या बादमाच्या झाडाचेर लक्ष वचूंक लागलें. मागीर लक्षांत आयलें. बादमाचें झाड बरें खापांखापांचे आसता. म्हळ्यार मुळां वयर एक दाणोसो वयर वता. ताका चारूय वटांनी फांदयो फुट्टात. तांकां पानां येतात. परत तो दाणो वयर वता. ताका फांदयो फुट्टात. ताका पानां येतात. अशे तरेन तें झाड सकयल रुंद आनी वयर अशीर जायत वता.

हाची पानां खूब व्हड. मदींच एक तांबडें पान. गणपतीक हरयाळीचो हार घालतात. तातूंत मदींच एक दसणीचें फूल आसता तशें. पूण पानां गळच्या वेळार हींच पानां तांबडीं जातात आनी मदींच एक चुकून पाचवें पान उरता. बादमाक बरीं फळां येतात. पयलीं तीं पाचवीं आनी मागीर तांबडीं जातात. तीं बरीं गाय म्हशीच्या दोळ्या वरी आसतात. भुरगेपणांत हीं बादमां चोखून चोखून खावन ओंठ रंगयल्ले ताची याद जाता. मागीर ते बादम फोडून तातूंतलो गर दुसऱ्यांक चाळोवन खावपाक मजा येताली. तो धवो, पापुद्रे आशिल्लो गर खावंक रुचीक आनी कुरकुरीत लागतालो.

ह्या झाडाच्या पाना परस फळां ल्हान. फळां परस फुलां ल्हान. सामकीच इलुलीं. क्रीम कलरचीं. नक्षत्रांवरी. ह्या झाडा पोंदच्यान

वचत जाल्यार ह्या फुलांचो नक्षत्रांचो शिंवर जाल्लो दिसतलो. भांगराचीं कानांतलीं करूंक एकदम बरो मॉडेल.

हाची पानां गळून वचून नवीं पानां येतात. तीं पळोवपा सारकीं. एकाद्रे भरतनाट्यम नर्तिकेचे मुद्रेवरी! नर्तिका हात लांब करता. आंगठो आनी करंगळी एकठांय हाडटात. आनी उरिल्ली तीन बोटां उक्तीं करता. तश्शीं! आनी हें झाड गाणारें. सांजेर ताच्या आलाशिऱ्याक तरेकवार शेवण्यांचीं भिरीं येतात. पानांपोंदा खंयतरी रावतात. तीं दिसनात. पूण तांचो आवाज आयकूंक येता. मदींच कितें जाता तें खबर ना. अचकीत सगळीं ओग्गी रावतात. बोवाळ करपी भुरग्यांच्या क्लासींत प्रिन्सिपल येतकच ती ओग्गी जातात तशीं. मागीर परतून तांचें गायन सुरू.

गोंयां सावन मुंबय येतालें. बसीन. पावसाचे दीस. प्रवासांत म्हाका न्हीद तशी येना. हांव भायर पळयतालें. निळ्या गोबऱ्या मळबार दोंगर पिंतारिल्ले वरी दिसताले. बस घाटार चडटाली. वांकडी तिकडी मोडणां येतालीं. मदींच तीन झाडां दिसलीं. ती चकचकतालीं. तीं तिनूय झाडां भरून काजुले आशिल्ले. तीं काजुल्यांचीं झाडां याद जालीं काय अजून दोळ्या मुखार उबीं रावतात.

गोंयांत खंयूय भोंवतना, व्हांवतें उदक दिसता चकचकीत. आनी ह्या उदका देगेर तिवऱ्यांचीं, हुडदांची झाडां दिसतात. अशाच मदल्या एका झाडाच्या पाचव्या पानांचेर धवे फुल्ल बगळे दिसतात. गोंयांत खंयूय भोंवतना हें बगळ्याचें झाड दिसताच दिसता.

गोंयां आसतना दर्या देगेर भोंवक गेल्लें. वाटेर एक झाड मेळ्ळें. भिण्णाचें. तेन्नाच सकाळचें मोव वत ताचेर पडलें. देखून तें झाड नटून थटून उबे आशिल्ल्या मॉडेलावरी दिसलें. ताचीं पानां चिंच लावन घांसून दवरिल्ल्या तांब्याच्या थोकणाच्या आयदनावरी दिसलीं. झाडाच्यो फांदयो आनी झाड मात काळें कुळकुळीत. म्हाका मुंबयच्या कपड्यांच्या

व्हड शोरुमाची याद जाली. थंयच्या शोरुमांत काळ्योच, प्रमाणबद्ध अवयवांच्यो, बारीक पूण व्हड बावल्यो दवरतात. तांकां एकाच रंगाचे तरेकवार ड्रेस घालतात. केन्ना केन्ना तांब्याच्या रंगाचे झरदोसी वर्क केल्ले कपडे घालतात. म्हाका तें झाड तश्शें त्या मॉडेलावरी दिसलें ! ताचें लावण्य पळेत हांव कितलो तरी वेळ उबें आसलें. म्हाका दिसलें हाका आतां कसलें कसलें नाव दिवचें? आनी अकस्मात येवजलें हाका चैतन्याचें झाड म्हणपाचें.

पूण मागीर दिसलें, 'आरे, हीं सगळींच झाडां सुंदर. चैतन्यान सळसळपी. मनशां कडल्यान कसलीच अपेक्षा करिनासतना तांकां भरून भरून दिवपी उदार मनाचीं. निरपेक्ष भावनेन दान करपाचे वृत्तीची देख दिवपी...'

■

# रुखावळ : वळख

लोकसत्तेंत जायरात आयिल्ली. वृक्षमित्रां खातीर कुलाबा सागर उपवनांत झाडांची वळख करून दितले. कोणाक येवपाचें आसल्यार येवचें. संपर्का खातीर मोबायल नंबर दिल्लो. हाचे पयलीं मुंबय विद्यापिठांत अशीच भोंवडी आसली. पूण कालीनाक वचून नांवां आनी पयशे भरपाचे आसले. वाजेवन गेलें ना. आतां मात वचप अशें थारायलें.

फोन घुंवडायलो. शुभदा पटवर्धन उलयताली. तिणें सांगलें, पन्नास रुपया फी. सक्काळीं साडेसातांक अमूक तमूक सुवातेर येतात. कोळंबकाराक विचारलें, अशें अशें आसा. तुका येवपाचें आसा? ताणें 'हय' म्हणटकच ताचेंय नांव दिलें.

8 एप्रील 2009. सकाळीं कोगळाच्या आवाजान जाग आयली. कोगूळ सकाळीं साडेचारांक गायता. उठून वगत पळयलो. साडेचार. मनांत म्हळें, आतां आळस करूंक फावना. तशेंच उठलें. उठून न्हावन धुवन कोळंबकाराक उठयलो. च्या बी घेतली. सकाळीं संक भायर सरलीं. मुलुंड सावन व्हीटी, मुखार बस नाजाल्यार टॅक्सी. स चवदांची

ट्रेन स बाविसांक आयली. फास्ट ट्रेन. एकले चलयेन सांगलें, ही ट्रेन कितलीय उसरां आयली तरी ती व्हीटीक सातांक पावता. सूऽ जालें. पूण ती ट्रेन पावली सात धांक. कळाव जावंक नाका म्हूण टॅक्सीन गेलीं. कॅमेरा हाडिल्ल्यांक पांच रुपया तिकेट आसली. ती घेतली.

सगळो पंगड जमतासर आठ वरां जालीं. ज्यार्दिनाचे उजवे वटेनूच अशोकाचें झाड पळेलें. आनी आमी अशोक कोणाकूय म्हणटात हाची जाणविकाय जाली. अशोकाक सीता-अशोक नाजाल्यार लाल अशोक म्हणटात. हाचीं फुलां तांबडी, केसरी आनी हळडुवसार आसतात. फुलांचो बरो गोंडोसो आसलो. अशोकाचेर सुंदर चलयेन खोंट मारल्यार तो बरो फुलता आनी ओंवळिणीक तोंडान घोंट घेवन तिचेर उडयल्यार चड ओंवळां फुलतात अशें म्हणटात.

एक लांबचे लांब, फुलां बी कांय जायना आसलें, आंब्याच्या पानां वरी पानां आशिल्लें झाड थंय आशिल्लें. ताकाय आमी अशोक म्हणटात. पूण ताचें नांव आसुपालव (पॉलियाथिया लाँजिफोलिया) जेन्ना दिवाळेक, पाडव्याक, रोजांचीं तोरणां करतात तेन्ना आंब्या पानां सुवातेर आसुपालवाचीं पानां घालतात. तसो ह्या झाडांचो व्हडलोसो उपेग ना. पूण हीं झाडां कॉलनींत दुरीग आसता ताचे देगेक लावचीं खंय. कित्याक तांचीं पानां धुल्ल आडायतात आनी ध्वनीप्रदुशण उणें करतात.

थंय लागींच एक बॉटल पामाचें झाड (रॉयस्टॉनीया रेजिया) आसलें. हें झाड ऊंच आनी बाटले वरीच आसता. हाचो कंवळो बाटलेवरी भाग पाचवो आसता. वयर पामाचीं पानां आसतात.

आनीक एक केळीच्या पानांचें कशें झाड आसलें. सरळ खांबो कशें. वयर जपानी आयणो आसता तशे दांडारे. त्या दांडाऱ्यांक वयर केळीचीं कशीं पानां. ताका खंय ट्रॅवलर्स पाम म्हणटात. कित्याक जाल्यार ताचो वयलो दांडारो तोडीत जाल्यार तांतल्यान उदक येता. तें

उदक सुवादीक आसता. पयलींच्या तेंपार लोक जेन्ना चलत नाजाल्यार बैलांच्या गाड्यांतल्यान भोंवताले, तेन्ना तान लागल्यार ताचें उदक पियेताले खंय! पूण इतलो वयर आशिल्लो दांडारो ते कशे तोडटाले काय?

थंयच आनीक एक झाड आशिल्लें. ताका भडक केसरी रंगाचीं, न्हय उज्याच्या रंगाचीं, फुलां फुलिल्लीं. तांकां 'अग्नीशिखा' म्हणटात. केरळा गेल्लें तेन्ना असलीं खूब्ब झाडां आसलीं. गोंयांय असलीं झाडां पळयिल्लीं. मराठींत ताका पिचकारी म्हणटात. कित्याक जाल्यार ह्या फुलांच्या कळ्यांक बोथो करीत जाल्यार तांतल्यान शिळकी मारिल्ले वरी उदक उडटा. अग्नीशिखा म्हळ्यार स्पाथॉडिया कॅम्पनुलाला-पणजे मांडवी हॉटेला मुखार असलें झाड आसा.

मागीर आमी पळयलें तें रेन ट्री. ताका पिथेकोलोबियम समन म्हणटात. रेन ट्री पळयलें आनी गोंयची याद जाली. पणजेच्या चडश्या रस्त्यांचेर असलीं झाडां आसात. ल्हानपणा सावन हांव हीं झाडां पळयतालें. हीं झाडां कसलीं काय, असो प्रस्न सदांच पडटालो. पुर्तुगेजांनी तीं झाडां हाडल्यांत अशें कोणें तरी सांगलें. पयलीं हीं झाडां खूब्ब दिसतालीं. आतां उणीं जाल्यांतशीं दिसता. पणजे मार्केटा मुखार, दर्यादेगेर, हॉस्पिटला मुखार, कला अकादमी कडेन हीं झाडां आसात. हांचेर तरेकवार सुकणीं आनी बारीक सारीक जीव रावतात. हांची फुलां ब्रशा वरी. पोंदा धवीं. वयर तांबडीं. नक्षत्रा वरी देंठ. तांतल्यान येवपी धा बारा धवे तांबडे केंस कशे. ह्या असल्या धा बारा झुबक्यांचो एकठांय आशिल्लो घोंस म्हळ्यार एक फूल. हाका वेंतभर लांबायेच्यो सांगो येतात. पयलीं त्यो पाचव्यो आसतात. मागीर काळ्यो जातात. मोडून पळयल्यार तातूंत गोमा भाशेन चॉकलेटी रंगाचें चिकट कितें तरी आसता. ल्हान आसतना गोरवांक खावड म्हूण घालपाक लोक साकांनी भरून ह्यो सांगो व्हरतना हांवें पळेल्लें.

ताका रेन ट्री म्हणटात. कित्याक जाल्यार ह्या रुखा पोंदच्यान गेल्यार उदकाचे बारीक थेंबे पडिल्ले वरी दिसतात. पूण हे उदकाचे थेंबे न्हय, तर बारीक सारीक किडे 'शी' 'शू' करतात ती हळशीक अशें आमकां गायडान सांगलें. हांवें एके कडेन वाचलें- सांजे हीं झाडां आपलीं पानां धांपतात. खेरीज पावसांत हीं झाडां पानां धांपतात तेन्ना तांतल्यान पावसाचें उदक शिंवरता म्हूण ताका 'रेन ट्री' म्हणटात.

त्या ज्यार्दिनांत आनीक एक संवकळीचें झाड मेळ्ळें. तें म्हळ्यार गुलछडीचें. मराठींत ताका बूच म्हणटात. कोंकणींत गुड्डी म्हणचे पडलें. कित्याक, खंयच्याय बाटल्यांक पत्र्याच्यो गुड्ड्यो आसतात, तातूंत भितरले वटेन मोवसो वाटकुळो फोर आसता, तो फोर ह्या झाडाचे साली पसून करतात. बूच झाडाचें वनस्पतीशास्त्रांतले नांव मिलिंग्टॉनीया हॉर्टेन्टीस. ताका गगनजाई नाजाल्यार आकाशनीम अशें म्हणटात. पणजे मार्केटा मुखार, दर्यादिगेर हीं झाडां आसात. गीता बेकरे मुखार एक ल्हान ज्यार्दीन आसा. ह्या उद्याना भोंवतणीं हीं झाडां आसात. ताका बरीं लांब देंठांचीं फुलां येतात. सकाळीं सांजे ह्या फुलांचो परमळ मन प्रसन्न करता. ह्या फुलांचें देंठ लांब आशिल्ल्यान सुता बगर ताची बरी फांती करूंक जाता. थोडे लोक हाका गुलछबू म्हणटात. चान्याचे राती हीं सुंदर फुलां अदीक सोबीत दिसतात. अशें दिसता नक्षत्रां ह्या रुखांचेर स्वर्गीय परमळ घेवन देंवल्यांत. चान्याचे रातीं ह्या झाडामुळांत उबे रावात आनी एका कोनांतल्यान वयर मळबा वटेन पळेयात. ह्या झाडान, निळ्या मळबाच्या कॅनवासार काळसार पाचव्या पानांची धवशा फुलांची नक्षी पिंतारिल्ले भशेन दिसतली. एका वेगळ्याच देखाव्याचो भास जातलो. तें लावण्य पळोवपाक विसरूं नाकात.

दुसरें एक झाड पळयलें. ताचें नांव तामण. हें झाड मातशें मोटवें. हाचीं पानां आंबाड्याच्या पानां वरी दिसलीं. हाका जांबळीं, धवशीं

आनी गुलाबी फुलां येतात. आंब्या चंवरा वरी हाका चंवर येता. सोनमोहरा वरी हाका फुलां येतात. जाड क्रॅप फोली वरी हाच्यो पाकळ्यो आसतात. तामण झाडाचें वनस्पतशास्त्रीय नांव लार्जरस्टॉमिया स्पिसीओसा महाराष्ट्राचें हें राज्य फूल. गोंयचें राज्य फूल खंयचें काय? राज्य सुकणें खंयचें काय? राज्य जनावर खंयचें? म्हाका कांयच खबर ना.

आफ्रिकेंतल्यान भारतांत आयिल्लें एक झाड आसा. ताचें नांव कैलाशपती. हाचीं फुलां सुंदर, मुदलांतूच भावनाप्रधान वृत्ती आशिल्ल्या भारतीयांच्या काळजाक हात घालपी. सुंदर सहस्त्र नागफणा. तातूंत भितर शिवलिंग. खुबूच सुंदर आनी मधूर परमळ दिवपी हें फूल. हाचीं फळां नाल्ला येदीं जातात. फुलाक जितलो सुंदर परमळ तितलीच घाण ह्या फळाक येता. मुलुंड शारांतल्या 'आर मॉला' मुखार हाचें झाड आसा. थंय येतना वतना ताका 'हॅलो' म्हणले बगर हांव फुडें वचना.

कैलाशपतीच्या फळांक 'कॅनन बॉल' म्हणटात. इंग्लंडाच्या क्रिकेट ग्रावंडार असलें झाड आसा खंय.

शिसवाचीं पानां पिपळ आनी बेला वरी आसतात. पानांची लांबी रुंदी सारकीच आसता. मदेरा खातीर हाचें लांकूड वापरतात. हाचे विशीं थंय आयिल्ले एके बायलेन सांगलें, ह्या झाडाच्या खोडाक तेंकून बसात. नाजाल्यार ताका वेगेंत घेयात. ताका सांगात आपूण ताचो मित्र/मैत्रीण म्हूण. अशें सांगून थोडो वेळ बसून मागीर ताका सोडून वचशात जाल्यार तें झाड तुमकां आपले वटेन खेंचून घेता खंय!

चांफ्याचीं झाडां सगळ्यांचे संवकळीचीं. धव्या चांफ्याक क्षीरचांफो म्हणटात. आनीक एक चांफो आसा. ताका कनकचंपा टॅरोस्पर्मम एक्सरीफोलीयम म्हणटात. कनकचंपा म्हळ्यार हळडुवीं चांफीं. सोनचांफीं न्हय. हीं दुसरेच तरेची आसतात. केळें सोलिल्ले वरी हाच्यो पाकळ्यो आसतात. मदीं धवें फूल. हाचीं पानां पाचवीं. आनी भितरल्यान

चंदेरी, रुप्याचीं कशीं आसतात.

गुंजेच्यो वाली कारवारा कुरूमगडार नरसिंहाचे जात्रेक गेल्लें तेन्ना पळेल्ल्यो. ह्यो तांबड्यो काळ्यो गुंजो म्हाका खूब्ब आवडटात. ह्यो गुंजो गुंथून तांच्यो माळो करून गळ्यांत घालपाची म्हजी एक सुप्त इत्सा आसा. गुंजो ल्हानपणांत शाळेंत मेळिल्ल्यो. 'आठ गुंजा एक मासा, बारा मासे एक तोळा' अशें शाळेंत शिकयिल्लें. आतां तांची सुवात ग्रामांनी घेतल्या. हें भांगर मेजपाचें ल्हानांतलें ल्हान जोख. ताचे वयल्यान कोणालीय प्रकृती तोळामासा जाल्या अशें म्हणपाची रीत आयली काय?

ह्या ज्यार्दिनांत आनीक एक गुंज मेळ्ळी. म्हणल्यार हें गुंजेचें झाड आसलें. ताका रतनगुंज (एडनथेरा पावोनिया) म्हणटात. ह्यो गुंजो तांबड्यो आनी व्हड आसतात. आनी फक्कत तांबड्योच आसतात. केरळांत कृष्णाच्या देवळांत असल्यो गुंजो एके ताटलेंत घालून दवरिल्ल्यो आसतात. केरळी लोक तातूंत एक नाणें घालून त्या गुंजांनी खेळिल्ले वरी करतात. कित्याक जाल्यार कृष्ण ह्या रतनगुंजांनी खेळटालो खंय.

आनीक एके तरेचीं झाडां. हीं चड करून फक्कत दोंगरार लायतात. तांकां गिरिपुष्प म्हणटात. ह्या झाडांचीं पानां नायट्रोजन सोडटात. म्हूण हुंदीर तांचे लागीं रावनात. म्हूण ताका हुंदीरमार अशेंय म्हणटात अशें गायडान सांगलें. हीं झाडां दिसूंक सुंदर. हाका जांबळट, गुलाबी गोंडे कशीं फुलां जातात. जेन्ना वारो येता तेन्ना ह्या झाडाच्या शेंड्याचीं पानां परततात. तेन्ना ह्या झाडांक पाचवीं रुपेरी फुलां फुल्ल्यांत काय दिसतात.

वृक्षमित्रां खातीर परतून आनिकूय भोंवड्यो जावपाच्यो आसात. खंयच्याय मनशा कडेन मैत्री जाली काय ती वाडोवंक परतून परतून मेळचें पडटा. तशें ह्या झाडांकूय परतून मेळचें पडलें. तांचे कडेन आनी हेर झाडां कडेन वळख करून घेवपाक. आनी इश्टागत वाडोवपाक.

झाडांपेडांक जीव आसता. तांकांय मायेमोगाची, तापोवपाची

गरज आसता. कोणाल्याय पोरसांत, समजा झाड आसा, तें फुलां फळां कांयच दिना, जाल्यार आवयन भुरग्याक तापयता तशें ताका तापयात. मारूनच उडयतां, अशें रागान ताका शिटकायात. चार पांच दिसांनी ताका फुलांफळां येतात काय ना तें पळेयात. भुरग्यांचे अती लाड केले काय तीं माथ्यार बसतात. तशीं झाडांय बसतात. तुमचे भोंवतणीं वाडिल्लीं झाडां आसत जाल्यार येतना वतना तांकां हॅलो म्हणात. हात लावन तांकां पोशेयात. आनी मनांतल्या मनांत म्हणात- म्हजें शाणें तें! म्हजें अपुरबायेचें तें! अशें म्हयनोभर करात. चुकनासतना. आनीक एक दीस ओग्गी रावात. हडकूं नाकात. झाड तुमचेर मोग करतलें. पानां सळसळायतलें. पूण ती सळसळ आयकूंक तुमचें चित्त मात थाऱ्यार आसूंक जाय आं!



# सैम अणभव

दुर्गा कांबळी, म्हजी धाकली भयण. तिचें मुळावें घर आर्ली शिरोडा. महाराष्ट्रांत. हांव गोंयां आयिल्लें तेन्ना तांच्या घरा गेल्लें. तुळशीच्या लग्नाक.

दुसरे दिसा सकाळीं संक उठलीं. दुर्गाल्या घरा लागसार, धा मिनटांचे वाटेर दर्या आसा. दुर्गा म्हजे भशेन सैमपिशें. आमी दोगांय दर्या देगेर वचूंक भायर सरलीं.

वाटेर वतना तरेकवार रानटी फुलझाडां दिसलीं. हीं फुलझाडां पयलीं आमी पणजे रस्त्या देगेर पळयतालीं. तीं थंय आतां तितलीं दिसनात. तांकां पळोवन आमी भुरगेपणांतल्या यादींनी शेणलीं. थंय आमकां 'कावळ्याचे फोव' (एके तरेचे तण) दिसलें. रांदचे वाडच्यांनी खेळटना आमी हाडटालीं तीं घोसाळ्या सारकीं फळां दिसलीं. खूब ल्हान व्हड फुलां दिसलीं. चडशीं फुलां जांबळीं आसलीं. जांबळो रंग. पूण त्या रंगाच्योय म्हूण कितल्यो तरा! वाटेवेल्या तणाचेर दंव पडिल्लो. ते थेंबे सुरूच्या झाडांतल्यान चोरून आयिल्ल्या सूर्य किरणांनी अशे चमकताले की ताचे मुखार हिऱ्यांची चमक झक मारताली.

आमी दर्या देगेर वचून बसलीं. मोन्यांनी. व्हड व्हड येवपी ल्हारांचो नाच पळेत. तांचें संगीत आयकत. वांगडा ढगांचे बदलते रंग तोखेत. नदर पावता थंय मेरेन उदकच उदक. पाचवें. धवीफुल्ल रेंव. दर्या देगे वेलीं सुरूची झाडां. ते माड. तें दिव्य सौंदर्य... नुलयतां म्हज्या क्षुद्रपणाची जाणविकाय करून दीत रावपी.

'आवडलो दर्या?' दुर्गान विचारलें.

'खऱ्यांनीच सुंदर गो!' हांवें म्हणलें. ताणें सांगलें. 'हें कांयच न्हय. हांगा पावसांत यो. दर्याचें रौद्र रुप पळय. खोशेन तूं नाचतलें. फुडल्या वर्सा तूं चवथीक यो. सगळे लोक आपआपले गणपती घेवन येतात. वळीन दवरतात. हांगा दर्या देगेर लायट ना. म्हूण सगळे जाण रेंवेत आपआपल्या गणपती मुखार फोणकूल खणटात. तातूंत दिवो दवरतात. त्या दिव्याचो उजवाड गणपतीच्या तोंडार पडटा. कल्पना कर. बिण्ण काळोख. तातूंत त्या दिव्यांचो उजवाड. त्या उजवाडांत गणपतीचें आनीकूय ठळकपणान दैवी रुप आपशींच झळकता. आनी तो बुडयलो काय एक दूक गळटा. आपशींच.'

येता ते चवथीक शिरोड्या येवचेंच पडलें. मनांतल्या मनांत हांवें थारायलें.

दुर्गाच्या ह्या घराक व्हड आंगण आसा. तातूंत तुळशीवृंदावन. आंगण पळोवन रांगोळी घालपाची म्हाका कूय आयली. दुर्गान रांगोळी हाडून दिली. म्हणलें, 'चल. तुका जाय तितली रांगोळी घाल.'

हांवें थंय तरेकवार रांगोळ्यो घाल्यो. तातूंतलें एके रांगोळे कडेन बोट दाखोवन दुर्गाल्या देरान म्हणलें,

'ही रांगोळी म्हाका आवडली.'

'कित्याक?' म्हजो प्रस्न.

'कारण हे रांगोळेक 'र्‍हिदम' आसा.

रांगोळेक आनी 'र्‍हिदम'? भन्नाट कल्पना. म्हाका अजाप दिसलें.

रांगोळेक न्हिदम' आसा म्हणपी हो दुर्गालो देर आर्किटेक्ट हें म्हत्वाचें. संगीत, नृत्य, कविता हातूंत न्हिदम आसता हें खबर आसलें. चित्रकलेंत, आर्किटेक्चरांतूय न्हिदम आसता हें खबर नासलें. म्हाका नवो सोद लागिल्लेवरी दिसलें. हांवें ताका विचारलें. 'हे रांगोळेक न्हिदम आसा म्हणल्यार नेमके कितें आसा? आनी हो न्हिदम कसो आसता?' ताणें जें कितें सांगलें ताचे वेल्यान म्हाका कळ्ळें की आर्किटेक्टाचे भाशेंत जे कलाकृतीक कलात्मक सौंदर्य आसता ताका ते न्हिदम आसा अशें म्हणटात. देखीक, गोवा कला अकादमी. तिका न्हिदम आसा. म्हणल्यार सगळें आंखीव, रेखीव. खंयच्याय कोनांतल्यान पळेल्यार ती सुंदर दिसता. म्हज्या ज्ञानांत इल्ली भर पडली.

दुर्गाल्या देरा कडेन गजाली करतना त्या गांवचे तुळशी लग्नाचे रितीरिवाज समजले. गोंया भटाक हाडून तुळशीचें लग्न लायतात. न्हवरो म्हूण लग्न जाल्लो मनीस लग्नाक उबो रावता. जाल्यार तांच्या गांवांत आंकवार चलो न्हवरो आसता.

वाड्यावेले सगळे लोक आपआपलीं तुळशीवृंदावनां सजयतात. मागीर सगळे लोक एकठांय जावन देवळांतले तुळशीचें लग्न लायतात. उपरांत सगळे जाण दर एका घरा वचून तुळशीचें लग्न लायतात. मंगलाश्टकां हेच लोक म्हणटात.

तुळशींत नेमो आनी उशीकांड्याचो तुरो लायिल्लो आसता. केळम्याचो चोळको काडून ताची तोपी करून ती नेम्याक घालतात. प्रसाद म्हूण चिरमुल्यो वांट्टात. ताणें मुखार सांगलें: ल्हान आसतना आमी पोतीभर चिरमुल्यो एकठांय करताले. ह्यो चिरमुल्यो आमकां चार दीस तरी खावंक मेळटाल्यो. त्योवूय बी खुटी च्या वांगडा.

ताणें आनीक एक गजाल सांगली. पयलींचीं तुळशीवृंदावनां मातयेन सारयिल्लीं आसतालीं. तेन्ना आमी शेतांत वताले. खणटाले. थंय आमकां केसरी, हळडुवीं आनी मरून रंगाची माती मेळटाली.

आमी ती हाडून त्या रंगांनी तुळस सजयताले. नाय जाल्यार भुरग्यांक मातयेंत खेळूंक आवडटा. तांचे आवडीक दिल्लें हें कलात्मक रूप. आमच्या वाडवडिलांचो हो वारसो. पूण आमी तो खंय सांबाळ्ळा?

सगळ्या वाड्यावेलीं लग्नां लावन दुर्गाल्या घरा सगळे येता म्हणसर रातचीं बारां वरां जालीं. तो मेरेन आमी म्हणल्यार दुर्गा आनी हांव आंगणांत बसून आशिल्लीं. चंद्र माडाच्या चुडटांनी आपालिपा खेळत माथ्यार आयिल्लो. चान्नें शिंवरून ताणें रांगोळी धवीफुल्ल केली. रातकिडे गाताले. मदींच एक शेवणें आड्डत वतालें, आनी हांव, हांवें जें कितें अणभवलें तें उतरांनी कशें बांदूक येत ताचेर चिंतीत रावलें... ■

# पावस

पावस म्हळ्यार सृजन. पावस जादुगार. जादुची कांडी भोंवडायता. धर्तरीक चंवरायता. तिका पाचवो रंग दिता. हो पांचवो रंग बी एकूच न्हय. ताच्यो कितल्योशोच शेड्स. पाचवो, पोपटी, हळ्डुवो पाचवो, पाचवोच्च, काळसर पाचवो, आनी कितले तरी कोर. उतरांनी बांदूक मेळना तितले. ते पळोवनूच जण एकल्यान  अणभवपाचे.

पावसाचो वास मातयेचो. सांजेर फुलतल्या कणेरीचो. नुस्तें मेळूंक नाशिल्ल्यान भाजिल्ल्या सुक्या बांगड्याचो. कुळथाचे पिठयेचो. हळदीच्या पानांतल्या पातोळ्यांचो. भर पावसांत भाजिल्ल्या काजू बियांचो आनी भुरगेपणांतल्या यादींचो.

पावसाक आवाज पावळ्यांचो. कुपांच्या गडगडाचो. नाचत, उडयो मारीत धांवत्या उदकाचो. टपटप पडपी थेंब्यांचो. पावसांत मुद्दाम भिजता म्हूण आईच्या हातच्या खायिल्ल्या धुमक्यांचो.

पावसाचो स्पर्श ओलो ओलो. मीर्ग लागचे पयलीं एक तडवो पावस येता. आपूण येता म्हूण सांगपाक वाजत, गाजत पेरगांव घालता. सगळी सुकिल्ली माती, सुकिल्लीं पानां हांचेर हांवळ हाडटा. वाटकुळो

वाटकुळो भोंवता. धुल्ल आनी सुकीं पानां म्हळ्यार खोलयो घुंवडावन खंयचे खंयूय भिरकटावन मारता. आनी अकस्मात सगळ्यांक भिजयता. धर्तरी हयशी, न्हयशी भिजता. जितल्या नेटान तो येता तितल्या नेटान तो वताय बी.

ताच्या स्पर्शान धर्तरी रंध्रारंध्रान शिरशिरता. आनी... आनी मातयेंतल्यान दोन दोन पानां तकली वयर काडटात. म्हणटा म्हणसर ह्या दोन लांबट पानांतल्यान एक दांडारो भायर सरता. आनी कांद्याचीं फुलां धोलूंक लागतात. पांच पाकळ्यांचीं. केन्ना गुलाबी, केन्ना धवीं जाल्यार केन्ना जांबळीं. थोड्या कांद्यांतल्यान बरीं येद्दीं केसरी, हळ्डुवी फुलां फुलतात. जाल्यार केन्ना सोलिल्ल्या नाल्लायेदीं गोंडो कशीं तांबडी गुलाबी काडयांचीं फुलां फुलयतात. मजा म्हळ्यार ह्या किसरांच्या तोंकाक फुलयिल्ल्या तिळायेदी हळ्डुवीं किसरां आसता.

मागीर पावस येता. येता तोच घालून घेता. आयलो जाल्यार सेगीत तीन चार दीस, थार धरिनासतना ओतता. जाल्यार एकेक खेप तोंड घेवन वचत जाल्यार धा पंदरा दीस दडी मारून बसता.

पावस येवन वतकच सगळे सृश्टीवेलो धुल्ल तो धुवन काडटा. सगळें पाचवेंचार करता. कोल्ली कसो मेळिल्ले सुवातेर पाचवो कोर काडटा. तें मागीर दुरीग आसूं, पडंग जमीन आसूं नाजाल्यार घराच्या नळ्यांचेर पडिल्ली माती आसूं. मदींच घराचे वणटीचो कपचो गेल्लो आसता. थंय विलुदाचो कसो शेळो मांडटा. आंब्याच्यो खंयचे खंय पडिल्ल्यो कोयो. अवचीत त्यो फुट्टात. तांतल्यान इल्लोसो आंब्याचो रोंपो तकली वयर काडटा. तांबूस सेटिनाच्या पानांचो.

झाडावेली माती धुवन गेली काय दसणिचीं फुलां आनिकूय तांबडीं दिसतात. पावसांत दशीण फुलताय खूब. अनंतूय धव्या फुलांनी गच्च फुलता. बरो ओलसर पातळ परमळ घेवन. कणेर सांजेर फुलता. नक्षत्रांवरी. सांजवेळच्या अर्दकुट्या उजवाडांत तीं फुलां आनिकूय

धवींफुल्ल दिसतात. तांच्या परमळा वेल्यान जाल्यार म्हाका दिसता तीं आतांच मळबांतल्यान पडिल्लीं आसूंक जाय.

म्हज्या ल्हानपणांत चडशे रस्ते तांबडे मातयेचे आशिल्ले. मागीर मोटरां आयलीं. डांबरी रस्ते आयले. पुर्तुगेजांनी मोटरां चलपा इतलो रस्तो डांबरी दवरिल्लो. रस्त्याच्या दोनूय देगांक माती आसताली. तेन्ना दिसतालें, हे पुर्तुगेज बुर्र. ती तितली सुवात मातयेची कित्याक दवरूंक जाय आसली? आतां दिसता ते बरोबर आशिल्ले. हे दोशीय वटेन आशिल्ले मातयेंतल्यान उदक जमनींत मुरतालें. डांबरी रस्त्या वयलें उदक व्हांवन दर्याकूच मेळचें. डांबराक लागून पावसाचें उदक जमनीत मुंगरना अशें म्हाका दिसता.

हेच रस्त्यादेगेर आशिल्ले मातयेंतूच बोटभर, वेंतभर रोंपे जातात. ते रोंपे पळोवंक म्हाका खुब्ब आवडटा. म्हजो तो छंद म्हळ्यार जाता. कितले तरेचे हे रोंपे. एक इल्लोसो रोंपो. ताका किलवरचीं कशीं पानां येतात. ताका त्रिपर्णी म्हणटात. ताका पांच पांकळ्यांचीं फुलां येतात. इल्लीं चण्यादाळीपरस मात्शीं व्हड. लेव हळडुवीं. तीं सकाळीं संक फुलतात. णव साडेणव मेरेन बावतात. दुसरी वनस्पत हांव वळखतां. तो म्हळ्यार तुमो. ताका बोटाच्या पेरायेदीं धवीं फुल्ल फुलां येतात. हीं फुलां देवकेळम्याच्या फुलावरी आसतात.

आनीक एक रोंपो म्हजे वळखीचो तो म्हळ्यार माको. हाचीं फुलां पाचवींच. पाचव्या बुतावांक पाचव्योच अडेच्यो पाकळ्यो लायिल्लेवरी. म्हजे वळखीची आनी एक वाल म्हळ्यार पुनर्नवा. हे वालीक बरीं जांबळी पिटकुळीं फुलां फुलतात. पुनर्नवेक गुजरातींत साटोरी म्हणटात. ह्या पुनर्नवेच्या पानांची भाजी पावसांत एक खेप तरी खांवची खंय. मुत्रपिंडाचे कसलेच रोग केन्नाच जायनात खंय. आनीक एक रोंपो सगळो मेळून बोटा येदो. ताचीं फुलां म्हळ्यार चार धवीं टिंबां.

दुसरी एक वनस्पत. हाचो रोंपो वेंत, देडवेंत, दोन पानां. मागीर

एक इंचा येदो देंठ. परथून दोन पानां. आनी ह्या पानांचे गांचींत मोतयां येदीं फुलां. कातरे आशिल्लीं. कोणे म्हळें तो भृंगराज. खबर ना तो रोपो कसलो तो. एकदीस तज्ञांक मेळून तांची म्हायतती घेवंक जाय.

थोडे रोंप धोंपरायेदे जातात. तांकां गोकर्णीच्या आकाराचीं फुलां जातात. गोकर्णी परस ल्हान आनी जांबळीं. धोंपरायेदे दुसरे रोंपे म्हळ्यार चिड्ड्यांचें. तांचीं बरीं सुंदर फुलां. धवीं, तांबडी, गुलाबी आनी जांबळीं. चिड्डे म्हळें काय भुरगेंपण येवजता. आमच्या वेळार पाटयो आसताल्यो. पाटयेर बरयिल्लें पुसपा खातीर आमी डबयेंत घालून चिड्ड्यांचे देंठ व्हरतालीं. पाटयेर तो देंठ दवरून, काडयेन तो फोडून येतल्या उदकान पाटी पुसप. केरळचो लोक ओणमाक ह्या फुलांची रांगोळी घालतात. हो ओणम सादारण सप्टेंबरांत येता. तेन्नाच चिड्ड्यांचो भार. तरातरांच्या चिड्ड्यांच्या फुलांनी घाल्ली रांगोळी कितली सुंदर दिसतली न्हय?

पावसांत तणूय तरेकतरांचें उगवता. तांतलें एक तण आसता ताचीं पानां बोटभर लांबायेचीं. सकयल रुंद, वयर अशीर जायत वचपी. आनी ताचे गांचींत एक सुपुल्लें निळें फूल. दुसरें तणा भशेन तण. तांतल्यान मदींच तणाची एक उंच काडी वता. हे काडयेक माडाच्या चुडटांवरी आनीक काडयो. आनी दुसरें अशेंच एक तण. मदली काडी लांब. ते काडयेच्या तोंकाक तांबूस आनीक काडयो. आनी ह्या काडयांचेर लोलक कशे हुंबकळपी पराग. ल्हान आसतना आमी दोंगरार पत्री काडूंक वतालीं. थंय तणांत एक तांबडें तणाचें पातें मेळटालें. तें आयतारा खातीर आमी सोदून हाडी. ताका आमी सीतेचो कुकूम म्हणटालीं. सीतेचो कुकूम! कितली सुंदर कल्पना. रामा वांगडा सीता वनवासाक गेली. रानांत ती तणार न्हिदली. तिचो कुकूम तणार पडलो. तण तांबडें जालें.

दोंगराचे देंवतेर वेंत देड वेंतीं रोंपे जातात. ताका मदीं चॉकलेटी

आनी भायर हळडुवीं फुलां फुलतात. ताका आमी हरणी म्हणटालीं. ऋषीपंचमीक गौरीचे पुजेक हीं फुलां जाय जातात. रस्त्या देगेर आनीक एक वनस्पत जाता. तिका घाणयारी म्हणटात. हिचीं पानां व्हडले घाणयारीच्या पानावरी आसतात. पूण हाचीं फुलां धव्या मोतयांवरी. ल्हान आसतना खेळटना आमी पडलीं, आनी रगत बी आयल्यार धांवत ताचीं पानां घेवन येतालीं. मुड्डून ताचो रोस काडटालीं. आनी घाय जाला थंय लायतालीं.

पावसांतलीं दुसरीं म्हजी आवडीचीं फुलां म्हळ्यार सोयेफुलां. तीं धवींफुल्ल सोयेवरी फुलां पळेलीं काय आपशींच म्हजे दांत तीं खावपाक शिंवशिंवतात. सोयेचीं फुलां जांबळींय आसतात.

ह्या रोंपा मदीं खातखुतलीय आसता. आनीक एक ल्हान रोंपो आसता. ताका इल्लेशे आंवाळे कशे आसतात. कामीण जाल्ल्या लोकांक ह्या रोंप्याचो रस दितात. पावसांतूच बरो तायखिळो किल्लता. ल्हान आसतना आमची आई आमकां भुरग्यांक तायखिळो हाडूंक धाडटाली. सांजेर मागीर ताची भाजी करताली. तायखिळो वाऱ्यार हालूंक धोलूंक लागलो काय तो म्हाका वाऱ्या वांगडा कचे घालता काय दिसता.

म्हजी एक इत्सा आसा. ह्या सान रोपांची, वालींची, तणाची म्हायती एकठांय करपाची. गांवांतल्या लोकां कडल्यान तांचीं कोंकणी नांवां समजून घेवपाचीं. तांचे फोटो घेवपाचे. आनी हां! आयचीं भुरगीं जीं आपलें भितर गुल्ल जावन आसतात, तांकां ह्या सगल्या शास्त्रीय म्हायती सयत सैमा मेरेन पावोवपाची!



# कावळे

सद्दां सकाळीं गॅलरींत कावळे येवन रडूंक लागले काय समजुचें साडेसात वरां जालीं. दनपरां ते आड्डूंक लागले काय समजुचें साडेबारा जालीं. हांव सदांच सकाळीं आनी दनपरां कावळ्यांक खावंक घालता. तेवूय ज्युस्त टायमार येतात. तांकां जेवपाक घालतां हांव पूण ताजी दरपटसाण मात येता म्हजे शेजान्नीक. ती सदांच म्हाका म्हणटा, तूं त्या कावळ्यांक खावपाक घालता कित्याक? आपूण उश्ट्या हातान कावळो हांबडी ना. म्हाका मात कायदे सांगता. तिगेले म्हणणें कावळे उश्टें घेवन येतात आनी तिगेले कपडे सुकतात तांचेर बसून ते खातात. एक दीस तिणें म्हाका सांगलें की कावळ्यांनी तिगेर हुंदीर उडयला. त्या कावळ्यांचें बेगीन पाड पडूं. हांवें तिका थोमणो मारलो. हांवें म्हळें आयज तांणी हुंदीर तुमगेर उडयलो, म्हणजे आमी ताका हुंदीर खावंक घालो, अशें बी तूं समजना मूं?

ह्या कावळ्यांक म्हूण आमची भाशा समजता काय खबर ना. आमच्या घरा सामकार झाड आसा. ताचेर हे कावळे घोंटेर बांदतात. पिलां काडलीं काय कोणूय गॅलरींत उबो रावल्यार पुरो अवचीत येवन

चोंच मारून वता. मजा म्हळ्यार म्हाका मात केन्नाच चोंच मारिना. घडये हांव ताका जेवण घालतां ताचो ताका धेंक आसा जावं येता.

तशें पळोवंक गेल्यार कावळो कोणाकूच आवडना. सगळ्यांकूच ताचो राग येता. पूण म्हाका मात कावळो आवडटा. संस्कृतांत लेगीत म्हळां. जनावरांत कोलो धूर्त, पक्ष्यानी कावळो चतूर आनी बायलांनी माळीण स्त्री चतूर. अशा ह्या चतूर पक्षाचो सगळे जाण राग राग कित्याक करतात खबर ना.

हरशीं मनीस जल्माक येवचे पयलीं ते मर मेरेन कावळ्यालो आनी तागेलो घनिशठ संबंद आसता. म्हजी मांय सांगता घरांत कोणूय गुरवार आसा म्हूण कळ्ळें काय ती कावळ्याचें तांतीं हाडून घेताली. तें फोडून तातूंत धवो कोरो कपडो बुडोवन वतांत सुकयताली. मागीर त्या कपड्याची खोबरेल तेलांत वात करून घालून ताची काजळ पाडी. ती काजळी एंडेल तेलांत मेटून ताचें काजळी पाडी. आनी तें काजळ भुरग्यांक आनी बांयटीक वापरूंक दिताली खंय. हें सगळें आयकून हांव हरून-अल-रशीद च्या काळांत पावलें. ज्या काळांत दोळ्यांत असलें कसलेशें अंजन घालतकच जमनीतलें गुप्तधन बी दिसतालें. म्हाका मनशाचे जिणेंतली विसंगती रोखडीच दिसता. म्हजे आईन म्हज्या दोळ्यांत कसलें काजळ घाल्लें काय? विचारचें पडलें.

भुरगें जालें काय 'तो पळे काऊ' म्हूण आवय भुरग्याक लायता आनी भुरगींय नवलायेन कावळ्याक टुकूटुकू करून पळयता. भुरगो मातसो व्हड जालो काय कावळ्याक कावळेमामा म्हणटा. कावळ्याच्यो कितल्योशयोच काणयो आमी भुरग्यांक सांगतात.

देखीक ती फामाद काणी. एक आशिल्लो कावळो. एक आशिल्ली चिमणी. कावळ्याचें घर आशिल्लें शेणाचें. चिमणेचें घर आशिल्लें मेणाचें. तुमकां सगळ्यांक ती काणी खबर आशिल्ल्यान मुखार ती काणी सांगपाची गरज ना. पूण ती काणी थंय सोंपली ना. ताची

मुखावेली काणी खंयतरी वाचिल्ली ती तुमकां सांगता. हाली दीस बदलल्यात. तेन्ना एक वर्स कितें जालें, पावस आयलोच ना. गरमी एकदम वाडली. इतली वाडली की कावळ्याचें शेणाचें घर सुकून कडक जालें आनी चिमणेचें घर वितळून गेलें. चिमणी करतली कितें? भुरग्यांक घेवन कावळ्यागेर गेली. कावळ्यान चिमणेक फुगोवन दाखयलें ना. रोकडेंच दार उगडलें. आनी चिमणेक म्हळें, म्हजे सारक्या गरिबागेर तूं श्रीमंत चिमणी कित्याक आयली बाये? चिमणेक लज जाली. मागीर कावळ्यान चिमणेक तात्पर्य सांगलें. कोणाचेर केन्ना कसलो वेळ येत सांगू नज. तेन्ना सगळ्यांनी एकामेकांक उणो अदीक समजनासतना मजत करूंक जाय.

दुसरी कावळ्याची काणी आसा ती कावळो आनी म्हातारेन सुकत घाल्ल्या त्या सांडग्याची. म्हातारेन कावळ्याक चोंच धुवन यो म्हूण सांगलें. कावळो बांयचेर गेलो. बांयन ताका मडकें हाड म्हूण सांगलें. हे खेपे तो मडके हाडचे भानगडींत पडलो ना. तो नळ सोदूंक गेलो. नळार चोंच धुवन येता जाल्यार म्हातारी सगळे सांडगे डब्यांत भरून मेकळी. कावळ्याक आयलो राग. ताणें म्हातारेक बुद्द शिकोवपाचें थारायलें. कावळो बरी संद सोदतालो. एक दीस म्हातारेन देवाचीं सगळीं आयदनां घांसून पुसून चकचकीत करून वतांत सुकत दवरलीं. कावळ्यान कितें केलें, ज्युस्त त्या आयदनांतलें चांदीचें निरांजन उखल्लें आनी झाडार वचून बसलो. म्हातारी भायर येवन पळयत जाल्यार रुप्याचें निरांजन ना. ती सोदूंक लागली. तेन्ना कावळ्यान म्हातारेक तें निरांजन बायंत व्हरून उडोवं अशें विचारलें. म्हातारी भितर गेली आनी सांडगे घेवन आयली आनी तिणें कावळ्याक दिले. असो हो कावळो शिटूक.

कावळ्यालीं गुणवर्णनां कितलीं म्हूण सांगचीं? कितेंय खावचें खंय आसा तें ताका ज्युस्त कळटा. आनी एकदां दिशिल्लें तें खाले बगर

तो केन्नाच सोडिना. एकादऱ्या भुरग्याल्या हातांतलें खाण तो हातोहात फारायता. कितेंय सुकत घालें जाल्यार एकलो कावळो येवन आड्डता. आनी ताका धावडावंक आमी वचत जाल्यार हळूच दुसरो कावळो येवन आवाज करिनासतना सुकत घाल्ली वस्त घेवन वता. कावळ्यालो दुसरो गूण म्हळ्यार ताची एकठांय रावपाची वृत्ती. सहकार तत्वाचेर कावळ्यालो खूब विस्वास. तो एकलो केन्नाच रावना. ताका कितेंय खावंक मेळत जाल्यार तो एकलो केन्नाच खायना. कांवकांव करून सगळ्यांक आपयता आनी मागीरूच खाता. कावळे कोंबये पिलाक व्हरून चिकनाची पार्टी करतात तें पळोवपा सारकें. कोंबडी पिलांक घेवन भायर सरता. कोंबडी जिवाच्या आकांतान पिलां सांबाळटा. दोन कावळे ओगीच कांवकांव करून कोंबयेक विरार करतात आनी एक कावळो झोंपय घालून कोंबये पिलाक घेवन वता.

कावळो हरशीं एकाक्ष. पूण ह्या एका दोळ्यान तो बरें खाण आनी हळशीक सारकेच नदरेन पळयता. तो समाजांतली हळशीक खाता. आनी एक व्हडलें समाजकार्य करता म्हळ्यार जाता. म्हणजे समाज लिंप करपाचें कार्य तो एका अर्थान करता.

कावळीण वर्साक एकूच खेप आनी तेंवूय एकूच तातीं घालता खंय. आतां कावळीणी म्हऱ्यांत दोन पिलां दिसलीं जाल्यार तांतलें एक कोगळाचें म्हूण समजुपाचें. कावळ्याचें वैशिश्ट्य म्हळ्यार तो कोगळाल्या पिलाकय आपपर भाव दाखयनासतना तितलेच मायेन वाडयता. मागीर व्हड जातकच कोगळालें पील आपल्या आवयबापाय म्हऱ्यांत वता ती गजाल वेगळी.

दुसरो कावळ्यालो गूण जो मनशांनी चड करून शिकूंक जाय तो म्हळ्यार कावळ्यालें मिथुन. कावळ्यालें मिथुन केन्नाच कोणाक दिश्टी पडना खंय. कावळ्यालें मरणूय तशेंच. कावळ्याक आपलें मरण समजता अशें म्हणटात. तेन्ना मरचे वेळार तो पयस खंय तरी झाडांनी

वचून मरता खंय. कित्याक आपल्या मरणाचें दुख्ख आपल्या जातभाईंनी करचें न्हय म्हूण. पूण तुमी जे मेल्ले कावळे पळयल्यात ते आपशींच मेल्ले न्हय. तांकां कोणे तरी मारिल्ले वा लायटीचो शॉक लागून मेल्ले आसतात. एकाद्रो मेल्लो कावळो कावळ्यांक मेळत जाल्यार ते जो शोक करतात तो सोंसू नज.

कावळ्याक हिंदू लोक चड करून उश्टें घालतात. पूण सर्वपित्री अमाशेक मात तांकां गोडधोड जेवण करून जेवणाक आपयतात. ताजीय पुराणांत एक काणी आसा. ब्रह्मदेवान एकदां कावळ्याक सांगलें खंय, पृथ्वीचेर वच. मनशाक सांग तीन खेपे न्हा आनी एक खेप जेव. कावळो देवलोकांतल्यान पृथ्वीचेर आयलो. पृथ्वीचेर येवन तो देवान आपल्याक कितें सांगलें तें मातशें विसरलो. तेन्ना ताणें मनशाक सांगलें- देवान तुमकां सांगलां तीन खेपे जेवात आनी एक खेपे न्हायात म्हूण. देवाक जेन्ना हें कळ्ळें तेन्ना ताका भयंकर राग आयलो. ताणें कावळ्याक शाप दिलो. तुवें अशें मनशाक सांगलें मरे, तेन्ना आतां मनीस खावन जें उरता ताचेर तूं पोट भर. तेन्ना सावन कावळो उश्ट्याचेर जगता अशें म्हणटात. मागीर कावळ्यान आपली चूक भोगशी म्हूण देवाक सांगलें. तेन्ना देवान ताका सांगलें की एक दीस मनीस तुका भोवमानान आपोवन जेवण दितलो. तो दीस म्हळ्यार सर्वपित्री अमावास्या.

तशें पळोवंक गेल्यार कावळ्याचो खरो उपेग करून घेतलो तो मद्रासी लोकांनी. मद्रासांत संक्रांतीच्या दुसऱ्या दिसाक म्हणटात 'माट्ट पोंगल'. ह्या दिसा बायलां सकाळीं उठटात. न्हाता धुतात. बरें रांदतात आनी कावळ्याक जेवण दितात. हें जेवण घरच्या सगळ्या चलयांनी आनी बायलांनी कावळ्यांक दिवकूच जाय खंय. तीं जेवण दितात आनी सांगतात, हे कावळ्यांनो, आमीय तुमचेवरी सूख दुख्खांत एकठांय रावतलीं. केन्नाच झगडचीं नात. घरच्या सगळ्या चडशा कलहाचें कारण आसतात बायलां. तेन्ना आपले तकलेक शांती मेळची म्हूण

मद्रासी दादल्यांनी कावळ्याची देख दिवन, धर्माचें पांगरूण घालून बायलांक रीत शिकयल्या, आसूं येता.

कावळ्या वेल्यान आमी जाय ते शब्दप्रयोग वापरतात. देखीक उश्ट्या हातान कावळो धांवडावप, कावळो आड्‌डता सोयरो येतलो, कावळो आफुडलो, कावळो बसूंक आनी फांदी मोडली, काकदृश्टी, काकतालीय न्याय. बायलांक तर कावळो कुळारचो मनीस सो दिसता. पयलींच्या तेंपार घोवाघरा आशिल्ल्या बायलांक कुळारा वच्चेशें दिसतालें. पूण कुळारा वता म्हूण सांगचें कशें? तेन्ना बायलां कावळ्याच्या आड्‌डुपाचो अर्थ आपले परीन लायताली आनी म्हणटालीं,

कावळो झाडार बसून रडटा
आई तुजी याद काडटा
अशें बाये सांगता.

कावळ्याच्यो दोन तरा आसतात. एक कावळो आमी सद्दां पळयता तो. हे कावळे चणीन मातशे ल्हान आनी मानेन मातशे गोरे. गोरे म्हळ्यार गोबरी रंगाचे. दुसरे कावळे चणीन बरेच व्हड आसतात. आनी रंगान काळे काळे कीट्ट. तांकां डोमकावळे नाजाल्यार म्हारकावळे म्हणटात. हे कावळे महाकर्कश आड्‌डतात तें मात सोंसू नज. कावळे काळे आनी दिसूंक बरे ना जाले तरी तांकां सौंदर्य दृश्टी आसता हें मानचें पडटलें. अशें म्हणटात की पयलीं कावळ्याक दोनय दोळे आसताले. पूण एकदां कितें जालें सीता न्हाताली खंय. तेन्ना तिका आदि कावळो एक नजरेन पळयत उरलो. तागेलो दोळो आपले बायलेचेर आसा हें पळोवन रामाक राग आयलो. ताणें एक बाण मारून तागेलो एक दोळो फोडून उडयलो. तेन्ना सावन कावळो एकाक्ष जालो.

ते दीस एकदां हांव गोंया आयिल्लें तेन्ना एक कावळो म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो. 'वळखलें?' हांव गोंदळ्ळें. कित्याक सगळेच कावळे सारके दिसतात. 'हांव तो मुंबयचो कावळो. तूंच म्हाका सद्दां जेवण

घालता न्हय?' म्हाका खूब्ब म्हळ्यार खूब्ब खोशी जाली. म्हजेर आशिल्ल्या मोगान तो म्हजे खातीर मुंबय सावन गोंयां धांवत न्हय उडत आयिल्लो.

'आमची हीय बी आयल्या.'

'कित्याक रे, गोंयां हनीमुनाक आयला काय कितें?'

हांवें तागेली फकांडां केली.

'नाऽ ही म्हणूंक लागली आमी गोंया वचूंया. वर्सान वर्स घोंटेर बांदून, घाल्लीं तांतयां उबोवन आनी पिलां काडून म्हाका वाज आयलो. हांवें आयकलां की गोंयांत माडाचे तेंगशेर कोगूळ घोंटेर बांदता म्हूण. तेन्ना ही म्हणूंक लागली अंदू हांव कोगळाल्या घोंटेरांत तातीं घालतां. तेन्ना तूं म्हाका मातशे कोगळाले घोंटेर खंय आसात ते दाखयशीत?'

हांव मातशें चिंतूक पडलें. निमणें हांवें कितें केलें, माडाचे तेंगशेर कोगळाचो घोंटेर ह्यो काव्य पंक्ती रचपी भौ. उदय भेंबऱ्यालो पत्तो कावळ्याक दिलो, आनी सांगलें ह्या पत्त्यार वचून चवकशी कर म्हूण, आनी हांव चलूंक लागलें!



# घर-घोंटेर

तो कावळो म्हजे संवकळीचो.

तुमी म्हणशात हांव बंडल मारतां. कावळे आनी कोणाक केन्ना वळखूंक आयल्यात? पूण हो कावळो वळखूंक येतालो. ताज्या दाव्या वटेतलीं पांखां मात्शीं धवीं आशिल्लीं. हें आनीक एक अजाप. कावळे सगळे काळेच आसतात. पूण हागेलीं थोडी पाखां धवीं आशिल्ली, ताका लागून ताका वळखूंक त्रास पड नाशिल्लो.

सदांच सकाळीं साडेसातांक तो हजर. येता आनी आड्डता. मागीर ताका चपाती घालूंक जाय. हो कावळो आयतें खावन खावन मातला. आदले दिसाची शेळी चपाती खायना. इडली, डोसा घाल्यार खायना. पूण शेळी चपाती हून करून दिल्यार खाता. ताजे जिबेक बरी नाट आसा. तो परथून दनपरां साडेबारांक हजर जाता. आनी नुस्तें तळिल्ल्याचो वास आयल्यार ताचें पयलींच आड्डता.

आमचे बिल्डिंगाच्या कंपावडांत एक झाड आसा. तें आमचे रांदचे कुडी सामकार आसा. झाडाक लागून रांदचे कुडींत उजवाड येना. पूण त्या झाडार येवपी शेवण्यांक लागून म्हजो वगत मात बरो पासार

जाता. ह्याच झाडार कावळ्यान आनी कावळीणीन मेळून घोंटेर केला. तो घोंटेर बांदपाक तांणी जितले त्रास घेतले ताजें हांव साक्षी! कावळो एक एक बडी घेवन येतालो. कावळीण बडी चोंचींत घेवन हांगा थंय उडटाली. आपल्याक जाय तशी ती मोडटाली. हेवटेन तेवटेन बसयताली. तिका मानूंक नाशिल्लीं बडी सहजतायेन भायर उडयताली.

व्हारांदार आशिल्ले कपडे सुकपाचे दोरयेवेलीं सरयेचीं क्लिपां नाच जावंक लागलीं काय समजुचें, कावळो घोंटेर बांदता. तो हीं क्लिपां व्हरून तीं आपले चोंचीन उगडून ते सरयेन आपणे हाडिल्ल्यो बडयो बांदून काडटा. ह्या कावळ्या इतलो बरो आर्किटेक्ट, बिल्डर मेळप खूब कठीण!

एक खेप तो हँगर घेवन आयलो. तो हँगर घेवन कितलोसोच वेळ हेवटेन तेवटेन नाचतालो. आमचे शेजाऱ्नीन हँगराक लावन खोमीस सुकत घाल्ले. आनी हो हँगर दोरयेक हुंबकळायिल्लो. खोमीस सकयल पडिल्लें. हांवें शेजाऱ्नीक उलो मारून सांगलें, कावळ्यान अशें केलें म्हूण. तिणें खोमीस घरांत हाडलें आनी कावळ्याक चार गाळी घाल्यो. 'म्हणटा म्हूण हो कावळो तो हँगर घेवन करतलो कितें?'

'तो घोंटेर बांदता'. हांवें सांगलें.

'पूण तो हँगराचे कितें करतलो?'

इतले म्हणसर कावळ्यान तो हँगर व्हरून घोंटेरा कुशीक आशिल्ले खांदयेर आडकयलो. तें पळोवन हांवें म्हळें-

'ताचीं पिलां व्हड जालीं काय त्या हँगराचो झोपाळो करतलीं.'

पूण मागीर दुसऱ्या दिसा दीस पळयल्यार कावळो हँगर घेवन बसला. आनी ताची गांठ सोडोवपाचो यत्न करता. ताणें खूब यत्न केले. निमाणे ताची चोंच दुखली आसूं येता. मागीर सांजेर पळयल्यार ताणें तो हँगर सारखो उसयिल्लो. तीन खांदयांच्या खांचींत बडयो रचयिल्ल्यो, आनी त्या हँगराचे सरयेन सारक्यो बांदून काडिल्ल्यो.

कावळीण तण, कापूस बी हाडटाली. खूब त्रास घेवन तांणी घोंटेर बांदलो. तशें पळोवंक गेल्यार फाटल्या वर्साचो घोंटेर थंयच मात्सो कुशीक आशिल्लो. पूण ह्या वर्सा तांणी दुसरो घोंटेर बांदिल्लो. आशिल्ल्या घोंटेरांत तांतयां घालीं नात. नव्या पिलांक नवो घोंटेर.

मागीर एक दीस कावळीणीन नव्या घोंटेरांत तांतयां घालीं. तीं ती उबोवंक बसली तेन्ना कळ्ळें तिणें तांतयां घाल्यांत म्हूण! ती तातीं उबोवंक बसताली आनी कावळो खंयच्यान कितें कितें हाडून तिका भरयतालो. ती भुरग्यांवरी चोंच उक्ती करून ताजे कडल्यान भरोवन घेताली.

एकेक खेप ती चोंच उक्ती करिनासतना मान सकयल घालून ओग्गी रावताली. मागीर कावळो तिका काँ काँ करून कितें तरी सांगून चोंच मारतालो. घडये तो सांगता आसतलो, अशें कितें करता तूं? उपाशीं रावल्यार कशें जातलें? फाल्यां तूच जर दुयेंत जालें जाल्यार आमच्या पिलांक पळयतलो कोण? अशें खूब कितें कितें सांगतकच ती मागीर इल्लें कितेंय खाताली. घडये ती म्हणटा आसतली... हें कितें तूं हाडटा सद्दां तेंच तें... म्हाका नाका तें... म्हाका ओकूंक येता... ताणें मागीर विचारलें दिसता... कितें खायन दिसलां जाल्यार सांग... फाल्यां घेवन येतां... कावळीणीन कितें सांगलें कळ्ळें ना. पूण दुसरे दीस कावळो खंयच्यान तरी मेल्लो हुंदीर घेवन आयलो.

अशे तरेन कावळीण ताका कितें कितें हाडूंक लायताली. आनी कावळो हुंदीर, नुस्त्याचीं बोडकां, कोंबये पिलां बी घेवन येतालो. दिसांतल्यान दोन खेप कावळीण घोंटेरांतल्यान उडटाली. आंग फुलयताली. हांगा थंय नाचिल्लेवरी करताली. तो मेरेन कावळो घोंटेरा भायर बसून रावतालो. परतून ती येवन घोंटेरांत बसताली. कावळो उडून वतालो.

मागीर एक तरेन आवाज काडून कावळो कावळीण मनशांक चोंच मारूंक येवंक लागली काय समजुचें पिलां तांतयांतल्यान भायर

आयलीं. पिलां जालीं मात, कावळो आनी कावळीण सादूर रावंक लागली. तांची बरी जतनाय घेवंक लागली. कोणूय झाडापोंदा उबो रावलो, नाजाल्यार बाल्कनीत उबो रावलो जाल्यार तांकां दिसतालें हो मनीस आपल्या पिलांकूच व्हरूंक आयला. मागीर कावळीण सगळें आंग फुलोवन, तांचेर झोंपय घेवन चोंच मारूंक वताली. साप्प पिसावल्ल्यावरी ही कावळीण वागताली. कावळो आपलो कितें कितें खाण घेवन येताली. तीं पिलां कुल्ले दांग्यावरी आशिल्लीं. आपली काळशी तांबूस चोंच उगडून जें कितें मेळटा तें खातालीं.

एक दीस खूब्ब पावस आयलो. सकाळ ते सांजमेरेन पावस ओततालो. वाऱ्यान झाड हेवटेन तेवटेन जातालें. पूण कावळीण त्या पिलांचेर बसून आशिल्ली. पावसान भिजिल्लें आंग फाफडूंक लेगीत ती उठली ना. कावळोय पावसान खंय झडपलो कळ्ळो ना. दीसभर खा खा खावपी तीं पिलांय ओग्गी आशिल्लीं. शाण्या भुरग्यांवरी तांणी आवय कडेन कांयच खावंक मागलें ना. दीसभर बाबडीं उपाशीं आशिल्लीं. कावळीण पिलांक घट्ट पोटा कडेन घेवन जी बशिल्ली ती बद्द दुसरे दिसा सुर्यान जेन्ना दोळो उक्तो केलो तेन्ना उठली.

अशे तरेन बरेच दीस गेले.

एक दीस धा इकरांक सुमार कितलेशेच कावळे काव काव करून आड्डूंक लागले. कितें जालें काय म्हूण पळेल्यार एक पील घोंटेरा भायर आयिल्लें. आनी हेवटेन तेवटेन पळेतालें. मद्रासी लोक भुरग्यांनी पयलें पावल हुंबऱ्या भायर घालें काय दुसऱ्या भुरग्यांक आपोवन हाडून कितें कितें खावंक घालतात. तशें कावळ्या पिलान पयलें उडप केलें म्हूण ताचे सगळे सोयरे जमिल्ले जावं येता. आतां कावळ्यान तांची जेवणा खाणाची कितें वेवस्था केल्ली देवाक खबर!

...कांव ...कांव ...कांव करून सगळेच ताका कितें कितें सांगी. ताका भितरलें कितलेशें कळटालें देवाक खबर! दोन तीन दीस सगळ्या

कावळ्यांनी ताका उडूंक मजत केली. मागीर तो मात्सो मात्सो हांगा थंय उडूंक लागलो.

एक दीस कावळ्यान पिलाक सांगलें... 'तो पळय, ताका मनीस म्हणटात. तो साप्प त्राशीक प्राणी... ताजे पसून सावध राव...

'सावध रावप म्हळ्यार कितें?' पिलान विचारलें

'सावध रावप म्हळ्यार सांबाळून रावप. तो केन्ना कितें करीत सांगू येना.

'तो पळय मनीस', पिलान सांगलें.

'पिशा ताका बायल म्हणटा...' कावळ्यान सांगलें.

'आनी तिचे कडेन आसा तें तिगेलें पील?'

'हय.'

'बापाय... म्हाका तिगेलो भंय दिसता.'

'तिका भियेवपाचें ना रे.'

'मागीर ती म्हजे कडेन बोट कित्याक दाखयता?'

'ती आपल्या पिलाक सांगता तो पळय काऊदादा... चल हांव तुका तिच्या म्हऱ्यांत व्हरतां.'

'नाका... म्हाकाय भंय दिसता.'

'पिसो रे पिसो... तिका भियेवपाची कांयच गरज ना. ती परती तुका इल्लें शीत घालतली. पळ खावपाक...'

'तिका आमकां शीत घालपाची कितें गरज?'

'कित्याक जाल्यार आमकां पळोवन तिगेलें भुरगें जेवतलें.'

मागीर दोगूय उडून ते बायले म्हऱ्यांत गेले. तिणें घाल्लें शीत जेवन आयले.

'आतां तूं म्हणटालो न्ही रे सांबाळून राव म्हूण!'

'हय रे. आतां पळय... खंयचो दादलो समजा आयलो. ताणें तुका पळेलो आनी तो वांकलो, जाल्यार समजुचें, तो फातर उबारून

तुजेर तो मारतलो’

‘आनी समजा तो पयलींच फातर घेवन आयिल्लो आसत जाल्यार?’

‘चल! तुका आतां आनी काय शिकोवपाची गरज ना.’ अशें म्हूण बापायन पयल्या पिलाक सोडलो आनी दुसऱ्या पिलाची खबर घेवंक गेलो.

‘एक दीस दनपरां अकस्मात खूब कावळ्यांची विचित्र आवाजांतली कांव कांव आयकूंक आयली. कितें जालें, काय म्हूण पळयत जाल्यार कावळ्यालें दुसरें पील मेलां. आनी कावळे जमून रड रड रडटात.

कोणेतरी पतंग सोडिल्लो तो झाडाक लागून पिंजिल्लो. ताज्या मांज्यांत कावळ्या पिलाची मान सांपडिल्ली आनी ताचो फास लागून तें पील मेल्लें. बरें अर्दवर ते आड्ड आड्ड आड्डले. मागीर तांकां कळ्ळें दिसता तें पील मेलें म्हूण. मागीर ते सगळे एकदम उठले आनी उडून गेले.

दुसऱ्या दिसा त्याच वेळार ते परतून जमले. एका टीव्ही च्या अँटिनाचेर बसले. एक कावळो वयर बशिल्लो. तो तांचो फुडारी आसूं येता. मागीर मात्शे सकयल बाकीचे कावळे बशिल्ले. सगळे ओग्गी बशिल्ले. बरे पांच धा मिनटां. तांची शोकसभा चलताली काय? ते बसले बसले आनी आवाज करिनासतना एकदन उठून उडून गेले. खंय गेले देवाक खबर!

दुसऱ्या दिसा कावळीण आयली. घोंटेरा म्हऱ्यांत बसली आनी रडूंक लागली. दोन तीन कावळे खंयच्यान तरी धांवन आयले आनी तांणी तिका चोंच मारून धांवडायली. परतून ती सांजेर आयली आनी रडूंक लागली. परतून खंयच्यान तरी कावळे आयले आनी तिका चोंच मारूंक लागले. तिका परतून धांवडायली. घडये तांणी तिका सांगलें आसूं येता, जावचें तें जावन गेलें. आतां रडून कितें फायदो? मर्ण कितें

आमच्या हातांत आसा? उठ. सदां भाशेन कामाक लाग. पिलां जातात आनी मरतातूय बी. ही काय नविदाद न्हय. पिलां तुजीं कितें एकलेचीच मेल्यांत? आमची मरूंनात? जावन गेल्ल्या गजालींचेर दुख्ख करून फायदो ना...

मागीर पांच स दीस ती कावळीण घोंटेरा लागीं येताली. हळू आवाजांत रडटाली आनी वताली.

तिगेलें दुख्ख पळोवन म्हाका वायट दिसलें. म्हजें मन म्हाका खावंक लागलें... कित्याक?

कावळ्यालें पील उडटना पळोवन म्हाका दिशिल्लें, हांणी मे म्हयन्यांत घोंटेर बांदलो... तांतयां घाली. पिलां काडलीं. म्हणटा म्हणसर तीं उडूंक लागली. नाजाल्यार आमी मनशां... ते णव म्हयने भुरगें पोटांत सांबाळप... मागीर ताका त्रास घेवन ल्हानाचें व्हड करप... तें व्हड जावन आपल्या पांयांचेर उबे रावता म्हणसर कितलो तेंप लागता... ह्या कावळ्याचें आपलें बरें... दोनचार म्हयन्या भितर सगळें मेकळें...

'देवा, त्या पिलाक म्हजी दिश्ट बी लागली ना मूं'?



# शेवण्या पिपुशा...

म्हज्या कुळारची कुळदेवता शांतादुर्गा. सावयवेरेंच्या सांतेर भाटांतली. मुंबय सावन गोंयां येतकूच सांतेरभाटांत वचप जाता. अशेंच एक खेप सांतेरभाटांत गेल्लें थंय एक शेवणें दिसलें. चिमणे परस मातशें व्हड. हळडुव्याच आंगाचें. पूण ताची तकली, दोळे आनी चोंच मात काळीकिट्ट आसली. हो काळो रंग तिकतिकीत आसलो.

कितलें सुंदर शेवणें! हांव ताका पळेतूच उरलें. ताका पळोवन म्हजे कल्पनेक पांखां फुटलीं. भुरगेपणांतल्या काणयांतल्या यादींनी हांव शेणलें. ताका पळोवन म्हाका दिसलें, हें शेवणें पयलीं काळेंच्च आशिल्लें आसूंक जाय. आपल्या काळ्या रंगाची ताका लज दिसूंक लागली. म्हूण तें देवा कडेन गेलें. ताणें देवाक सांगलें, 'देवा, म्हजो रंग म्हाका बदलून दी.'

देवान म्हळें, 'बरें आसा. तूं अशें कर, सावय अनंताच्या देवळांत वच. थंय तळी आसा. तातूंत तीन खेपे उडकी मार आनी कितें जाता तें पळय.'

तें शेवणें उडत उडत अनंताच्या देवळांत पावलें. तळयेर गेलें.

तीन खेपे ताणें उदकांत बुडयो मारल्यो. आनी तें भांगरा वरी हळडुवेंच जालें. आनीक एक उडकी मारल्यार आनीक सुंदर जायन घडये, अशें चिंतून ताणें चवथे खेपे उडी मारली. ते बराबर ताची तकली गळ्या मेरेन काळी जाली. आनीक उडकी मारल्यार आशिल्लोय हळडुवो रंग वचत म्हूण तें भिलें. आनी उडी मारिनासतना उडून गेलें.

तें शेवणें उडून गेलें. पूण म्हज्या काळजाच्या पड्ड्यार ताचें तें चित्र सासणाचें उरलें. ताणें म्हाका कल्पनाविलासांत भोंवडायलें. आनी विहंगावलोकन हांवें करूंक जाय हाची म्हाका जाणीव करून दिली.

मुंबय जायत्यो कार्यावळी जायत आसतात, झाडां, फुलां, सवणीं, पिसोळीं, जनावरां पळोवपाच्यो. एक खेपे पक्षी निरिक्षणा खातीर एक पंगड डेहराडूनच्या 'चक्राता' गांवांत वचपाचो आसा म्हूण कळ्ळें. म्हजी भयण शशी आनी हांव उमेदीन गेलीं. थंय आमचे वांगडा एक पक्षीतज्ञ आशिल्लो. ताचें नांव आदेश शिवकर. फाटलीं वीस वर्सां तो ह्या वेवसायांत आसा. ताका हांवें विचारलें, 'गोंयां हांवें अशें अशें शेवणें पळयिल्लें. ताचें नांव कितें?' ताणें सांगलें, 'खंयच्याय शेवण्या विशीं विचारतात तेन्ना दोन तीन गजाली मतींत दवरूंक जाय. सगळे लोक तीनचार शेवण्यांक सारके वळखतात. चिमणी, कावळो, पारवो आनी मोर. खंयचेंय शेवणें पळयलें काय ताचो पयलीं आकार पळोवपाचो. देखीक, तें तुमी वळखतात त्या शेवण्या परस ल्हान काय व्हड! मागीर ताच्या पांयांचो, आंगाचो, चोंचीचो रंग पळोवचो. आनी, ताचें कितेंय खाशेलपण आसल्यार तें लक्षांत दवरचें. परतून तें खंयच्या वाठारांत दिसलें तेंय पळोवंक जाय. जाल्यारूच तें शेवणें अमकेंच म्हूण आमच्यांनी सांगूं येता.'

मुखार त्या पक्षीतज्ञान म्हळें, 'त्या शेवण्याचें वर्णन आयकून म्हाका दिसता, तें 'कृश्णशीर हळदया' आसूंक फावो. ताच्या हळडुव्या आनी काळ्या रंगाक लागून आमी ताका 'टॅक्सी शेवणें' अशेंय म्हणटात.

मागीर ताणें सांगलें, 'हांव कितें सांगता तें लक्ष दिवन आयकात. आपले भितर आपसांत उलोवं नाकात. हेवटेन तेवटेन पळोवं नाकात. ताका लागून आमची व्हेवलँग्थ बरी जुळटली. हे प्रक्रियेक एक लय मेळटली. ही लय जुळ्ळी काय शेवणीं तुमकां मेळूंक येतलीं. पिसोळीं तुमचेर येवन बसतलीं तेन्ना, पक्षीनिरिक्षणांत सगळ्यांची एकलय, एकतानता आसप गरजेचें.'

हांव अजाप! परतून लय? पयलीं फकत संगितांतली लय आनी ताल हांची जाण आसली. मागीर चित्रकलेंत ताल आनी लय आसता म्हूण कळ्ळें. आनी आतां ह्या पक्षनिरिक्षणाकूय ताल आनी लय लागता! मागीर दिसलें, आरे, आमचे जिणेकूय ताल आनी लय आसता. सैमाच्या तालार आनी ताचे लयींत वचत जाल्यारूच जीण जगप सोंपें जाता. नाजाल्यार लागली वाट! पक्षीनिरिक्षणाची नजर विकसीत करपाकूय एक लय जाय हें म्हाका पयलेच खेपे होलमलें.

ल्हानपणांत चिमणी, कावळो, पारवो, कीर, मोर बी शेवणीं खबर आसलीं. ल्हान आसतना आई काणी सांगताली. कवडुल्या पोराची. एक आसलो कवडुलो पोर. ताका घोंटेरांत दवरून ताचे आवयबापूय ताका जेवण हाडूंक वताले. भायर वतना आवय कवडुल्या पोराक सांगताली, 'आरे, तूं घोंटेरांत बसून राव. आमी नासतात तेन्ना भायर येवं नाका.'

आवयलें आयकनासतना एक दीस कवडुलो पोर घोंटेरा भायर आयलो. हांगा थंय उडूंक लागलो. ताका सारकें उडूंक येनासलें. तेन्ना ताका एका मनशान धरलो. तो आड्डलो, 'आई गेऽ, म्हाका धरलो.'

ताचे आवयन म्हळें, 'धरुंदी रे कवडुल्या पोरा, म्हजी सांगणी आयक नासलो, म्हजी सांगणी आयक नासलो!'

आई ह्यो दोन वळी नादमय कवनशें गावन दाखयताली.

मागीर कवडुल्या पोराचीं पाखां कापलीं. ताका सोल्लो. तो

कवडुलो पोर आड्डून आवयक उलो मारतालो. आनी ताची आवय ताका पदांतल्यान सांगताली, आपूण कितें करूं? तुवें म्हजी सांगणी आयकली ना. कवडुलो पोर कसो आसलो, कसो दिसतालो कांय खबर ना. पूण ताचे कळवळे आमच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवताले. आनी मनांत इतलेंच उरतालें. आवयचें आयकलें ना जाल्यार भुरग्यांक दुख्ख सोंसचें पडटा.

अजून कवडुलो म्हळ्यार खंयचें शेवणें, म्हाका खबर ना. चक्राता सावन मुंबय येतना वाटेर पोन्न्या दिल्ली स्टेशनार ट्रेनीची वाट पळेत उबीं आसलीं. सकाळचीं स जाल्लीं. थंय जायतीं शेवणीं उडटालीं. तातूंत पारवे आसले. तांतल्या एका शेवण्या कडेन बोट दाखोवन पक्षीतज्ञ आदेश सरान म्हळें, 'तो पळेयात कवडो'. सरान कवडो आनी पारवो हांचे मदलो फरक समजावन सांगलो. तो म्हाका कळ्ळोच ना. हो कवडो म्हळ्यार आईले काणयेंतलो कवडुलो काय ह्या विचारांतूच हांव उरलें.

आदेश सरान थंय आमकां स्विफ्ट हो पक्षी दाखयलो. फांत्या पारार हांचीं भिरींच हांगा थंय उडटालीं. तें पळोवन आदेश सर उठलो. म्हणूंक लागलो, 'हांचे घोंटेर हांगा खंय तरी आसतले. हांव पळोवन येतां.' ताणें ते पळेले. फाटल्यान आमी सगळीं ते पळोवपाक धांवलीं. हें पोन्ने स्टेशन आशिल्ल्यान ताच्यो वण्टी बऱ्योच ऊंच आशिल्ल्यो. त्या वण्टीं वयर कोनशाक तांणी घोंटेर बांदिल्ले. मागीर सरान सांगलें, 'हें स्विफ्ट. मराठींत हांकां पाकोळ्या म्हणटात. हीं शेवणीं केन्नाच जमनीर बसनात. वयले वयर हवेंत धांवपी हीं सुकणीं! वयर दोंगराचे खांचींत, नाजाल्यार घरांचे वणटीर हीं घोंटेर बांदतात. वाऱ्यार उबता तो कापूस, पांखां बी तीं वयले वयर झेलतात आनी तीं एकठांय करून घोंटेर बांदतात. तांचो घोंटेर घट उरपा खातीर तांची लाळ शिमिटाचें काम करता.'

स्विफ्ट हें शेवणें मनांत घोंटेर करून रावलें. मागीर ताचे विशीं अदीक म्हायती मेळोवपाचो यत्न केलो. तेन्ना कळ्ळें, ह्या शेवण्याच्यो पन्नासां वयर जाती आसात. हांची धांवपाची गती जबरदस्त आसता. तांचे वेल्यान गाडयेचें नांव स्विफ्ट दवरलां अशें म्हणटात. उटंगारांचो पावस पडटा तेन्ना तीं शेवणीं सैरभैर जातात. खूब्ब फोर्सान धांवतात. एकेक खेपे तीं इतल्या फोर्सान धांवतात की एकामेकांक आदळून मरतातूय बी. गोंयांत बागा, कळंगुट हे जातींचीं शेवणीं मेळटात. गांवगिऱ्या वाठारांत हांकां कितें म्हणटात तें थंयच्या लोकांक विचारूंक जाय.

ह्या शेवण्यांक पळोवन म्हाका याद जाली. एक खेपे हीं शेवणीं एके जांबळीर एकठांय जाल्लीं हांवें पळेल्लीं. तीं पानांपानांनी कुचकुचीत भरिल्लीं. झाडभर चिंवचिंवतालीं. दिसलें जांबळूच चिंवचिंवता. इतलीं शेंकड्यांनी शेवणीं खंयच्यान आयलीं काय? हांव चिंतूंक पडलें. चिंतता चिंतता कल्पनेच्या राज्यांत पावलें. दिसलें, ह्या शेवण्यांचे राजकन्येचें लग्न आसूंक जाय. लग्नाक बोवाळ चलता तस्सो थंय बोवाळ चलतालो. लग्ना माटवांत ल्हान भुरगीं आशिकुशीक जागो मेळटकच धांवतात, पडटात, हांसतात, किंळच्यो मारतात तशीं तीं शेवणीं दिसलीं. मदींच शेवण्यांचें भिरें अश्शें उडून वतालें. मदींच दुसरें भिरें येतालें. थोडीं शेवणीं मदींच उडून वयर बसतालीं. मागीर म्हाका दिसतालें, एक भिरें हळद घेवन आयलां, तांकां बसूंक बरी सुवात दिवंक दुसरी शेवणीं वयर वचून बसल्यांत. तांचो तो बोवाळ पळेत हांव कितलो तरी वगत पिश्या वरी उबें आसलें. तांचें कितें चलतालें, खबर ना. पूण कसलो तरी आनंदोत्सव चलतालो इतलें खरें! तो पळोवन आनी अणभवून हांव खोशयेन फुल्लें. म्हजे भशेन ती जांबळूय खोशयेन फुलारून फुल्ल्या आसूंक जाय. आनी सेर्त! त्या वर्सा त्या झाडाक खूब्ब जांबळां लागल्यांत आसूंक जाय.

लग्न जावन हांव मुंबय पावलें. फ्लॅटा मुखार सोनमोहर आनी बिल्डिंगेच्या एका कोनशाक पिंपळ आसलो. थंय विंगड विंगड तरेचीं शेवणीं येतालीं.

हांगा मडवळण येताली. हिका धवे मुस्तायकेक घालतात ते निळीचे काशी वयले एके जायरातीच्या लेबलाचेर पळेल्ली. तिका इंग्लिशींत 'रॉबिन' म्हणटात. काळसार निळो रंग. मदींच धवेफुल्ल पटे. आंगार आनी शेंपडेकूय. निळीची जायरात करता ते कंपनीचे कल्पकतेची तोखणाय दिसली. नीळ घाली काय धवे कपडे त्या शेवण्याच्या धव्या पट्ट्या इतले धवेफुल्ल जातात हें तांणी बरे तरेन व्यक्त केल्लें.

थंय बुलबुलूय येताले. कोंकणींत बुलबुलाक पिटकोळी म्हणटात. थोडो लोक पिट्टोळी म्हणटात. हे पिटकोळेच्या तोंडार धवें, तांबडें खत आसता. शेंपडेपोंदाय तांबडे खत आसता. तकलेर काळो तुरो आसता. हो तुरो पयलींचे गवय तकलेक साफा (एके तरेचो लेंस) बांदताले तसोसो दिसता. ताका लागून ताका गवय पक्षीय म्हणटात. बुलबूल तरेकवार रंगाचे आसतात. काफये कोराचे, काळशे, धवशे, गोबरे, हळडुवेशे. 'रुबी थ्रोटेड बुलबूल' हो गोंयचो राजपक्षी हें कितल्या गोंयकारांक खबर आसा काय?

मुंबय आनीक एक सुकणें पळेलें. चिमणे परस व्हड पूण साळोरे परस ल्हान. तें मोरा भाशेन पांखां फांकारून नाचतालें. नजर थारना इतलें तिरतिरतालें. मागीर कळ्ळें, मराठींत ताका 'नाचण्या' म्हणटात. कोंकणींत कितें म्हणटात, खबर ना. म्हूण हांवेंच ताका नांव दवरलें 'फुलगें.'

मुंबय आनीक एक शेवणें पळयलें. सादारण साळोरे येदें. हळडुव्याच आंगाचें. हळडुवी चोंच आनी हळडुव्याच पांयांचें. ताचे दोळे भरतनाट्यम करपी नर्तिका दोळ्यांत काजळ घालता तशे काजळ घाल्ले वरी आसले.

ताच्या पांखांच्या तोंकार काळ्या रंगाचो ब्रश मारिल्ले वरी काळसो रंग आसलो. हें शेवणें सादारण मार्च आनी मागीर सप्टेंबर-ऑक्टोबरांतूच दिसतालें.

एकदां कोडीबाग कारवार गेल्लें चवथी कडेन. थंय फुलां काडूंक गेलें. जाल्यार थंय एका शेवण्याचो घोंटेर आसलो. दोन पानांक दोशीं वटेन बोंते काडिल्ले. बुटाची लेंस बांदूंक आसतात तशे! आनी त्या बोत्यांतल्यान दोर बांदून दोनूय पानां बरीं शिंविल्लीं. भितर कापूस, पानां घालून गादी केल्ली. तातूंत त्या शेवण्यान तांतयां घाल्लीं. हांवें थंयचीं फुलां काडली नात. मागीर थंय खंयचें शेवणें येता तें हांव पळयत बसलें. चिमणे परस ल्हान, हळडुवश्या पोटाचें, आंगा परस लांब आनी उबे शेंपडेचें तें शेवणें आसलें. मागीर कळ्ळें, ताका 'शिंपी' म्हणटात म्हूण!

जगांत धा हजार तरांचीं शेवणीं आसात अशें नोंदशास्त्र सांगता. तांतलीं एक हजार तिनशें तरांचीं शेवणीं भारतांत मेळटात. आनी तांतलीं दोनशें एकसश्ट तरांचीं शेवणीं गोंयांत मेळटात. सद्या गोंयांत जे लोक येतात ते फोल्गां मारूंक येतात. ते देवळां, इगर्जो आनी दर्यादिगो पळयतात. खातात, पियेतात, नाचतात आनी वतात. पूण थोडे लोक दर वर्सा फकत शेवणीं पळोवंक गोंयां येतात. गोंयांत आठ तरांचे 'किरकिरे' म्हळ्यार 'किंगफिशर' आसात म्हूण म्हाका तांचे कडल्यान कळ्ळें.

गोंयकारांक खूब नुस्त्यांचीं नांवां खबर आसतलीं. पूण पंचवीशेक तरी शेवण्यांचीं नांवां तांकां खबर आसतली काय दुबाव! गोंयांत जीं इतलीं शेवणीं आसात तांकां नांवां आसचीं नात? आसतलीं. परतून विंगड विंगड वाठारांनी तांचीं नांवांय विंगड विंगड आसतलीं. पूण तीं सोदून काडूं नाका? म्हजो हो लेख वाचून गोंयचे तरणाटे शेवण्यांक पळोवपाची नदर केळयत काय? गांवगिऱ्या वाठारांतलीं, गोंयचे मातयेचो, भाशेचो खाशेलो परमळ आशिल्लीं शेवण्यांचीं नांवां कोणूय पुंजायत

काय?

फाटलीं कितलीशींच वर्सां हांव मुंबय रावतां. गोंयां येता तेन्ना गोंयचे दोंगर तासून थंय बांदिल्लीं घरां दिसतात. गोंयची रुखावळ नानपश्यात जायत आसा.

देवा तूं! गोंयच्या ह्या सैमाच्या नाशाक लागून शेवण्यांचो मंजूळ चिंवचिंवाट शेणचो ना मूं?





**शीला कोळंबकार**

**हेर पुस्तकां:**

| | |
|---|---|
| ओली सांज, गॅर, कथाशील | कथां झेले |
| भुंयचांफीं | व्यक्तीचित्रां |
| तेजस आनी ओजस, पंकज, काबळ्या काव्या रे | बालसाहित्य |

**अणकारीत साहित्य:**

परजळती धोल, भांगराचें सुकणें, दोंगरावयलो उजो

**साहित्यीक भोवमान आनी पुरस्कार:**

| | |
|---|---|
| साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार | भुंयचांफीं |
| साहित्य अकादेमीचो अणकार पुरस्कार | भांगराचें सुकणें |
| मैथिली भाशा संमेलनात | मिथिलारत्न पुरस्कार |
| गोंय कला अकादमीचो पुरस्कार | ओली सांज |
| सॅमसंग इलेक्ट्रॉनीक्साचो टागोर पुरस्कार | गॅर |

चवदाव्या अ.भा. कों. साहित्य संमेलनाच्यो अध्यक्ष - १९९७

